# कोंकणी म्हणीसागर



संकलन

मनोहर पै धुंगट




गोवा कोंकणी अकादेमी
बोरी फोंडें गोंय

# कोंकणी म्हणीसागर



संकलन :
मनोहर पै धुंगट

प्रकाशन क्र.: ५४



उजवाडावपी :
नारायण श्रीकृष्ण नावती
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी
बोरी, फोंडें, गोंय

छापपी :
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स
माशेल, गोंय

मुखचित्र :
निलांगी फडते

पयली उजवाडावणी :
डिसेंबर -२००३

मोल : १५०/- रु.



# KONKANI MHANISAGAR

Compilation :
Manohar Pai Dhungat

Publication No.: 54



Publisher :
Narayan Shrikrishna Navti
Secretary,
Goa Konkani Akademi
Borim, Ponda, Goa

Printer :
Swarnamudra Prints
Marcela, Goa

Cover :
Nilangi Phadte

First Edition :
December - 2003

Price Rs. 150/-

# म्हणींच्या आदारान कोंकणी समाजाचो अभ्यास जावंचो

संवसारीक मळाचेर लोकवेदाच्या वावराक अठराव्या शतमानांत चालना मेळ्ळी, पूण ह्या कार्यान खरो नेट धरलो तो एकोणिसाव्या शतमानांत. १८१२ वर्सा 'जॅकब ग्रीम' आनी 'विलियम ग्रीम' ह्या दोगां जर्मन भावांनी, जर्मन लोककाणयांचें एक संकलन करून उजवाडायलें आनी देश-विदेशांत ह्या वावराक प्रसिध्दी फावो जाली. हे प्रसिध्दी वांगडा कितलेतरी कार्यकर्ते - अभ्यासक ह्या क्षेत्रांत देंवले आनी आप-आपलेपरीन तांणी वावराची घुडी खांदार घेतली. फाटल्या सुमार दोन शतमानांत ह्या विशयाचो विविधांगी अभ्यास जायत आसा. प्रचंड संकलनावांगडा, उपाट संशोधनय ह्या क्षेत्रांत आयज जाल्लें आसा. सुरवेच्या काळार भासशास्त्र, समाजशास्त्र, इतिहास, मानववंशास्त्र, साहित्य आदि अभ्यास शाखांचो एक पोटविभाग इतकीच वळख आशिल्ल्या ह्या विशयाक आज 'स्वतंत्र अभ्यासशाखा' ही उपाधीय लाबिल्ली आसा.

भारतांतल्या लोकवेद संकलनाच्या कार्याचें मुळावण खरें 'पंचतंत्र', कथासरित्यसागर', 'हितोपदेश', 'वेताळ-पंचविशी', 'सिंहासन-बत्तीशी', 'शुकबहात्तरी' ह्या सारक्या ग्रंथांच्या निर्मणेंतल्यान पुराण काळार पडलां. 'लोकांचे' जिबेर घोळपी काणयांकच ह्या ग्रंथांच्या रचनाकारांनी ग्रंथरूप दिल्लें आसा. तांच्या निर्मणे उपरांत अठराव्या शतमानांत 'एशियाटीक सोसायटी' आनी 'बॉम्बे ॲन्थ्रोपोलोजीकल सोसायटी' ह्या संस्थांनी 'पुरातन परंपरा' ह्या माथाळ्याखाला लोकसंस्कृतीचो थोडोभोव वावर केला, मात आधुनीक लोकवेद कार्याची बुन्याद १९६८ वर्सा 'मेरी फ्रियर' हे एके ब्रिटिश अधिका-याचे धुवेन एकठांवन उजवाडायिल्ल्या 'Old Deccan Days' ह्या लोककाणयांच्या पुस्तकावरवीं पडली. ह्या बुन्याद कार्यानंतर फाटल्या शे- देडशीं वर्सांत भारतांतल्या वेग-वेगळ्या वाठारांत घोळणुकेंत आशिल्ल्या, वेग-वेगळ्या भाशांतल्या लोकवेदाचें तोखणाय कर सारकें कार्य जालां.

भारतीय भाशांचे पंगतीक तांची एक भयण भास म्हुणून मानान बसपी कोंकणी भाशेंत घोळणुकेंत आशिल्ल्या लोकवेदाच्या संकलनाचें, तशेंच ताच्या विंगड विंगड आंगांच्या संशोधनाचें कार्य मात आजुनय फावो त्या प्रमाणांत जावंक पावलें ना, अशें खंतीन म्हणचें पडटा. १९९२ वर्सा 'मेंशियोर सेबास्तियांव रोदोल्फ दाल्गाद' हांणी कोंकणी भाशेंत घोळणुकें आशिल्लो म्हणींचो एक संग्रह करून तो ' Florilegio de

Provebios Concanis' ह्या नांवान पोर्तुगेज भाशेंत उजवाडायलो आनी कोंकणी लोकवेदाच्या वावराची म्हेड पुरली. तांच्या ह्या कार्याउपरांत 'शणै गोंयबाब'(सर्गेस्त वामन रघुनाथ शणै वर्दे वालावलीकर),'गोम पै' (सर्गेस्त रामचंद्र शंकर नायक) हांणी कोंकणी भाशेच्या उध्दाराची घुडी हुंबयतनाच, लोकवेदाच्या कार्यचीय खुंटी मारली. उपरांतच्या काळांत खास करून फाटल्या पंचवीस - तीस वर्सांत गोंय तशेंच गोंयाभायल्या वाठारांत जाण्टयां तशेच नेण्टयांनी कांय प्रमाणांत ह्या क्षेत्रांत उतरून वावर केला.

कोंकणी लोकवेद क्षेत्रांत वावुरतल्या हातांचे संख्येचो उणाव आनी शास्त्रीय दृश्टीकोनाचो अभाव, ह्यो दोन गजाली लक्षांत घेवन, तशेंच शारीकरणाच्या चपक्यांत नेटान सांपडूंक लागिल्ल्या कोंकणी वाठाराची स्थिती जाणून, गोवा कोंकणी अकादेमीन आपले स्थापनेउपरांत रोकडीच लोकवेद विभागाची स्थापणूक करून कोंकणी लोकवेदाच्या वावराक चालना आनी आलशिरो दिवपाचो हावेस बाळगिल्लो आसा. अकादेमीक मेळपी मर्यादीत सरकारी निधीक लागून मर्यादीत यंत्रणा आनी मनीसबळ जरी अकादेमी ह्या विभागाक दिवंक शकली, तरी ह्या विभागावरवीं आतांमेरेन जाल्लो वावर उल्लेखनीय आनी शास्त्रशुध्द स्वरूपाचो आसा. विभागाची मुखेली श्रीमती जंयती नायक हिणें, विभागाचेवतीन तयार करून उजवाडायिल्लें ग्रंथ आनी संकलनां नव्या अभ्यासकांखातीर भोव मार्गदर्शक थारिल्लीं आसात. कोंकणी लोकवेदाचें 'संकलन' आनी 'संवर्धन' हें अकादेमीचे एक उद्दिश्ट. ह्या उद्दिश्टांचे पुर्ततेक वावुरतना अकादेमीन विभागावरवीं गोंयच्या तळा- गाळांतल्या लोकवेद प्रकारांचीं साबार आंगां पुंजावन जतन करून दवरल्यात, तेचबरोबर तांचेर पुस्तकांय उजवाडायल्यांत.

पुस्तक उजवाडणेचो हो वावर अकादेमी, स्वता विभागावरवीं एखाद्र्या प्रकाराचें संकलन- संपादन करून, वा ग्रंथ रचून करता, तेच बरोबर विभागाभायल्याय एखाद्र्या अभ्यासकान तयार केल्लें पुस्तक मानवल्यार तें आपूण छापून करता. हे आदीं श्री. चंद्रकांत केणी, प्रो. श्याम वेरेंकार, श्रीमती कमलादेवी राव देशपांडे ह्या तीन बरोवप्यांची पुस्तकां अकादेमीन आपल्या लोकवेद संवर्धनाच्या उद्दीश्टाखाला छापल्यांत. 'कोंकणी म्हणीसागर' हें श्री. मनोहर पै धुंगट हांचे हेच वळेरेंतलें चवथें पुस्तक.

'कोंकणी म्हणीसागर' हें गोंय, केरळ, कर्नाटक आनी महाराष्ट्र ह्या चारूय वाठारांत राबितो करून आशिल्ल्या कोंकणी मनशाचे जिबेर घोळपी 'म्हणींचें' संकलन. ह्या पुस्तकांत आस्पाविल्ल्यो म्हणी लेखकान वेगवेगळ्या प्रकाशीत आनी

अप्रकाशीत माध्यमांच्या आदारान पुंजायल्यात. पुस्तकांत दितना जंय गरज थंय तांचो अर्थ दिला. कांयकडेन तांचीं कोंकणींतलीं हेर रुपांय दिल्यात, तर कांयकडेन हिन्दी, मराठी, इंग्लीश, गुजराती आदीं भासांतलींय समरुपां दिल्यात. शक्य थंय टिपो जोडल्यात आनी म्हणी फाटली काणीय सांगपाचो यत्न केला.

प्रस्तूत पुस्तकाचें हातबरप जेन्ना आमच्या हातांत पावलें तेन्ना तातूंत भोवमोलादीक संस्कृतीक ठेवो आसा, पूण तेचबरोबर ताचेर बरेच संपादनाचे संस्कार करपाचीय गरज आसा अशें आमकां दिसलें. अशास्त्रीय अशो कांय गजालीय तातूंत घुस्पल्यो दिसल्यो. ह्यो गजाली कुशीक काडून, ताचेर योग्य संपादनाचे संस्कार करपाचो वावर आमी लोकवेद विभागाकडेन सोंपयलो आनी तेप्रमाण शक्य तितकें हातबरप निवळावन 'लोकवेद अभ्यासाचें एक म्हत्वपूर्ण साधन' अशें रूप ह्या पुस्तकाक दिवन आनी तें उजवाडायतात. ह्या पुस्तकांत आस्पाविल्ल्या म्हणींचे नागरी वर्णमाळेप्रमाण अक्षरां घेवन मुखेल विभाग केल्यात, मात ताचो अंतर्गत क्रम सांबाळिल्लो ना. मूळ हातबरपांत तशी मांडावळ केल्ली नाशिल्ल्यान अखेरेक ती करप म्हळ्यार तेखातीर लेखकाचें सगळेंच हातबरप घुंवडावप जातलें, हें जाणवल्ल्यान तो टाळ्ळा.

म्हण म्हळ्यार अणभवांची खण. अतिशय मार्मिकपणान, शक्य तितक्या मेजक्या उतरांनी ती विदारक सत्य प्रगट करता. तिका कोंकणींत, 'आदगत', 'ओपार' अशींय नांवां आसात. म्हण आनी वाक्प्रचार ह्या दोनांयमदीं खूब लागींपण आसा. मात म्हणींत येवपी वर्णन वा घडणूक पूर्ण रूपांत मेळटा, तर वाक्प्रचारांत ती अपूर्ण आसता. स्वतंत्रपणान कोंकणींत वाक्प्रचारांची संकलनां वा पुस्तकां आजून प्रकाशीत जाल्लीं नात. म्हणींचीं मात आजवेर णव पुस्तकां प्रकाशीत जाल्याचीं आमचे माहितींत आसात. ह्या पुस्तकाचें आधारावळींत श्री. धुंगट हांणी तांतल्या थोड्या पुस्तकांची नांवां दिल्यांत,म्हणींच्या पुस्तकांचे वळेरेंतलें हें धावें पुस्तक. हें पुस्तक उजवाडाक हाडटना खोस भोगतां. ह्या पुस्तकांतल्या म्हणींच्या आदारार फुडें कोणाय अभ्यासकान समाजीक, ऐतिहासीक बी दृश्टीकोनांतल्यान कोंकणी समाजाचो अभ्यास केलो तर आमचो आनंद निश्चितच दुप्पेटीत जातलो. त्या वावराचें पुस्तक उजवाडाक हाडूंकय आमकां खोस भोगतली. त्या दिसाची आमी वाट पळयतात.

**पुंडलीक नायक**
**अध्यक्ष**
गोवा कोंकणी अकादेमी

बोरी, फोंडे, गोंय

# प्रस्तावना

आमगेलो लोकवेद (Folklore) ,कोकणी लोक उलोवंक लागले तेन्नाच्यान एक सारको घोळत आयला. तो चड पोरणो. लोकगितां, काणयो, म्हणी, हुमाणी हीं ताची एकमेकांकडेन संबंद आशिल्लीं आंगां. तोंडी रचलेलें आनी तोंडी प्रसार जाल्लें साहित्य. केन्ना काणी लोकगितान पावल्या, जाल्यार केन्ना काणयेंतल्यान म्हण आयल्या. हुमाण्याची म्हण जाल्या अशेंय घडलां. देखीक, हें हुमाणे आनी कंसान दिल्ली जाप पळेयात, 'मारूंक व्हेल्यार रडटा आनी पोंसूंक व्हेल्यार रडटा.' (धुकर). तांचे वयल्यान 'धुकर मारूंक व्हेल्यारूय रडटा, पोसूंक व्हेल्यारूय रडटा.' अशी म्हण जाल्ली मेळटा. बरें केल्यारूय रडटा आनी वायट केल्यारूय रडटा तेन्ना ती वापरतात. (धु-20) 'जिबेक हाड ना.' (जि - 1) ही अशीच दुसरी म्हण.

## लोकवेद पुंजावपाचो वावर

'आमगेलो लोकवेद म्हळ्यार रत्नांची खण. ही खण आमी जितली जितली उस्तूं तितली तितलीं वज्रां, केम्पू, पांचू बी रत्नां आमगेल्या हाताक लागतलीं. आमी पेंगट बांदून वावरूंकूच जाय, अशें आवाहन शणै गोंयबाबान कोंकणी परिशदेचे तिसरे बसकेचे येवकार अध्यक्ष ह्या नात्यान केल्लें.[1]

लोकगितां, काणयो हुमाणी बी पुंजावपाचो आनी तांचे संग्रह उजवाडावपाचो वावर आर्विल्या काळांत बरोच जाल्लो आसा.[2] पूर्विल्या काळांत भाशेच्या अभ्यासाक आनी उतरांचो अर्थ कळपाक उपयोगी म्हणून म्हणी पुंजायल्यो दिसतात.

1560 ते 1684 ह्या सवायशें वर्सांच्या काळांत फ्रांसिस्कान आनी जेजुईत पाद्रीनी कोंकणी भाशेच्या अभ्यासाचें गडगंज अशें काम केलें. 1684 वर्सा थळावी भाशा वापरपाचेर बंदी आयली आनी पुर्तुगेज वापरपाची सक्ती जाली. तीन वर्सांभितर पुर्तुगेज भाशेंत पारंगत जावन आपली आवय भास सोडूंक जाय म्हणपाचें फर्मान आयलें. तो मेरेन आनी उपरांतय पाद्री लोक कोंकणी भाशेंत व्याकरणां, शब्दकोश, पुराणां, चरित्रां रोमी लिपींत बरयत रावले. ते ख्यास्त लावपी काडोन गेले. तीं मोलादीक बरपां आनी आमची

कोंकणी भास उल्ली [3] ह्या मोलादीक बरपांमदीं सात शब्द कोश आज उपलब्ध आसात. कांय छापिल्ले जाल्यार कांय हातबरपां. ही हातबरपां गोंय, पुर्तुगाल, इटाली, स्पेन, फ्रांस आनी इंग्लंडच्या ग्रंथालयानी शिंपडलेलीं आसात. अभ्यास करूंक सोदतल्यांक सोंपेपणान मेळप शक्य ना. प्रा.लु.आ. रोद्रीगिश हांणी फोटोस्टेट प्रती मेळोवन आपणाल्या अभ्यासाचें फळ Glimpses of the Konkani Language at the turn of the 16 th Century ह्या शोध निबंदान आमच्या मुखार दवरलां.[4] ह्या निबंदांतल्यान कोंकणी म्हणी आनी वाक्प्रचार पुंजावपाचो जेजूईतांनी केल्लो वावर कितलो व्हड जावन आसलो ताची नाट मेळटा.

- **खोकलेन पाद विसरायता.**
- **तेऱ्याक गेल्लो मेरूं ताका मेळ्ळें.**
- **फुलां वरवुनू वावळी विकता.**

अशे तरेच्यो 244 म्हणी प्रा. रोद्रीगिशांनी अर्थासयत दिल्यात. कांय कडेन चुकीचे अर्थ दिल्या जांवये असो दुबाव येता. देखीक 'घोंड्या वयलों पडलो शिगरुचे कान कातरले' 'शिंगरु' चो अर्थ little ass असो दिला.

1973 सालांत पुर्तुगेज सरकारान ' Vocabulario de lingua Canarim com versam Portuguesa' हो पंदरा हजार कोंकणी उतरांचो आनी चार हजार वाक्यांचो कोश उजवाडाक हाडलो. भारतांतल्या चालू भासांच्या शब्दकोशामदीं हो पयलो वयलो शब्द कोश जावंये. रायतूरचे सेमिनारींत 1567 वर्सा आदीं तो रचलो आसूंक जाय. हो धरून कोंकणीचे 7 तरी शब्दकोश आसतले.[5] स. श्रीपादबाब र. देसाय हांणी जो पन्नास हजार उतरांचो महान एक भाशी म्हळ्यार कोंकणी - कोंकणी शब्दकोश' रचून चार भागांनी उजवाडयलो तातूंत कांय उतरांचो अर्थ स्पश्ट करपाक जेजुईतांच्या संकलनांतल्यो म्हणी मुजरत दिल्यात. कंसात संकलनाचें वर्स दिलां.

- **पारदिच्या वेळार सुणें मुतूंक गेलें ( 1966 )**
- **वाग पडलो घाळी आनी केलदें दाखयता नाळी.**

कोंकणी म्हणींचे नोंद घेवपासारकें पयलें संकलन म्हळ्यार मोंशियोर सेबास्तियांव रोदोल्फ दाल्गाद हांणी 1922 वर्सा लिजबोआक छापिल्लो ' Florilégio dos Provérbios Concanis ' हो म्हणींचो झेलो. हांतूंत 2177 कोंकणी म्हणी रोमी लिपींत पुर्तुगेज अर्थासयत छापल्यात. दुमिंगुश जुआंव मेंदिश ह्या गोंयच्या पुतान पुर्विल्यो म्हणी पुंजायल्ल्यो आनी त्यो 1904 वर्सा मुंबय उजवाडायल्ल्यो. फादर लुविस जुवांव सौजान एक सुपुल्लें पुस्तक मंगळुरांत उजवाडायलें. तातूंत 624 म्हणींचो (गादिंचो) संग्रह आसा.

ह्या संग्रहांचो मो. दाल्गादाक उपयोग जाला आसतलो. मो. दाल्गादांचें पुस्तक पुर्तुगालाक उजवाडायल्यान हांगाच्या कोंकणी अभ्यासकांचे नदरेक येता म्हणसर बरोच कळाव जालो. 'डॉ. दाल्गाद यांचा कोंकणी म्हणींचा एक ग्रंथ आहे असे मला अलीकडे समजले आहे, परंतु तो अजून माझ्या पाहण्यात आला नाही. ' अशी शणै गोंयबाबांनी 1930 वर्सा उजवाडायल्या 'कोंकणी भाशेचें जैत' ह्या पुस्तकांत पान 87 चेर दिल्ले तळटिपेंत कबुली दिल्ल्या.[7]

रावसाहेब डॉ. चव्हाण हाणी कोंकणी लोककाणयो आनी म्हणींचो अभ्यास केल्लो. ताणी मुंबयच्या ' Anthropological Society ' चे वरवीं त्या विशयाचेर कांय व्याख्यानां दिल्लीं. उपरांत The Konkani Proverbs हें पुस्तक 1923 वर्सा उजवाडायलें. गोंय ते मलबार मेरेन मित्रांच्या मदतीन तांणी सातशें आठशें म्हणी जमयल्यो. पुस्तकाची प्रेस कॉपी तयार करता आसताना तांणी मों. दाल्गादाच्या पुस्तका विशीं आयकलें पूण तांच्या मित्रांनी प्रयत्न करुनय तें पुस्तक तांकां मेळ्ळें ना.[8] रावसाहेब डॉ. चव्हाणाच्या माणकुल्या वज्राळ्या पुस्तकाचें पुनर्मुद्रण जाल्यान अभ्यासकांची बरी सोय जाल्या. मों.दाल्गादाचें पुस्तक मात दुर्मिळ जावन आसा. ग्रंथालयांत वचून तें पळोवचें पडटा. पुर्तुगेजीकडेन सवंकळ नाशिल्ल्यांक तें समजपाक अडचण येता.

1942 वर्सा केल्ल्या येवकार अध्यक्षांल्या उलोंवपांत शणै गोंयबाबान मंगळुरचे पाद्री सौजा तशेंच मो. दाल्गादांनी उजवाडायल्ल्या कोंकणी म्हणींचो मुजरत उल्लेख केल्लो आसा.[9] ह्या उलोवपांत आनीक एका पुस्तकाचो ताणीं उल्लेख केला तो म्हळ्यार रावबहादूर श्रीपाद सुब्राय ताल्मकी हाणी उजवाडायल्या

संग्रहाचो. 1932 वर्सा रावबहादूर ताल्मकिनी Konkani Proverbs and Idioms ह्या पुस्तकाचो पयलो वांटो उजवाडायलो. चार वर्सां उपरांत ताचो दुसरो वांटो उजवाडा आयलो. ताल्मकी हे विद्‌वान आनी कर्तुत्वी मनीस आशिल्ले. खंयचोय वावर हातांत घेतकच खोलायेन देवून पूर्णत्वाक व्हरपाचें तांचें खाशेलेपण ह्या मोलादीक संग्रहात दिसता. चार दसकां हीं पुस्तकां मेळनाशिल्ली. भौ. कृष्णा करवार हांणीं दोनूय भाग एकठांय करून संपादन करपाचे कठीण काम उत्तम रितीन केलें आनी 1991 वर्सां पोप्युलर बुक डेपोन उजवाडा हाडून अभ्यासकांक उपकारा पडसारक्या एका भोव मोलादीक पुस्तकाची भर घाली.[10]

1952 ते 1954 मेरेन 'साद' ह्या नेमाळ्याचे चार अंक कोंकणी भाशा मंडळ, मुंबय, हे संस्थेन उजवाडायले. 'सादा' च्या दुसऱ्या, तिसऱ्या आनी चवथ्या अंकांत ' गोम पै ' न पुंजायल्ल्या 'तोंडांतली माणकां' म्हणून 300 म्हणी दिल्यात. 'न' अक्षरा कडेन पावून 'साद' बंद पडलें. गोम पैन एकठांयिल्ल्या आनीक म्हणींचें हातबरप आसा जाल्यार खबर ना.

1985 वर्सा म्हणींचे दोन संग्रह उजवाडा आयले. ते म्हळ्यार पाद्र आंतोनियु पेरैरा, एस. जे. हांचें 'कोंकणी ओपारींचें भांडार'[11] आनी स. आर. एस. प्रभु हांचो 'कोंकणी म्हण्यां सोरू.'[12] कोंकणी ओपारीचें भांडार रोमी आनी देवनागरी लिपींत उजवाडा हाडून जेजुईतांनी सुरु केल्लो वावर जेजुईत पेरैरान चालू दवरलो. साबार विशयांवयल्यो म्हणी तांणी अर्थासयत दिल्यात.

केरळांत आनी कर्नाटकांत लोकांचे जिबेर खेळटल्यो म्हणी भौ. रंगनाथ शेषगिरी प्रभु हांणी पुंजायल्ल्यो. वेवसाया निमतान अख्ख्या कोंकणी प्रदेशांत ते पावले. तिनेक हजार म्हणी तांणी बरोवन दवरल्यो. चाळीस वर्सां हातबरप तशेंच पडून आशिल्लें, तें केरळ कोंकणी अकादेमीन संपादीत करुन उजवाडा हाडून आवयभाशेक अनमोल भेट दिल्या.

मंगळूरच्या कोंकणी इन्स्टिटयूटवरवीं उजवाडायता त्या 'अमर कोंकणी' ह्या नेमाळ्यांत प्रो. आल्बन कास्तोलिन हांणी पुंजायल्यो 4000 म्हणी, कोंकणी म्हणण्यो वा गादयो ह्या सदराखाला कांय वर्सां खिस्तींनी देवनागरींत छापिल्ल्यो

मेळटात. पुस्तकरुपान येवंक ना. भौ. जे.बी. मोरायसान तांतल्यो सुमार तिनशें म्हणी म्हाका धाडल्यो आनी बाकी म्हणींखातीर मंगळूराक पत्र बरयलें. हे तांचे व्हड उपकार.

म्हणी पुंजावपाचो हावेस जायत्या जाणांक आसता, चड करून बायलांक. कमलादेवी राव देशपांडे हांणी म्हणी आनी तांचे फाटल्यो काणयो आयताराच्या 'सुनापरान्तां' त उजवाडायल्यो आनी उपरांत पुस्तकरुपान हाडल्यो. सौ. शांता श्रीकांत सुखटणकार ''शांतश्री'' हांणीं दोनशें पंचवीसांवयर कोंकणी म्हणी, वाक्प्रचार आनी तांचो वापर 'कोंकणी म्हण्यो' ह्या सुपुल्ल्या पुस्तकांत दिला.[13] कु. अरुणा श्री. दुभाषी हांणीं कारवारी म्हणी एकठांय केल्यात. श्रीमती इंदिराबाय पु. नाडकर्णी हांणीं पुंजायल्ल्या म्हणींचे हातबरप 'दि नॉर्थ कॅनरा गौड सारस्वत संघा' ची मुखपत्रिका (ति - म्हैनाळे) फाटलीं चाळीस वर्सां संपादीत करपी भौ. द.ना. नाडकर्णी हांणी म्हाका दिलें. भौ. नाडकर्णी हांणी कारवारचे ॲडव्होकेट सिल्वा हांणी पुंजायल्ल्या म्हणींचे रोमी लिपींतलें हातबरप दिलें. तांणीच म्हाका कोंकणी म्हणींची मनरिझवणी वळख करुन दिवपी 'आजीच्या सुपांतले मोती' ह्या श्रीमती कमला गजानन वाघ हांच्या पुस्तकाची म्हायती दिली.[14] कोंकणी म्हणीवयलें म्हाका खूब आवडलेलें हें एक पुस्तक. कमलाबायचे आवयची आवय, बया आमोणकार हिच्या तोंडांत चांटेपावलाक म्हणी आसताल्यो. आपले आज्जेन शिंवरलेली मोतयां पुस्तकरुपान वाचप्यांक दिल्यांत. प्रसंग मांडपाची तांची शैली सोबीत आसा. तांतल्यान म्हणींचो अर्थ स्पश्ट तर जाताच पूण त्या वेळच्या समाजाचेंय दर्शन घडटा. सुषमा र. पंडित हांणी पुंजायल्ल्यो आनी उजवाडायल्ल्यो कांय म्हणी मेळ्ळयो.

कोंकणी म्हणींच्या अभ्यासाक उपयोगी अशें बिगर कोंकणी भाशीकांनीं रचिल्ले कोश म्हळ्यार, 'महाराष्ट्र वाक्संप्रदाय कोश' (विभाग पहिला व विभाग दुसरा) आनी 'भारतीय कहावत संग्रह' (खंड 1 ते 3).

'महाराष्ट्र वाक्संप्रदाय कोश' 1942 वर्सा महाराष्ट्र कोश मंडळ लि. हे संस्थेन उजवाडायलो. कोशकार म्हणून नामना पाविल्ले य.रा.दाते आनी चिं.ग. कर्वे हे ताचे संपादक. गोंय आनी कर्नाटकांतल्यो देड हजारावयर कोंकणी भाशेंतल्यो म्हणी दोनूय भागांनी मेळून आसात. कोंकणी म्हणी मुखार (गो)

अशें छापलां. बऱ्योचश्यो म्हणी सुमाराभायर अशुध्द रुपान छापिल्ल्यो मेळटात. देखीक पान 14 चेर पयलीं कोंकणी म्हण आयल्या ती पळेयात: अगांची पगा उतवांक ढयांगा.

खरी म्हण अशी आसा,'अगाची पगां आनी उतरांचीं धेंगां'. म्हणीचे बी सामके चुकीचे अर्थ दिल्यात ते कोशकारांक सोबसारके न्हय. 'पैशाचो ससो, देड पांगा मस्ती' अशी म्हण दिवनच रावंक ना तर अर्थूय दिला: 'पैशाचा ससा' म्हळ्यार कितें हाचो विचार कोशकाराच्या मनांत येवंकना. खोंटल्यांनी चुको आसात ताचेर वेगळें बरोवंचें पडटलें. आसूं.

भौ. विश्वनाथ दिनकर नरवणे हांणीं सगल्या भारतीय भाशांतल्यो म्हणी जमोवन त्यो तीन खंडांनी अर्थासयत छापल्यात. अपरूप असो हो कोश तयार करपाक भौ. नरवणे वीस वर्सां भारतभर भोंवले. तांच्या कोशान कोंकणी म्हणी (गो) अशे दाखोवन मराठी म्हणी वांगडा दिल्यात. कांयकडेन अशुध्द रुपां पळोवंक मेळटात. म.वा.को. तल्यान ज्यो म्हणी घेतल्यात तांचेबाबतींत चुको जाल्यात अशें म्हाका दिसता. चुकांची जापसालदारकी कोशकार दाते आनी कर्वे हांची .

अशा ह्या दिग्गज मनशांच्या खांदार उबो रावून म्हणींच्या सागराकडेन पळोवपाचो प्रयत्न केला. पलतड दिसून दिसना. सगल्याक कोंकणी वाठारांतल्यो न्हंयों येवन ह्या सागराक मेळ्ळयात. मों. दाल्गादांनी आपल्या 2177 म्हणींच्या संकलनाक ' Florilegio dos Proverbios Concanis' - (Bouquet of Konkani Proverbs) अशें काव्यात्मक नांव दिलां. पुर्तुगेजींतलो Proverbio हो शब्द लॅटिनच्या Proverbium कडेन नातें सांगता. इग्लीश Proverb, इटालियन Proverbio त्याच कुळांतले. Proverbio ह्या पुर्तुगेज उतराक कोंकणी पर्याय शब्द कितें दिल्यात तें पळोवंक मों. दाल्गादाचो Portuguese - Konkani शब्द - कोश काडलो. ताणीं रोमी लिपयेंत विशेश कुरवो वापरून दिल्ले शब्द अशे : -

1. Mhanni - म्हणी
2. Opar - ओपार



3. gatha - गाथा

4. nyay - न्याय

5. ahnem - आहणे

6. Vachan - वचन

मों. दाल्गादांनी दिल्ल्या ह्या पर्याय शब्दांची फोडणिशी केली जाल्यार म्हणीचें अंतरंग उक्तें जातलें आनी वतां वतां म्हणींच्या वैशिष्ट्यांचीय वळख जातली.

1. **म्हणणी** : संस्कृत 'भण' धातुपासून 'म्हण, म्हणणी हे शब्द घडले. जें म्हणील्लें वा जें म्हणटात तें, असो अर्थ. जी गजाल लोकांच्या उलोवपांत परती परती येता आनी ते गिन्यानी वाक्य जाता ती म्हणणी. पयलीं म्हणणीं आनी ताचे अनेकवचन म्हणण्यो हींच उतरां घोळणुकेंत आशिल्लीं. ' कोंकणीत खोल अणभवान भल्लेल्यो म्हणण्यो जायत्यो आसात' 'शणै गोंयबाब - येवकार अध्यक्षांले उलोवप (पान 11)उपरांत म्हण आनी अनेकवचन 'म्हणी' हीं उतरां रूढ जालीं. 'म्हण्यो' 'म्हणियो' ही रुपांय घोळणुकेंत आसात.

2. **ओपार** : हें उतर खूब घोळणुकेंत आसा. पा. पेरैरान आपल्या म्हणींच्या संकलनाक 'कोंकणी ओपारीचें भांडार' अशें नांव दिलां. ओपार ह्या शब्दाची फोड दिवंकना. कोंकणी शब्दकोशान अर्थ दिला तो असो: ओपार (स्त्री) उपमा, नमुनो, म्हण. उदाहरण, देख. वोपार हें उतर सोळाव्या शेंकड्यांतलें म्हणून दिलां. ताचो अर्थ उपमा, ओपार, तुलना असो दिला. वोपाऱ्यो, वोपारी अशीं अनेकवचनां घोळणुकेंत आशिल्लीं दिसतात.

तोंडयो वोपाऱ्यो: दियोग रिबैर

वैकुंठांतु अखंडित जिण्याची वोपारी : दियोग रिबैर

परमेस्पराचे सुमूर्तिप्रमाणीं चालुंची वोपारी : दियोग रिबैर

(कोंकणी मंदाकिनी : जुझे पेरैर)

ओपार हें उतर दृश्टांत ह्या अर्थान वापरलेलें दिसता त्या अर्थान अजून

आमी वापरतांत. कीर आनी नळयेची ओपार. 'गोंय आनी गोंयकार' बरोवपी : चंद्रकांत केणी, सुनापरान्त ता. 27.11.1989 )

3. **गाथा** : म्हणीक लोकोक्ति, लौकिकीगाथा अशे पर्यायी शब्द वापरतात. जसो 'कहावत' हो उलोवप ह्या अर्थाच्या 'कथ' ह्या धातुपासून आयलो तसोच गाथाचो मूळ धातू उलोवप ह्या अर्थाचो आसतलो.

4. **न्याय** : परिचित घडणुकांतल्यान काडलेले निष्कर्ष वा रुढ जाल्ले दृष्टांत, म्हळयार न्याय. संस्कृत वाङ्मयत आशिल्ले बरेच न्याय वा दृष्टांत हेर भारतीय भाशांनी म्हणींच्या रुपान घेतिल्ले आसात. उदाहरणां दिवंचींच जाल्यार,

काकतालीय न्याय - कोंकणी म्हण '**कावळो बसलो आनी ताळी मोडली.**'

अश्वजल न्याय - **घोड्याक उदका म्हच्यांत व्हरूंक जाता, उदक पियेवंक कोण लायतलो?**

काश कुशावलंबन न्याय - **बुडपी मनीस शेळ्याकय धरता.**

स्नुषानक्र न्याय - मराठी म्हण: **सासूने नाहीं म्हणून सांगणे.**

सुतजन्ममृतिन्याय - कोंकणी म्हण : **आजो मेलो नातू जालो.**

अशीं जायतीं उदाहरणां आसात. मूळ न्याय आनी दृष्टांत खबर नासता पूण म्हणी रूढ जाल्ल्यो आसतात.

5. **आहणे** : 'आह' हो 'वच' 'कथ' सारके उलोवप ह्या अर्थाचो धातू. 'आह' पासून आभाणक, आहणे बी उतरां आयलीं. सुभाषित, लोकोक्ति हाका आहण हें उतर वापरतात तशेंच तें हुमाण्याक, उखाण्याक बी वापरतात.

6. **वचन** : 'वच' ह्या 'उलोवप' अशा अर्थाच्या धातुपासून वचन हें उतर आयलें. गिन्यानी मनशाचें उलोवप स्मृतिरुपान एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन चलत आयलें. उपरांत तांचे ग्रंथ जाले. तांतली वचनां लोकांच्या तोंडांत घोळूंक लागलीं. 'यत्न नार्यस्तू पुज्यन्ते रमन्ते तत्र देवता'- हे खूबदां

आयकूंक येता तें वचन मनुस्मृतिंतले. कोंकणी भाशिकांमदें घोळटात त्या संस्कृत वचनाची जंत्री रावबहादूर ताल्मकीच्या Konkani Proverbs & Idioms ह्या पुस्तकांत Appendix V त दिल्या.

संस्कृत वचनांच्या वळणाच्यो म्हणी कोंकणीत घोळणुकेंत आसात. जाणट्याची सांगणी जशाची तशी मानून वागपी मनशाक 'बाबावाक्यं प्रमाणं' ही म्हण लायतात (S.No. 72 Appendix VK P 61) पयसो म्हळ्यार सगलें मानपी मनशांक 'दुडूब्रह्मा, दुडूविष्णू ऽऽ' मानपी मनीस म्हूणून पाचारतात. 'मोगाचें लग्ना'तलों बाबगो सुध्दां आपले वैजाचें सवंग सोबोवन व्हरपाक संस्कृत वळणाचो श्लोक म्हणटा 'कोमिदं सुर्बुसं एव बाबगो भुरकायतें !

Proverbio ह्या उतराक मो. दाल्गादान दिल्ले वयले स पर्याय शब्द मुदयेक थीक कशे आसात. म्हणीचें अंतरंगूच ते उक्तावन दाखयतात. ह्या स शब्दांभायर आनिक दोन शब्द घोळणुकेंत आसात. ते म्हळ्यार गादे आनी आदगती. कन्नड भाशेंत म्हणीक गादे असो शब्द आसा. 'गादे वेदक्के समान ' म्हळ्यार 'म्हण ही वेदांसमान आसा ' अशी म्हण आसा. वेद फट जांवक शकता पूण म्हण फट जायना अशा अर्थाची दुसरी म्हण आसा. 'वेद सुळ्ळदरु गारे सुळ्ळागदु.' मंगळुरांत गादे हें उतर चड घोळटा. 'बियां तेरीत भात, सांगणे तेरीत गादे, रूख तेरीत फळ' अशी म्हण मो दाल्गादान दिल्या (S.No. 240, Florilegio dos Proverbios Concanis) (तेरीत - सारकें/को/की)

आदगती, अनेकवचन आदगत्यो. हीं उतरां केरळांत घोळणुकेंत आसात. पुर्तुगेजानी Proverbio क दूसरे उतर adagio अशें आसा. ह्या दोन उतरांचो संबंद आसा जाल्यार खबर ना.

कन्नडान म्हणीक वेदासमान म्हळ्ळां अशेंच म्हणीचे गुणगान सगल्या देशी विदेशी भाशांनी आसा . मराठीन म्हणीक 'अनुभवाच्या खाणी' म्हळ्ळां जाल्यार ओपार म्हळ्यार 'जाणवायेन भरलेली शिंसली' अशें ओपारीचें भांडार उगडून बसपी पाद्र पेरैराक दिसता.

तुर्की भाशेंत म्हणीखातीर जें उतर वापरतात तेंच म्हणीचें गुणगान करपी

आसा. तुर्की 'अलतर सोझ' म्हळयार 'आज्याची उतरां.' कितलें अर्थपूर्ण उतर ! आमी सुध्दां जेन्ना कोणूय ओपारी मारून उलयता तेन्ना ताका 'बरो आजो कसो उलयता वा शेपाय कसो गिन्यान सांगता ' अशें म्हणटात. 'कोतोवझा' हें म्हणी खातीर जपानी भाशेंतले उतर अशें अर्थान उपाट भरिल्लें. ताचो अर्थ प्रभावशाली वाक्य परिणाम करपी उलोवणे, असो जाता. प्रगत भाशेंतूच म्हणींचे गुणगान आसा अशें न्हय तर बास्क, बोस्निअन, सारक्या कमी फुडारलेल्या भाशांतूंय अशे गुणगान आसा खंय.

म्हणीत फट कांयच नासता/(बास्क)

काळखांतले उतरां दिवे /(बोस्नियन)

म्हणीच्या खाशेलेपणाचेर उजवाड घालपीं सगल्या भाशांनी जायते उद्गार आसात. म्हणींचे बाबतींत स्पॅनिश ही एक समृध्द अशी भाशा अशें मानतात.'सत्यान उपाट भरिल्लें ल्हान वाक्य दीर्घकाळ घोळत राविल्ल्यान जें व्हड जालें तें वचन'

Short sentences drawn from long experience हें Cervantes चें वाक्य प्रसिध्द आसा. ल्हान वाक्यांनी भरिल्लें, दीर्घ अणभवाचें सारें फट केन्नाच आसचे ना अशी स्पॅनिश लोकांची धारणा आसता.

सगल्या समाजाचो रासवळीं अणभव व्यक्त जाल्लो आसता तें वाक्य, म्हळयार म्हण. देखून म्हणीक लोकमान्यता आसता. तांतूत सर्वकाळ सत्य आसता अशें म्हणूं येता.

वेगवेगळया मळांचेर आयिल्ले अणभव, रासवळी जिणेंतल्यान सुचिल्ले विचार म्हणींनी आसतात. अणभवांची आनी विचारांची रासवळी पायनेला म्हळयार म्हणी. उलोवंचे भाशे पेल्यान पावंक नाशिल्लो साप अजाण मनीस लेगीत मनीस - जातीच्यो चाली-रिती आनी ओडी-रूचा हाच्या निन्यानाचो मोटो व्हडलो पोटलो म्हणीवरवीं जोडटा. हो गिन्यानाचो पोटलो जंय वता थंय आपले वांगडा व्हरता, सांबाळून दवरता, तांतूत भर घालता. तोंडी परंपरेन एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन पावयता.

इतिहासांतल्या घडणुकांची याद जनमानसान रासवळ मनांत जतन केल्ली

आसता. ती लोकवेदांतल्यान प्रगट जाल्ली पळोवंक मेळटा. म्हण ही लोकवेदाचेंच आंग आशिल्ल्यान तांतल्यानूय ती प्रगट जाता. इतिहास बरप्यांनी मुखार दवरलेल्या इतिहासापरस वेगळो रुपकार आसूं येता. 'कुश्टोबा' म्हणून एक देखणी लोकगीत आसा ताका 1869 च्या बंडाची फाटभूंय आसा पूण तें इतिहांसांतले सत्य म्हणूंक येना. (A Sheaf of Dekhnis (P.49 - 51) Jose Pereira & Michael Martins.) म्हणींनी इतिहासात घडून गेल्ल्या प्रसंगाची कांयशी स्पश्ट नोंद आसता. 'हब्बुस्थान मोडून संस्थान जोडलें' अशी एक म्हण आसा. पुर्विल्ल्या काळांत काणकोणांतल्या श्रीस्थळ म्हणटात थंय हब्बू लोकांचो शेक चलतालो. हब्बू हे मूळ हबसाणांतले (आतांचें इथियोपिया). थळाव्या लोकांनी मराठा सरदाराचे मदतीन तांचेर घुरी घाली आनी तांकां धांवडावन घाले आनी श्रीस्थळ थळाव्या लोकांक परतें मेळ्ळें. थंय आज मल्लिकार्जुनाचें देवूळ आसा. पुर्विल्ल्या कोकणाच्या इतिहासाचेर घणघणीत उजवाड घालतीत अश्यो जायत्यो म्हणी आसात. हजार वर्सां फाटल्या कदंबरायाच्या काळांतलो म्हाळ पै ह्या कर्तुत्ववान मनशाचें नांव चार पांच म्हणींनी मेळटा. इतिहासूच न्हय तर म्हणींनी येवंक ना वा चितारूंक ना अशें मनशाचे जिणेचें एकूय आंग मेळचें ना. केन्ना केन्नाय म्हण, मुळावें सत्य सांगून वता जाल्यार केन्ना ती विनोदी टिप्पणी आसता. कल्पनेचो विलास, प्रतिभेचो उमाळो तातुंतल्यान दिश्टी पडटा. तांचेवरवीं भाशेची गिरेस्तकाय वाडटा. महत्वाचे घटनेच्या वेळार व्हडल्या मनशाच्या तोंडांतल्यान जीं उतरां भितरल्यान भायर सरतात तेन्ना ताचो परिणाम घटणेक वळण दिवपाक तर जाताच पुणून समाजाचेरूय जाता आनी त्या उतरांक लोकांचे मतींत कायम जागो मेळटा, त्या उतरांक म्हणींचे स्वरूप येता.

'कातर रे भाजी' ही अशीच एक म्हण. लिज्बोआच्या राजमहालाच्या कपेलांत पयलें उलोवप करुंक फारीय, उपरांत आबे फारीय म्हणून नामना जोडिल्लो, उबो रावलो तेन्ना काचाबूल जावन ताच्या तोंडातल्यान उतर सुटना जालें. ताचो बापूय थंय लागसारूच आडोसाक आशिल्लो. ताणें ल्हवूच पुताक आयकूंक येशें कोंकणी भाशेंत म्हळें 'कातर रे भाजी.' हुशार फारीयाक धीर आयलो आनी उलोवप बरें जालें.[15] आज 'कातर रे भाजी' हीं उतरां म्हणीसारकीं वापरतात.

उलोवचे भाशेपेल्यान पावंक नाशिल्लो साप्प अजाण मनीस लेगीत म्हणीचो वापर करता. गांवकरी वाठारांत म्हणीचो वापर चड आसता अशें म्हणूं येता . बरपाक्षरी न्हय जाल्ल्यान तांची शब्द संपत थोडी आसता. आपलो विचार वा मुद्दो बरे तरेन मांडपाक म्हणींचो उपयोग करप बरें पडटा. बायलांमदीं म्हणींचो वापर चड आसता अशेंय लक्षांत येता. कोंकणी म्हणी पुंजावपाचें काम बायलांनीच चड केलां. सहज याद करूंक लागलों तेन्ना आज्जेच्या, आवयच्या, मावशेच्या बी तोंडातल्यान आयकल्ल्यो म्हणी चड अशें म्हाका दिसलें. लोकवेद सांबाळून दवरपांत अस्तुऱ्यांचो हातभार चड अशें म्हाका दिसलें.

म्हणींचे स्वरुप जरी बरेंचशें स्पश्ट आसा तरी म्हणींची व्याख्या करप चड कठीण काम. जायत्या जाणांनी प्रयत्न केला पुणून म्हणटा तशें यश येवंक ना. ह्यो व्याख्या पळोवन भौ. विठ्ठल वाघावांगडा म्हणचेंशें दिसता : हा एकू एकू अवयऊ समस्त हस्ती नव्हे सगल्यांच्यो व्याख्या एकठांय करुन शास्त्रीय पध्दतीन एक व्याख्या जुळोवन पूर्ण हत्ती उबो रावूं येता, पुणून तें काम सोपें न्हय ( That is an elephantine task. ) म्हाका बरी दिसली ती व्याख्या हांव हांगा दितां: सुन्दर रीतिसे कही गई उक्तिकोही सूक्ति कहते है। इसी उक्तिको यदि लोग अर्थात साधारण मनुष्य प्रयोग में लाने लगते हैं तब उसका नाम लोकोक्ति पड जाता है.

– कृष्णदेव उपाध्याय

लोकोक्ति हो म्हणीक सम्पर्क असो शब्द. सर्वसादारण लोकांच्या उलोवण्यांत घोळटा तें सोबीत वाक्य म्हळयार म्हण. म्हणीसारकीच आसता 'चलोत्ती' म्हळयार चुटको. बारकायेन पळयतकच फरक लक्षांत येता. म्हण ही लोकवेदांत आस्पावता. चपलोत्ती (चुटको) बरयल्लें साहित्य. म्हण ही उत्स्फूर्त आसता. ती कोणे रचल्या तें खबर नासता. ती अनामिकाची धूव !

चुटक्या फाटल्यान बरप्याच्या मनन-चिंतनाची मेहनत आसता. म्हणीच्या आंगान वचपी रचना कोंकणीत र.वि.पंडित, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय , बाकीबाब बोरकार हांणी केल्ल्यो आसात. शिल्प कांतवचें तशी तांची अर्थान उपाट भरिल्लीं कवनां, 'पिसोळीं', 'किसरां', 'चंवरां' बी याद जातात. 'खांदार

तरंग तोवंर अवसराक देवपण' हे म्हणीची याद करून दिवपी बाकीबाबाले चंवर पळेयात:

**चंवर आसा तंवर**

**रुखार सवणी भोंवर**

**सुकूंक लागलो तसो पुता**

**कोण घेता खबर?**

फुडें म्हण म्हणून घोळपाची तांक आशिल्ले डॉ. मनोहरराय सरदेसायाचें पिसोळें पळेयात:

**पावस पडल्यार**

**म्हणटात 'विटयलें'**

**पावस उडल्यार**

**म्हणटात 'फटयलें'**

कवी शंकर रामाणी हांचो हायकू ह्याच कुळांतलो :

**पोटाभुके**

**शिवराकाक लेगीत**

**नुस्त्या वास**

अशा व्हड कविंच्यो चपलोक्ति समाज आपल्योश्यो करता आनी साबार लोकांच्या तोंडात घोळूंक लागतकच त्यो आपशीं म्हणी जातात. तुकारामाच्यों अभंगांतल्यो कितल्योश्योच ओळी मराठी भाशेंतल्यो म्हणी जाल्लेकडेन आसात. कोंकणीतूय त्यो आयल्यात. देखीक 'पायांतली व्हाण पायांत बरी.'

चपलोक्ति हो शब्द म्हाका म्हजो मित्र भौ. श्री. बा. जोशी हाच्या निबंदांतल्यान मेळ्ळो. इंग्लिश भाशेंत epigram म्हणटात ताका ताणें सुचयल्लो हो अर्थपूर्ण शब्द. शेक्सपियर, शॉ, ऑस्कर वाइल्ड आनी हेर कवी आनी निबंदकारांनी इंग्लिश भाशेंत एपिग्रामाची म्हामूर भर घाल्या. हें हॅम्लेट नाटकांतले

वचन एपिग्रामचो नमुनो. मिशेल दे मॉन्तेन म्हणटा: A man who fears suffering is already suffering from what he fears. दुसरो फ्रांसेज कवी रॉसार ( Rosard) म्हणटा: Cuillez des aujourd'jui les roses de la vie (जिविताचे गुलाब आजूच खुंटून घे): बाकीबाबाचे ह्याच आशयाचे चंवर पळेयात : दोळ्यासयत फुलता तंवर जग पळोवन घे। गळ्यांत गीत घोळटा तंवर मन पळोवन घे।

अशीं उदाहरणा जायतीं आसात. सुंदर वाक्यांचीं संकलनांय जायतीं केल्लीं आसात. तांचो प्रसार म्हणींसारको जावंक पावना. कृत्रिम रीतीन म्हण घडोवंक येना. म्हण ही लोकांचे जिबेर जल्माक येता आनी लोकांचे जिबेर घोळटा.

पुर्विल्ल्यांच्या अणभवांतल्यान तिचो उगम जाल्लो आसता. ती सगल्या जनांक मान्य जावन सार्वत्रिकतेचो छाप तिचेर यथाकाळ बसता तेन्नाच ती म्हण जाता. कृत्रिम रीतीन म्हणी घडनात. हाचें उत्तम उदाहरण म्हळ्यार सर्गेस्त रा. ना. नायक हांणी भारतीयेतर भासांतल्यो म्हणी कोंकणींत रुंपातरीत केल्ल्यो. कांय रशियन म्हणींय तांणी रुंपातरीत केल्ल्यो. अस्सल कोंकणी भेस तांणी ह्या म्हणीक चडयला:

**घोड्याशेंपडी जावंचेपरस गाढवा तकली जावन रावन.**

**हांव मेल्या उपरांत बुडना जग.**

**नातलांच्या फेस्ता उपरांत पास्कांचे उपास.**

**तुका जाय मूं थंडाय, मागीर तूं कित्याक झगट्टाय ?**

सार्वत्रिकतेचो छाप तांकां मेळूंक पावलो ना. चार लोकांनी वाचल्यो आनी विसरूनय गेले. त्यो चड लोकांमुखार येवंच्यो ही आस्त बाळगून ह्या संकलनाच्या परिशिष्टांत तांचो आस्पाव केला.

आर्विल्या काळाक सोबसारक्यो, नवे संदर्भ आपणावन म्हणी घडोवपाचो प्रयत्न जावंक ना अशे न्हय. देखीक सकयल्यो मालवणी म्हणी पळेयात.

1. **रासन मूठभर पिशी हातभर**

2. **एस.टी.ची गाडी प्रवाशी काडतात काडा़वडी**

म्हणीचे गूण तातूंत आसूनय त्यो लोकांचे जिबेर घोळनात.

आमी म्हणी विसरत आयल्यात. म्हणींचो वापर कमी कमी जायत आसा. आमी कितें विसरल्या ताचें भान येवचें म्हणून हो एक प्रयत्न. हांव कांय भासशास्त्री न्हय. भासाचे वंश, तांचे एकमेकाकडेन आशिल्ले संबंद, उश्णे शब्द, हाचेविशीं म्हाका व्हडलेशें ज्ञान ना. कोंकणी भाशेचो मोग, म्हणीविशीं कुतूहल इतल्याच म्हालवजाचेर हांव हें काम करपाक मुखार सरलों.

म्हाका होल्मलेलो अर्थ आनी म्हजी निरीक्षणां हांवें मांडल्यांत.

ह्या कामांत म्हाका जायत्या जाणांची मदत जाल्ली आसा. मित्रा सारको म्हजो भाव डॉ. प्रेमानंद पै धुंगट आनी भावासारको म्हजो मित्र श्री. हरी ज. थळी हांणी संदर्भ पुस्तकां घेवंक मदत केल्ल्यान ग्रंथालयांनी पावटी मारच्यो पडल्यो नात. भौ. अ.ना. म्हांबरो, आनंद वर्टी आनी कृष्णा करवार ह्या कोंकणी मोगींनी हातबरप वाचून भवमोलादीक सुचोवण्यो केल्यो.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे आदले अध्यक्ष भौ. उदयबाब भेंब्रे हांणी सुरवातेपासून म्हज्या कामांत आस्त दाखयली आनी योग्य मार्गदर्शन केलें. ह्या सगल्यांचे आभार मानचे परस तांच्या रिणांत रावप हांव पसंत करतां.

अनंत मुक्तांगण

वेरें, बार्देश, गोंय **मनोहर पै धुंगट**

# आधारावळ


1. येवकार अध्यक्षांलें उलोवप - शणै गोंयबाब. पान 12
2. i) A Sheaf of Deknnis. Konkani Folksongs (1967) - Jose Pereira & Micael Martins

   ii)Konkany Riddles - C. C. A Pai -S J, 1981
3. कोंकणी शब्दकोश (पयलो भाग) - श्रीपाद र देसाय.
4. 'Glimpses of the Konkani Language' - Prof. L.A.Rodrigues

   Boletim do Institito Menezes Branganza, p. 12
5. कोंकणी मंदाकिनी; जुजे पेरेइर (1996). p. 13
6. Florilegio dos proverbios Concanis -

   Monsenhor Sebastião Rodolfo Dalgado
7. कोंकणी भाशेचें जैत - शणै गोंयबाब (1930)
8. The Konkani Proverbs - V.P.Chavan (1923)
9. येवकार - अध्यक्षालें उलोवप - शणै गोंयबाब (1945)
10. Konkani Proverbs & Idioms - S.S. Talmaki

    First Published in (1st Part) 1932, (2nd Part)1936

    2nd Edition.
11. कोंकणी ओपारींचें भांडार - आंतोनियु पेरैरा (1985)
12. कोंकणी म्हण्यां सोरू - आर. एस. प्रभु (1985)
13. Folk Knowledge of History-Pandurang Faldesai, 'Govapuri' July- Sept. 1999
14. वऱ्हाडी म्हणी आणि लोकधर्म - विठ्ठल वाघ
15. आबे फारीय - बरो. शणै गोंयबाब पा.7

# संक्षेप

| | | |
|---|---|---|
| को.ओ.भा. | : | कोंकणी ओपारींचें भांडार- पा. आंतोनियु पेरैरा |
| को.म्ह.सो. | : | कोंकणी म्हण्यां सोरू - आर.एस.प्रभु |
| को. म्ह. | : | कोंकणी म्हण्यो - सौ. शांता श्री. सुखटणकर; 'शांतश्री' |
| आ.सु.मो. | : | आजीच्या सुपातील मोती - कमला गजानन वाघ; |
| K.P. | : | The Konkani Proverbs - Dr. V. P. Chavan; |
| K.P&I | : | Konkani Proverbs & Idioms - S.S. Talmaki; |
| the | | Glimpses of the Konkani Language at the turn of 16th century. |
| G.K.L | : | Prof. L.A. Rodrigues |
| | | (Boletim do Instituto Menezes Braganza No. 120 |
| म.वा.को. | : | महाराष्ट्र वाक्संप्रदाय कोश, भाग 1 आणि 2 |
| | | संपादक : य. रा. दाते, चिंतामणी ग. कर्वे; |
| भा.क.सं. | : | भारतीय कहावत संग्रह, खंड 1,2,3. |
| | | संपादक : विश्वनाथ दिनकर नरवणे. |
| को.श. | : | कोंकणी शब्दकोश भा. 1 ते 4 - श्रीपाद र. देसाय. |
| को.श.सा. | : | कोंकणी शब्द सागर: संपादक - पांडुरंग भांगी; |
| कों.म्ह. | : | कोंकणी म्हणी - एन् पुरुषोत्तम मल्ल्या, कोची |

# अ

1 ) **अ आ येनाशिल्ल्याक अमर ( अमरकोश ) कित्याक?**

अमरकोश : संस्कृत भाशेचो एक पुर्विल्लो कोश.

अ आ येनाशिल्ल्याक दुसरोय एक वाक्प्रचार आसा तो असो. 'शि री ची गाण फोडूंक येना ' मूळ श्रीची गांठ फोडप, म्हळ्यार श्री हें अक्षर बरयतना रूकार बरोवप हाचो अपभ्रंश शिरीची गाण फोडप असो जालो जावंये. !

2 ) **अंकुश आसा म्हूण हस्ति मोलायली.**

हस्ति : हती, हत्ती. को. शब्दकोशांत हें पुल्लींगी म्हणून दिलां. हस्ति हें उतर केरळांत आनी दक्षिण कर्नाटकांत वापरतात. थंय तें स्त्रिलिंगी धरतात.

देखीक : 'माजे आज्याक एक हती आशिल्ली. (प्रो. आर.के. राव हांणी अणकारीत केल्ले नवलकाणयेचें नांव)

अंकुश : हत्तिचेर ताबो दवरचेंलें हत्यार. हाचें एक तोंक सरळ उबें आसता आनी दुसरें आंकड्यावरी बागयल्लें आसता. अंकुश हो कमी किमतीचो, मेळपाक कठीण न्हय असो. तो आसा म्हणून हत्तिसारक्या भारी किमतीच्या जनावराचें मोल थारांवक सोदता.

मराठी वा.प्र. : **नालासाठीं घोडा**

हिंदी म्हण : **नाल जो मिल गया, अब क्या रहा ! जीन और घोडा.**

3 ) **अक्कल आशिल्ल्याक भांडवल नाका.**

हांगा अक्कल म्हळ्यार शाणेपण, बुद्द; बरें वायट पारखुपाचो विवेक आसप हेंच व्हडलें भांडवल.

अक्कल घेवप, अक्कल घाण दवरप, अक्कल दिवप अक्कल फुडें धांवप, अक्कल वयर काडप, अक्कल विकप, विकून खावप, अक्कल वित्ती घेवप, अक्कल शिकप, अक्कल शिकोवप, अशे वा.प्र. आसात.

अक्कल असोय ह्याच अर्थाचो शब्द घोळणुकेंत आसा. पूण ताका वेगळी सया आसा. (को.श.सा. पान. 4-10)

4) **अखेरीचें हाडलें वेरीक, गांठीचें घालें भरीक.**

अखेरीचें दोन बैलांच्या जोतान एका दिसाभितर नांगरूंक जाता तें निमाणे कडेचें शेत.

जो कोण निमाणे कडेचें शेत रोवपाखातीर (वेरीक) लांस घालून पावणी चडोवन हाडटा, ताका जायते खेपो लुस्कान जावपाचो संभव आसता. कोमुनिदादीक (ग्रामसंस्थेक) दुडू भरतासताना, आपले गांठीचे दुडू घालचे पडटात. एकाद्र्या अशाच कारणाक लागून वयर दिल्ली म्हण घोळटेंत आयली आसुंये.

आयज कोमुनिदादी नश्ट जावपाकडेन पावल्यात. ही म्हण मात तांची याद दवरतली.

5) **अगाचीं पगां आनी उतरांचीं धेंगा.**

यथार्थ कल्पना आसुनय दाटून अर्थाचो अनर्थ करुन संकश्ट कोसळल्लेवरी हुयेल मारप, वा संवसार बुडलो म्हणपाची करंदाय करप.

6) **अगा अगा देसाया, काश्टी नाय नेसाया.**

एका काळार कुडाळ प्रांतांत देसायांची सत्ता आशिल्ली. त्यावेळार ते खूब श्रीमंत आशिल्ले. मुखार सावंत ह्या मराठा सरदारान तांचो पराभव केलो आनी स्वत:ची सत्ता थंय स्थापन केली. देसायांचेर वायट वेळ आयलो. न्हेसपाच्या वस्त्राक सुध्दां ते म्हारग जाले.

एका काळार गिरेस्त आशिल्ल्या मनशाक गरीबकाय येता आनी तरीय तो पोको झेत दाखयता तेन्ना ही ओपार मारतात.

7) **अडचणेचें दुखणें आनी जांवय वैज.**

न्हय त्या जाग्यार दुखणें जालें आनी जांवय वैज आसलो जाल्यार जांवयाक दाखोवपाक जिवाची सुमाराभायर कुचमणा जाता. दुखणें भोगप काय जांवयाक दाखोवप अशी चमत्कारीक स्थिती जावन पडटा.

8) **अडेच्या गिरेस्ताचें रीण केन्ना काडचें न्हय.**

जो मुदलचो वा अस्सल न्हय अशा नव्यानच जाल्ल्या गिरेस्ताक आपलें रिणाक दिल्यात ते पयशे परत मेळटले काय ना हाची धाकधूक आसता.

तो परत मागून मागून जीव खायत रावता. तेपासत ताचे फुडे वचूं नये अशें म्हणटात.

9) **अडेच्या उदकान बांय भरना.**

दुसऱ्याची नक्कल करून वा विचार उश्णे घेवन आपली छाप पडना. स्वता विचार करूंक जाय.

10) **अडेचे आवयक कोपराक दूद.**

मानलेली आवय सख्ख्ये आवयपरस भुरग्याचेर आपलो चड मोग आसा अशें दाखयता तेन्ना ही ओपार मारतात.

11) **अडेच्या पक्वान्नांपरस सत्येची पेज व्हड.**

दुसऱ्याकडल्यान मेळलेल्या पक्वानांपरस स्वताचो पेजेनिवळ चड बरो आनी मोलाचो म्हणूंक जाय. ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण,'सत्येची पेज, सगल्या आंगाक तेज.'

12) **अडेचें आयलें, अडेचें गेलें.**

वांकडे रितीन जोडिल्लें वांकडे रितीन वता हें सांगपाक ही म्हण वापरतात. सतराव्या शतमानांतल्या कोशांत ही म्हण आसा. ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण, 'उदकाचे दुडू उदकांत'

13) **अडेचो जोगी कट्टेच्यो मुद्रा**

लटको वा पाखंडी जोगी जो आसता तो कानांत कट्टेच्यो मुदयो करुन घालता. मराठींत असल्या जोग्याक 'बोके संन्यासी' म्हणटात.

म्हणीचो वापर : ''माथें खरपून आनी कान खाजोवन परकी भाशेंत पुस्तकां बरयलीं म्हणून तीं रुचींक जायनात. ती अडेची करणी जाता. 'अडेचो जोगी आनी कट्टेच्यो मुद्रा' म्हणटात तशी ती हांशाक म्हारग.

– को.भा.जै.(पा.2) बरो. शणै गोंयबाब.

14) **अडेचो संग, करडाची धग.**

करडाचो उजो आसता ताचो धुंवर चड जाता, धग कमी मेळटा. अडेचे संगतीचो कांय उपयोग जायना.

15) **अडेचो हांव, सगलो पणस खांव!**

अडेचो वा उश्णो नेट हाडून कठीण काम करपाक मुखार सरता तेन्ना ही म्हण वापरतात. ‘पणस’ बदला ‘गाडव’ हें उतरूय वापरतात.

16) **अणव्याक कितेंय शिकयल्यार जातीचो गुण वता व्हय?**

अणवो : भोळसर, उणी शिटुकसाण आशिल्लो (अणवे कूळ).

17) **अण्णपैलें पीट, सुब्रायपैलें मीट.**

हांगा थंयचें सामान एकठांय करून कशे - बशे दीस काडप.

18) **अण्णाप्पागेरी न्हावंचे, कुटप्पागेर जेवंचें, मेळ्ळेलेकडे निदेवचें.**

तीन कडेन तीन गजाली करून दीस काडप. धड जागो नाशिल्लो आलमपेड्डेर मनीस.

19) **अती ओड्डटा थंय तुट्टा.**

20) **अती थंय माती.**

खंयचीय गजाल गरजेपरस चड केली जाल्यार फायदो जावंचेपरस नुकसान जाता.

21) **अती राग भीक माग.**

रागीश्ट मनीस सगलें होगडावन भिकेक लागता. ताका कोणएक लागीं करीना. चडूच राग आयलो जाल्यार देशाभायरोय जावंचें पडटा.

मराठी म्हण : अतिरागा भीक मागा, त्याहून रागा देश त्यागा.

ह्याच अर्थाची दुसरी कोंकणी म्हण - रागान भस्मलो, राजांव विसरलो. राजांव (पुर्त.) - बुद्द ,मत, तर्कशक्ती, युक्ती.

22) **अती शाणो तीन कडेन घाणटा.**

अती शाण्याच्या पांयाक घाण लागल्यार तो ती बोटान काडून हुंगता, कितें लागलां तें जाणा जावपाक. अशे तरेन ताचो पांय, बोट आनी नाक म्हेळटा.

23) **अती शाण्याक फातरांचें शीत.**

' चड बुदवंताक फातरां शीत.' अशेंय म्हणटात. म्हणी फाटली काणी : एकदां खंय तीन बुदवंत प्रवासाक भायर सरले. वतां वतां दनपारच्या वेळार रानांत पावतकच तांकां भूक लागली. तीन फातर माणून रांदन केली आनी कुळण्यांत शीत केलें. जेवंक बसतले, इतल्यांत एका बुदवंताक प्रस्न पडलो, शिताक कुळण्याचो आदार मेळून तें उरता, काय अशेंच उरता? तिगांय भितर बरीच भासाभास जाल्या उपरांत एका बुदवंतान प्रस्न सोडोवपाक फातर मारून कुळणें फोडलें. शीत फातरां भरवण जालें. तिगांचेरूय फातरांचें शीत जेवन भूक भागोवपाचो प्रसंग आयलो.

24) **अन्न आनी खोशी वर्तता मनशाची भलायकी**

25) **अन्न तारी, अन्न मारी, अन्ना सारको ना वैरी.**

हे म्हणिचीं आनीक दोन वेगळीं रुपां मेळटात :

अन्न तारी, अन्न मारी, अन्न कांदळां - पेंदळां करी.

अन्न तारी, अन्न मारी, अन्न कोनाळें करी.

अन्नापासून कुडीचें पोशण जाता हें खरे. पूण जाय ताचेपरस चड खालें जाल्यार वायटार पडूं येता. पोट फुटसर जेवल्यार निवणें करुन पडपाची पाळी येता. मेळटा म्हणून कशाकशेंय भकल्यार अन्नच मनशाचो दुस्मान जाता.

26) **अन्नाक काळ, भुंयेक भार.**

आळशी मनश्याक उद्देशून ही म्हण उपकारायतात. 'शिताक खार ' अशेय उतर जोडटात. हें म्हणीचें एक रूप : अन्नाक काळ, धरणीक भार.

27) **अन्नसत्रांत जेवप आनी धर्मशाळेंत न्हिदप.**

अन्नसत्र - जंय आयिल्ल्या - गेल्ल्याक फुकट जेवण मेळटा तो जागो.

धर्मशाळा - गरीब धाकट्यांक, प्रवाशांक, थोड्या काळापुरतें फुकट रावचेखातीर बांदिल्लें घर.

घरदार नाशिल्ल्याक कांय कामधंदो करीनासताना दीस काडटा ताका ही

ओपार लायतात. अशाच मनशाक उद्देशून सोळाव्या शेकड्यांतली एक म्हण आसा: 'राऊळाक भात, देऊळाक निद्रा.' म्हळ्यार राजवाड्यार जेवप, देवळांत न्हिदप.

**28) अन्नसत्रांत जेवप आनी मिरयांचो पिठो ( मिरयांपूड ) मागप.**

अन्नसत्रांत जें कितें मेळटा तें तोंड धांपून खावपाचें. थंय आवड निवड कुशीक दवरूंक जाय. पूण कांय लोक फुकट मेळटा तें जेवन वयल्यान मिजास दाखयतात तांकां उल्लेखून ही म्हण वापरतात.

**29) अन्नसत्रांत जेवप आनी मिशांक तूप लावन भोंवप.**

अन्नसत्रांत जेवतल्याक मातपसून प्रतिश्टा नासता. फुकट मेळटा तें जेवन पोको झेत करून भोंवता ताका ही म्हण वापरतात. 'मिशांक तूप लावन भोंवता' अशीय म्हण वापरतात. मिशांक तूप लायलें म्हणटकूच तुपाचेच पदार्थ खावन आयला अशी प्रतिमा जावंक पावता.

**30) अन्नसत्रांत जेविल्ल्याच्या मनाक समाधान नासता.**

अन्नसत्रांत जेवप म्हळ्यार तें चलयतल्याचे उपकार घेवप अशें जाता. दुसरें, अन्नसत्रांत जेवल्यार आपलें पुण्य अन्नसत्र चलयतल्याक वता, असो समज आसा, देखून अन्नसत्रांत जेविल्ल्या मनशाचें मन सदांच ताका खायत रावता.

अन्नसत्रांतलें जेवण कितलेंय बरें आसलें तरी ताची सर घरच्या जेवणाक येना. घरच्या जेवणान जी तृप्ती जाता ती अन्नसत्रांतल्या जेवणान जायना, असोय हे म्हणीचो अर्थ.

**31) अन्नसत्रांतलें जेवण आनी रांडेचें रूप कोणेय भोगचें.**

अन्नसत्रार आयिल्ल्या गेल्ल्याक, भायल्या भितल्ल्याक दार उगडें आसता. रांडेगेरूय तशेंच. कोणे वच्चें हाचेर निर्बंध नासता. (खंयचीय गजाल कोणे करची हाचे विशीं मातपसून धरबंद नासता तेन्ना ही म्हण उपकरायतात.)

**32) अन्यायाक बळ, आनी कवडी धांपून पळ.**

जुलूम आनी न्यायाआड करण्यो वाडटात तेन्ना घर सोडून थंयच्यान पळ

काडप हो एकूच मार्ग आसता.

33) **अपरुखीं राय रांडेचो, हुजरीं धनी म्हजो.**

(अपरुखीं = अस्वडीं, दोळ्यांआड, फाटल्यान)

फाटल्यान राजाक रांडेच्या म्हणून गाळ दिवप, तोंडार धनी म्हणप हीं ढोंगीपणां.

34) **i ) आडवादाबगर नेम ना.**

**ii ) नेम आसा थंय आडवाद आसा.**

35) **अपुरबायेन वाडयलो, भंगस्तळाक पावयलो.**

36) **अभंग फुटलें तर कोण कपी मारीत?**

अभंग = मळब; कपी = ठिगळ

एकदम व्हडलें संकट आयलें जाल्यार ताचें निवारण करप शक्य नासता.

37) **i ) ओमत्या कळशार उदक.**

**ii ) ओमत्या कळशार पाणी, तशी भेऱ्याक काणी.**

ओमतो, ती,तें = उमथो,थी,थें.

तकली सकल घाल्लो, तोंड सकल आनी पोंद वयर. निर्फळ करणी.

38) **अमर वचल्यारी पंडीत जायना.**

(अमरकोश म्हळ्यार संस्कृत भाशेचो पूर्विल्लो शब्दकोश. तो वाचलो म्हणून कोण पंडीत जायना.)

39) **i ) अमास येतकीर पुनव रावना.**

**ii ) अमास येतना पुनव येवंची रावता गी?**

अमास = उमास, अमावास्या.

40) **अमृत दितल्याक जीब दी म्हणून सांगूंक जाय?**

41) **अमृत पिवपाक बरो दीस पळोवंचो पडना.**

अमृत म्हळ्यार सगले रोग नाश करपी वखद. तें घेतकच वायटकार बरो जाताच. असलें वखद घेवपाक बऱ्या दिसाची वाट पळेत कित्याक

रावप? तें हातात पडटा तो दीस बरो!

42) **अमृतान ( दुदान ) वाडप आनी मुतान आंवोवप.**

सुर्वेक बरी गजाल करुन शेवटीं वायट गजाल करप. पयलीं आपलेपणान वागता आनी निमाणेकडेन कुसकेपणां दाखयता.

43) **अजिर्णाक भोजन वीख.**

अतिरेक जाल्यार अमृतय वीख थारता. 'अचाट खाणे, मसणांत जाणें' अशीय म्हण आसा. कशाकशेंय आबड-चाबड खावप म्हळ्यार मरणाक आपोवणें दिवप.

44) **अर्थय ना आनी स्वार्थय ना.**

45) **अर्थाविणें पोल गाणें.**

गाण्यात अर्थ नासत जाल्यार तें व्यर्थ. लाभाशिवाय दुसऱ्याची स्तुती करप व्यर्थ.

46) **अर्थीन जायना, तें सर्तीन जाता.**

जें चढाओढीन जाता तें ओड आनी इत्सा आसली म्हणून जायना. देखून 'तोंडातलीं माणकां' ह्या 'गोम पै' हांणी पुंजायिल्ल्या संकलनांत 'अर्थीन जाता तें सर्तीन जायना 'अशी म्हण दिल्या ('साद' दुसरो अंक).

47) **अर्द गांव भोंवप आनी गांवभरची खबर सांगप.**

48) **i ) अर्द घडये दुवादस**

**ii ) अर्द घडिये दुवादशी, पर्णा फुडेची खर्चली.**

पंद्रशीची अकरावी तीथ. म्हळ्यार एकादस आनी बारावी तीथ दुवादस. एकादशीक उपास करतात. त्या उपासानंतर दुवादशीक जेवतात तें पारणें. कांय वेळ दुवादस् तीथ पूर्ण मेळना, पारणें जावंचे पयलींच सोंपता.

49) **अर्द तांगाच्या खोमसाक देड तांगाचें रेंद.**

**टीप** : तांग म्हळ्यार एक पोन्ने नाणे, एकुणिसाव्या शेकड्यांत हाचें मोल 16 पै धरताले. विसाव्या शेकड्यांत पुर्तुगेज लोक आनी सरकार एका आण्याक तांग म्हणूंक लागले. तांचे मोल 12 पयो जालें. एका रूपयाचीं

16 तांगां असो हिशेब . करताले.

'खोमिस' आनी 'रेंद' हेवूय कोंकणीत आपणायिल्ले पुर्तुगेज शब्द. सादे पैरणीक म्हारग विणिल्ली नक्षीदार जाळी कित्याक? असो हे म्हणीचो अर्थ.

50 **अर्द तांगाच्या बैलाक एका तांगाचो गोंडो.**

51 **अर्द शेर घेता, फैतिसेर जाता.**

फैतिसेर : Feiticeiro ह्या मूळ पुर्तुगेज शब्दावेल्यान नामनेच्या भासशास्त्री आनी कोशकार मों. दाल्गादांनी आपल्या 'पुर्तुगेज' – कोंकणी 'शब्दकोशांत' ह्या पुर्तुगेज शब्दाचे जायते कोंकणी प्रतिशब्द दिल्यात ते अशे: घाडी, जादूगार, कंवटाळी, गौडबंगाली.

अर्द शेर सोरो पियेतकच जादूगाराक वा घाडयाच्या बापायक जमना असल्यो करण्यो करता.

52) **अर्दो सोरो, आनी अर्दी मस्ती.**

53) **अर्द हांव जाणां, अर्द शेजारचो रवळू जाणा.**

खंयच्याय गजालीचें पुराय गिन्यान नाशिल्लो मनीस.

54) **i ) अर्दकुटो कळसो चकनळटा / हायसुळटा.**

**ii ) अर्दुकुटो कळसो कचकचता, भरिल्लो कळसो कचकचना.**

व्हडलो आनी खरो विद्वान मनीस बोवाळ करीना. तकलेंत कांय ना तेच मनीस चड बोवाळ करतात.

55) **अद्र्या माडार चडून हात सोडचे न्हय.**

सुरू केल्लें काम कसलेय अडचणेक लागून मदींच सोडून दिवचें न्हंय.

56) **अवदिसा भेटे, कापसार कपल फुटे.**

57) **अशें लग्न लागूंक, व्होंकले जालें हागूंक**

हिंदी म्हण सारकी अशीच आसा 'गौंडे आयी बारात, बहुको लगी हगास'

58. **अशेंय म्हणचे न्हय, तशेंय म्हणचे न्हय; दिवाळेचे दिवे रे पुता.**

दिवाळेचे दिवे स्पश्ट उजवाड दिनात. ताका लागून धड काळोखूय नासता धड उजवाडूय नासता. जेन्ना एका मनशाक धड मत नासता, हांगाय ना आनी थंयूय ना अशी वागणूक आसता तेन्ना ही ओंपार लायतात. To speak uncertainly (भा.क.स. पा.455), A man who has no settled opinion (k.P. Chavan p.10)

59) **असंगाकडेन संग आनी प्राणाकडेन गांठ.**

जाचेकडेन संगत करुंक फावना वा जो संगत न करपासारको आसा ताचेकडेन संगत केली जाल्यार जीव वचपाचो प्रसंग येवं येता.

60) **असुर्येच्या कापडाक रुप्याचें रेंद.**

असुर्पी म्हळयार आशरफी (Asharfi) वा शेराफी (Xerafim). पुर्तगेज सरकारान गोंयांत रुप्याच्यो असुर्प्यो घोळणुकेंत हाडल्यो. एके असुर्पेचें मोल स आणे आठ पयो इतलें जातालें.

61) **अस्वल मारचे आदीं चामडें विकता.**

62) **अस्वलाचें नाक दरवेशाच्या हातांत.**

अस्वल दुसऱ्यांक भयंकर दिसता पूण दरवेशामुखार ताचें काय चलना. प्रत्येकाक कोण तरी योग्य नियंतो आसताच.

63) **अस्वलाचो मोग म्हळयार प्राणाकडेन गांठ.**

अस्वल मनशाक घट्ट वेंग मारता आनी खातकुतल्यो करुन मारता म्हणपाचो समज आसा तांचेर आधारलेली ही म्हण. इंग्लिशींत bear hug असो वाक्प्रचार आसा.

64) **अस्वलाचे गांडींत बाभळीचो खुंटो.**

चड मस्त्याची मस्ती निवळपाक खर उपाय करचो पडटा. कांटे आशिल्ल्या खुंट्यानूच अस्वल जाग्यार येता.

65) **अस्वलाच्या गांवांत ( रानांत ) केंसांचो दुकाळ.**

एकाद्री वस्त जंय पिकता थंयच ती मेळप ना.

66) **अस्वलाचे कान हातांत दिले.**

1883

दुसऱ्याच्या गळ्यांत धुर्तपणान कठीण काम बांदून आपूण मेकळो जावप. म्हणी फाटली काणी : ( सांगपी : कमला गजानन वाघ. आ. सु. मो. पा. 55)

एक मनीस रानांतल्यान वतालो. इतल्यान एक अस्वल ताच्या आंगार आयलें. ताणें दोनूय हातांनी अस्वलाचे कान घट्ट धरले आनी तसोच उबो रावलो. अस्वलाच्यान कांयच करुंक जायना जालें. थोड्या वेळान दुसरो एक मनीस थंयच्यान वतालो. ताणें असो उबो कित्याक रावला म्हणून अस्वलाचे कान धरुन राविल्ल्याक विचारलें. त्या धूर्त मनशान जाप दिली 'एकदम बरो प्रस्न विचारला तुवें. आगा अस्वलाचे कान धरतकच अस्वल जी लीद उडयता ती भांगराची आसता. तुका भांगर जाय जाल्यार तूं अस्वलाचे कान धरून राव. म्हाका मात्शी गडबड आसा, मुखार बेगीन पावूंक जाय.'

भांगराचे आशेन त्या मनशान अस्वलाचे कान आपल्या हातात घेतले. धूर्त मनीस कडसरलो.

1883

**टीप** : अस्वलाक, आंसवेल, वांसवेल अशेय शब्द वापरतात.

## आ

1) **आकयचें काजळ, बाकयचो शेंदूर.**

आकय गावांतल्यान काजळ आनी बाकय गावांतल्यान शेंदूर हाडून तिणें कसो तरी शिंगार केलो. हांगाच्यो थंयच्यो वस्तू पैदा करुन काम करप.'बांदोडेचो दवलो, शिरोडेची कायल' अशेंय म्हणटात.

2) **i ) आका दोळ्यांमुखार नाका ! मावशी ती मावशी खावपाक भरपूर दिवशी.**

**ii ) आत्रा भइणी आक्का, तूं माका नाक्का ! आम्मा भइणी मावशी, तूं माका पावशी.**

आका म्हळ्यार बापायची भयण. (कांयकडेन व्हडले भयणीक 'अक्का', आका म्हणपाची चाल आसा.) आवयपरसूय मावशेची माया चड

आसता अशी सर्वसादारण समजूत आसा ती ह्या म्हणींतल्यान उक्ती जाता.

3) **आका गळ्यांत भांगरा सरी, भयणी गळ्यांत सुंबा दोरी ( एकलेली घसघसता, दुसरेली कसकसता ).**

एकटेन कितें केलें म्हणून दुसरेन तिची नक्कल करून भलतेंच करून बसप आनी त्रासांत पडप.

4) **आकाश कोंसळल्यार धिगी कोण लायतलो ?**

सगळ्यां आदार दिवपीच गेलो जाल्यार, कोणाकडेन आदाराची अपेक्षा करप?

5) **आकाशाक निसणी लायल्यारी खंइय चडयेद?**

6) **आकाशाची कुराड खंय रे बाबा, कोल्याच्या दांतार पडली!**

कोल्याचे दांत फुडें आसतात तांचेर पयली धाड येता. गरीब बाबड्याचेर संकट कोसळटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.

7) **आकाशार दोळे पावतात, पूण हात पावनात.**

चडाखातीर आंवडेता आनी कांय प्रयत्न करीना ताका ही ओपार लायतात.

8) **आक्याक सोडलो, पोक्याक सोडलो, शणैमामाक गोबरान लोळयलो.**

आडांग्याक सोडून दिलो आनी कांयच गुन्याव करुंक नाशिल्ल्या सज्जन मनशाक गोबरान लोळोवन मारलो.

9) **आकुळ्ळेली गाय आपाभटाक दान.**

आकुळप = हिसपाभायर वापर करुन इबाडप, to strain खूब वर्सां वापरून मरूंक तेंकिल्ली गाय दान दिवन पुण्य जोडूंक सोदता आनी खर्च वाटावंक पळयता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

मराठी म्हण : भटाला किडकी सुपारी.

10) **आग खावन विंगळे हागता.**

विंगळे = इंगळे

सदां उठून दुसऱ्याचेर रागार जावन मारूंक आंगार वता तेन्ना ही म्हण वापरतात. भयंकर रागार जावन काळजाक चुरके दिवपी उतरां उलोवप.

म्हणीचो वापर : ‘ ते बायलेक मात हांतूतलें कांयच सांगू नाका. नाजाल्यार ती आग खावन विंगळे हागतली. ती रात दीस म्हज्या दारांत उबी रावन म्हाका आनी म्हज्या नातरां पण्टुरांक गाळी संवून भस्म उबैतली. ‘इंदिरेच्यो शिरवळ्यो’ : सौ. शांताबाय वर्दे वालवालीकार हांणी सांगिल्ली काणी.

**11) आगळान गळो कातरता.**

आगळ = केंस.

गोड गोड उलोवन हळूच विश्वासघात करपी मनशाक ही म्हण वापरतात. नजाकतीन कोणूय आपल्याच मनशाक फटयता तेन्ना ही म्हण म्हण्टात.

**12) आगासली ती मागासली, मागासली ती कापुसली.**

कापुसली = आंगान भरली, गुरवार जाली. कापूस झडयलो = बारीक जाली. पयली सून गुरवार जावचे पयलीं, तिचे फाटल्यान आयिल्ली धाकटी सून गुरवार जातकच अशें म्हणटात.

‘मागसून इली ती गुरवार रवलीं’ अशी मालवणी म्हण आसा. मुखार आशिल्ली व्यक्ती फाटल्यान पडून फाटल्यान आशिल्ली व्यक्ती यश मेळोवंक पावता तेन्ना हे म्हणीची याद करतात.

**13) आंग उदकान नितळ, मन सत्यान नितळ.**

**14) आंग भिजयलेबगर नुसतें धरूं नजो.**

खटपट केलेबगर पोट भरना; कश्ट केलेबगर फळ मेळना.

**15) आंगाचो रोग वता; मनाचो रोग वचना.**

हे म्हणींत एक मानसशास्त्रीय सिद्धान्त मांडलेलो आसा. मन हेंच रोगाचें कारण आसूं येता. मनाचो रोग जाला हें मानपाक सुध्दां रोगी मनीस तयार नासता. इलाज करून घेवंक फुडे सरना, देखून रोग वचना.

**16) आज आपयल्यार फाल्यां येता म्हणटा.**

कामाक कळाव लावपी, तें लांबणेर उडोवपी मनशाक ही ओपार लायतात.

17) **आज उलयलें, फाल्यां पोल जालें.**

18) **आज उपास, फाल्या पारणें.**

19) **आज मोर खंय खंय, स्वर्ण पिकलां थंय थंय.**

शेत पिकून भांगरासारके हडुळवें जाता थंय मोर रोखडो पावता. जंय कितें फायद्याची आशा आसा थंय न चुकतां पावता ताका ही ओपार लावं येता.

श्री. नरवणेन आपल्या भा.क.सं.(खंड 3) त ही म्हण दिल्या. इंग्लिश अणकार असो दिला: Where is the peacock today? There, where gold is harvested (It is supposed, peacock eats grains of gold) हो वाच्यार्थ जालो.

20) **आजाने वयिलो ( रोयिल्लो ) रुकू म्हणू गळपासू घालून घेवंचो वे?**

21) **आजो मेलो, नातू जालो.**

खुंटाक खुंट उबो रावलो. गेल्ल्याचो जागो घेवंक दुसरो तयार जाता, हें सांगपाक ही ओपार मारतात.

22) **आजो गेलो, माचो रितो जालो.**

घरांतल्या म्हालगड्याचें स्थान रिकामी जालें.

23) **आठ आय, णव व्यय, मागीर कोणाचेय धरी पांय.**

येणावळ आठ, खर्च णव केलो जाल्यार स्वाभिमान सोडचो पडटा आनी कोणाचेय पांय धरूंक वच्चें पडटा.

24) **आठ धान्यां कोडबाळयांत, खंचे धान्यां करुचीं?**

25) **आठ हात तवशें, णव हात बी.**

वाडोवन, फुगोवन गजाल सांगता ताका ही ओपार लायतात.

26) **आडव्याक तिडवें.**

**27) आडव्याक काडवां.**

**28) आडांग्याचे मडें, पादत गेलें.**

आडांगी म्हळ्यार उनाड, मस्ती करपी मनीस. मरतकचय ताची नस्ती अविचिनपणा सोंपना.

**29) आडकातेंतुलें फोफळ, सुट्टानू वच्चें कठीण.**

खूब कठीण परिस्थतींत शिरकून पडटकूच तांतल्यान सुटप कठीण.

**30) आतां हांव पयलींची व्हय गा? आतां म्हज्या मिरयां( क ) चय गा!**

**31) आदनांतले रडटात! सुपांतले हांसतात**

**32 ) आदणांतुले रडताती सुपांतुले हासताती.**

सुपांतल्या तांदळाक दिसता आदनांतल्या तांदळाक बरी अद्‌दल घडटा. तांकां खबर नासता, आपल्याचेरूय फाल्यां तीच पाळी येवपाची आसा म्हणून.

**33) आदळळे कडे ( बोटाक ) आदळचें चड.**

**34) आदावाबगर शिदी कोण फोडीना.**

शिदी म्हळ्यार धान्याचें जमनींत पुरिल्लें कदें. फायद्याची आशा आसलेबगर कोण उस्तून काडीना. सोळाव्या शतमानांतली ही म्हण. (को.श.को. पान. 788) ‘आदावाबगर बुडकुलो कोण फोडटा?’ अशीय म्हण आसा.

बुडकुल्यान दुडू दवरून तो जमनींत पुरताले. फायदो आसलेबगर बुडकुलो फोडून ते कोण काडटलो?

**35) आदीं आसलो इश्ट, मागीर जालो वेय, मागीर कितें?**

**36) आदींच बाय नाचरी, तातूंत बांदली घागरी.**

**37) आदींच शीत शेळें, तातूंत भरलें वारें.**

**38) आंधळया भरो दंडवतो, कज्जयाशीं मूळ.**

भटमाम म्हणून उलो मारचे बदला आंधळ्या भटजी म्हणून उलो मारून नमस्कार करतां म्हणून कळ काडप आनी बळयां झगडें आंगार ओडून

घेवप.

कज्जया = (फारशी काझिया) कज्जा, झगडें, लडाय, खटलो.

39) **आंधळ्याक पक्वान दिलें, तें मांजर खाता.**

40) **आंधळ्याचीं गोरवां देव राखता.**

41) **आनाक पडलां आनाचें, चोराक पडलां खाणाचें**

सोळाव्या शतमानांतली ही म्हण (को.श.सा. पा.41). उपरांत केन्ना तरी बदल जावन 'आनाक पडलां आनाचें, भेऱ्याक पडलां कानाचें' अशी जाली जांवये. अर्थ तोच. जण एकल्याक आपल्याचें पडलां.

आन म्हळ्यार व्हडलो भाव.

42) **आनाचो भाव दादा, म्हशी भाव रेडो.**

जसो व्हडलो भाव तसोच धाकटो भाव. दोगूय सारकेच वायट. म्हशींत आनी रेड्यांत फरक कितें? हिंदी म्हण: बडे मियाँ सो बडे मियाँ, छोटे मियाँ सुभानअल्ला.'

43) **आप सोडून पर धरी, ताची मनसुबी देव करी.**

जो आपल्या लोकांक सोडून परक्याच्या आलाशिऱ्याक धांवता, ताका ह्या जगांत थोड्या वेळा पुरतो लाभ जालोसो दिसलो तरी देव न्याय करून योग्य शिक्षा दिता.

मनसुबी = न्याय, निवाडो, नीत.

म्हणीचो वापर : कृष्णान म्हळें...... आप सोडून पर धरी, ताची मनसुबी खंय देव करी. पांडव तुगेले भाव हक्काचे. तांकां लागीं करून तांचो आधार घेवपा बदला तूं दुसऱ्याच्या तोंडाकडेन पळेता. तुका शाणो कोण म्हणटलो? (महाभारत खण्ड - 2, पान 251, अनु. रवींद्र केळकार)

44) **आपटून पडत, दंडवत घडत.**

45) **आपण गाढूं (गाढव) जाल्यार दुसरो फाटीर बसल्यार राग कित्याक?**

तुजे चुकीचो लाभ दुसऱ्याक घेवंक दितकच रागार आनी कित्याक

जावप? अशें विचारपाक ही म्हण वापरतात. कर्नाटकांत 'राग कित्याक हाचे बदला' 'इत्या कोपका' अशें म्हणटात.

46) **आपणाकडे आसल्यार इश्ट आनी सोयरो; ना जाल्यार जालो भायरो.**

47) **आपणाचे पांय आपल्या माथ्यार.**

आपल्या हातासकयले नोकर माथ्यार बसतात वा भुरगीं-बाळां बापायक लेखीनाशीं जातात तेन्ना ही ओपार मारतात.

48) **आपणाचें कांठभर दवरून, दुसऱ्याचें बोटभर उस्तिता.**

आपणाकडें भरपूर आसून लेगीत पेल्याचे वस्तुची आशा धरता तेन्ना ही ओपार लायतात.

49) **आपली सांवळी आपल्या पांयांमुळा.**

आपूण जंय वता थंय आपले बरे वायट करणेचे परिणाम वतात.

50) **आपलें वरत्याक दिवंचें आनी खालत्याचें हाडचें.**

आपलें चेडूं वरते फामिलींत दिवंचें आनी दुबळ्यांघरचे चेडूं सून म्हणून हाडचें. हो अर्थ स्पश्ट सागपी दुसरी म्हण:

51) **चली होडांगेरी दिवंका, सून गरिबां घरची हाडका.**

52) **आपलें दिवंचें; दिवाणांत वचचें.**

दिवाण = कोर्ट

53) **आपलें पान धुवंचें, आपणें जेवंचें.**

दुसऱ्याच्यो उठाठेवी करच्यो न्हय. स्वत:पुरतें पळोवंचें. हिंदूमदें जेवण वाडचे पयलीं जेवणाचे पान स्वत: धुवपाची पद्धत आसा.

54) **आपलें पान धरचें, आपणें जेवचें.**

55) **आपले सांवळेक , आपूण भियेता.**

चड भितऱ्या मनशाक ही ओपार लायतात.

56) **आपल्या पांयां बगले कितें जळटा तें खबर ना.**

आपले दोश आपणाक दिसनात.

57) **आपलें नाशें, जगा हांशें.**

58) **आपलें नाक कापून पेल्यांक आपशकून करचो.**

59) **आपलें घर हागून भर, दुसऱ्याचें घर थुकूंक जड.**

आपल्या घरा जाय तशें वागूंक मेळटा, गोंदळ घालूंक जाता. दुसऱ्याच्या घरा थुंकताना सुध्दां बारीक पळोवंचें पडटा.

60) **आपलेच दांत, आपलेच ओंठ**

61) **आपली जीब आपले दांत, चाबल्यारी कोपचें कोणाचेरी सांग?**

आपल्याच मनशाक आपणें दूशण दिवचें पडल्यार ही ओपार वापरतात.

62) **आपलें घर बारा कोसांसावन दिसता.**

आपले घरची परिस्थिती आपूण कितलोय पयस आसल्यार लेगीत बरी खबर आसता.

63) **आपलो कोयतो हातार बसल्यार नाल्लाक कित्याक गाळी?**

आपले घाळपणाचो दोश दुसऱ्याक कित्याक दिवप?

64) **आपलो खुळो जाल्यार रडटा, दुसऱ्याचो जाल्यार हांसता.**

65) **आपल्या दोळयांतलें कांडण देखना, पेल्याच्या दोळयांतले कुस्कुट देखता.**

दुसऱ्याचे बारीक सारीक दोश दिसतात आपले आनी आपल्या लोकांचे व्हड दोश दिसनात.

कांडण = मुसळ

66) **आपले गांडिपोदचे घोडे गेले, काबार जाले, कोणय बसनात.**

67) **आपल्या पांयांमुळांत कुवाळो कुसता, दुसऱ्या पांयांमुळांतलीं सांसवां सोदता.**

68) **आपल्या पांयांत वाल घुसपल्या वा कांटो लागला म्हणून सवकास चलता आनी दुसऱ्याक विचारता लंगडटा कित्याक म्हणून.**

69) **आपल्या आळवाची खाज आपणाक खबर.**

70) **आपल्या नशिबान घोव खांवचो.**

नशिबान बरो घोव मेळचो असो अर्थ. पुराय म्हण अशी आसा: **कातलेन खांवचो फोव, नशिबान मेळचो घोव.** केन्ना तरी नशिबान घोव खावंचो अशी म्हण घोळणुकेंत आयल्या आसतली.

71) **आपल्या लग्नाक न्हालो ना, तो दुसऱ्या लग्नाक निमगिता ( विचारता )?**

स्वताच्या कार्यांत मन घालीना तो दुसऱ्याचे काम कशें करतलो?

72) **आपूण आपणाक, देव समस्तांक.**

मनीस आपणांत गुल्ल आसता. ताका दुसऱ्याचें पडून वचना. इंग्लिश म्हण : Each one for himself and God for all.

म्हणींचो वापर : बाबगो, म्हजे पोट भरतकूच दुसऱ्याची चिंता म्हाका भोव. आपूण आपणाक; देव समस्तांक. ('मोगाचें लग्न.' बरो : शणै गोंयबाब.)

हाचें वयल्यान 'आपुण आपणाक देव समस्तांक, ही घातमारी म्हणणी तांच्या आंगा-मामांन चड बळळया खरी, 'पुण्यात्मो राम कामती' पा. 101; बरो: शणै गोंयबाब.

73) **आपूण कुंटो, दुसऱ्याक म्हणटा थोंटो.**

स्वत: लंगडो आसून दुसऱ्याक थोंटो म्हणटा. आपल्या आंगांतले वायट गूण विसरून दुसऱ्यांचेर टिका करप.

74) **आपूण खायना, दुसऱ्यांक दिना.**

इंग्लिशींत Dog in the manger म्हणटात तशी वृत्ती

75) **i ) आपूण भलो, तर जन भलो.**

**ii ) आपूण बरो जाल्यारी जग बरें, आपूण वायट जाल्यारी जग वायट.**

आपूण दुसऱ्याकडेन वागता तशे ते आपल्याकडेन वागतात, बरेपणान वागल्यार बरेपणान, वांकडेपणान वागल्यार वांकडेपणान.

मराठी म्हण : आप भला तो जग भला.

76) **आपूण चुकलें , जगान थुंकलें.**

77) **आपुण मेलेबगर सर्ग दिसना.**

स्वत: अणभव घेतलेबगर खंयच्याय गजालींचें मर्म कळना. स्वत: कश्ट केलेबगर सूख मेळना. ह्याच अर्थाच्यो दुसऱ्यो म्हणी: ''आपणें मोरकां स्वर्ग दिसका,'' आपूण मरून सोर्गार वच्चें.

78) **आपूण वसना, सवत सोंसना.**

एकाद्रे बायलेक भुरगेंच जायना म्हणून घोवान दुसरें लग्न करपाचें येवजिलें तर तिका तें सोंसना. खंयचेंय काम स्वता: करुंक शकना आनी दुसऱ्यानी केल्लें आवडना, तेन्ना ही ओपार मारतात.

79) **आपूण मरन आनी दुसऱ्याक व्हरन.**

आपलो नाश करुन तेचबरोबर दुसऱ्याचोय नाश करपाची पाडी वान्सा.

80) **आपूण रांड शिनाळें, जाल्यार भावाबायले पातयेना.**

आपूण शिंदळकी करुन वेल्यान भावाचे बायलेचेर बारीक लक्ष दवरता.
Those that are sinful, are watchful about other's sins.

81) **आपूण करी तें काम, गांठी आसा तो दाम.**

स्वत:च काम केलें तर तें वेळार जाता. स्वता:कडे नगद पयसो आसा तोच वेळार उपयोगाक पडटा. दुसऱ्याचेर काम सोंपयलें जाल्यार वेळार तें जायत म्हणून ना. दुसऱ्याकडेन आपलो पयसो दिल्लो आसत जाल्यार वेळार तो परत मेळत म्हणून ना.

82) **आपणे सोरोप मारप आनी घोणीच्या तोंडात दिवप !**

घोण म्हळ्यार घार. सोरोप मारपी पक्षी म्हणून तिची नामना आसा. आपणे स्वत: वायट काम करुन तें सदांच तसले काम करप्या बोडार थापप.

83) **आपूण जेवी पोटभर, घोवाक वाडी दवलोभर.**

84) **आपूण बायल पोटारी, घोवार दोळे वाटारी.**

पोटारी = भकारी

85) **आपूण नागडी ( गांड उगडी ) कानांत बुगडी.**

खोटो बडेजाव. न्हेसपाक धड ना आनी कानांत मात बुगडी घालून मिरयता. Vain Show.

86) **आपूण बुडटा, दुसऱ्याक पोटाळटा.**

पोटाळप = पोटाकडेन धरप.

स्वत: खड्ड्यांत पडप आनी दुसऱ्याक आपलेबरोबर ओडप अशी वायट वृत्ती.

87) **आपणें शेण खावन दुसऱ्या तोंडाक हात पुसप.**

आपणें वायट गजाल करप आनी दुसऱ्यानूय तशेंच केलां म्हणून दाखोवपाचो प्रयत्न करप.

88) **आपूण आयला मागूंक, घालगे रांडे भीक.**

भिकारी आसुनय मुरवत दवरीनासताना उलयता, ताका ही म्हण वापरतात.

89) **आपूण मरन, बायलेक रांड करीन.**

दुसऱ्याक शिक्षा वा अपशकून करपाखातीर स्वताक व्हड नुकसान करून घेवप.

90. **आपूण भिकारी, जीव चोकारी.**

चोकारी म्हळ्यार unconcerne. भिकाऱ्याक जिवाचे वा जगाचें कांयच पडून वचूंक ना. (K.P.S., आ 31Glossary)

91) **आपे खांवका, की फोंड मेजुका?**

आपे म्हळ्यार गोड भाकरी. ते भाजपाक कायल आसता. ताका वाटकुळे फोंड आसतात. ते मेजपाची खावप्याक कसली गरज?

92) **i ) आब आयलो म्हूण रेड्या पानो ओडलो तर दूद येता?**

**ii ) बाबा पावणो आयलो, म्हणून रेडो दूद दिना.**

आब = आबा, बाबा, बापूय.

जी गजाल शक्य ना ती खंयचेच परिस्थितींत जावपाची ना.

93) **आब लासलो, धग तापलो ( शेकलो ).**

94) **आबा बायल जा, आनी भीक मागून खा.**

95) **आंबे भोव गोमटे जाले, ते सगळे माकडांनी व्हेले.**

वस्तू बरी आसुनय तिचो उपभोग घेवंक मेळना तेन्ना ही म्हण उपकरायतात.

96) **आंबो गोड म्हूण तुंबो गोड व्हय?**

तुंबो = धवीं बारीक फुलां येवपी एक वखदी वनस्पत. एकाची सर दुसऱ्याक येना.

97) **आंब्या झाडाक फातर मारचें चड.**

बरे वस्तूच्या फाटल्यान सगळेच लागतात. बरेंपण त्रासदिणें जावं येता.

98) **आंब्याच्या रुखाक पंगाऱ्याची साल लागता?**

दोन सामक्यो वेगळ्यो गजाली एकठांय येवंक शकनात. मराठी म्हण : वडाची साल पिपळास लागत नाही.

99) **आंब्या राकडारी ( लाकडार ) घालतची बुध्दि येता.**

100) **आंबो पणसांत न्हय, दुबळो मनशांत न्हय.**

आंबो पणसांत पडना, तसो गरीब मनीस दुडवाकारांत मोडना.

101) **आंबट खाल्ल्याच्या ताळयाकडेन जळटा.**

तुवें जर कितेंय वायट कर्म केल्लें आसत जाल्यार ताचे विशीं कोणूय उलयलो जाल्यार तें तुका रोखडें लागता. ह्याच अर्थाच्यो दुसऱ्यो म्हणी : आंबूस खाल्ल्यालें गळ्यांत कचरता; आमशें खाल्लें गळ्यांत लासता.

102) **i ) आंबाडो ना म्हूण म्हाळ खळना.**

**ii ) आंबाड्या खातीर कोण म्हाळ खळयता?**

म्हाळ = भाद्रपद वद्य पंद्रशींत पितर मेला ते तिथी दिसा घालतात तें दबाज्याचें स्त्राध्द. त्या दिसा आंबाड्याचे सांसव करपाची रीत आसा. ल्हानशी वस्त मेळ्ळी ना म्हणून कोण व्हडले कार्य थांबयना.

103) **आमी तुमगेर जेवंक येतात, तुमी आमगेर ओजी ( आंबे ) धाडात.**

दोनी वाटेन सुवार्थीपणा राबोवपाचो प्रकार. तुमचे तें आमचे आनी

आमचे तेंय आमचेंच अशी वृत्ती.

104) **आमी तुमी एकां, तांदळांनी ( शितान ) केल्यांत लोकां.**

आमी तुमी सगले एकूच, पूण एकठांय जेवंक मात जमना, देखून पयसावल्यांत. आपसुवार्थान आमचेमदीं धोशी घाल्या.

105) **आमी आयलीं घरा, तुमी भायर सरा.**

106) **आम्माने मेल्यारी अमास रावना, आन्नाने मेल्यारी पुनव रावना.**

कोणाकरतां काय रावना. दीस हे येतात आनी वतात. कर्नाटकांत घोळटेंत आशिल्ली ही म्हण मूळ कानडी म्हणीवयल्यान आयल्या आसतलीं. 'अक्कसत्तरे अमावास्ये ती निस्ल्लुट; अण्ण सत्तरे हुण्णिमे ता निल्लदु', निसर्गाचो क्रम चालूच उरता. ह्या अर्थाची दुसरी म्हण: म्हातारेन कोंबो लिपयल्यार फांतोड जावंची रावना.

107) **आय पळोवन व्यय करका.**

येणावळ पळोवन खर्च करुंक जाय.

108) **आयकणारें भेरें आनी मोन्याक पडलां सपन.**

म्हणी फाटली काणी : एक आशिल्लो मोनो. ताका सपन पडलें. तें कोणाक तरीं सांगलेबगर ताच्यान रावूं नज जालें. तो उठून एका मनशाकडेन गेलो आनी तोंडांतल्यान आवाज काडून आनी हातवारे करून सांगपाचो प्रयत्न केलो. भेऱ्याक कांयच समजलें ना. मोन्याचें सपन ताच्या मनांत उरलें.

109) **आयचें काम फाल्याक म्हूण दवर नाका.**

110) **i ) आयतो विडो तोडांत पडचो.**

**ii ) आयतो वडो तोंडां पळ्ळो ( पडलो )**

कारवारी म्हणीच्या संकलनात 'आयतो विडो...' अशीं उतरां आसात (कारवारी म्हणी, का.म्ह., पा.51) केरळांत आनी दक्षिण कर्नाटकांत 'आयतो वडो...' अशीं उतरां मेळटात (कों. म्ह, सो रू. 142, K P & I.60). म्हणीचे शब्द प्रदेशाप्रमाण कशे बदलतात हाचें हें एक उदाहरण.

**111) आयत्या बिळांत नागोबा.**

**112) आयरें वयरें, पोट सोयरें**

आडवें तिडवें खावपी, पोटाऱ्या मनशाक ही ओपार लायतात.

**113) आयली वाय, गेली काय, ताचे गोडवे तुका काय?**

वारो आयलो आनी गेलो ताचें ताका कांयच पडून वचूंक ना. कसलीच पर्वा नासताना वागता ताका ही म्हण वापरतात.

**114) आयली दिवाळी आनी परबो आकारी.**

सगळी जीण मजा करुंक सोदतल्याक ही म्हण उपकरायतात. दिवाळी तर आयली आतां मुखार येतल्या सणाचे दीस मेजूंक लागू या. 'आयली दिवाळी परबो निवाळीं' अशीय म्हण आसा. दिवाळेन परबो सोंपतात असो अर्थ. 'आयली आषाढी, परबो हाकारी' अशीय म्हण आसा. आषाढी एकादस येता ती परबांक उलो मारीत येता असो अर्थ.

**115) आयलें ल्हार, मारलें भायर.**

आंगार आयिल्लें ल्हार आंगावयल्यान वचपाक दिता तशें संकश्टांक तोंड दिवप.

**116) आयलें आंगार, गेलें केंसार.**

**117) आयलें आंगार, घेतलें शिंगार.**

**118) आयलें वारें, गेलें वारें - ताचें कसलें चेरें -चेरें?**

वारो हेवट्यान येता आनी तेवट्यां वता ताची दखल घेवपाची गरज नासता. तेभाशेन आपल्याक ज्यो लागना त्या घडून गेल्ल्या गजालींची चवकशी करपाची गरज नासता.

चेरें चेरें = Fuss.

**119) आयल्यार पावस, नाजाल्यार वोत.**

हेंवूय बरें, तेवूंय बरें म्हणपी. खंयचेय परिस्थितीत सुखी मनीस.

**120) आयल्यार आंबो, गेल्यार फातर.**

आंबो पिकिल्लो आसलो जाल्यार फातर मारून प्रयत्न करुन पळोवचें.

लागल्यार आंबो मेळटलो. नुकसान कांयच जांवचे ना. फातर वतलो. योग्य जाग्यार प्रयत्न करुन पळोवंचो.

121) **आयावीचें गेलां खेळूंक, रांडेचे बाबडें गेलां जल्मजुगाक.**

आयाव = घोव आशिल्ली बायल. सवाशीण. घोव आशिल्ले बायलेचो भुरगो गेलो तर परत भुरगें जावपाचो संभव आशिल्यान ताचें दु:ख चड भासना.

122) **आरती घेतल्यारी उष्ण, तीर्थ घेतल्यारी सैत्य.**

सैत्य = सैत, थंडसाण, शीत, गारठो, हींव

आरतीच्या दिव्यापसून उष्णता जाता आनी तीर्थ पियेल्यार थंडी जाता इतले नाजूक प्रकृतिचो मनीस.

123) **आरांजे व्हरप, मारांजे लावप.**

ह्यावेळचे काम त्यावेळार करप.

124) **i ) आपाड्यापरस बिराडी व्हड, शेजारी येवन कान वळ.**

**ii ) आडाराकई बिडार घट्टी**

भायले येवन घरच्यापरस चड काम करपी सेवकाचेर अधिकार गाजयतात.

125) **आरेल्ल्या न्हवऱ्याक भुरेल्ली व्हंकल.**

आर जाल्ल्या (paralytic) मनशाक खोरोज जाल्लीबी बायल फावता.

126) **आल फटयाक सोडिना आनी फटें आलाक सोडिना.**

आल म्हळ्यार दिसवड्याच्या वावराक वचपी मानाय, कामगार. असोच एक कामगार न्हंयेंतल्यान व्हांवून वता तें कांबळीचें फटें काडूंक म्हणून देंवता. पळे जाल्यार तें फटें नासताच. आसता एक अस्वल दोगूय एकमेकांक कशेच सोडिनात, अशी काणी मेळटा.

भारतांतल्या भासानी अस्वलावेल्यो म्हणी, काणयो जायत्यो आसात. लोककाणयेकडेन लग्निक आशिल्ली ही एक म्हण.

आल हें उतर आनीक एके कोंकणी म्हणींत मेळटा. 'जैसो आला वाडी तैसो दादा करड काडी.' जितलें दादा, म्हळ्यार धनी आलाक म्हळ्यार

मानायाक जेवंक वाडटा तितलेंच ताका करड काडून मेळटा. A fair work for a fair wage.

127) **आलेसा ( इनासा ) तांड रे होले - हांव तर भुरगो मंगा !**

**आलेसा ( इनासा ) जेवंक योरे - हांव तर मानाय मंगा !**

128) **i ) आवय सोंसता, बापूय पोसता. तुका कितें लागता?**

**ii ) आवय सोशीत, बापूस पोशीत.**

भुरग्याक बरें ना जातकच आवय कश्ट करता. कितें जाय नाका तें पळेता. बापूय पयसो खर्च करता. खावंक जेवंक न्हेसूंक, पांगरूंक बी दिता. दुसऱ्यांक नसत्यो जाळवण्यो कित्याक?

129) **आवय जेवंक वाडीना, बापूय मागूंक सोडीना. ( भीक मागूंक )**

130) **आवय पळेता पोट, आनी बायल पळेयता मोट.**

मोर = मोरली, पोटली.

आवयक आपल्या चल्याक पोटभर खावंक जेवंक मेळचें हाची काळजी आसता आनी बायलेक ताच्या दुडवांची काळजी आसता. भायल्यान पूत येतकूच आवय तो जेवला काय ना हें पळेता. बायल फाटीर पोटली आसा काय पळेता, म्हळ्यार बरोबर कितें हाडलां तें पळेता. देखून ... बायल पळेता फाट अशेंय म्हणटात.

131) **आवय नाशिल्ल्याचे पोट व्हड, रान नाशिल्ल्याचो कोळसो व्हड.**

आवय नाशिल्ले भुरगे चड खावन घेता. ताका परत खावंक केन्ना मेळटलें हें खबर नासता. मुखार आसा तें खावन उडयता. रान नाशिल्लो कोळसो साठोवन दवरता. ताका जाय तेन्ना लाकडां मेळत म्हणून ना. असलीच दुसरी म्हण आवसू (आवय) नात्तिल्लें (नाशिल्लें) चेडूं पोटारें.

132) **आवय जाणटा भुरग्याचो बाप, आनी देव जाणटा पाप.**

भुरग्याचो खरो बापूय कोण तें आवयच वळखता. तिचें पाप देवाकूच खबर आसता.

133) **आवय - बापूय सोडूं येत, पूण शेजारी - सामारी सोडूं येता?**

खंयूय गेलो जाल्यार शेजारी मेळटलेच. बऱ्या-वायट शेजाऱ्यांबगर रावप कठीण. शेजाऱ्या सामाऱ्याची गरज सदांच आसता.

134) **i ) आवय मरता धुवेलागीं, धुव मरत गांवच्या मिंडालागीं.**

**ii ) आवय रड धुवेखातीर आनी धूव रड गांवच्या मिंडाखातीर.**

आवयचो जीव धुवेचेर आसता पूण तिका विसरून धूव मोग्याक भुलता.

135) **आवय, बापायगेर बारा जोतां, हांव भीक मागून खातां.**

136) **आवयक नाका लेकरूं, आज्जे कित्या नातरुं?**

137) **आवयचें मन कातली, भुरग्याचें मन कट्टी.**

138) **आवय - बापायन दिल्लें भल्लेल्या गोठ्याक, पूण कपलफुटक्याक कोण कितें करतलो?**

139) **आवयक पळोवन धुवेक व्हर, दूद पळोवन म्हशीक व्हर.**

140) **आंवाळो दिवन कुंवाळो सोदता ( घेवचो ).**

ल्हान वस्त दिवन व्हडल्या वस्तीची अपेक्षा करप.

141) **आंवाळो पिकचो ना, दर्या सुकचो ना.**

पिकिल्लो आंवाळो केन्ना मेळना. पिकचे पयलींच गळून पडटा. दर्या केन्ना आटना. असल्यो न घडपी गजाली करारान अट म्हणून घालतात तेन्ना ही ओपार मारतात.

142) **आंवाळो विकून आयिल्ले दुडू खोरजू खायनात.**

आंवाळे कोडू आसतात म्हणून ते विकून आयिल्ले दुडू कोडू जायनात. तेचभाशेन कसलेंय काम प्रमाणिकपणान पयशे मेळोवन दिता तें वायट म्हणूंक जायना.

143) **आशा केल्यार दशा वता.**

144) **आशा आशिल्ल्या साधूक, मिश्यो नाशिल्ल्या संन्याश्याक नंबू नये.**

साधुपणाची आनी संन्याशीपणाची मुख्य खूण जाचेकडेन पळोवंक मेळना ताका नमन करूं नये.

145) **आशिल्लें नाशिल्लें म्हजे गायरीं, म्हाका खंयची सोयरीं - धायरी?**

म्हाका जें कितें मेळटा तें म्हजे पुरतेंच आसता. हांव आनी सोयऱ्यांक पळोवंक खंय पावतलों?

आपलेपुरतेंच पळोवपी सोयऱ्यांचें ताका कांय पडून वचूंकना, असोय एक अर्थ जाता.

गायर = शेण सांठोवपाखातीर खणिल्लो फोंड.

146) **आसतल्याकडे मागचें, नासतल्याक दिवचें.**

147) **आसल्यार सगलीं आसात, ना जाल्यार कोण ना.**

148) **आसा तें वाड म्हाका, तुमीं मागीर रांदून जेवात.**

शिमे भायलो सुवार्थीपणां दाखोवपाक ही म्हण वापरतात.

149) **आसा पांगरूंक, खाता शीं, ना कांबळी भिता शीं.**

150) **आसलो वरव खेलो गिमा, पावसांत नाच रे डुम-डुमा.**

ला फॉन्तेन या फ्रेंच बरोवप्याची प्रसिध्द नितीकथा (Fable)आसा. हातूंतल्या वाक्याची याद करुन दिवपी ही म्हण. 'You sang in the summer, now dance in the winter.' फ्रेंच कवीन हितोपदेश आनी पंचतंत्रातल्यान स्फूर्त घेतल्या हे सगल्यांक खबर आसा.

151) **आळशाक दीस सरना, वावुरतल्याक ( कश्टतल्याक ) रातूय पावना. ( पुरो जायना. )**

152) **आळशाक दुणो ( दोश्टी ) वावर, सुग्रात्याक ( किरपिणाक ) दुणो ( दोडटी ) खर्च**

सुग्राती (किरपिण) - हिमटो, चामटो

आळशी मनीस खंयचेय काम बरोबर करीना. वेळार, करीना ताका लागून तें परतें करचें पडटा; हिमटो मनीस खंयच्याक कामाक जाय तितलो पयसो खर्च करपाक फाटीं सरता. ताकालागून कम इबाडटा, वेळार जावंक पावना.देखून तें परतें करचें पडटा आनी खर्च वाडटा. आळशाक दुपेट वावर अशीय म्हण आसा.

153) **आळशाक बोरां पिकल्यां म्हळयार हागिल्ले गांडीर खावं?**

4) **आळश्या, आळश्या, भिकणां भाजून खा, 'भिकणां हरवींच गोड लागतात'.**

5) **आळशी उठूंक शिंबरें शिकलें.**

6) **आळशी उठलो, शिंबरो शिंकलो, कामाचो गोंदळ जालो.**

शिमरो, शिंबरो = चेपट्या नाकाचो. शिंबऱ्याची शिंक वायटार पडटा असो एक समज आसा. आळशी काम करूंक उठलो तेन्नाच ज्यूस्त शिंबरो शिंकलो. काम न करपाक आळश्याक निमीत जायच आसता, तें ताका आयतेंच मेळ्ळें.

मराठी म्हण : न कर्त्याचा वार इतनिवार.

57) **आळशी सांगत तें घाडयाच्या बापायच्यान सांगू नजो.**

आळशी लोक उलोवपी चड, करपी थोडे. व्हडल्यो गजाली बसला थंय खऱ्यो पळोवन आयला अशें सांगपाक फाटीं सरना. भुतांक, देवचारांक आळाबंदा हाडटा म्हणून सांगून घाडी बातां मारता; आळशी ताचे परस चड बातां मारता.

58) **आं केल्लें तोंड हांसूंकय जाता, रडूंकय जाता.**

कितेंय जायतें समजुंचें, उतर जाय तशें घुंवडावंक जाता.

## इ

) **इकरा देवांक एक एकादसणी.**

एकाच कामांत खूब कामा संपादून घेवप.

एकादसणी = मंत्रांची इकरा आवर्तनां म्हणून अभिषेक करप.

) **इंगळे खावन केंड हागता.**

मनशाक आपले करणेनुसार फळ मेळटा.

केंड = आग (1567 च्या शब्दकोशांत हो शब्द आयला. ताचो अर्थ भगभग, आगेल, दमटो असो दिला), Spark, चिनगारियाँ (हिंदी)

मराठी म्हणी : करावें तसे भरावें, - जसे पेरावे तसे उगवते.

हिंदी म्हण : जैसी करनी, वैसी भरनी

3) **इंत्रुजाक खेलें मास, पास्कांक आयलो धेंक.**

काम जालें केन्ना आनी विचारता केन्ना? कारण आनी परिणामामदें नातें ना हें दाखोवपाक ही म्हण मारतात. क्रिस्तांवांमदें ही म्हण घोळणुकेंत आसा. ॲ.सिल्व्हाच्या हातबरपांत आनी को.ओ.भां (पान 101) त आसा. कोंकणीत ह्याच अर्थाची आनीक एक म्हण मेळटा ती अशी :

पुनवेक जेवलो, अमासेक ढेंकलो.

4) **इंद्रपद घेवंक गेल्लो, निद्रापद घेवन आयलो.**

व्हड यश मेळोवंक म्हणून गेल्लो तो न्हिदेचो वर म्हळ्यार वायट घेवन परत आयलो.

म्हणीचो वापर : अंतू परोब म्हणून एक मनीस ल्हानशें कपड्याचें दुकान म्हापशां चलयतालो. सावंतवाडीक व्हडलें दुकान काडपाचें ताच्या मनांत आयलें आनी तो थंय गेलो. आदल्या काळांत सावंतवाडी मलेरियाचें आगर आशिल्लें. अंतशेटीक थोड्याच दिसानी मलेरियान गांठलो आनी दुकान बंद करून मलेरियाची जोड घेवन तो परत आयलो. ताची आजी म्हणपाक लागली, 'इंद्रपद घेवंक गेल्लो निद्रपद घेवन आयलो.

- आ.सु.मो. (पा.58) बरो. कमला वाघ

5) **इंद्रा मारल्यार चंद्राक लागता.**

एकट्याक शिक्षा केली जाल्यार ताचो धडो दुसऱ्याक मेळटा. हे म्हणीक तशें पळेल्यार पुराणांतले खंयचेच कथेचो आदार ना.

6) **इंफेर्न दुख्खाचो, संवसार आशेचो, सोर्ग सुखाचो.**

7) **इश्ट पळोवंचो मागून, सोयरो पळोवंचो वचून.**

8) **इस्ताचें मनीस फस्तांक उरना.**

इज्जतीचो मनीस जो आसता तो आपली फजेती पळोवंक जितो रावना.

## ई

) **ईन मीन साडेतीन /सवाय तीन.**

सामकें ल्हान कुटुंब.

## उ

1) **उकडें खाल्यार हागता; सुरय खाल्यार भागता**

सामके नाजूक प्रकृतीचो मनीस.

2) **उखल्ली जीब आनी लायली ताळ्याक.**

3) **उंगठो सुजलो म्हणून दोंगरा येदो जायना.**

4) **उजो लावन उदकाक धांवता.**

5) **उजो लायता आनी पाणयाक धांवता.**

6) **उजो आनी चाडी, चड नाकात.**

7) **उजो लावन गजाल कित्याक मारता?**

स्वताच कलागती लावप आनी साव आशिल्ल्याचो आव हाडपाचो प्रयत्न करप.

8) **उज्या भिनात्तिलो गोबरा भित्त वे?**

व्हड संकटाक तोंड दिवपी ल्हान, सान संकटाक भियेना.

9) **उज्या शिवाय भाजना ( शिजना ), धगा शिवाय करगना ( वितळना ).**

10) **उज्याक गेल्यार कयलेक पातयेना.**

कैल म्हळयार मातयेच्या मडकेचे वा कुंडल्याचे पोंद. आदल्या काळार घरचे रांदनीत लाकडाचो उजो पेटोवपाक शेजाऱ्याकडल्यान केन्नाय कैलेंतल्यान इंगळे हाडचे पड. ते मागूंक गेल्यार शेजारी कैल ना म्हणटा आनी इंगळे दिवपाचें टाळटा.

11) **उज्याक भियेतली बायल, थंडेक भियेतलो घोव, कित्याक जाय**

गा?

'कित्याक जाय गा' बदला ' कित्याकय नाका' अशेंय म्हणटात.

12) **उज्यांत घाल्यार जळना; उदकांत घाल्यार बुडना.**

13) **उटा म्हणवरेक बैसू नयें, वच म्हणवरेक राबू नयें.**

दुसऱ्यागेर वतकच आतां एकदांचो उठ म्हणून सांगसर बसूं नये आनी एकदांचो गेल्यार पुरो अशें जायमेरेन रावूं नये ही शिकवणी दिवपी हीं म्हण.

14) **उडटल्या सवण्याक मसालो वांट्टा.**

15) **उडटा तो बुडटा.**

'चड उडटा तो चड बुडटा' अशेंय म्हणटात(तो.मा. गोम पै)

गर्विश्ट मनीस हारता. जो चड गर्व करता, तो चड नेटान सकल आपट्टा.

16) **उडटो विंचू कूस लायना.**

17) **उंडो आनी कुंडो सारकोच.**

सगळ्यांक एकाच मापान मेजप.

18) **उणाकबरोबर मांडली सारी, दोनूय हारी आपणाचेंर.**

सारी म्हळ्यार सोंगट्यांचो खेळ. हलकटाबरोबर तो खेळूंक बसल्यार दोनूय वटेचे नुकसान आपल्याचेर येता.

19) **उणें उलोवंचें आनी दुणें घेवचें.**

20) **उण्याक वाट, सुण्याक फाट.**

हलकट मनशापासून पयस रावचें आनी सुण्याचे वाटेक वच्चें न्हय. ह्या दोगांयकडल्यान नुकसान आपलेंच जांव येता.

21) **उदक धुता सगल्यांक, उदकाक कोण धुतलो?**

वैज सगल्यांक वखद दिता पूण ताका वखद कोण दितलो? ही ह्याच आशयाची म्हण.

22) **उदका हागिल्लें उफेल्याबगर रावता?**

23) **उदकांतु हांगिल्ले उंच येता.**

खंयच्याय प्रसंगाक वा परिस्थितीक लागून करची पडिल्ली वायट गजाल केन्नाच लिपून उरना.

24) **उदकांत घर बांदून मासळेकडेन झगडूंक जाता?**

25) **उदकांत राबुन मासळ्यांकडे वैर करनये.**

26) **उदकाच्या बळार सुंगट उडटा.**

'घोवाच्या बळार बायल नाचता; कोंब्याच्या बळार कोंबी उडटा' अशेंय म्हणटात. पैश्याच्या बळार मनीस हेरांक कुस्कुटायता, वा बडायो मारता तेन्ना ही ओपार वापरतात.

27) **उदकांतली मांडकी उदक पियेल्याबगर रावना.**

मांडकी/माणकी = बेबकी

28) **उदकांतुलो मांडुकू उदक पिनास्तना राबना.**

मांडूक = बेबो.

जी गजाल आयती हाताकडेन मेळटा ती वापरलेबगर कोण रावना हें सांगपाक ही ओपार मारतात. असलीच दुसरी म्हण 'तळे राखता तो उदक चोंखता.'

29) **उदकार बडी मारल्यार - उदक एक, बडी विंगड.**

उदकांत केन्नाच फूट पडना. 'उदकार मारल्यार दोन जातात व्हय? अशेंय म्हणटात.

30) **उदकार बरयल्लें बरप, मळबार काडिल्ल्या चित्रा सारकें.**

31) **उदकांतलें तेल पेंवता, बुदवंत आशिल्लो उंचार येता.**

उदकार तेलाचे थेंबे वयर उफेतात तशे, बुध्दी आशिल्ले मनीस समाजांत वयर सरतात.

32) **उदार तेल खंवट.**

33) **उदाराचें पोतें, सवाय हात रितें.**

उदार व्हरतल्याच्या पदरात खंवटल्लें तेल घालता, वजन कमी दिता. दुसरी म्हण पळेयात: 'सवाय खाण पोटफुगें' बरो माल जाय जाल्यार नगद पैशे दिवंक जाय. उदार आनी सवाय घेतात ते फसतात.

34) **उदाऱ्या पादार, विठोबाशेटिलो आदार.**

विठोबाशेटीक उदार दिवंक कसलोच आदार लागना. कोणेय येवंचे आनी उदार व्हरचें.

35) **उदारोच पडून थू करप.**

उदारो पडून थुकत जाल्यार थुकी आपल्याच आंगार पडटली. आपलेच करणेन संकट ओडून हाडप. सुर्यार थुकप अशेंय म्हणटात.

36) **उदेलेय सारकें, अस्तमनलेंय सारकें**

आंधळ्याची बाबड्याची अशी गत जाता. ताका सगलो वेळ काळोख.

37) **उदेलो सूर्य गगनांत गेलो, अस्तमतना मुळसांत येतलो.**

तरणेपणाच्या नेटार वयले पायरेर वता तो म्हातारपणात सकयले पायरेर देंवतलोच.

38) **उपाश्यागेर शेळें खंयचें? वांजागेर पाळणे खंयचे?**

उपाशागेर कोण खंय शेळें सोदतालो. जाका पोटभर खांवक मेळनाशिल्ल्यान उपाशी रावचे पडटा, ताचेकडेन शेळें खंयचे?

39) **उबो रावून मुततल्या ग्रहस्ताक धांवतना मुततलो पुरोहीत.**

40) **उब्यांनी मुतण्या रायाक धावन मुतणो मंत्री.**

एकापरस एक वायट. दोगूय नेम न पाळपी.

41) **उबो आसा मेरेन लाखाचो, मरतकूच फुकाचो.**

मनीस जितो आसा म्हणसर ताची किंमत लाख रुपया आसता. मरतकच शून्य.

42) **उयांच्या भंयाक शीर कापलें, अभिशेक केलो.**

उयांकलागून तकली कापली आनी व्हांवता त्या रग्ताचो कालीमातेक आभिशेक केलो म्हण लोकांक सांगलें, आपली मुर्खपणां लिपोवप.

43) **उलयल्लें उरता, केल्लें सरता.**

44) **उलयतलो करता थोडें, करतलो उलयता थोडें.**

45) **उलोवंक कळना जाल्यार तोंड धांपचें.**

बडबड करपी मनशाचें नुकसान जाता. एक तर तो कितलो मूर्ख तें लोकांक कळटा नाजाल्यार ताच्या उलोवण्यान लोक दुखावतात. योग्य तें उलोवपाक सुचलें नाजाल्यार ओगी रावल्यार स्वत:चो मान उरता.

संस्कृत उक्तिविशेष आसा: मौनं सर्वार्थ साधनम्।

46) **उलोवंचे न्हय म्हळयार उलोवंचें जाता, शेंशे( चे ) तांदूळ बुकलो खाता.**

47) **उश्ट्या हातान कावळ्याक आमुडटलो.**

कावळ्याक आमडूंक म्हणून वता आनी हाताक उश्टे आसा तें झाडून कावळ्याक मेळटा . वायट करूंक वता आनी बरें जाता.

48) **उश्ट्या हातान कावळो आमडीना.**

दुसऱ्याक उपयोगी न पडपी मनीस. सामको चामुड्डो. सुग्राती हाताक लागिल्लें शीत पडून फुकट वतलें म्हणून कावळ्याक आमडीना.

49) **उश्णें दिवन दुबळो भिकारी जालो, उतर दिवन लखपति भिकारी जालो.**

गरीब मनीस उश्णे दिवन भिकारी जालो, तर श्रीमंत मनीस दिवपाचे वायदे करून भिकारी जालो.

50) **उश्णी वायणां फेडूंक जाय.**

घेतिल्लें वायण दुसऱ्या बायलांक पावोवचें पडटा. आयलेलो अहेर करचो पडटा.

51) **उं म्हळयार काणी सोंपली.**

काणी सांगताना आयकतल्यान 'उं' वा 'हुं' अशे म्हणत रावपाचो रिवाज आसा. काणी सांगता सांगता ती सांगपी आयकतल्याक प्रस्न विचारुन आपणें सांगिल्लें समजलें आनी कितें जालें ताची जाप मागता. उं म्हळ्ळे

म्हणटकच सांगप्याचें समाधान जाता.

कोणूय वितंडवाद करतकच तो वाडोवपाचो नासता तेन्ना उं म्हण आनी काणी एकदाचीं सोंपय असो उपदेश करतात. (हुमिणी) (हुमाणें) हें उतर 'उं' वा 'हुं' ह्या काणी आयकुपी वापरता त्या उतरावयल्यान आयलां आसुंये अशें सि.सि.पै. (फादर सुप्रिया)हांणीं म्हळ्ळां.)

## ऊ

1) **ऊ व्हिली ना आनी लीख जाली ना.**

कांय घडलेंच ना.

2) **ऊस गोड काय सांगात गोड?**

एकमेकांच्या सांगातान कांय जाण वताले. तांतलो एकलो उशेलान ऊस खावंक गेलो. थंय ताका मार पडलो. परतो आयलो तेन्ना बाकीच्यानी म्हळ्ळें 'ऊस गोड काय सांगात गोड'? उसापरस सांगात गोड आसता तो सोडचो न्हय असो अर्थ.

3) **ऊस गोड म्हूण वाडासयत खांवचो न्हय.**

ऊस (कोबू) गोड म्हण मुळासकट खांवचो न्ही.

वाड = उंसाची शिवडी.

## ए

1) **एक जीव सदाशिव**

घराबो, बायल नाशिल्ल्या मनशान कितेंय बरें काम केलें तरीं ते उणे लेखून वा ताचेविशीं दुस्वास बाळगून आमी म्हणटात, ताचें बाबा बरें, एक जीव सदाशिव (घर नाशिल्लो, स्मशानात रावपी सदाशिवाभाशेन. मेकळेपणान जाय तें करुंक शकता.) केल्ल्या कामाचे महत्व ना अशा भावार्थान हीं उतरां जायते फावट परगटायतात. एकलो जीव आनी सदां शिव अशी म्हण 'पितुबाबालो तांब्यापटो' हे काणयेंत शणै गोंयबाबान वापरल्या. ('गोमंतपनिषत' पा. 32)

2) **एक म्हजें कालूं, खंयचे तवलेंत घालूं?**

एकूच भुरगें आसता ताची कितली अपुरबाय करची ती कळना तेन्ना ही ओपार मारतात.

तवली = ल्हान आयदन.

3) **एक दिल्लें घर, ना जाल्यार जाल्लें घर.**

बायलांनी लग्न करून दिल्ल्या घरा रावंचें नाजाल्यार कुळारा रावचें.

4) **एक दीस मांयलो, एक दीस सुनेलो.**

5) **एक काळ मांयचो जाल्यार एक काळ सुनेचो.**

प्रत्येकाची सत्ता कांय दीस चलता.

6) **एक दीस मेल्यार कोण तरी रडटलो, सदां मेल्यार कोण रडटलो?**

सदांच कुरकुर करप्याकडे कोण लक्ष दिना. आयिल्ल्या दिसा बरें नाशिल्ल्याची पर्वा कोण करीना.

मराठी म्हण : रोज मरे त्याला कोण रडे?

7) **एक मेस्त बरें फेस्त; दोन मेस्त सुमाराचें फेस्त, तेग मेस्त बुर्ा फेस्त**

8) **एक काम चांग जावन करका जाल्यार आपणेंच करका.**

'जो दुसऱ्यावरी विसंबला त्याचा कार्यभाग बुडाला' ह्या मराठी वचनाची याद करून दिवपी ही म्हण.

9) **एक आशिल्लो दोगांक रडटा, दोग आशिल्ले झगडून मरतात.**

10) **एक उलयल्यार उणें; दोन उलयल्यार चड.**

11) **एक वेळ पाय घसरतरीच घसरत वता.**

अविचारान एक वेळ मनीस चुकलो जाल्यार चुकत वचपाचो संभव आसता.

12) **एक बगलटां खरें करूंक, धा बगलटां करूंक जाय.**

बगलटां = खोटेपण, फटास

13) **एक फटास माल्ली जाल्यार ती खरी करपाक जायतें फट उलोवचें पडटा**

14) **एक मेली चेडी, तर काय वसाड पडली वाडी?**

कोणापासून कोणालें अडना.

15) **एक वेळ थुंकी उडयली ती परतून गिळटात?**

एकदां तोंडातल्यान गेल्लें उतर परत घेवप योग्य न्हय असो अर्थ.

16) **एक शेजारी, बारा वैरी.**

मनशाक कितलेय दुस्मान आसले जाल्यारूय शेजारी दुस्मान आसूं नये. ताका आपलीं वर्मां खबर आशिल्ल्यान तो केन्ना कसो घात करत कळना. देखून बारा वैरी आसल्यार जाता पूण शेजाऱ्याकडे दुस्मानकाय करची न्हय.

17) **एक हात दुदांत, एक हात धंयांत.**

खावन पिवन सुखी आशिल्ल्या मनशांचे वर्णन करपाक ही म्हण वापरतात. पांची बोटां तुपांत. असोय ह्याच अर्थाचो वाक्प्रचार आसा.

18) **एकलो बायलेक ओडटा, एकलो गुड्याक ओडटा.**

गुडो = दोंगर, ओड = कल, आवड

एकल्याक लग्न करून संसार करपाची आवड आसता. दुसऱ्याक संसारान घुस्पून न रावतां मठवासाखातीर दोंगरार वचपाची आवड आसता. कर्नाटकांत ही म्हण वापरतात.

19) **एकल्या जड, दोगां ल्हव, तिगांनी दोंगर परतिला.**

एकल्याक जी गजाल जड जाता ती दोगांक मेळून ल्हव जाता. तीग जाण आसत जाल्यार दोंगर सुध्दा हांगाचो थंय करुंक जाता.

20) **एकलो घोंटेरांतली काडटा जाल्यार दुसरो व्होंटीयेतली काडटा.**

21) **एकल्यागेली फळद म्हळयार खपता, पूण दुसऱ्यागेली हळद म्हळयार खपना.**

मालकाकडेन योग्य गुण वा नशीब नासत जाल्यार जी वस्तू खपना तीच

वस्तू नशिबवान आनी गुणी मनःशाची सोपेपणान खपता. फळद अशें उतर ना तें हांगा यमकाखातीर वापरलां आसुंये. यश मेळपाक विद्या आनी कला आसली म्हणून जायना गूण आनी नशिबूय लागता असो हे म्हणीचो भावार्थ.

22) **एकल्याचें चौगांनीं जेवं येत पूण चौगांचें एकल्यान जेवं नजो.**

23) **एका पावसाक एक सांतें पिंदू नये.**

घेता ते वस्तूक किदें तरीं टिकाऊपण आसूंक जाय. रोखड्या रोखडी ना जावन वचपी ती आसूं नये हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

24) **एका फुलान माळ जायना, एका झाडान रान जायना.**

25) **एका एक ना, शिमऱ्याक नाक ना.**

सगलीच अवेवस्था, गोंदळ आसतकच ही ओपार मारतात. काम करणाऱ्याच्या हाताकडेन जाय तें सामान मेळना आनी ताचें काम बरोबर जायना तेन्ना ताच्या तोंडातल्यान हे शब्द येतात.

26) **एका एकवीस, पांचा पंचीस.**

ही म्हण देवीची प्रार्थना करताना वा जाणट्यान आशीर्वाद दितना उपयोगांत हाडटात. एकट्याचे एकवीस आनी पांचाचे पंचवीस पटीन संतती - संपत्तिची वाढ जांव आशी ही मागणी.

'एकाचे एकवीस जाले, पांचाचे पंचवीस जाले आनी अखेरेक तांच्या हातांनी आवय - बापायच्या हाडाक लाकडां लागली जाल्यारूच भुरगीं जाल्याचें सार्थक.' 'बाबुमामालो पणस' (बरो: शणै गोंयबाब.)

27) **एका गोठ्यांत आस्तकीर शिंगाक शिंगा आदळटात.**

28) **एका कोटग्यांतुल्या गोरवांक शिंगा शींग आदळता.**

मनशां एकठांय येतकच वेगवेगळ्या मतांक लागून भासाभास ही जातलीच.

29) **एका कापडान बायल म्हातारी जायना.**

30) **एका पाड्यान जोत चलना.**

31) **एका मांडार दोन पसरकार उपकरनात.**

32) **एका लग्नाक बारा विघ्नां.**

खंयच्याय महत्वाच्या कामाक अडचणी ह्यो आसतातच.

33) **एका कानान भितर सरूंक, दुसऱ्या कानान भायर घालूंक.**

34) **एका कानान आयकुचें दुसऱ्या कानान सोडचें.**

एखादी गजाल ओगी रावून आयकून घेवप पूण करप मात आपणाक जाय तशें. सारके चीत दिवन आयकना तेन्नाय ही ओपार मारतात. कोर्टांत न्याय मूर्तीन एका वकिलाक म्हळें 'हांव तुजें उलोवप ह्या कानान आयकतां, दुसऱ्या कानान सोडटा.' वकिलान रोखडेंच म्हळें, 'सर तुमकां तें सोपें जावन आसा. मदें आडखळ करपाक कांयच ना.'

35) **एका हातान ताळयो पेटोवं नजो.**

36) **एका हाताने ताळी पेटना, दोगांशिवाय लडाय जायीना.**

हे म्हणीचें मूळ पंचतंत्रांतले काणयेंत आसा.

37) **एका वस्त्र, एका तन्त्र**

जेवणाचे पंक्तींत एकाक बरो पदार्थ वाडून दुसऱ्याक कमी दर्जाचो वाडप. पंक्तिभेद करप.

38) **ऐके वालिचीं फळां, एक कोडू आनी एक गोड जाता?**

वायट मनश्याच्या भुरग्यांभितर बरो आनी वायट असो भेद कसो आसतलो?

39) **एके गांडीक दोन सूळ कित्याक?**

आदल्या काळार गुन्यावकाराक सुळार दिवपाची ख्यास्त फर्मायताले. गुन्याव कितलोय खर आसलो जाल्यार रागान गुन्यावकाराक दोन सुळार दिवंचो अशे कांय म्हणू नजो. एक मनीस हातान घेतलेलें एकूच काम सारकें करता काय ना म्हणून दुबाव आसताना दुसरें काम आंगार घेवंक सोदता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

40) **एके जिबेन सगलो संवसार आप करूं येता.**

गोड उलोवन सगल्यो गजाली सादून घेवं येतात.

41) **एके चुकीन गांव लासता, एका मारान जीव वता.**

42) **एका पाखान मोर जायना.**

एका गुणान सर्व गुणसंपन्न जालो अशे समजुंचें न्हय.

43) **एका फारान सतरा वाग.**

आपल्या पराक्रमाच्यो गजाली फुगोवन सांगप.

44) **एका मापान सगलें मेजता.**

आदराक पात्र अशे व्हड व्यक्तीक सादारण मनश्यासारको लेखता ताका उद्देशून ही म्हण वापरतात.

45) **एका तोंडान जेवतात, एके गांडीन हागतात.**

सामकी दाट इश्टागत आसा ती दाखोवंक ही म्हण वापरतात.

46) **एका खतखत्यान कुळीत शिजना.**

खंयचीय गजाल रोखड्या रोखडी साध्य जायना. योग्य वेळ हो लागताच.

47) **एका भाताक एक तांदूळ, हें तत्व कळना जाल्यार गोंदळ.**

एकेच जातीचीं वा मताची मनशां नासत जाल्यार गोंदळ जाता असो अर्थ

48) **एकाक केल्यार दुसऱ्याक नसाय.**

49) **आपल्याक केल्यार पेल्याक नसाय.**

सगल्यांक खोशी करूंक येना असो अर्थ.

50) **एकाच लेंडाचे कुडके, एक घाणटा नी एक परमळटा अशें ना.**

कोणाचेय भुरगे सारकेच दुर्गुणी आसतकच ही म्हण वापरतात.

मराठी म्हण : एका माळेचे मणी, एक सारखे गणी.

इंग्लीश : Chips of the same block.

51) **एकाच झऱ्या उदक मिठशें नी गोडशें जायत कशें?**

विरुद्ध गुणाच्यो वा विरोधी भावाच्यो गजाली एकेकडेन मेळनात हें सांगपीं हीं म्हण. मिठशें = खारट.

52) **एकादस केल्लो फराळ खातलो.**

53) **एकादशीगेर शिवरात्र ( सोयरी )**

एकादशीक उपास आनी शिवरात्रेकूय उपास आसता. दोन भिकाऱ्यांची गांठ पडली जाल्या ते एकमेकांक कसलीच मदत करूंक शकनात.

54) **एकान दांड्यान माल्लें म्हूण दुसऱ्यान गुंड्यान मारूंक जायना.**

55) **एकल्यान गाय माल्ली म्हणून दुसऱ्यान वासरूं मारूं नये.**

56) **एके न्हिदेन फालें जायना.**

उजावाडटा म्हणसर वेळ लागताच. तेच प्रमाण एकाच दमांत, घटकेमजगतीं, सगलीं कामां करतलो म्हणून जायना.

57) **एरंड वाडल्यार पाटी जाता?**

58) एरंड वाडलो म्हूण मदेरा शिरी पडना.

एरंड = एक वखदी झाड; पाटी = लाकडाचो आडवो खांबो.

मदेर = बांदावळीचें लाकूड Madeira ह्या पुर्तुगेज शब्दांतल्यान. मनीस एके बाबतीत व्हडलो आसलो म्हणून दुसऱ्या वेगळया तरेच्या कामाक पात्र आसतलोच अशें ना.

## ओ

1) **ओ म्हळयारी ठो कळना.**

कांयच येनाशिल्लो मनीस. मूर्ख, अक्षरशत्रू मनशाबद्दल ही म्हण वापरतात.

2) **ओठ पिळळयार दूध येत.**

भुरगेंपणा आंगात आशिल्लो. अजून जाण्टेपण येवंक ना असो.

3) **ओतून गेल्लें दूद कृष्णार्पण.**

ह्याच अर्थाची आनी एक म्हण आसा : सांडिल्ली खीर, क्षेत्र पाळा

4) **उदकान पडिल्लें पान धर्माक.**

5) **वजें जड जाल्यार सोयरीं गोड!**

व्हंकलकार नव्या सोयऱ्यागेर चवथ,दिवाळी बी परबांच्या वेळार जिनसावार

फळाराची भेट धाडटात.(चवथीचें वजें, दिवाळेचें वजें अशें म्हणटात. त्या त्या परबाक लागपी सामानाचोय आस्पाव तातूंत आसता. चवथीच्या वज्यांत माटवेचे सामान ! दिवाळेच्या वज्याबरोबर फुगेट्यो. हें ओजें जितलें जड तितलो सोयऱ्यांक आनंद चड.

6) **वज्यार बिजें, वज्यार अवखांदो.**

हांगां वजें म्हळयार जड सामान. त्या जड सामानांत आनीक भर पडप म्हळ्यार संकटांत भर पडप; Misfortune never comes single.

## क

1) **कट्टेंत नाक बुडोवन जीव कित्याक दिवंचो?**

ल्हानशा कामाखातीर लज होगडावन जिवाक त्रास कित्याक करून घेवंचे?

2) **कट्टेंत नाक बुडोंव नये, बुडयल्यार समुद्रांत बुडोवंचें.**

बऱ्या मनश्याकडल्यान व्हडलें काम जाता आसत जाल्यार, लज होगडावची पडली जाल्यार एक वेळ जाता. कर्नाटकांत ही ओपार 'दर्यांत नाक बुडोवन मेल्लो हय, पूण कट्टेंत बुडोवन न्हय' अशी घोळटेंत आसा (सिल्हा हातबरप)

3) **कट्टेंत फातर घालून बसप.**

दीस मेजीत रावप. थारायल्ली मुजत केन्ना काय सोंपता हाची वाट पळेत रावप.

4) **कट्टेंतलें उदक मुयेक समुद्र.**

ल्हान, दुर्बळ व्यक्तीक ल्हानशें संकट लेगीत व्हड संकटशें दिसता. मुयेक दुबळेपणाचे प्रतीक मानून सगल्या भारतीय भाशांनी असली म्हण आसा. कोंकणीत असलीच दुसरी म्हण 'मुयेक मूत प्रळय'.

5) **कट्टी कांतल्यार सोय मेळत वे?**

6) **कट्टी कांतून हाता वाट.**

7) **कणकींतसून काड, भोबो नाका.**

**टीप** : कणकीचें बेट म्हळ्यार कांट्याळो घट्ट जातीचो मोठो कोंडो आसता ताचें बेट. म्हाका खांवक बी कांय नाका; म्हाका एकदांचो ह्या कणकीच्या बेटांतल्यान भायर काड; म्हाका तुजें कांय एक नाका, संकटातल्यान मुक्त कर. पावस जमनीत जिरून उमळ जातकच जमीन फोडून कणकीचे कांय कोंब वयर येतात. हे कोंब मनीस गोस्तान खातात. कोंब मुळासावन कातरतात आनी ताची भाजी करतात. कोणाक ती खावपाची रूच आयिल्ली आनी कोंब काडूंक गेल्लेकडेन कांट्यांनी सांपडलो त्या संबंदान ही म्हण आसुंयें.

मराठी म्हण : भीक नको पण कुत्रा आवर.

8) **कणयो उडोवन कोंबडी झुजयता.**

पदरचे पयशे खर्च करून झगडीं – केस्तावां लावन आपूण मजा पळयत रावता.

9) **कपलांतलें ब्रह्मदेवाच्यान सुध्दां काडूं नजो.**

नशिबांत जें आसा तें कोणाच्यान चुकोवंक येना. नशीबांत आसा तेंच घडटा. प्रयत्न केल्यारूय दुसरें घडना, हें दुसरे म्हणींत सांगलां.

10) **कपलांत नाशिल्ल्याक, कोंकून घाल्यार ओंकून वता.**

नशिबान बरयल्लें ना तें कितेंच केलें जाल्यार मेळना.

11) **कमरभर उदकांत बुडून काश्टी सुकी.**

सगलें करचें करून आपूण तांतलो न्हयच अशें दाखयता तेन्ना ही म्हण वापरतात. ‘गळोभर, उदकांत वचून सुकी काश्टी दाखयता,’ ‘थिगूर काडूंक वता आनी सुकी काश्टी दाखयता’, अश्यो ह्याच अर्थाच्यो दुसऱ्यो म्हणी घोळटेंत आसात.

12) **कर्कशा घोवाची बायल शिंदळ.**

13) **करणे थोडें, उलोवणें चड.**

उलोवणेच्या बदला ‘बडबड’, ‘मचमच’, ‘वचवच’, अशेंय शब्द वापरून घडयिल्लीं हे म्हणीचीं रूपां मेळटात. हातान कांयच करप ना, तोंडान

शापोतां सांगता, ताका ही म्हण वापरतात.

14) **करचें तशें भरचें.**

बरे करणेचें फळ बरें आनी वायटाचें वायट फळ मेळटा.

15) **करनकऱ्याक दोन दुखां.**

करनकरो = कित्यारच समाधान जायना असो. आपलें बरें जायना म्हणून रडटा आनी दुसऱ्याचें बरें जाता म्हणून रडटा.

16) **करतलो चड उलयना, उलयतलो चड करीना.**

17) **उलयतलो करता थोडें, करतलो उलयता थोडें.**

18) **सांगका थोडें, करका चड.**

कार्य करपी चड उलयना. बडबड करपी काम चड करीना. सांगचें थोडें करुन दाखोवचे चड.

19) **करतल्याक धा वांटो, करचें नाशिल्ल्याक एकी मेळना.**

20) **करतल्याक धा दिको उगड्यो, ना म्हणटल्याक बंद सगलें.**

करपाची इच्छा आशिल्ल्याक धा मार्ग सुचतात, ताका धायी दिशा मेकळ्यो. कांय जावंचें ना म्हणून बसतल्याक सगल्यो वाटो बंदश्यो दिसतात. इंग्लिश म्हण: Where there is a will, there is a way.

21) **करतल्याच्या मुखार रावचें, मारतल्याच्या फाटीं रावचें.**

22) **करिनाशिल्यान केल्यार जायनाशिल्लें जाता.**

जाणें केन्नाच कांय केलेंना तो मुखार सरून कितेंय करपाक गेलो जाल्यार ताका येस मेळून बरें जाता. कोणें केन्ना केलें ना अशें येवजूंक नाशिल्ले भलतेंच जाता.

23) **करून करून भागलो, देवापुजेक लागलो.**

जल्मभर वायट कामां करुन म्हातारपणात देवाची हिसपाभायर भक्ती करूंक लागता त्या मनशाक ही म्हण वापरतात.

24) **कवडेंत हाडून कळसो फोडप.**

कश्ट करून हाडप आनी फायदो मेळप ना. पर्यशिल्ल्यान कळसो भरून उदक हाडलें आनी घरा पावून तो फुटलो आनी उ़दक फुकट गेलें.

25) **कसबी कसता, मेरेवेलो कित्याक पिरंगता?**

26) **कसतलो कसता, मेरेवेलो परवंता.**

कश्ट करपी ओगी रावून काम करता आनी कडेक बसून राविल्लो मात कुरकुर करता. कांय मनशां आपणालें काम तोंड धांपून करीत आसतात. जाल्यार कांय लोक काम करपाचो देखाव करतात आनी आपलें कवतुक कोण करीना म्हणून कुरकुर करतात.

27) **कसतल्याक पेज आनी मेरेवेल्याक शीत!**

शेतांत कश्ट करप्याक पेज आनी बेश्टो कडेक बसून मात शीत हो उरफाटो न्याय.

28) **कश्टांनी जोडिल्लें अर्दें उरना, नागोवणेन जोडिल्लें तगना.**

कश्टांनी जोडिल्लें अर्दें उरना, नगोवन जोडिल्लें उरतलें कशें?

29) **कस्तुरी धांपल्यारी परमळू धांपत वे?**

कस्तुरीचो वास लिपून रावना. बरो गूण आसा तो आपलो प्रभाव दाखयताच.

30) **कळमेल्ले वाटयेंत ताकशीत!**

ताकशीत बरें जरीं जालें तरीं तें कळमेल्ले वाटयेंत घालीत जाल्यार विखाभाशेन जावं येता. दितल्यान बरी इच्छा धरुन घेणाऱ्याचे वायट जावंचें ना हें पळोवन दिवंचें.

## का

1) **काकान केलें म्हणून काकीन केलें, काकीचें बोड जालें.**

2) **काक्को, बाबशणै घरा जेवलो.**

बाबशणै म्हणून एक आशिल्लो. तो सदां उठून दुसऱ्यागेर वचून जेवतालो. एक दीस तो आपल्या घरा जेवलो तें पळोंवन अ़जाप

जाल्ल्यान आपल्या काकाक उद्देशून काडिल्ले ही उतरां म्हणीच्या रुपान उरल्यांत. पदरचे पयशे मोडून हिमटो मनीस बरें जेवता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

3) **काकुळटे गेल्यार बिरमत फुट्टा.**

दया करूंक गेल्यार वायटपण आंगार येता. बिरमत हें उतर संस्कृत ब्रह्महत्या वयल्यान आयलें अशें मो. दाल्गादान म्हळ्ळां. बिरमत = महापाप, खोटो आळ.

4) **काजांत बुतांव पडलो.**

घडचें आसलें तें सारकें घडलें.

काज आनी बुतांव कोंकणी भाशेंत आपणायल्लीं मूळ पुर्तुगेज उतरां. काज हें तर मराठी भाशेनूय पावलां.

5) **काजार जाता म्हणसर नाचतलो खंय? काजार जाल्या फारा रडटलो खंय?**

6) **काजुलो उजो दिता म्हळयार कामाक येता?**

7) **काजुल्याचो उजवाड गांडी भोंवतीं.**

8) **काजुल्या उजवाडा काजुल्या पुरतेंची.**

काजुल्याचो उजवाड ताच्या आंगापुरतोच. पयस पावना. मनीस आपल्या शक्तीप्रमाण काम करूंक शकता. ताचे परस चड वान्सा ताणें बाळगूं नये.

9) **काजुलो आपल्याच कुल्यांक मानवता.**

10) **काजुलो ( केलदें ) आपलेच गांडीक तोखेता.**

स्वताचो बडवाचार सांगीत सुट्टा ताका ही म्हण वापरतात.

केलदें = ल्हान जातीचें माकड.

11) **काजुल्या भितीं फालें जात वे?**

फालें जावप = भिण भिणप, उजवाडप.

12) **कांटीयेच्या आलाशिन्यान तण वाडटा, तणा पासत कांटी**

**सांबाळटा.**

कांटी आनी तण एकमेकांक आधार दितात.

13) **कांट्यान कांटो काडूंक जाय.**

पायांत जर कांटो मोडलो जाल्यार कांट्याच्याच तोंकान तो अचळय भायर काडपाक जाता. एका वायट गजालीचें निवारण करपाक तसल्याच दुसऱ्या गजालीचो आधार घेवंचो. दुस्मानाकडल्यान परभारे दुसऱ्या दुस्मानाचो नाश करचो.

14) **कांटियेरी पडलेलो पदर हळूच सोडवका.**

संकश्टांत सांपडलो जाल्यार सवकासायेन भायर सरपाचो प्रयत्न करूंक जाय.

15) **कांटे वयल्यानी रिते पांयांनी चमकूं नये. / कांटो वोयल्यार रिते पायान चमकूं नये.**

आपणेच उबे केल्ल्या संकश्टांक सावधपणान तोंड दिवंक जाय. वयल्यानी = ओंपणाऱ्यानी, वोयल्यार = ओंपल्यार. म.वा.को. न ' कांट्यांवरुन अनवाणी पायानी चालू नयें, असो चुकीचो अर्थ दिला. 'कांटे पेरणाऱ्यानी ... अशें जाय.

16) **कांडणाक कोंब फुट्टात.**

कांडण म्हळ्यार मुसळ. ताका कोंब येवप अशक्य. दुश्टांतल्या दुश्ट मनश्याक दयेचो उमाळो येता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

17) **कांडीन म्हळ्यार वान ना, आसडी म्हळ्यार सूप ना.**

दोनीयवाटेन कुचमणा जावन कांयच करपाक मेळप ना.

18) **कांडपिणेचे आशेन बीं पर्यांत कांडलें.**

कांडपिणीक बेकार दवरीना जावंक तिका कामाक लायली. तिणे बीं कांडून दवल्लें. शेत रोवचें उरलें.

19) **कांडल्याबगर फोव न्हय, मारल्याबगर घोव न्हय.**

कांडल्याशिवाय फोव जायना, ते प्रमाण घोव बायलेक केन्नातरीं माल्लेबगर

रावना. घोवान माल्लें जाल्यार तें व्हडलेंशें मनार घेवंचे न्हय अशी बायलांक आदले मुस्तींतली शिकवण.

20) **काडिल्लो वडो भटा माथ्यार.**

21) **कांडी, करम एक जालें, आंवळो गडगडलो.**

कांडी म्हळ्यार उसाचे पेर, ताचे तोंडान येता अशे करवे करून, करमलाच्यो उब्यो फोडी करुन, आंवळे बी घालून 'हरिजगार' म्हणून देवाक निवेदय करतात. गोड करवे आनी आंबट करमलाच्यो फोडी खावंक बऱ्यो लागतात. आंवाळे कुशीक पडटात.

आपापसांत झगडपी नातेवर्गी कांय वेळांत एक जातात. झगड्यांनी मदीं पडट्टा तो परकी कुशीक उरता.

22) **काडी चोर, पाडी चोर.**

ल्हानसान वस्तू चोरून व्हडल्यो वस्तू चोरूंक पावता. दुसरो अर्थ म्हळ्यार ल्हान चोरी करप्याचेर व्हडले चोरयेचो आळ येता.

23) **कात भागली म्हणून जात भागना.**

24) **चामडी झरत पूण स्वभाव गूण आसा ते ना जायनात.**

25) **कात म्हेळ्ळी म्हणून जात म्हेळना.**

26) **कात दिवं येत पूण कानू दिवं नये**

कानू म्हळ्यार कायदो नेम. आपलो कायदेशीर हक्क सोडचो न्हय. एक वेळ कात दिल्यार जाता.

27) **कातली गोड म्हणून कट्टी चाबची वे?**

28) **कातलेन खावंचो फोव, नशिबान ( अदृश्टान ) भोगचो ( मेळचो ) घोव.**

कातली आनी फोव हांची साथ संगत बरी जमता. खावपाक मजा येता. चलयेच्या स्वभावाक जुळटा तसो घोव मेळ्ळो जाल्यार संवसारांत मजा येता. चलयेचें नशीब बरें आसल्यारूच तशें घडपाचें. हे म्हणीचो संक्षेप जावन 'नशिबान घोव खावंचो' अशी म्हण घोळटेंत आसा.

29) **कान फूक म्हळ्यार वान पुंकता.**

एक सांगल्यार दुसरेंच चुकीचें काम करता.

मराठी म्हण : डोळ्यांत केर आणि कानांत फुंकर.

30) **कान खाता तें भांगर कित्याक जाय?**

31) **कान खांवचें भांगर नाका, मान वळकुंवचो मुंडासो नाका.**

जड बरी भांगराचीं कानांतलीं घालतकच बुराक व्हड व्हड जावन कानाची पाळीच तुटपाचो प्रसंग येता.केन्ना केन्ना कानांतलें घालतकच कानाक खाज सुट्टा असले दागिने उपकारा पडना. तेचभाशेन माथ्याक बांदतकच मान वळटा तो मुंडासो उपकरा पडना.

वस्त दिसूंक बरी आसली तरीं जी वायटाक पडटा तिची आशा धरूं नये.

32) **कान दोळे सुजोवन सड्यार सूंठ फुल्ल्या.**

मोट्या कश्टांनी खूब वेळान यश प्राप्त जालां. सूंठ = वखदी मूळ

33) **कानीं आयिल्लें, केशीं गेलें.**

जिवार आयिल्लें शेपडेर वा बोटार गेलें म्हणटात तेभाशेन.

34) **कापूस जोखता थंय मूस उपाशीं.**

कापूस हें काय गोडा सारकें मुसाचे खाण न्हय. धवीफुल्ल रास दिसता म्हणून भुल्लसून मुसान थंय गेल्यार ताका उपाशींच रावचें पडटलें.

35) **काम केल्यार दाम दिवप ( आसा ).**

36) **काम केल्यारी दाम मेळटा, कामाशिवाय दाम ना.**

37) **काम जालें, वैज मेलो.**

रोग बरो जातकच वैजाची याद उरना. कोणूच ताची पर्वा करिना. काम जावं वैज मरूं अशेंय म्हणटात.

मराठी म्हण : गरज सरो वैद्य मरो.

38) **काम करतल्याक, तलवार -मास्तल्याक, विद्या शिकतल्याक.**

करणाऱ्याक काम येता, लढप्याक तलवार वावडूंक येता आनी शिकप्याक विद्या येता.

39) **काम करतल्याची फाट आनीं जेवतल्याचें तोंड पळोवं नाका.**

काम करप्याची घामान थपथपिल्ली फाट आनी जेवप्याचे गोट्यांनी भरिल्लें तोंड दोनूय पळोवंक वायट दिसतात.

40) **कामापुरतो मामा, ताकापुरतो रामा.**

काम साधून घेवपाक गोड उलोवप. मामा, मावशी बी नातें लावन काम करून घेवप आनी फुडे संबंद दवरप ना.

41) **कामाचेर मुशाऱ्या हजर.**

42) **कामीणकाराक सगलेंच हळडुवें.**

43) **काम्राच्या खुस्तार कलवंतां नाचतात.**

ही म्हण चड पुर्विल्ली न्हय. काम्र म्हळ्यार नगरपालिका. अठराव्या शतमानांत आयल्या आसुंये. नगरपालिकेचो पयसो खर्च करून कलवंतांचें नाच-गाणे करताले. मों. दाल्गादाच्या पुर्तुगेज, कोंकणी कोशाच्या पान 179 चेर हीं म्हण मेळटा. सार्वजनीक कामाचे पयशे मजा मारपाक वापरतात तेन्ना ही ओपार मारतात.

44) **कांय केल्यार कांय आसा ( मेळटा ), न्याय केल्यार अर्द ( अर्दें ) आसा ( मेळटा ).**

कसलोय वावर केल्यार कितेंय तरी मेळटाच. कोर्टांत आपल्या हक्काखातीर झुजल्यार अर्दें तरीं मेळपाचो संभव आसता. प्रयत्नासारको दुसरो उपाय ना.

45) **कायले वेल्या पोळ्याक कायलाथोच जाय.**

योग्य तें साधन वापरुनूच काम करूंक जाय.

46) **कारातें साकरेंत तळ्ळें तरी कोडू तें कोडूच.**

कितलेय उपाय केले जाल्यार कारल्याची कोडसाण वचना तेचभाशेन मनशाचो मूळ स्वभाव बदलना.

**47) कारांद गेली मारांदेगेर; कारांदेकूय कांटे मारांदेकुय कांटे.**

कारांद म्हळ्यार पावसाळ्यांत रुजपी कांटेरी वाल. तिचीं फळां उकडून खातात. मारांद हें एक् कांटे आसलेलें झाड. ताचेर ती वाल चडली म्हळ्यार 'एकादशीगेर शिवरात' तशें जालें.

**48) काराय शेत, शिदावा म्हारग.**

उदक आडावंक बांद आसता ते सुवातेक काराय म्हणटात. कारायमळ, कारायमोडी अशे जागे कुडचड्या, चोडणा, शिरोड्या बी गांवांनी आसात. काराय शेताक चड शिदाव दिवंचो पडटा असो अर्थ हे म्हणीत आसा. पडीक शेत आसल्यार शिदाव दिवपाक लेगीत मेळना. शेत लागलेंच ना जाल्यार पदरचें पयशे शिदावापोटीं भरचे पडटात, असो अर्थ म.वा.को. त दिला. तो बरोबर दिसना. शिदाव = Tax, करपटी.

**49) कारया रुखाक बोरां जातीत वे?**

दुश्ट मनीस आपलो सभाव सोडून केन्नाच बरो जायना.

**50) कालची सोजी कोण जाणा? आयची पेज जग जाणां.**

**51) कालची सोजी कोण पळेता? आयची पेज खरी.**

काल तुवें मारे सोजी करुन जेवणां दिलीं आसत. आयची पेज सगल्यांक दिसता म्हणून ती खरी. कालची याद कोणाक उरता? जें दोळ्यांमुखार आसा तें दिसता. पडमूर लोक फाटलें विसरतात हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

**52) कावळो उडलो आनी खांदी मोडली.**

'कावळो बसूंक आनी माड मोडूंक एक जालें', हें, हे म्हणीचें एक रूप.

कावळो उडपाक आनी ताळी पडपाक एक गांठ जाली म्हणून कोणें अशें समजुंचें न्हय किं कावळ्यान नेट दिवन ताळी मोडली. तो योगायोग समजूंक जाय. संस्कृतांत 'काकतालीय न्याय' अशें म्हणटात. 'बोलाफुलाक गांठ,' अशेंय म्हणटात.

**53) कावळो करकरलो म्हूण पिंपळ मरना.**

कावळ्याच्या आड्डपाचो पिंपळाच्या झाडाचेर कांय एक परिणाम जायना.

कावळ्याच्या अड्‌डपाक अपशकून अशें मानिनासताना धीट मनश्यान आपल्या हांतांतलें काम प्रयत्न करुन तडीक व्हरूंक जाय.

54) **कावळो सगल्यांचो गू खायत, कावळ्याचो गू कोण खायत?**

कावळो हो सगल्या जगाचे उश्टेंपाश्टें खावपी निचांतलो नीच प्राणी मानतात. ताचेंय उश्टें खावपी नीच प्राणी आसलो जाल्यार ताची तुलना कोणाकडेन करपाची ? जगांत निचापरस चड नीच प्राणी आसतात ताका उपमा दिवपाक दुसरो नीच प्राणी नासता असो हे म्हणीचो भावार्थ.

55) **कावळो दावो गेलो आनी उजवो गेलो सारकेंच.**

कावळ्याचे अस्तित्वूच जर शुभ मानीनात जाल्यार तो कसोय गेलो तर फरक पडना.

56) **कावळो बुडलो तरी थाव पळेता म्हणटा.**

57) **कावळो न्हाल्यार ढोंक जाता व्हय?**

58) **कावळो गोपूराचेर बसलो म्हणून गरुड जायना.**

59) **कावळ्या शापान गाय मरना/ कावळ्याचो श्राप गोरवाक लागना.**

60) **कावळ्यान हागिनाशिल्लें झाड ना, सुण्यान मुतिनाशिल्लें खुंट ना.**

ही म्हण वापरून 'म्हाका कळीत नाशिल्ले गूट ना' अशी पुस्ती जोडटात. गूट = सेग्रेद, गुपीत.

61) **कावळ्याक दुदान न्हाणयलो म्हणून धवो जाता?**

62) **कावळ्याचो दोळो तवश्यार, मांजराचो दोळो भोपश्यार.**

63) **कावळ्या दोळो तवश्या नेडेर.**

64) **कावळ्याक आपलीं पिलां गोमटीं दिसतात.**

65) **कावळ्यान मोरा पांखां लायलीं म्हणून कावळो मोर जायना.**

**टीप** : कावळ्याक मंगळुरांत आनी कोंचींत कायळो अशेंय म्हणटात. लोक संस्कृतीकडेन ताचे घट्ट अशे नातें आसा. वाक्प्रचारांत आनी म्हणींतल्यान तो दिसपट्‌टे भाशेंत आमका मेळटा.

**66) काश्टी भिजयलेबगर थिगूर मेळना.**

थिगूर = गोड्या उदकांतलें एक नुसतें.

थिगूर धरपाक कमरभर उदकांत तरी वचचेंच पडटा. बरी वस्त मेळयतलो जाल्यार साहस करचेंच पडटा.

**67) कांसारालें सुणें अहंकारान मेलें.**

अहंकारान मरप म्हळ्यार घमेंडेंत आसप, गर्वान फुगप, ताठ्यान चलप. कांसारागेर आयदनां पडलेलीं आसतात तातूंत खावंक मेळटलें अशे घमेंडेंत कांसारालें सुणे वावुरता.

**68) कासवाक कोंबो जामीन.**

कासव आसता उदकांत, कोंबो आसता जमनीर. दोगांयची ना गांठ ना भेट. एखाद्या मनशाक सामके वेगळे स्थितींत आशिल्ल्या मनशान हमी दिवंक फुडें येतकर ही ओपार मारतात.

**69) कासवाक लागून गांयडोळ गेलो.**

हांयस म्हणून लायलेलो गांयडोळ खावन कांसव सुटून वता. धरतात तो व्हडलो वजनदार प्राणी. अपुऱ्या साधनान व्हडली वस्त मेळना. तशी आस्त धरली जाल्यार व्हड वस्त तर मेळनाच, आपलेकडेन आसा तेंवूय ना जावन वता.

**70) काशीक गेल्ल्याचें कोणूय सांगता; माजर मारिल्ल्याचें कोण सांगता?**

वर्माची गजाल लिपयता आनी व्हडविकेची गजाल मात सांगता. आपणें अमक्या तमक्याक इतले पयशे दिले, म्हणून बोवाळ घालता पूण तागेले आपणें पयलीं रीण काडिल्लें तें लिपयता तेन्ना ही ओपार सहज जिबेर येता.

**71) कळंतरा आशे मुदल नाशे.**

हे म्हणीचो अणभव जायत्या जाणांनी घेतला. चड व्याजाचें हांयस दाखोवन कंपनी डिपोजीटां घेतात आनी परत करीनात अशें घडटा.

**72) काळी जाली कुड्डी जाली, आवय ती आवय.**

3) **काळी बायल घोवाची, गोरी बायल जगाची.**

4) **काळ्यांत गोर -सांवळो गोमटो.**

पदराक कांय पयशे नाशिल्ल्या, आंगात कांय एक गूण नाशिल्ल्या लोकांमदीं थोडे पयशे आशिल्लो धनवान दिसता, थोडे गूण आशिल्लो गुणवान दिसता हें दाखोवपी ही म्हण. 'कुड्ड्यांत काणो राजा-वासरांत लंगडी गाय शाणी' ही हे म्हणीचें एक रूप.

## कि

1) **रेड्याक किंवणाचें सूख.**

किंवण म्हळयार चड करून गोरवांच्या पांयांक बी जाता तें दुखणें - जखम. वायट परिस्थितीची थोड्या काळा उपरांत संवय जाता आनी तीच बरी दिसता.

2) **कितलेंय केल्यार फोंडा माती फोंडाकूच.**

3) **कितलेंय जोडलें तरीं लुगटां बांदून मरूंक जाय.**

मनशाक अखेरेक वांगडा काय व्हरूंक मेळना.

4) **किमसां मांसाक वस मेळना.**

वस = वॉस, चरबी.

किमसा मासाक चरबी खंयच्यान मेळटली? दुबळो मनीस कसलो पराक्रम करतलो? गरीबाकडे पयशे खंयचे आसतले? अश्या अर्थान ही म्हण वापरतात.

5) **किमसां मांस खावन जात कित्याक बटोवंची?**

## कु

1) **कुकडा पिला उस्तुंच्याक शिकोवपाक नाका.**

2) **कुकडा पिला म्हूण उस्तूंक शिकोवंच्या जाय?**

3) **कोंबये पिलाक उस्तूंक शिकोवंक नाका.**

स्वभाव धर्मा प्रमाण कोंबयेचें पील उस्तूंक लागता. ताका शिकोवंचें पडना.

4) **कुकडाचें घोडे करता, घोड्याचें कुकड करता.**

कित्याचें कितेंय सांगपी. पांख आसल्यार कावळो म्हणपी आनी कावळो आसल्यार कांय ना म्हणपी.

मराठी म्हण : पराचा कावळा करणे.

5) **कुंकळ्ळे गावांत कावळ्या शकून ना.**

कुंकळ्ळे गावांत कावळ्याचो अशुभ शकून मानीनात खंय. एकाद्रेकडेन शास्त्रांतल्या एकाद्र्या नेमाक आडवाद आसूं येता अश्या अर्थान ही म्हण केरळांत वापरतात.

6) **कुंटे बैलाक कुशिल्लें करड.**

बैल थोंटो जातकच ताची काळजी कोण घेता? ताका कुशिल्लें सुकिल्लें करड-तण खावपाक मेळपाचें.

7) **कुंट्याक धा चेश्टा, कुड्ड्याक वीस.**

थोट्याक धा मस्कऱ्यो सहन करून घेवंच्यो पडटात, कुड्ड्याक वीस. आदल्या काळार शारिरीक व्यंगां वयल्यान मस्कऱ्यो करताले. आतां हें बरेंच कमी जालां. अश्यो मस्कऱ्यो करतल्याक उणाक लेखतात.

8) **कुंड्याक उजो लावन ल्हाय खायन.**

कुडें = सुक्या तणाची रचिल्ली रास.

ल्हान फायद्याखातीर व्हडलें नुकसान सोंसपी.

9) **कुंड्यावेलो उंड्याक पडलो.**

कुंडो खातालो, आतां उंडो खावंक लागलो. मनशाची परिस्थिती बदलता तेन्ना ही ओपार मारतात.

10) **कुंडो खातल्याक वरय चड.**

सदांच कुंडो खावन रावतल्याक वरी सारको दोंगरी तांदूळ मेळ्ळो

जाल्यार व्हडलें जाता.

11) **कुंडो खातल्याक उंड्याची रूच कितें?**

कुंडो खावन जियेता ताका उंड्याची रूच खबर नासता.

12) **कुड्डयाक वॉक्ल ( चाळीसपत्र ) कित्याक?**

वाचूंक कळना ताका ही ओपार लायतात. निरक्षर मनीस कुड्डयासमान.

13) **कुड्ड्याक वड्डो वाट शिकयता.**

आपुणूच नकळो तो दुसऱ्याक कितें शिकयतलो?

14) **कुड्ड्यांत काणो राजा.**

ही आनी अश्या अर्थाच्यो म्हणी सगल्या भासांनी मेळटात. तांतल्यो 'काळ्यांत गोर सांवळो गोमटो' - , ही कोंकणी म्हण आनीं 'नहीं झाड त्यां राजा ताड' ही गुजराती म्हण लक्ष ओडून घेतात.

15) **कुड्डी उदकाक गेली, घागर फोडून घरा आयली.**

नालायक मनीस कांयचेकाय करता तेन्ना ही ओपार मारतात. आपल्याक जमना तें काम करूंक मुखार सरतकच अपयश पदरांत येता.

16) **कुड्डो मागता एक दोळो, देव दिता दोन.**

एका दोळ्यान दिसल्यार पुरो अशी आस करतल्याक दोनूय दोळ्यांनी दिसूंक लागलें जाल्यार ताका आनंद जातलोच. येवजिता ताचेपरस चड लाभ मेळटा, तेन्ना ही म्हण वापरतात.

17) **कुबेराचें धन कुबेराकडेनूच वता.**

पयसो आसतल्याकडे पयसो वता.

18) **कुमाराक मडकी धड ना.**

19) **कुमाराची मडकी सदांच फुटकी.**

दुसऱ्याची सेवा करता तांकां स्वताकडे पळोवंक वेळ नासता. 'वैजाची भुरगीं मुयांनी खालीं' अशेंय हे म्हणीचें रूप आसा.

20) **कुमारागेल्या आव्यांत तांब्या चूंब सोदचो.**

कुमाराची संगलीं आयदनां मातयेचीं. धातूचीं खंयचीं मेळटलीं? ज्या

· जाग्यार जी वस्त मेळप शक्य ना थंय ती सोदूंक वचप.

21) **कुपाचें फातर ( कुफातर ) गोड जाल्यार कोले सांडटले?**

कुफातर = घट्ट जातीचो चकचकीत धवो फातर. कुफातर दिसपाक साकरेच वरीं दिसतात पूण ते तशे नासतात. धूर्त मनीस फायद्याची आसा ती गजाल सोडपाचो ना.

22) **कुरकुटांत पणटी दवरून तोंड ओंवाळून घेता.**

आपली स्तुती आपणेंच करप.

23) **कुराड घेवन गेलो राना, कितें हाडलें म्हळयार कांय ना.**

कांय काम करप ना, बेश्टोच बोवाळप आनी कर्तबगारीचो आव हाडप;

24) **कुल्याचें सोडून माथ्याक रेवडायता.**

25) **कुले पळयतात म्हणाय, तोंड पळयता पोळे.**

मनीस कुले तेंकोवपाक बसका सोदता आनी भुकेक तोंडान उडोवपाक कितेंय मेळटा जाल्यार पळयता. कुले पळोवन माणायो आनी तोंडा पळोवन पोळे अशीय म्हण आसा. जितले लोक जमता तितल्यो बसका आनी जितले खावपी आसात तांकां पावपासारके पोळे.

26) **कुल्याक शेण लाय आनी म्हाका बैल म्हणा.**

व्हडपण मेळोवपाखातीर कसलेंय कमीपणाचें काम करपाक मुखार सरप. नुकसान सोंसून व्हडपण घेवपाचो प्रयत्न करप.

27) **कुल्यांत घर बांदून पादा बेजारल्यार उपयोग आसा?**

28) **कुल्ली वचूं पूण हात सुटूं.**

खंयचेंय काम करताना तें आपल्या आंगार येतकच कुल्ली धरूंक गेलो पूण कुल्लेच्या दांग्यान हात सांपडलेल्या मनशा सारकी अवस्था जाता. मराठी म्हण : भीक नको पण कुत्रं आवर.

29) **कुल्ली गेली अर्दे बोटूय गेलें.**

30) **कुल्ली फातराक सोडीना, फातर कुल्लेक सोडीना.**

31) **कुल्लेचे दोंके कुल्लेच्या हड्ड्यार.**

2) **कुंवाळेक कुंवाळो जड न्हय.**

3) **कुंवाळयान जाता तें आंवाळयान जायना, आंवाळयान जाता तें कुंवाळयान जायना.**

4) **कुशिल्ल्या कापडाक चिरवो चड.**

कापड भिजून उरतकच कुसत जाल्यार ताका जीव पडटात आनी तें चड वायट जाता.

चिरवो = धव्यो उवो

35) **कुशिल्ल्या शिताक करपल्लें ओंट.**

ओंटाच्या झाडाच्या फळाक ओटंब म्हणटात. तांचीं सोलां करून सुकयतात. तांकां ओंटांची सोलां म्हणटात. ती पित्तशामक आसतात. चिंचे बदला नातर भिण्णाच्या सोला बदला तीं वापरतात.

शितूच जर वायट जाल्यार बरें ओंट कित्याक होगडावप? करपल्लें ओंट सलवसता.

36) **कुशिल्ल्यांत सुणें हागलें.**

वायट गजाल आनिकूय वायट जावप.

37) **कुशिल्लो कुंवाळो कोण खायत ?**

'भश्टायल्ली अस्तुरी कोणाक जाय?', अशा अर्थाची म्हण कर्नाटकांत वापरतात

38) **कुळणें मडकीं वान्यार; गांव गांवकरा( च्या ) मड्यार.**

39) **कुळारा तायखिळो किल्ललो.**

जंय कुळारचे कुटुंब रावतालें ते सुवातेर रान वाडलां. वायट दीस आयल्यात हें सांगूक ही म्हण वापरतात.

तायखिळो, (तायकिळो) म्हळ्यार पावसांत रुजपीं भाजी. पडंग जाग्यार ती अतोनात वाडटा.

**टीप** : सोळाव्या शतमानाच्या उत्तरार्धांत गोंयचें कांय लोक केरळांत गेले. तेन्ना ही म्हण थंय पावली. पूण कांय वर्सांनी तायकिळो म्हणजे

कितें तें विसरले आसुंये. म्हणीत बदल जालो आनी 'कुळारा तांय केळीं किल्लेली,' अशी म्हण थंय जल्मली. मूळ म्हणीचो अर्थ तातूंत येना. केळी पडंग जाग्यार आपोआप किल्लून येनात.

## के

1) **केलदें खाड करताना पळोवन आपलें तशें करूंक लागलें ताका फासणां मारलीं.**

एका माकडान आपलो धनी हारशामुखार रावून खाड करता तें पळयलें. धनी भायर गेलासो पळोवन वाखर घेवन आपूण खाड करूंक गेलें आनी रक्तबंबाळ जावन धापेवंक लागले. बेश्टी नक्कल करूंक गेल्यार त्रासांत पडूं येता.

फासणा मारप = धांपेवप.

2) **केंसकारांचो पार ना थंय बोडकांक कोण विचारता?**

व्हडल्या व्हडल्याची दाद लागना, थंय ल्हानाक कोण विचारता?

3) **केळीं खातल्याक तोंड दुखता वे?**

4) **केळीं खाल्लें फाल्स मांद्रेर मुत्तिलें बद्द!**

5) **केळीं गोड म्हणून साली खांवच्यो वे!**

6) **केल्ली चाकरी, दिल्लो मुशारो, तुका कित्याक चवकशेचो वांटो?**

तुका सांगता तितलें कर, दिता ते पयशे घे आनी कुशीक सर. वावराड्यांची संघटणा जांवचे पयलीची ही ओपार.

7) **केल्लें उरता रांदिल्लें सरता.**

8) **केल्ल्याक केलें तितलें थोडें, हात उजयल्ल्याक दिलें तितले थोडें.**

## को

1) **कोको नाका भोबो नाका, माळ्यावयलो देंवयल्यार पुरो.**

भुरग्यांचे भाशेंत शिताक कोको, नुस्त्याक मेमे म्हणटात. मस्त्या भुरग्याक शिक्षा करपाक आवयन माळ्यार दवरलो. तो म्हणटा, जेवण-खाण कांय नाका एकदांचो सकयल देंवय. जेवण-खाण कांय नाका, संकश्टांतल्यान सोडय अशें म्हणपाची परिस्थिती जायतेदां येता.

) **कोक्या ना ठाव, मेम्यांक खंयचो रडटलो?**

) **कोंगो खाता रोव, हेंवाळ्याक बाबड्याक बडयतात.**

कोंगो म्हळ्यार वायंगणांत शेताची नासाडी करपी प्राणी. तो रोव खावन वता आनी घोलींनी लिपता. लोक हाताक सांपडटा त्या हेंवाळ्याक बडयतात. 'कोंगो खाता रोव, हेंवाळ्याक घालून फोपायतताती.'

4) **कोडू वखद दन्तांक़ बरें!**

5) **कोडू खावन गोड खावका.**

6) **कोडू खातकच पोटांत चाबता.**

अॅ. सिल्वा संकलनांत आनी को. ओ. भा (पा.102) ही ओपार मेळटा. फादर परैरान अर्थ दिला तो असो: आपणे वायट केलां ताची कोण खबर काडटा तेन्ना ही ओपार ताका लायतात. मराठी म्हण : खाई त्याला खवखवे. जो वायट काम करता ताची ताका टोंचणी जायत रावता.

7) **कोण पादलो? फटेकार पादलो.**

खंयचीय वायट गजाल घडली कि ती गरिबाच्या माथ्यार थापतात.

8) **कोणा खाडाक पेटलो उजो, कोण म्हणटा मातशी विडी पेटयतां.**

दुसऱ्याचेर आयिल्या संकश्टाचो मातपासून विचार करीनासताना आपणालो ल्हानसो फायदो करुन घेवप.

9) **कोणागेल्या पोरसांत नाशिल्लें जालें.**

केन्नाच आयकूंक नाशिल्ले, देखूंक नाशिल्लें घडटा, तेन्ना ही ओपार मारतात.

10) **कोणा भियेना, पूण थपथप्या मात भियेता.**

कोणाक भियेना तो मनीस झाडावयल्या थपथप करून पडटा त्या

उदकाच्या थेंब्याक भियेता. उक्ती विसंगत गजाल दाखोवपाक ही म्हण वापरतात.

11) **कोणाक कोण ना, उंचारी वतल्याक सांगात ना.**

ह्या जगांत कोण कोणाचो न्हय, वयर वतल्या बरोबर मरतल्या वांगडा कोण वचना.

12) **कोणाचोय कोंबो रडूं, फांतोड जातकच जाली.**

13) **कोणाचोय कोंबो रडूं, म्हजें सादल्यार पुरो.**

14) **कोणे देखलें ना धरकल, ताणें देखलें कालूं, खंयचे तवलेंत घालूं?**

जाका सामकी किंकोत वस्त पळोवंक मेळना-ताका एकदम अप्रूप वस्त मेळ्ळी जाल्यार खंय दवरूं आनी खंय नाका अशे जाता.

15) **कोणाच्यो म्हशी, कोण काडटा उठाबशी.**

एखाद्रया मनशाक भलत्याच्याच कामाची उस्तवारी करची पडटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.

16) **कोणाच्या व्हराडा कोण मुरड?**

व्हराड = वराड, न्हवऱ्याव्हंकलेचे बिराडी

आपलो जंय संबंद ना थंय वचून बेश्टो बोवाळटा ताका ही म्हण वापरतात.

17) **कोंबये गळ्याकडेन पावतरीच उदक जाता.**

परत परत खावंक मागता त्या भुरग्यांक ही म्हण वापरतात. दुसरो अर्थ, कोंबयेच्या गळ्यांत पावतकच गोटो जसो मोव जाता तेभाशेन बळीश्टांकडेन संबद येतकच सगले नरम जातात.

18) **कोंबो गेलो तारवार, कोंबी जाली गुरवार.**

19) **कोंब्याक विचारून मसालो वांट्टा वे?**

20) **कोंब्याच्या बळार कोंबी उडटा, घोवाच्या बळार बायल उडटा.**

21) **कोराबां कोणूय दीत, बुराक कोण दीत?**

**टीप** : कोराबां = काराबां, म्हळ्यार बायलांनी कानांत घालपाचो भांगराचो एक दागिनो. खास करून किरिस्तांव समाजांत हो मेळटा. हो दागिनो कोणूय दीत पूण कानाचे बुराक कोण दितलो ? जण एकल्यान आपलें काम करूंक जाय. संद आयली जाल्यार ताचो फायदो घेवंक आपणेच तयारी करूंक जाय.

22) **कोरोंचे तें कोरोंचे, न्हू ते न्हू.**

कर म्हणून सांगता तितलेंच करपाचें. नाका म्हणून सांगता ताचे वाटेक वचप ना.

23) **कोलो उशेलांत पडलो.**

कोणाकय आकस्मीक मोटो लाभ मेळटकच ही म्हण वापरतात.

24) **कोलो भिंडो नंदतलो आनी आंगडींत घर बांदतलो!**

आंगडी = बाजार पेठ

हातांत कांय नासताना व्हडलीं सपनां पळेता आनी झेपना तसलो कार्यक्रम आपणावंक सोदता ताका ही ओपार लायतात.

25) **कोलो म्हळयार फाटल्यान लागता.**

धूर्त मनशाक आपणे बरो बरो म्हणून तुस्त करप आनी ताणेंच धूर्तपणाचे आनी फटींगपणाचे प्रयोग आपणाचेर करप. त्या वेळार दिसता, खंयची बुद्द जाली आनी हाची तुस्त आपणें केली.

26) **कोल्याक शिदाव फारीक करचो पडना; पादलो आनी गेलो.**

दुसऱ्याच्या कुस्तार जियेता ताका ही ओपार लायतात. कोलो सगलें चोरयां लिपोवन करता. The fox has not to pay the tax. कोलो खंय उंशेलांत वता आनी पोटभर ऊस खाता आनी पादता. ताच्या पादाक लागून ऊस तांबसार जाता आनी गोडसाण उणी जाता असो समज आसा.

27) **कोळशाक दर आयली म्हूण घर जाळचें?**

28) **कोळणिल्या घराक झळक्यां ( मासळे ) तोरण.**

जें हाताकडें सहज मेळटा तें घेवन कोणूय जाल्यार घर शिंगारता तेभाशेन नुस्तेकान्न झगझगपी नुस्तें घेवन घर शिंगारता.

29) **कोळकांदो गोड जाल्यार कोलो सोडटा वे?**

कोळकांदो = जंगली कांदो.

धूर्त मनीस खंयचीच फायद्याची गजाल सोडीना हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

## ख

1) **खंती सारकी पिडा ना, अवगुणासारकें वायट ना.**

2) **खबर आसल्यार गोंय, नाजाल्यार पोंय.**

3) **जाणो जालेल्याक गोंय, नकळो जालेल्याक पोंय.**

जाका थंयची सारकी माहिती आसा ताका गोंय शार बरें. एका काळार थंय इतल्यो इमारती आनी रस्ते आशिल्ले, नकळो आशिल्ल्याक फुकट त्रास जावपाचो.

4) **खबरांची जाली दाटी, आनी कामाक लागली काटी.**

काटी = उजो पेटोवपाची काडी.

गजालींनी वेळ फुकट घालून कामाक लायलो उजो, म्हळ्यार. कामाची वाट लायली.

5) **खंय पिकता, थंय विकता.**

मराठींत हाचे उलट म्हण आसा: 'जेथे पिकतें तेथे विकत नाही'

6) **खंयूंय गेल्यार सांगटाक कांटे तीन.**

7) **खंयूय गेल्यार पळसाक पानां तीन.**

8) **खंयूय गेल्यार चुलीक फातर तीन.**

9) **खंय गेल्लो ? खंय ना ! कितें हाडलें? कांय ना!**

कांय करप ना; आलमपेड्डेरसो भोंवप.

10) **खंय वता विधी? दुबळ्याचे सोदी.**

दुर्दैव दुबळ्याच्या फाटल्यान लागता.

11) **खरपता एक ठांय, खरपिता एक ठांय**

12) **खोरजुता एकेकडेन, खरपिता एकेकडेन.**

13) **खरपून खरपून खरजू करची.**

14) **खरपून खोरोज काडप.**

आपूण जावन स्वताचेर संकश्ट ओडून घेवप.



## खा

1) **खा गे सुने, खायना, खाते वेळे कांय ना.**

2) **खाजूर पिकिल्ल्या वेळार कावळ्या तोंडात रुं.**

3) **खाजूर पिकतना कावळया तोंडाक रुंव.**

वसंत ऋतूंत कावळ्याच्या तोंडाक रोग जाता आनी फोड येता. तेन्नाच ज्युस्त फळां येतात तीं ताका खावंक मेळनात. बरी संद येता तिचो फायदो घेवंक मेळना तेन्ना ही ओपार मारतात.

4) **खाडामिश्यांच्याचो पार ना; रांडेच्यांचो खंयचो पार?**

व्हडल्या व्हडल्याची दाद लागना थंय ल्हान मनशाक कोण विचारता?

5) **खाडाक उजो लागल्या वेळार अपलो भाजूंक वता.**

अपलो = चणे मीठ घालून केल्लो एक पदार्थ.

कोणाच्या खाडाक उजो लागिल्लो आसताना दुसरो चणे भाजूंक सोदता, विडी पेटोवंक सोदता. दुसरो संकटांत सांपडलेलो आसताना आपलो फायदो करून घेवपाची वृत्ती.

6) **खाडाच्यान केलें, मिश्याच्याक मारलें.**

खाड आशिल्ल्यान केलें पूण राग काडलो मिश्यो आशिल्ल्याचेर.

7) **खांडीभर भाताक एकवीस कुडव पोल.**

8) **खांडीयेंतू एकवीस कुडवू पोल.**

खांडी = वीस कुडव; कुडव म्हळ्यार धान्य मेजपाचें आठ शेराचें माप वीस कुडव धान्यांत एकवीस कुडव पोल. म्हळ्यार सामकें फट उलोवप.

9) **खाता पिता, देव दिता.**

जो मनीस मेळिळल्ले सगले जोडिचो खर्च करता ताका आनीक मेळत वता; ताका केन्ना उणे पडना. मराठींत म्हणटात ‘ साखरेचे खाणार त्याला देव देणार.’

10) **खातांना खातलीं आनी वयर मंगलां गातलीं.**

मंगलां गावप = चडफडप

खाताना खावप आनी मागीर बेश्टे चडफडप अशी वृत्ती.

11) **खाताना गोड, फारीक करताना जड.**

12) **खाताना गोड, हागताना जड.**

13) **खाताना सुट्टा तोंडा उदक, दिताना येता दोळ्यां उदक.**

14) **खाताना गोड, दिताना रड.**

रीण काडून फोल्गां मारप आनी मागीर रडप.

15) **खात्याक आस भोव, न्हात्याक चिखोल भोव.**

चड खावपाची संवय जाली म्हण्टकीर भूक वाडटा. चड न्हायत रावत जाल्यार आंग चड म्हेळें आसा अशें दिसूंक लागता. समाधानान, संयमान सूख आसता.

16) **खायत तितली भूक भोव, न्हायत तितलो म्हेळ भोव.**

17) **खाण जेवण कशेंय आसूं, अर्थ अपुर्बाय बरी.**

खावंक जेवंक, दिवप घेवप, कशेंय आसूं; उलोवणें प्रेमाचें आसूंक जाय. आदरसत्कार बरो करचो; आसा ते खावंक दिवचें.

18) **खाणापरस मचमच चड.**

काम थोडें करता आनी एकसारकी बंडबड करता ताका ही म्हण

लायतात.

19) **खाणा वेळार मेणा - दोळे, खेळावेळार मनशा - दोळे.**

कितेंय पदरांत पाडून घेवंचें आसता तेन्ना काकुळटेक येता आनी मागीर कोणाक आयकना, व्हडले दोळे करता.

20) **खांदार तरंग तंवर अवसराक देवपण.**

तरंग = थोड्या देवस्थानानी दैवी प्रतीक म्हणून खांबकाठ्येचो सजयल्लो गोंडो.

अवसर = देवाचो वा मेल्ल्या मनशाचो (पुरसाचो) वा समंधाचो कोणाचेरय आयिल्लो भार.

21) **खांदार बसून कान खावप.**

इश्टागत आसा अशें भायल्यान दाखोवप आनी नुलयत घात करप.

22) **खांदी मेळ्ळी म्हूण झाड हुमटूंक जायना.**

बोट रिगलें म्हणून हात घालपाचो प्रयत्न करूं नये.

23) **खारवी गेला पोंय, आंबा वांटून थेय.**

पोंय = शेंतातले खाऱ्या उदकाचे तळें; थेय - दवर.

आंगाक खोरोज आसत वा आंग खरजता आसत जाल्यार आंब्याची कोय भाजून लायतात. खाऱ्या उदकान खोरोज बरी जाता अशें म्हणटात. खारवी सदांच खाऱ्या उदंकान आसता ताका आनी कोय भाजून कित्याक लावंक जाय? नाका जाल्ल्या गजालीचो नाका थंय उपयोग करपांत अर्थ ना.

24) **खारव्याक गोरवां, भटाक तारवां कोणे सांगल्या?**

जाचें काम ताणे करप बरें.

गुजराती म्हण : जेनू काम तेनूं थाय, बिजा करे सो गोता खाय.

25) **खावंक जाणो, तो जिरोंवक जाणो .**

26) **खावंक मेळटा थंय कोणूय धांवंता.**

27) **खावंक - जेवंक आसल्यार सोयरे खूब.**

28) **खावंक मी जाणा, दिवंक म्हाजो बाबा जाणा.**

29) **खावंचें घोवाचे आनी घेवंचे गांवाचें.**

30) **खावंचें घोवाचे आनी घेवंचें मिंडाचें.**

घोवाचे खावन दुसऱ्याकडल्यान, मोग्याकडल्यान उलोवणी आयकून कित्याक म्हणून घेवप?

To live on the labours of husband, get taunts from paramurs.

31) **खाशा पंक्तीक सुंठी पिठो.**

व्हडांच्या सहवासांतल्यान लाभ जातलो म्हणून रावप आनी तो जावप ना. व्हडल्याच्या नांवाचो कांयच फायदो मेळप ना.

म्हणी फाटली काणी :- आदल्या तेंपार कांय गिरेस्तांचीं घरां आशिल्लीं, तांगेर खूब सोयरे आसताले. दनपारच्या जेवणाक चौखेर दोन तीन पंगती सहज जाताल्यो. सगल्यांचे जातकच निमाणे पंगतीक घरच्या यजमानान बसप. एकदां अशाच घरा एक मनीस पावलो. ताका आग्रो करुन जेवणाक दवरून घेतलो आनी हातपाय धुवन पयले पंगतीक बस म्हणून सांगलें. तो मुद्दाम फाटल्यान रावलो. सगल्यो पंगती सोडल्यो आनी खाश्यांचे पंगतीक बसलो. त्या दिसा खाश्यांक उपास आशिल्लान फक्त सुंठी पिठो पानार आयलो. फाटल्यान राविल्या पावण्याच्याय सुंठी पिठो पानार आयलो. फाटल्यान राविल्या पावण्याचेर सुंठी पिठो खावन उदक पियेवपाची पाळी आयली.

## खि

1) खिळयाक लागून देऊळ मोडटा.

## खू

1) **खूर म्हणचो न्हय तापलो आनी घोव म्हणचो न्हय आपलो.**

घोव नीट मार्गान चलना तेन्ना ही ओपार मारतात.

## खे

1) **खेत्याक पालखेंत बसयल्यार गोंड्याक गोळोव मारता.**

2) **कुत्र्याक पालखेंत बसयलो तरी हाडूक देखून, कुत्रें उडी मारता.**

जाका उंची वस्तूचो उपयोग खबर ना, ती वापरपाची अक्कल ना, ताका ती दिवन कितें उपयोग? मूळ सबाव केन्ना बदलना. मनीस जीव वा आनीक कोणूय प्राणी आपले आपले बडीर वता हें दाखोवपी ह्यो म्हणी.

## खो

1) **खोंकलेन पाद विसरायता.**

ही म्हण सोळाव्या शेकड्यांत जेज्यूईत पाद्र्यांनी केल्ल्या संकलनांत आसा. ताल्मकीच्या संकलनांत, 'खाकिने पाद विसरैलो' अशी दिल्या. वायट गजाल लिपोवपाचो प्रयत्न करप. उलयता आसताना अप्रिय गजाल येतकच विशय बदलपाचो प्रयत्न करप विसरायेर घालपाक सोदप.

2) **खोंट मारून ( माल्लीपूम ) खाटल्यार पडलो.**

वायट म्हणून केल्लें तेंच बऱ्याक पडलें. एकाद्र्याची शिक्षा म्हणून दुसरेंकडेन बदली करता थंय पावतकच ताका वयलो जागो मेळटा. Kicked upwards म्हणटा तशें जाता.

3) **खोबऱ्याचो बैल चलता बरो.**

बैलाक दिसता आपूण ओडटां त्या घाण्यांतल्या खोबऱ्याची पेंड आपल्या वांट्यांक येतली.

4) **खोरजुवाळ्यांत लज ना आनी गरजेवंताक अक्कल ना.**

आंगाक खोरोज जाल्लो मनीस खोरजूंक लागतकच कोणाय मुखार सगली लज सोडून खरपूंक लागता. गरजेवंत कोणायकडेन अक्कल

कुशीक दवरून मागता.

5) **खोऱ्याची बाग आपले वटेन.**

6) **खोरें आपणा दिकाने ताणता.**

7) **खोरें आपले वशीं मातीं ओडटा.**

जण एकलो आपली सोय पयलीं पळेता. आपल्या आनी आपल्या मनश्यांच्या फायद्याखातीर खटपट करता.

8) **खोट्या नाण्याक झगझग चड.**

नकली वस्तू खऱ्यापरस बऱ्यो दिसतात. आंगान गूण नाशिल्लो मनीस बडबड करून, बरे कपडे घालून मिरयता.

9) **खोट्याक प्राण नाय, सत्याक मरण नाय.**

फट केन्ना टिकना आनी खरें लिपून उरना. 'सत्याक मरण ना' होच भाग चड घोळटेंत आसा.

10) **खोलो पोटशेल्लो ( कुशील्लो ) सुणें भुकेल्लें.**

खोलो म्हळयार पणसाच्या पानांच्या मोठ्या दोण्यांत सांदनाचे पीठ घालून सानन धाकण्यांत उकडिल्लो हीट. तो कुशिल्लो म्हणून भायर उडयिल्लो. सुण्याक भूक लागल्लिी म्हणून ताणें तो खालो. एकट्यान त्यागिल्ली वस्त दुसऱ्याक वेळ तशीच आयिल्ल्यान मानून घेवंची पडटा.

11) **ख्यास्तीफुडे रावूं ये पूण धास्ती फुडे रावूं नजो.**

ख्यास्त = शिक्षा, दंड; धास्ती = भय.

ख्यास्तीच्या भयानूच जीव वता, काम उरता, अशें जाता. ख्यास्त भोगची पडटकच ती सोसूंक जिवाची तयारी जाता.

12) **खोजे बायलेक कुकमाचो आदार.**

## ग

1) **गजालीन घोव खाल्लो.**

2) **गजालीन गजाली पोरसांत, बायल घोव विसरली.**

3) **गजालीन खाल्लो घोव आनी परशान पकैली बायल.**

हांतुणार पडलेल्या घोवाची काळजी घेवंचे बदला, बायल गजाली मारूंक रावली आनी हेवटेन घोव सोंपलो.

सगली रात गजाली करून करून सोंपली. घोवाकडेन पावंचेपयलीं उजवाडलें. घोव परशा म्हऱ्यान शेकूंक बसलो आनी बायलेक विसरलो. परसो म्हळ्यार थंडीन पेटयतात ती शेकोटी. हो अर्थ खबर नाशिल्ले परशा सुवातेर पुरशान म्हणटात.

4) **गणपतीचें राज्य देड दिसाचें**

देडा दिसाचो गणेस, अशीय म्हण घोळटेंत आसा. खिणयाळो कारभार.

5) **गणेस करूंक गेल्यार केलदें जाता.**

करूंक वचप एक आनी जावप भलतेंच. कोण खंय गणपतीची मातयेची मूर्त करूंक म्हणून गेलो. सोंड फाटलेवटेन लायली म्हूर्त वानरासारकी दिसूंक लागली.

6) **गणेसाचो कुलो झरोवन गणेसाक तिळो.**

7) **गणेसा गांड झरोवन गणेसा तिबो केलो.**

एकाकडल्यान घेवन ताकाच तें ओंपप. गणपतीची मूर्त रक्तचंदनाची आसता. तांबडे गंध जाय आसता तेन्ना ती म्हूर्त मात्शी झरोवन गरज़ भागोवपाची प्रवृत्ती आसता. कर्नाटकांत गोडाचीय म्हूर्त करपाची पद्धत आसा. ताचेवयल्यान ही मात्शी बदल्लेली म्हण आयली.: ‘गणपती गांडी चिमटून गणपतीक निवेदु करचो’,

8) **गरजेवंताक अक्कल ना.**

9) **गरजेक अक्कल ना.**

हांगा अक्कल म्हळ्यार लज. गरजू मनीस सगल्यांची उलोवणीं आयकूंक तयार आसता. तो अडचणींत सांपडलेलो आशिल्ल्यान जो तो ताका शाणपण शिकयता. लज सोडून ताका सगलें आयकुचें पडटा. ‘पोवनाचें तपलें’ ह्या शणै गोंयबाबान बरयल्ल्या खेळांत ही म्हण दोनदां मेळटा.

एकदां म्हाळू भटाच्या तोंडातल्यान जाल्यार एकदां नोनेबाबाच्या तोंडांतल्यान.

10) **गरिबाक भुरगीं भोव.**

ह्याच अर्थाची 'दुबळ्याक शेंटां भोव' अशी म्हण कों. ओ. भा. पा. 83 चेर दिल्या. फादर पेरैरान ताचो अर्थ दुबळो लोक आपली फामील फावो तेदीच दवरीना, शेंदरेप्रमाणे पाय सोडीना, असो दिला.

11) **गती आशिल्ल्याक मती ना, मती आशिल्ल्याक गती ना.**

एक आसल्यार एक ना.

12) **गरिबाली पिंजकी गोजडी, तीच ताका शाल जोडी.**

13) **गरीबान गू खाल्यार पोटा खालो, गिरेस्तान खाल्यार वखदा खालो**

जो जिनस गरीबान खाल्यार भूकेक खालो अशें म्हणटात तोच श्रीमंतान खायत जाल्यार ताका कितें कमी आसा ताणें वखदाक खालें अशें म्हणटात. एकाची निंदा जाता, दुसऱ्याचें कवतूक करता.

14) **गरिबाच्या ( म्हातारेच्या ) पोराक पोंबुर्पेचें फेस्त कित्याक ( कोणे सांगलां )?**

फेस्ताक पडटा त्या तरेतरेच्या फेरयानी कितेंय घेतलो जाल्यार पयशे जाय. ते म्हातारेच्या पोराकडे खंयच्यान आसतले? आपली कुवत उणी आशिल्ल्या मनशाक व्हडले कुवतीची कामा करप शक्य नासता.

15) **गळ्यांतले तुटलें, होंटयेंत पडलें.**

गळ्यांतली वस्त तुटून होंटयेंत पडली जाल्यार ती आपलेकडेंच उरता. तातूंत नफानुकसान कांय ना. घोवाक मेळपाचें तें बायलेक मेळ्ळें म्हणून वायट दिसपासारकें कांय ना. सामक्या वेगळ्या अर्थाची म्हण ताल्मकी संग्रहात आसा. 'गळ्यांतु आसल्यारी व्हांटींतु पडता.'

होंटयेंत पडटलें जाल्यार पयलीं गळ्यांत आसूंक जाय.

## गा

1) **गांठचे खर्चून दुसऱ्याचें उबवप.**

घरचें खावन दुसऱ्याच्यो उठाठेवी करीत रावप.

2) **गांठो शेणलो, कान मुंडलो.**

गांठो म्हळ्यार कानांतलो दागिनो चोरुन दवरिल्लेकडेंन शेणलो आनी हेवट्यां शिक्षा म्हणून कान कापलो. एकट्यान गांठो चोरलो आनी लिपोवन दवरला थंय तो शेणलो. ताची चोरी जेन्ना उगडकेक आयली तेन्ना ताका तो मालकाक परत करुंकय मेळ्ळोना आनी ताचे बदला पयशे दिवंक जमले ना. शिक्षा म्हणून ताचो कान कापलो.

3) **गवयाचे पोर सुरांत रडटा.**

4) **गवया पोर रडटाना सत ताळ धरता.**

संवसारांत येनाफुडें गाण्याचे सूर कानार पडल्या कारणान गवयाचे भुरगें सहज गाणें शिकता. रडटाना सुध्दां सारक्या तालार रडटा ही अतिशियोक्ती.

5) **गांठीचे सुटना, रुचीचें मेळना.**

पदरचे पयशे मोडपाक तयार नासता ताका रुचीचें खावंक मेळना.

6) **गाडवां गोड हागती जाल्यार भोरप्या भीक कित्याक मागती?**

7) **गाडवाने गोड हागल्यारी डोंबा इच्याक भीक?**

भरप्याकडें गाडवां आसतातच. तांचेकडल्यान तांका घरा बशिल्लेकडेन आयतें जर कितेंय मेळिल्लें जाल्यार कश्ट कित्याक करतले आशिल्ले?

ही म्हण गोम पै न पुंजायल्ली. 'तोंडातलीं माणकां' ह्या माथळ्याखाला 'साद'च्या तिसऱ्या अंकात छापल्या. 'हागती' हो शब्द असभ्य दिसून ताचेबदला XXX (तीन फुल्यो) छापल्यात.

1932 वर्सा ताल्मकीच्या संग्रहाचो पयलो भाग उजवाडा आयलो तातूंत तो स्पश्ट बरयला.

8) **गांडीक धुवन कडी करता.**

सामक्या हिमट्या मनशाक ही सामकी हळशिकावणी म्हण वापरतात.

9) **गांड पळोवन म्हाणायो, तोंड पळोवन पोळयो.**

बसपी लोक आसा तितले पाट मांडप आनी तोंड पळोवन म्हळ्यार

योग्यताय पळोवन पोळयो वाडप.

10) **गांडीक ना गांडीपुरतें, कौतुकान व्हंकल हाडली, खातली कितें?**

11) **गांडीक ना फाळी, रांड मागता कायलोळी.**

हातात कांय नासतना हिसपाभायर आशा धरप. ह्याच अर्थाच्यो आनीक दोन म्हणी आसात i)घरांत ना तीन तांदूळ, सान्नां उकडूंक भोंवता रांडूल. ii) शिताक ना तांदूळ, पोळयो कित्याक करता रांडूल.

12) **गांडीक जालो घाव, वैज जालो माव.**

13) **गांडीक शेण लावन बैल म्हणून कित्याक घेवंचे?**

14) **गांडीत घर बांदून पादाक हळशीकचे न्हय. ( उबगूंक जाता? )**

15) **कुल्यात घर बांदून पादा बेजारल्यार उपयोग आसा?**

जाणा जावन, बळया वायट मार्ग आपणायतकच तांतले हालउपाद्रे सोसचेच पडटात. तांचे विशी उलोवन कितें उपयोग?

16) **गाण्याक आनी तल्लफेक पडना.**

17) **गाण्याविणें काजार न्हय, रडण्याविणें मडें न्हय.**

18) **गांथनींतलो फोवाळो, गांथनीत पडलो.**

फोवाळो म्हळ्यार एक प्रकारचें नुस्तें. आठ धा एक सारक्या फोवाळ्याची गांथन करुन विकतात. अशी गांथन करतना एक फोवाळो वेगळो उरिल्लो तो काडून गांथनींत बांदलो. एक सारके लोक एकठांय आयले. समसमा संयोग.

19) **गाय मारून बामणाक व्हाण.**

गायेक मारपाचें पाप तर करप आनी तें बादचें न्हय म्हणून तिच्या चामड्याची व्हाण करून बामणाक दान दिवप.

20) **गायेचो वियेंवचो वेळ; पाड्याक तिका बायल करचो वेळ**

पराकोटीचीं आपसुवार्थ

21) **गायतां गळो, शिंपतां मळो, झगडटां ताळो व्हड जालो.**

गावपी मनशान दर गाण्याचो अभ्यास नेमान केलो जाल्यार ताचो आवाज

सुरेल उरता. नाजाल्यार इबाडटा. मळ्याक जर उदक दिलें ना जाल्यार तो सुकून वता; शिंपलो जाल्यार फळांनी भरता.

22) **गायन रांदलें, बैलान खालें.**

बायलेन रांदप घोवान जेवप. कसल्याय निमतान दुसऱ्यांक आपोवन जेवण दिवंक नकळो.

23) **गांवा सारको भेस, गुरु सारको उपदेस.**

मराठी म्हण : देश तसा वेश. गुरु तसा उपदेश.

24) **गांवभर देवांक पांयां पडल्यारीय घोव नाशिल्लेक चेडूं जाता वें?**

25) **गांवांत म्हाळ, सुण्याक बोवाळ.**

भाद्रपद म्हयन्याचे दुसरे पंद्रशेंत पितरांचे श्राध्द घालतात. तेन्ना लोकांक जेवणाक आपोवपाची पद्धत आशिल्ली. जेवणां जातकच उश्टे मेळपाची आशा सुण्याक आसता. म्हाळाकडेन ताचो कांय संबंद ना तरी हे ल्हानशे आशेन ताका चड बोवाळ. कसलेंय कार्य आसलें आनी संबंद नाशिल्ले लोक गडबड करतात तेन्ना ही ओपार मारतात.

26) **गांवार आयिल्लें घरार आयलेबगर रावना.**

गांवार आयिल्ले संकट घरार येवंचे रावना.

27) **गांवाक जालो फाळो कुळकर्ण्याचे बायलेक जालो वाळो.**

फाळो = कर पुंजावणी.

गांवात कर वसूल करपाक लागले आनी कर वसूल करपी कुळकर्ण्यान हात धुवन घेतले. ताणे आपले बायलेक वाळो करून घालो.

28) **गांवाच्या भायर वच्चें नाशिल्ल्याक सुंका दर कित्याक?**

सुंक = Octroi

नसती उठाठेव करपांत अर्थ ना.

मराठी म्हण : ज्या गांवी जायचे नाहीं त्याची वाट कशास पुसावी ?

# गि

1) **गिरवडचे रेडे व्हरून पर्रा विकप.**

2) **गिरायकान सवाय मागल्यार आनी पावसां भिजल्यर लज ना.**

3) **गिरेस्ताचे बायलेक कोणूय व्हनये म्हणटा.**

4) **जिचो घोव जोडटा, तिचें नांव व्हनी.**

कर्नाटकांत ही ओपार 'गिरेस्ताची बायल सगळ्यांची व्हनी' अशी मारतात. गिरेस्ताक आनी ताचे बायलेक वरतीं आनी मानाची उतरां लावपाक सगले मुखार आसतात. पयशे जोडटा ताचे बायलेक आदर आनी आपलेपण दाखयतात. हिंदीन वेगळ्या अर्थाची म्हण आसा: गरीबकी जोरु सबकी भाभी, गरीब की लुगाई सबकी भोजाई. भाबी, भोजाई = व्हनी, लुगायी = बायल. गरीबाचे बायलेक कोणेय व्हनी म्हणून आपोवचें आनी हक्कान काम सांगचें. मराठींतूय अशा अर्थाची म्हण आसा. ' गरीबाची बायकू, गावची काकू.

5) **गिरेस्तालो मुडो भायर सरता पसून दुर्बळालो चेडो मेलो.**

गिरेस्तान दितां दितां म्हणून सांगत रावप; गरीबान वाट पळयत रावप; शेकीं भुकेन जीव वचपाची पाळी येतकच तांदळाचो मुडो मेळ्ळो जाल्यार मेळ्ळो.

6) **गिरेस्तालो वाडो, न्हेसूंक मेळना फाडो.**

फाडो = लुगटाचो कुडको; आंगसो.

गिरेस्त-गिरेस्त म्हणून कसलो फायदो ना. ताच्या वाड्यांत लुगटाचो कुडकोय मेळना.

# गु

1) **गुण पडचो जाल्यार भाज्जे पानान पडटा.**

नशीब बरें आसल्यार कसलीय सादी वस्त सुद्धां बऱ्याक पडटा.

) **गुणांक पुता, अवगुणांक इजा.**

अवगुण = पाडो, वांकडो, वायट गूण, दुर्गुण; दोश.

जगांत सगळेकडेन गुणांचो आदर करतात. गुणी मनशाचे गूण केन्ना लिपून रावनात. वायट गुणांच्या पाड्या मनश्याक त्रास भोगचे पडटात.

संस्कृत सुभाषित : गुणा : सर्वत्र पूज्यन्ते.

) **गुमची विद्या गुम्म जाणां, भुरगीं बाबडीं काय जाणां?**

) **गोमेची विद्या गोम जाणा, भुरगीं बापडी काय जाणत?**

आवयबापायन जे व्यवहार केले ते तांचे तांका खबर. भुरग्यांक ताची कल्पना नासता. ताचेविशीं भुरग्यांक विचारून कितें उपयोग? दोगांभितर कितेंय गुप्त व्यवहार जाता आनी तिसरोच येवन खबर काडपाक प्रस्न विचारता तेन्ना अशें म्हणटात. वयर दिल्ल्यो म्हणी आनी अर्थ म.वा.को. भा. 1 पा. 409 आनी पा. 411 वयल्यान घेतल्यात. फादर पेरैरान को.ओ.भा. पा.92 चेर ही म्हण अशी दिल्या :

गोमुची विद्या गोमुच जाणां, सिमांव बाबडो कितें जाणा?

अणकार : Gomes knows his own art What does Simon know?

अर्थ : जण एकलो आपापल्या कामांत शिटूक आनी हुशार, जण एकलो आपापल्या हिशोबांत लायक. ही म्हण वेगळी काय वयले म्हणीचें वेगळे रूप तें कळना.

5) **गुरव नाचता थळांत म्हूण मडवळ नाचता व्हाळांत.**

गुरवाच्या आंगात येतकच तो देवळात नाचता. तें पळोवन मडवळ व्हाळार मुस्तायकी धुयता थंय नाचता. मुर्खपणान दुसऱ्याचें अनुकरण करता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

6) **गुरूगेली विद्या गुरूक भोंवली. ( गुरु मात्यारी आइली )**

म्हणी फाटली काणी : एका वकिलान आपल्या अशिलाक न्यायालयात कितेंय विचारल्यार 'बें, बें! ' अशी जाप दिवंक शिकयल्लो. ताणे तशें केलें आनी तो तकलेन धड ना म्हणून कोर्टान ताका सोडून दिलो. उपरांत वकिलान आयली फी मागतकच ताकाय 'बें बें' केलें. वकिलाची

फी बुडली.

7) **गुरूत्व नाथिल्ल्याक तिनीयकडेन.**

गुरूचो आशीर्वाद मेळूंक नाशिल्ल्या शिष्याक खंयच मान नासता. गुरुचं कृपा नासत जाल्यार तिनीयकडेन (सगलेकडेन) ताचें नुकसान जाता.

8) **गुवाडींतल्यान वचचें पूण दिवाणांतल्यान वचूं नये.**

लोक उदकाडे वतात ते सुवातेंतल्यान गेल्यार एकवेळ जाता, पूण कोर्टांत मात केन्ना वचचे न्हय अशी शाणेपणाची शिकवण हे म्हणींत आसा.

9) **गुळमूळ पंचे बारोदरशें.**

प्रस्न विचाल्लो आनी वेवस्थीत जाप दिवंक आयलीना, गुळुमळू करूंक लागलो जाल्यार अशें म्हणटात.

10) **गुळेर दिवन वांयगें घेवप.**

ल्हान जातीचें वांयगें दिवन मोठे जातीचें वांयगें घेवप. बरे प्रतिची ल्हान वस्त दिवन उणाक पूण दिसपाक व्हड वस्त घेवप. गुळेर वा गूंळ हें धवें आसता. ती वांयग्याची एक जात, शिवराकांक ताच्यो फोडी म्हळ्यार अप्रुप.

## गू

1) **गू न्हय भट हागला.**

2) **गू न्हयीं भट्ट हागिल्लो.**

वायट गजाल बरें नांव दिवन ताची सोबा वाडोवपाचो प्रयत्न केलो तरी जी वायट गजाल ती वायटूच. पादलो म्हणप ना, वाय सरलो म्हणप हे तांतलेच. गोम पैन पुंजायल्लीं 'तोंडातली माणकां' (साद अंकांत) छापल्यां, तांतूत ही म्हण XX न्हय भट xxx अशी छापल्या.

3) **गू देकिलें डुक्करशें हांसता.**

गू पळोवन दुकराक खोस जाता. आवडीची वस्तू मेळटकच कोणाकय खोस जाल्ली पळयतकच तिरकस विनोदान अशें म्हणटात. ताल्मकी

संकलनांतली ही म्हण.

## गे

) **गेड्यानूय वांटना, फाड्यानूय वांटना.**

दोशी मन आसता तेन्ना अशें म्हणटात.

2) **गेल्लीं सेर्मावांचे आशेन, तो जालो फिरंगी भाशेन.**

आदीं इंगर्जेंत सेर्मांव (प्रवचन) पुर्तुगेज भाशेंतूच जाताले. तीं भास नकळो ते फटवताले.

3) **गेल्लो मान परत येना, भेतिल्लें माणिक सम जायना.**

भेतप = कुडके करप, फोडप.

## गो

1) **गोकर्णाचें बोड.**

2) **गोकर्ण केलश्या बोड.**

3) **गोकरनांत बड आडायला केलां.**

केलसी = बार्बेर, न्हावी, म्हालो, हजाम. केलसी हो कर्नाटकांत घोळटेंत आसा, हजाम कमी प्रमाणांत घोळटेंत आसा. गोकर्णांत न्हावी एका मनशाचे बोड करूंक सुरू करताले. पाट काडून दवरुन दुसऱ्याचें बोड करपाक वताले. एका न्हाव्यान वस्तरो लायलो म्हणटकीर दुसरो न्हावी ताच्या म्हऱ्यान वचना. तो न्हावी ये म्हणसर तिश्टत रावचें पडटा. न्हावी चडांत चड कामां मेळोवपाचे आशेन अर्दकुटीं कामां करून वता. काम अर्दकुटें सोडून दुसऱ्या कामाक वेंग मारता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

'गोकरनांत बड आडायलां' केलां, ही म्हण सोळाव्या शेकड्यांत पासून मारतालें. दियोगु रिबैराचे शब्द वळेरींतती मेळटा.

'गोकर्ण केलश्या बोड' ही म्हण ताल्मकी संकलनांतली. गोकर्णाच्या

न्हाव्या सारकें कितें करता? असो वाक्य प्रयोग खूब फावटी काना
आयला. अर्थांत ताका संदर्भ वयले म्हणीचोच आनी ताचे फाटल्या
आशिल्ली पुर्विल्ली परंपरा.

4) **गोठ्यांत गेल्लें गोरूं शेण केल्याशिवाय रावना.**

गाय रानांत चरून येतकच गोठ्यांत बांदलेबरोबर हागता आनी मुतता
गोठो नितळ दवरूक गोरवांक आवडना. बरे वस्तूची वाट लावपी वायर
वृत्तीच्या मनशाक ही म्हण लागता.

5) **गोठ्यांत मरतात शंबर, दानाक दिवं नजो एक.**

आपणाकडेन कितलेंय आसलें तरी हात उबारून दुसऱ्यांक दिवपाची
वान्सा जायना ताका ही ओपार मारतात.

6) **गोड ना जाल्यार गोडासारकें उतर नावे?**

गोड दिवंक मेळना जाल्यार बरें उतर दिवंक कितें जालां?

मराठी म्हण : गूळ नाहीं तर गुळाची वाचा तरी असावी.

7) **गोडा बेली खंयीय चाबली तरी गोडूच.**

8) **गोडा शिपाय मुयां धरूंक पेटयिलो ( धाडलो )**

शिपाय गोडाचो आशिल्ल्यान मुयांचे आयतेंच फावलें Welcome trouble
ह्या अर्थान ही म्हण वापरतात.

9) **गोत्तु आशिल्लें सगळें सांगू नाका, गांठी आशिल्लें सगलें खर्चूं नाका.**

तुका जें कितें खबर आसा, तूं जें जाणा तें सगलें सांगून सोडूं नाका,
दुसरो ताचो फायदो घेतलो. जमोवन दवरलेले पयशे एकदम सगले खर्च
करूं नाका.

10) **गोयांत व्हडी घाटार घोडी ( घाटार घोडे, गोयांत व्हडें ).**

गोयांत वचत थंय न्हंयो आनी खाडयो आसात; व्हड्यानीच प्रवास करचो
पडटलो. जाल्यार, घाटार प्रवासाक घोडे वापरताले. जण एका जाग्यार
त्या त्या प्रमाण वाहनां.

11) **गोरवांत गोरूं आसल्यार शिंगाक शींग आदळटा.**

2) **गोरी जावची ना, काजळ घालची ना.**

गोऱ्यांक काजळ सोबून दिसता म्हणून एक काळी बायल गोरी जावपाची वाट पळेत रावली खंय. गोरी जातली आनी काजळ घालतली हें कशें शक्य आसा?

3) **गोरी जातली केन्ना आनी काळे सुयतली केन्ना?**

गोरेक काळे गोंदप बरें दिसता म्हणून काळे बायलेन गोरी जावपाची वाट पळोवप. शक्य ना ताची वाट पळेयत रावप.

14) **गोरूं आनी चली दावें पडतरीच गेलीं.**

15) **गोरूं विकतरीच दांव्यांक झगडें कसलें?**

गोरवाबरोबर दावें दिवपाचेंच. ताचें मोल साप थोडें. ताचेखातीर झगडें आनी कसलें? हतया बरोबर अंकुश दिवंक कित्याक अनमनूंक जाय?

16) **गोऱ्याची बी सांवळी जाली, तरी ती काळीच.**

17) **गोऱ्याचें कळना रूप आनी हुनाची कळना रूच.**

वयरवयर पळेतल्याक गोरें मनीस सुंदर दिसता. हून जिनसाची रूच रोखडी कळना.

## घ

1) **घ म्हळ्यार घप कर नये.**

एखादे गजालीचो थोडो अंश समजलो तर ती गज़ाल पुराय समजली अशें करूं नये.

2) **घडटां, घडटां घडे तें प्रमाण.**

जें कितें जायत तें खरें!

3) **घट्ट जालें दूध घाल, पातळ जालें पीठ घाल.**

4) **दाट जाल्यारी उदाक घाली, पातळ जाल्यारी पिट्ट घाली.**

वेवस्थीत रितीन काम केलें ना जाल्यार तें काम केन्नाच बरें जायना.

सुदारपाखातीर प्रयत्न मात करीत रावचो पडटा.

5) **घडे भल्लेबगर वडे जायनात.**

लग्नाचे घडे भरप म्हळ्यार लग्नाची संद येवप. ती येतकच लग्नाच्या जेवणाक करतात ते वडे मेळटात. योग आयलेबगर खंयचीच गजाल घडना. 'मोगाचें लग्न' ह्या शणै गोंयबाबाच्या खेळांत शिवलो म्हणटा: ''केल्ली केल्ली सोरगत जमना. तुमका सांगूं बोंबबाब, घडे भरलेबगर वडे जायनात तें मात खरें ''

6) **घर अस्कड आनी बायल माकड, परिणामाक बरीं.**

7) **घर अस्कड, बायल माकड, त्या दादल्याक ना सांकड.**

अस्कड = घर - धुल्लान, घाणीन वा हळशिकेन भरिल्लें घर. हळशिकेन भरिल्लें आसल्यार आमी बायल विद्रूप आसल्यार तिचे फाटल्यान कोण लागत म्हणून भय ना. कर्नाटकांत 'घर वांकूड आनी बाईल मांकड' अशें म्हणटात.

8) **घर चोरून व्हरतकच दारां घडोवंक गेलो.**

घराची चोरी करून चोर वतकच दारां, कुलपां घट्ट करून कितें उपेग? मो दाल्गादाच्या पो.को. शब्दकोशाच्या पा. 146 चेर ही म्हण दिल्या: 'चोरांनी चोरून व्हरतकीर कोण खंय दारां घट्ट करतालो, अशीय म्हण आसा.

9) **घर पडलें म्हूण मोडून उडयल्यार जाता?**

ॲ. सिल्वा हातबरपांतली ही म्हण.

10) **घर पळोवचें बांदून; लग्न पळोवचें करून.**

लग्न जावंक उबो रावलो म्हणटकच सगले तरेच्या खर्चाक तयार रावचें पडटा. घर बांदूंक घेतकच करता तितलो खर्च थोडो अशें जाता.

11) **घर फिरतकच घराचे वांशेय फिरतात.**

कुटुंबांतल्या करत्या मनश्याचेर संकट येतकच ताच्या आलसऱ्याक आशिल्लीं मनशां उपयोगी तर पडनात; परती नसाय करतात, तेन्ना ही म्हण वापरतात.

12) **घर बांदूंक आनी देमांद करूंक बुद्द दिवंची न्हय.**

देमांद = कोर्टांतलो खटलो.

अॅ.सिल्व्हा हातबरपांतली ही म्हण.

13) **घर सगलें तुमगेलें, सामाना हात लावं नाका.**

पदराक खार लागचो ना हाची जतनाय घेवप आनी व्हडल्यो व्हडल्यो खबरो मात करप.

14) **घरदार भरलां, खातल्या तोंड धरलां.**

घरदार भरलेलें आसा पुणून खावपाची ताकद ना. घरांतल्या जिनसांचो उपयोग करून घेवंक मेळना तेन्ना ही ओपार मारतात. गोडें मुतासारकी पिडा जाल्ल्याक हे म्हणीचो अणभव येता.

15) **घरदार म्हादूचें आमी खंय न्हिदूचें?**

घरदार एकट्यान आडावन बसप आनी हेरांची गैरसोय करप.

16) **घरदारां पयस जालीं, झाडापेडां लागीं आयलीं.**

सामकी थोडी जीण शिल्लक उरल्या अशें सांगपाक ही ओपार मारतात.

17) **घर मोगऱ्याक परमळ ना.**

सहज मेळटा ताचे महत्व कोणाक नासता. फादर पेरैरा म्हणटा 'सदांच्यो वस्तू दोळयांत आनी नाकांत भरना' देखून शेजारची व्हंकल कुड्डी अशें जाता. संस्कृत उक्तिविशेष- अतिपरिचयादवज्ञा. मलय पर्वताचेर रावपी भिल्ल बायलो चंदनाची लांकडां रांदनीत जळोव म्हणून वापरतात.

18) **घर लासल्यारी शेतां राबये, पोट लासल्यारी खंची राबचे?**

घर गेलें जाल्यार शेतान वचून रावूं येता पूण पोट भरपाचे साधन गेलें जाल्यार कितें करतलो?

19) **घर सान जालें तरी मन होड आसका.**

घर ल्हान आसलें तरीं तातूंत रावप्याचे मन व्हड आसूंक जाय.

20) **घर भरुन दार ओतता.**

खूब गिरेस्तकाय.

21) **घर मोडून माटव घालता खंय.**

22) **घरचीं छिद्रां भायर सांगू नये; भायलीं घरा हाण्णयें.**

घरचें उणेदुणे भायर पावोव नये आनी भायल्यो चाडयो घरा हाडूं नये. घरचें दळीद्र भायर सांगू नये, असोय पाठभेद मेळटा.

23) **घरच्या देवाक पूजा ना, भायरल्या देवाक निवेद.**

घरच्या मनशाची उवेखणी करप आनी परक्याची सायबाजात्रा करप.

24) **घरचे गोड आमशें, शेजारची आमसाणी गोडी.**

घरचें गोड आमट आनी भायली चिंच मात गोड लागता. घरच्या मनश्यांनी बरें केल्लें मनाक येना, परक्यांनी अपमान केल्यार लेगीत कांय दिसना अशी वृत्ती.

25) **घरचें खावचें आनी भायलें करचें कारण कितें?**

26) **घरचें खावन शेजाऱ्याची सटी वाजयता.**

27) **घरा आंबील म्हूण मावोड्यां गेल्यार थंयीय आंबील.**

खंयीय गेलो जाल्यार सूख कांय मेळना. सगले सुवातेर अडचणी ह्यो आसतातच.

28) **घरा झगडटा म्हणून वेळेर व्हरून दवरली थंयीय दर्याकडेन म्हजें धस्स, तुजे फस्स करून झगडूं लागली.**

वाऱ्याकडेन सुध्दां झगडपी तोंडाळ बायल.

29) **घरां आइल्या लक्ष्मीक लात इत्या मारका?**

घरचे बायलेक, सून म्हणून हाडिल्ले दुसऱ्या घरचे चलयेक लक्ष्मी मानूक जाय. तिका दुखल्यार घराचे कल्याण जांवक पावना.

30) **घरां आयल्या वाग, भायर गेल्यार कोलो.**

घरांत मस्ती करपी मनीस भायर मात गरीबसाणीन वागता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

31) **घरा आशिल्लो शाणो, बाजारा गेल्लो पिसो.**

32) **घराक उजो लागतर ( लागतची ) बांय ( बायी ) खणटा**

**( खणची )!**

फावो त्या वेळार फावो ते उपाय ना घेवप. वेळ वतकच, संकट दारांत येतकच उसरां उपाय घेवप.

'कोळाक उजो घेतची बांयी खणची', 'तान लागतकच बांय खणूंक वतलो?' अश्यो ह्या अर्थाच्यो आनीक म्हणी.

बाबगो : आमी मनशां चुकता. पिडा रोग नासतानाच ओखद घेवंक जाय. घराक उजो लागतकच बांय खणल्यार उपकारता?

33) **घराक लागल्या कट्टं, भायल्यान झुलप वाडयता.**

घरान सामकी गरिबी आनी घरकार मात केस वाडोवन झेतान भोंवता.

34) **घरांत दिवो तर देवळांत दिवो, आदीं पोटोबा मागीर विठोबा.**

मनीस पयलीं आपल्या पोरांचे चिंतता, उपरांत देवाचें. घरांत उजवाड आसल्यार देवळाक दिवं येता.

35) **घरांत हुंदीर शेंपड्यो बडयतात.**

घरांत खावंक कांयच मेळ नाशिल्ल्यान हुंदीर शेंपड्यो आपटीत रावल्यात. सुमाराभायर दुबळेंपण दाखोवंक ही ओपार मारतात

सकलें मडकेंत नीस ना, वयले मडकेंत शीत ना. अशी ओपार पुरें दुबळेंपण दाखोवपाक मंगळूरांत मारतात.

36) **घरांतली कथा, पोटांतली व्यथा, कोणा सांगूक येना.**

37) **घराड्यापरस बिरडी बळी शेजारी येवन कान वळी?**

38) **घरांतू ना पेजेक मीट ( वाट ) भायर वतना मिश्याक तूप.**

हातांत ना पयसो आनी मोटे बडेजाव मात दाखोवप. मराठींत ह्या अर्थाच्यो जायत्यो म्हणी आसात, तांतली एक; घरांत नाही एक तीळ पण मिशांना देतो पीळ.

39) **घरासारको सोयरो! सोयऱ्यासारकें घर जाता?**

सोयऱ्यान घरांतले रिती प्रमाण वागूंक जाय. थंय आसा त्यो सोयी मानून घेवंक जाय. घरची मनश्यां सोयऱ्यांच्या मर्जीप्रमाण वागतलीं; ताका जाय

त्यो सोयी मेळटल्योच अशें समजुचें न्हय.

40) **घरोन घरी त्योच परी, भितर गेल्यार मातये चुली.**

सगल्या घरांनी सादारण सारकीच स्थिती पळोंवक मेळटा. थंयच्या मनश्यांक गूण आसतात तशोच खोडीय आसतात. कोणें कोणाक नांव दवरपाची गरज ना.

## घा

1) **घाण्या बैलाक पेंड मेळना.**

घाण्याचो बैल घाण्याभोंवती घुंवत आसता. थंयच तयार जाता ती पेंड ताका खांवक मेळना. कापडाच्या गिरण्यांनी मरमर काम करपी मजुराच्या भुरग्यांक धड न्हेसपाक लुगट मेळना.

2) **घाण्या बैलाक घुंवंचें काम.**

ही म्हण कर्नाटकांत मात्शी वेगळे तरेन घोळणुकेंत आसा.

'घाण्या बैलाने कितलें भोविलें तरी आशिल्लेकडे आसा.' हांतल्यान अशय चड स्पश्ट जाता.

3) **घात येवजितल्याचो घात जाता.**

जो दुसऱ्याचे वायट चिंतता ताचेंच वायट जाता.

4) **घाय एकेकडे, वखत आनीक एकेकडे.**

5) **घाय पेखता, मांव उरता.**

6) **घायाक मिठा खळ.**

7) **घालता जाल्यार घालगे रांडे भीक, हांव पेडणेचो भिकारी.**

भिकारी आसुनय वयल्यान गाळी घालून भीक मागता. मूळ म्हण 'घालगे रांडे भीक' इतलीच आसुंये. उपरांत कोणेतरी हांव पेडणेचो भिकारी जोडलां आसतलें. महाराष्ट्र वाक्संप्रदाय कोशकार म्हणटा: पेडणे हें, उध्दटपणाविशीं प्रसिद्ध आहे. तेथील भिकारी सुद्धां उद्धट असतात.

# घे

1) **घेगे रांडे वायण म्हळ्यार घेत कोण?**

हळडी कुकमाच्या वेळार सवाशिणी बायलो एकमेकींक वांट्टात त्यो वस्तू म्हळ्यार वायण. अपमान जायसारके शब्द उलोवन दान दिवंक गेलो जाल्यार तें घेवंक कोण मुखार सरतलो?

2) **घेतना गोड ! दितना रड !!**

3) **घेतना दिवाळी ! दितना शिगमो !!**

घेवप आवडटा पूण दिवप आवडना. रीण काडटना आनंद मनोवप आनी तें परत करपाचो वेळ येतकच बोब मारप.

4) **घेतलो जायतो आसा, दितलो भोव थोडो.**

5) **घेंवचाक सगट येतात, दिवचाक कोण येनात.**

घेवंक हात पसरपी सगलेच. बरीच संपत्ती आसली तरी हात उखलून दिवपी साप थोडे. दान करपाची वृत्ती भोव थोड्यांक आसता. संस्कृतांत सुभाषित आसा: दाता भवति वा न वा; शूर मेळत, विद्वान मेळत, बरें उलोवपी मेळत पूण दिवपी मेळत म्हणून दुबाव आसा.

# घो

1) **घोड्यागेर कुंकड जालें म्हळ्यार देखून खरें मानता.**

जी गजाल जावप संभव ना ताचेर विश्वास दवरपी भोळो मनीस.

2) **घोड्यावेलो पडलो, शिंगराचे कान कातरले.**

शिंगरुं = घोड्याचें पोर.

3) **घोव अचकट आनी बायल मचकट, परिणामाक बरीं.**

अचकट ह्या उतराचे अर्थ पोझडो, बुरसो, जो सुंदर न्हय तो, हळशिकावणो अशे जातात. त्याच अर्थाची अचकट मचकट, अचकट विचकट अशी जोडगिरीं आसात.

घोव बायल दोगांय सारकींच बुरशीं आसतकच आनी कितें विचारता?

4) **घोव पडलो आड, घोवाचे बुड्डून व्हेलें खाड.**

घोव पिडेस्त जावन हांतुणार पडटकच कोण कोण ताची गिरेस्तकाय चोरून व्हरूंक पळेतात.

5) **घोव म्हणटा रांड, मागीर जग म्हणटा सांड.**

6) **घोवान रांड म्हळयार मनशाक वायट उतर दिलें जाल्यार दुसऱ्याक तशें म्हणपाक जेल मेळटा.**

7) **घोव पिंरजळ्ळो उपाशीं पडलो.**

सिल्वा हातबरपांतली ही म्हण.

8) **घोवा परस ( परिसा ) बायल मोटी, मुसळ घेवन धांवता ( लागलीं ) फाटी.**

घोवापरस बायल ताकदवान आसत जाल्यार घोवाक नाकाजीव करून सोडटा.

9) **घोवाक ना कुंड्यापोळी, धेड्याक पात्तोळी.**

न्हवऱ्याच्या सांगात्याची न्हवऱ्यापरस चड अपुरबाय जाता तेन्ना ही ओपार मारतात.

10) **घावाक ना भाव, म्हाका खंयची जाव?**

कोण कोण सोयरो नासतानाय आपूण सोयरो म्हणून दाखयता तेन्ना ताका ओगी करूंक ही ओपार मारतात.

11) **घोवाची बायल सदांच गोरबेस्त.**

घोवाचे बायलेक केन्नाय गुरवार म्हळ्ळें म्हणून तांतूत वायट दिसपाची गरज ना.

12) **घोवाक सांडून सोडलें घर, पूण मीण घालता फार**

नशिबान आयिल्लो सांगात सोडून दुसरो सांगात धरलो तर परिस्थिती पयले परस वायट जाली.

13) **घोवाच्या भंयान घेतेलें रान, थंय मेळ्ळो मुसलमान; ताणें कातरून**

**व्हेंलें नाक कान.**

एका ल्हान इपश्टेपासून पयस वचपाचो प्रयत्न करप आनी व्हडले इपश्टेन येवन पडप.

घोवाच्या रागान ... घराच्या भयान...

चोराच्या भयान ....अशे पाठभेद आसात.

14) **घोवान बायलेक मारल्यार देमांद ना.**

15) **घोवान मारलें आनी पावसान भिजयलें; कोणाक सांगतले?**

देमांद = दावो, फिर्याद Demanda : पुर्तुगेज शब्द.

आदी घोव बायलेक मारताले तांकां न्यायसभेंत व्हर नाशिल्लें. घरच्या केस्तावांनी दुसऱ्यांनी पडूंक फावना हो एक विचार आनी घोवाक तो अधिकार आसा हो दुसरो. देखून फिर्याद कोणाकडेन करप?

16) **घोवान जोडलें, बायलेन सांबाळ्ळें, घर थारलें.**

घोवान जोडूंक जाय. तो जोडकार. बायल घरकान्न ही पूर्विल्ली रीत. बायलेन घर सांबाळ्ळें जाल्यारूच तें वयर येता.

17) **घोवाचे फाटीर मिरयां वाटीं.**

घोवाक कुस्कुटासारकी लेखता, वरतेंपण दाखयता, फटयता.

18) **घोवा-बायलेचें एक चित, चिंचेच्या पानार न्हीद.**

घोवा बायलेचे एक चित जाल्यार कशेय दीस काडूंक जाता. सामक्या ल्हान जाग्यार सुद्‌धां सूख मेळटा. दोगांमदें घूसफूस आसत जाल्यार व्हडल्या घरात सुद्‌धां सूख मेळना. ह्याच अर्थाची दुसरी एक म्हण ब्रह्मे संकलनात आसा: 'घोवाले आनी बायलेले मन एक आसल्यार कांडणाचेर न्हीद पडटा.'

19) **घोवा-बायलेचें एक चित, मडकेन जाता शीत.**

20) **घोव बायल कडसरतीत, भीक मागतीत.**

घोव बायलेन एकठांय जियेंवक जाय, कठीण प्रसंगाकडेन एकठांय झुजूंक जाय.

21) **घोवा - बायलेचें इशें आनी मदीं उलयता ( पडलें ) तें पिशें.**

घोव बायल कितलींय झगडलीं झगडलीं जाल्यार दोगांय एक जातात आनी तांचे काकुळटेक येवन मदीं पडटा तो पिसो थरता. इशें हो शब्द इर्ष्या वयल्यान आयला आसुंयें. को.श.को. त मेळना. म.वा.को.नयशें असो शब्द वापरला.

22) **घोळटल्याक उपास ना, बसतल्याक भूक ना.**

भोंवता आसता तो केन्ना उपाशी उरना. बसून रावता त्या सभाग्याक भूक लागना.

## च

1) **चड उडटा तो चड बुडटा.**

2) **चड पाळटी ताका चड वाळटी.**

3) **चड खाल्यार हागता, थोडे खाल्यार भागता.**

4) **चड वैजिणी जातकीर बाळंटी फजेत.**

धांपांच वैजिणी मेळून बाळंटिणिली वाट लागली.

फजेत = फजिती, कुंचमणा

खंयच्याय कामाक चड जाण शाणेपणां करूंक लागले म्हण्टकीर काम सारकें जायना. बाळंत जावपी बायल मनशेक मदत करपाक चड वैजिणी जमल्यो जाल्यार फजेत जावपाचीच.

इंग्लीश म्हण :Too many cooks spoil the broth.

5) **चड संतत ताका चड इपत.**

इपत = इपत्ती, संकश्ट.

ही म्हण म्हळ्यार कुंटुंब नियोजन कार्यावळीक बऱ्यांतले बरें घोष वाक्य. लोकांमदें चलत आयिल्ली ही म्हण कॉपी रायटरांनी तयार केल्ल्या स्लोगनापरस उजवी.

6) **चडटी वाल मोडूं नये.**

वाल झाडाक वेंगून चडटा ती मदींच मोडून उडोवं नये. दुसऱ्याची आशा, उमेद, प्रगती हांचे आड येवचें न्हय.

7) **चडत तो पडत, पेंवत तो बुडत.**

जो फुडें सरपाक प्रयत्न करता ताका केन्ना तरी अपयश येता. तातूंत वायट दिसपासारकें कांय ना. भंयान उदकांत पांयूंच घालचो ना ताचेर बुडपाचो प्रसंग येवंचो ना हें खरें. फाटीं रावूं नाका. मुखार सर म्हणून उत्तेजन दिवंक ही म्हण वापरतात.

8) **चड शिरीं, ताका चड किरी.**

किरी = दुखणें, संकट अकल्याण. शिरी = लक्ष्मी, ऐश्वर्य. जागेर चड श्रीमंत आसता तागेर दुखणी संकटां बी चड आसतात.

9) **चणे खावन हात धुंवचे.**

जाय ताचेपरस चड स्वच्छता आनी सवळें करप.

10) **चणो भाजल्यार तीळ उरता?**

11) **चण्या झाडार चणें काडूंक निसणी इत्याक?**

ल्हानश्या कामाक व्हडली तयारी करपाची गरज नासता.

12) **चणे आसल्यार दांत नात, दांत आसल्यार चणे नात.**

जाचेकडे दुडू, गिरेस्तकाय आसा ताका ती भोगपाची शक्त नासता वा शक्यता नासता. जाचेकडे उपभोग घेवपाची शक्त आसता ताचेकडे दुडू नासता. अश्याच अर्थाची दुसरी म्हण.'भट आसा तर तीथ ना'

13) **चंदना सांगाता आसलेलो रूख चंदन जाता वे?**

14) **चलतल्याची चाल कळटा, उलयतल्याची उतरां कळटात.**

चलता तेन्ना पळेत जाल्यार थोंटो बी आसल्यार कळटा. मोन्यानी रावलो जाल्यार तो शाणो काय कितें तें कळना. उलयतकच ताच्या उतरावयल्यान ताका पारखूं येता. मनशाक चालीवयल्यान आनी जिबेवयल्यान वळखूंक येता.

15) **चलता तागेलें हालता.**

गिरेस्त मनशा फाटल्यान सगळेजाण वतात.

16) **चलता ताचें हालता, बसता ताचें थिजता ( निदेल्याले गोटयता ).**

उपयोग करीत आसता ताका मान मेळटा. आळशी मनीस बसून रावता. तो थंयचे थंयच उरता.

मराठींत म्हणटात: 'जो थांबला तो संपला'

संस्कृत उक्तिविशेष : चराति चरतो भग चरैवेति.

जो उठून चलूंक लागता (कामाखातीर प्रयत्न करता) तेन्ना ताचें भाग्य चलूंक लागता म्हणून एका जाग्यार बसूं नाका, प्रयत्न कर. होच आशय कोंकणी म्हणींत भोव बरो मांडला.

17) **चली दिवन कूळ विचारचें न्हय.**

देवीदास रचीत श्री व्यंकटेशस्तोत्र हे एक पूर्विल्लें मराठी स्तोत्र. अजून तें नेमान म्हणटात. त्या स्तोत्रांतली ओवी: कन्या देऊनियां कुळ मग काय विचारावें" ताचेर आधारलेली ही म्हण.

18) **चली दिवंची मोट्यागेर आनी सून हाडची गरिबाली.**

## चा

1) **चाकरी केल्यार भाकरी मेळत.**

2) **चाकरमणी घोव तिचे चोळयेक थिगळां णव.**

घोवाचे बेश्टे बडवाचार सांगपी पूण प्रत्यक्षांत वायट परिस्थिती भोगपी बायल. असलीच दुसरी म्हण, 'घरांत ना तीन तांदूळ, सान्ना उकडूंक भोंवता रांडूल.'

3) **चाडी आनी उजो थोडो पुरो.**

4) **चामडी कळयारी दमडी सुटना.**

सुमाराभायर हिमट्या मनशाक ही म्हण वापरतात.

**चामारा नदर व्हाणेर.**

जी वस्तू जाय आसता ताचेंच चिंतन आमी करतांत. ते वस्तूचेर लक्ष वता. सपनांतय ती वस्तू येता. 'सुण्याक सपनांत हाडूक दिसता', अशी कानडींत म्हण आसा.

) **चामारा देवाक व्हाणा पुजा.**

जाचो जो उद्योग धंदो तो संबदीत माल देवाक ओपूंक व्हरतलो. स्वताचे मेहनतीन केल्ल्यो व्हाणो चामार देवाक ओंपता आनी पुजा करता असो मूळ अर्थ. व्हाणांनी मारप असो वेगळो अर्थ मुखार केन्नातरीं आयला आसतलो.

) **चामारालो आंड अळयेरय ना, फळयेरय ना.**

एखादो मनीस धड हांगाय ना आनी धड थंयूय ना ताका ही ओपार लागता. राजकीय मळार असले लोक पळोवंक मेळटात.

) **चार घरां मागलीं, धा घरा मागलीं, भटालो सवायशेर तो सवायशेर**

भट चार घरांनी भिक्षा मागूं ना जाल्यार धा घरानी मागूं, ताच्या नशिबांत सदांच सवायशेर.

) **चार पायां घोडो चुकता, दोन पायां मनीस चुकल्यार चड?**

0) **चाळयतल्याचें तोंड वांकडें.**

दुसऱ्याक चाळयता तोच हाशांक म्हारग जाता.

## चि

) **चिखलान भल्लेलें जोतें व्हांवत्या व्हाळांत धुंवचे.**

2) **चिंतलेबगर पांय घालचो न्हय.**

3) **चितेचो उजो न्हिवता, चिंतेचो न्हिवना; चिंता चितेची भयण.**

चिता मनशाक जळयता. चिंता ताका पोखरून सोडटा. एका अनुस्वाराचे हे फरक आशिल्यान चिंता ही चिते सारकीच.

# चु

1) **चुरक्याशिवाय, भुरको येना.**

# चू

1) **चून नासताना पातोळी पातळायता.**

हळडीच्या पानाक पातळ बरें पीठ लावन गोड चून घालून पान दोडू उकडटात तो पदार्थ म्हळ्यार पातोळी. खबर वाडोवन सांगता ताक पातोळी पसरयता म्हणटात. अशें करपाची सवय आशिल्ले बायलेक पातोळी म्हणटात. तशें काम करप हाका पातोळपणां करप अशें म्हणटात

चून नासताना पातोळी करप म्हळ्यार कांयच तथ्य नाशिल्ली खब वाडोवन सांगप.

2) **चून कांतून आनी उतर चिंतून पळोवचें.**

सोय कांतलेबगर नाल्ल कसो तें कळना; मनशाची हुशारी, उलयता कस तें पारखिलेबगर कळना.

3) **चूल वसत, बुडकुलो तापत, जेवंक मेळत?**

4) **चूड लावन म्हारू घरांत हाडप.**

सुक्या चुडट्यांची उजवाडी (चूड) दाखोवन म्हारू घरांत हाडप आपूण जावन संकटाक आमंत्रण दिवप. म्हारू म्हळ्यार झाडा पेडा रावपी देंवचार. तो बरें करता तशेंच वायट करता असो समज आस ताका वाट दाखोवन घरा हाडचो न्हय.

# चे

1) **चेडवाक काजार करूंक बारा जोतीं झरोवंक.**

2) **चेडवाच्या घोवाक आनी कोंकण्यांच्या देवाक दिलें तितलें थो**

ही म्हण को.श.को. भा.1 पा. 201 चेर दिल्या. 1890 तली अ

म्हळ्ळां.

**चलेकारांक बांक आनी चलयेकार थरकांप.**

चेलयेकारांक सदांच मानान कमी लेखपाची रीत पडल्या. तांका चलेकार सांगता तें आयकुवंचें पडटा.

**चेडी म्हातारी जाल्यार पतिव्रता जाता?**

शिंदळ बायल म्हातारी जाली म्हणटकच तिका पतिव्रता म्हणूंक जाता?

**चेडो जाल्ल्याक, माड लायिल्ल्याक कितें भेद?**

माड लावप आनी भुरग्याक जल्म दिवप हांतूत भेद ना. दोगूय म्हातारपणांत उपयोगी पडटात; घरांत पयसो हाडटात, घरांतूच उरतात.

**चेडो माडावरी, चेडूं केळीवरी.**

चलो भुरगो धडधाकट आसचो आनी चली नाजूक गोड सबावाची आसची. मागीर जोडो बरो सोबता.

## चो

**चोख भांगराक कीट.**

**टीप** : भांगराचे ग्रेडीक कॅरेट म्हणटात. भांगराचे बिस्किटींतलें भांगर 24 कॅरेट आसता. हाका चोक वा चोख भांगर अशेंय म्हणटात.चोख भांगराच्यो वस्ती करतात तेन्ना जें पासप करचें पडटा ताचे खातीर भांगर - तांबे नाजाल्यार भांगर-रूपें हाचें मिसळण वापरचें पडटा. हें मिसळण म्हळ्यार पाती. पासपाक वा जोडणेक पातयेचे बारीक बारीक कुडके, कीट वापरतात ताका दाग म्हणटात. ह्या दागांक लागून भांगराचो कस कमी जाता.

गुणेस्त आनी उजू चालीचो मनीस आसता, पूण ताचे एकादे वायट करणेक लागून ताका दाग लागता वा दूशण फावो जाता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

मराठी म्हण : चोख सोन्यास डाकाने बटा.

('उतरां म्हजी भांगराचीं'. बरो: अभिजित ग. पेडणेकर: 'जाग' फ्रेब्रु 98 अंक 7)

2) **चोर उठटा आनी कोतवालांक धरता.**

आपणें वायट काम करचें करून दुसऱ्याचेर बगलटां घालता; उरफाटो न्याय.

3) **चोर चोराक गवाय.**

एक चोर दुसऱ्या चोराक साक्षीदार रावलो ती साक्ष कोण मानतलो? मोल नाशिल्ली साक्ष.

4) **चोर शिंदळक तोंड भोव./ चोरा शिनाळा तोंड भोव.**

चोर आनी शिंदळ म्हळ्यार सैल वर्तनाचो मनीस चड उलोवन आपली बाजू मांडटात; चड गुन्यावकारी चड उलयता.'चोरांक ताळो व्होडु' आनी 'चोराच्यो उरफाटयो बोबो.' अश्योय म्हणी आसात.

5) **चोरतल्याक आनी भीक मागतल्याक खंय उणे?**

6) **चोरये मारयेक वता/ चोरये मारये गेले.**

चोरयेचे धन हे ना तेभशेन ना जावन वचपाचेंच, हें सांगपाक ही म्हण वापरतात. चोरी सहसा पचना (चोरये म्हालु चांडाळाने व्हेलो) अशें कर्नाटकांत आनी केरळांत म्हणटात.

मराठी म्हण : हपापाचा माल गपापा. (कोंकणीतूय वापरतात)

हपापाचो माल गपापा - को.श.को.(चवथो भा. पा. 1192)

7) **चोरा मनां चांदने / चान्ने.**

चांदने नासलें तरीं चोराक तें आशिल्ल्याचो भास जाता. चोरी केल्ली आप्तता तें मनाक सारकें खाता आनी ती उक्ती जायत ह्या भंयान चोर कितें तरी उलोवन वता.

8) **चोरा भंय चोराक, जारा जाळ जाराक.**

एकाच वेवसायांत आशिल्ले दोग मनीस एकमेकाचो दुस्वास करीत आसतात. आपले प्राप्तींत दुसरो वांटेकार जावंक सोदता अशें तांका

दिसता आसुंये. एक वैज दुसऱ्या वैजाचो, एक नट दुसऱ्या नटाचो, एक भट दुसऱ्या भटाचो दुस्वास करता. एक भिकारी सुध्दां दुसऱ्या भिकाऱ्याचेर गुरगुरता अशें एक संस्कृत सुभाषित आसा.

म्हणीच्या दुसऱ्या भागांत आनीक चोराचे वर्म सांगता; लग्न जाल्लें दुसऱ्याचे बायलेचेर चोरून मोग करपी मनशाक आपले असल्यारूय दुसऱ्या मनशाचो राग येता.

9) **चोराक चांदन्याचो हुस्को**

10) **चोराक चांदने नसाय.**

चोर उजवाडाक भियेता. ताचें काम ताका उजवाडांत तडीक व्हरुंक मेळना. देखून ताका चांदने नाका आसता.

11) **चोराक धरचो लुटीर आनी शिंदळ्याक धरचो खाटीर.**

चोराक मुद्देमालासयत धरल्यार एकदम बरें. तेचभाशेन वायट काम करता आसतानाच शिंदळ्याक धरीत जाल्यार आनीक दुबाव कांयच उरना. रक्तान हात माखिल्लो आसतानाच खून करतल्याक पकडप. इंग्लिशीत Red - handed म्हणटात तशें.

12) **चोराक सोडून संन्याशाक सुळार.**

खऱ्या गुन्यावकाराक मेकळो सोडून गुन्याव करूंक नाशिल्ल्या साव मनशाक ख्यास्त करप.

13) **चोराक आपलें घर परकें.**

चोर दुसऱ्यांच्या घरांनी चडसो वेळ थंयच्यो वस्तू फारावंक भोंवता. आपल्या घरांत थोडोच वेळ आसता. तें ताका परकें दिसता.

14) **चोराक झाड परकें.**

चोराची नदर चड करून घरांचेर आसता. घरां तो रोखडीं वळखता. झाड ताका परकें दिसता. ताचें लक्ष झाडाचेर गेल्लेंच नासता. तो घरां पळेता. झाडां विसरता.

15) **चोराक विच्चू चाबिल्लेवरी.**

चोराक विंचू चाबलो जाल्यार ताच्यान 'हाय' म्हणून आड्डूंक जायना. आड्डल्यार धरीत म्हणून भंय आसता देखून तो मोन्यानी सोंसता. आपलो गूट उक्तो जांव नये म्हणून कोणूय मोन्यानी सोंसता तेन्ना ही ओपार मारतात.

16) **चोराची आवय हड्ड्यांत रडटा.**

17) **चोरा आवय हड्ड्याक घाय.**

चोराची आवय भितरलेभितर रडत आसता. भुरग्याचे करणेचें तिका वायट दिसता, दु:ख्ख जाता पूण उक्तेपणान रडल्यार घडये भुरग्याचो गुन्यांव भायर फुटून ताका ख्यास्त जायत म्हणून भिरांत दिसून ओगी रावता.

18) **चोराची हाय वाटे वयलो खाय.**

हांगा हाय म्हळ्यार लिपोवन दवरलेली लूट. ती लूट दुसरोच खावन वता.

19) **चोराच्या हातांत तल्लूक !**

तल्लूक म्हळ्यार भागेलपण वा माडाची राखण. भाटकार भाट पाडटा तेन्ना जितले देंट जातात तितले नाल्ल तल्लूक जाचेकडेन दिल्या त्या तल्लूककारान हाडून दिवपाचे. सुकिल्लें, झडिल्लें, पडिल्लें एक करून राशीर मारून दवरचें पडटा. रातचे कोणूय माडार चडून नाल्ल चोरीत जाल्यार लक्ष दिवप हें तल्लूककाराचें काम. चोराकडेनच तें सोपयतकच तो चोरी करूंक पावना. देंठ जातात तितले नाल्ल भाटकाराक दिवचेच पडटात. नाजाल्यार कोण माडार चडून नाल्ल चोरता तें सांगचे पडटा. दुसरो अर्थ चोर आशिल्लो तल्लुकदार पेंडच कापून उडोवन भाटकाराक फटोवंक शकता. ताचें आयतें फावता.

20) **चोराच्या हातांत बिगाहात. / चोरा हातांत चावी दिली.**

बिग म्हळ्यार कुलुप. ताचो हात म्हळ्यार चावी. चावी हो पुर्तुगेज वयल्यान आयिल्लो शब्द. मराठींतूय पावला. बिगाहातु हो कोंकणी शब्द म्हणीक एक नाद आनी काव्यात्मक रूप दिता.

चावीच चोराच्या हातांत दितकच मागीरं कितें जाय? आफत येतलीच.

1) **चोरी करची आपल्या गांवांत, भीक मागची दुसऱ्या गांवांत**

आपल्या गांवातलीं गिरेस्तांचीं घरां खबर आशिल्ल्यान चोरी बरी सादपाची शक्यता आसता. परक्या गांवांत भीक मागपाक सोपें. तूं कोण तें थंयच्या लोकांक खबर नासता. लज धरपाची गरज उरना.

2) **चोर थंय फालें.**

चोर घरा पावता तेन्ना उजवाडटा. चोर दिसता तेन्ना सकाळ जाल्ली आसता.

23) **चोरूंक शिकल्यार लिपोवंच्याक शिकूका.**

24) **चोरुन व्हरतकच धर्म घडूंक**

ही म्हण सि. हा. त आसा. ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण त्या संकलनांत आसा: 'मेंढ्याक चोरूंक आनी देवाक दिवंक.'

## ज

1) **जग लोक खाती, पसरकारा तोंडांत माती.**

पसरकार तरेतरेच्यो वस्तू पसऱ्यार मांडून दवरता. देखून पसऱ्याक मांड अशेंय म्हणटात. साबार लोक त्यो व्हरतात आनी वापरतात. पसरकार मात विकूंक दवरलेल्या सामानाकडे पळोवन समाधान मानता.

2) **जंद्र्यो गेल्यो, खिणां उरलीं.**

जंद्री – ल्हान भुरगीं आनी बायलो पायांत घालतात ती रुप्याची जाडी सरपळी, तोडो.

गिरेस्तकाय गेली आनी ताचेबरोबर पांयातल्यो सरपळ्योय गेल्यो. पूण त्यो आशिल्ल्यो तेन्ना घांसून घांसून चामडेर आयिल्ल्यो खुणो मात उल्ल्यो. तोडे गेले, घट्टे उरले अशेंय म्हणटात.

3) **जना फटव येत; मना फटव येता?**

4) **जल्र्याने मीशी रिगैलि/ जल्ल्याक मिशी रिगयल्यार पुरो.**

जल्ल्यान मिशी रिगैली म्हणटकीर ताचें सगळे शरीर अचळय भितर वता. मागीर जल्लेच जल्ले शत्रूक रिगूंक इल्लोसोय जागो मेळ्ळो जाल्यार सर्वनाश जावंक पावता. चोंच रिगपा इतलो जागो मेळ्ळो जाल्यार ल्हव ल्हव मुसळ वचपा इतलो जागो तयार जाता अशें संस्कृत सुभाषित आसा. चंचुप्रवेशात् मुसल प्रवेश :

कोंकणी म्हण सुक्षिम निरीक्षणाचेर आधारलेली आसा.

5) **जसो राजा तशी प्रजा.**

6) **जंवरो आपणाचेर निमित्त घेना.**

7) **जंववेर स्वास, तंववेर आस.**

जोवर मनीस श्वासोश्वास करता म्हळयार जितो आसा तोंवर ताची आशा कांय सुटना. आशा अमर आसता.

हिंदी म्हण :- जबलग सास, तबलग आस.

8) **जळत्या घराचो कोलू काडीत!**

कोलू = माडाची चुड्टां आनी मल्लां हांचें पाखें.

व्हड नुकसान जाता आसताना, ल्हानसो फायदो करून घेवप.

9) **जळय रे कोंब्या जळयता, गुवांत तकली लोळयता.**

विनाकाराण स्वत:क त्रास करून घेवप आनी बळयां घाणींत पडप.

10) **जळा व्याधीक वखद ना.**

## जा

1) **जाका आसा बारा हजार माड, ताका आसा तेरा हजार रीण.**

व्हडल्या लोकांचीं रिणाय व्हडलीं आसतलींच.

2) **जाका फावता ताका गावता.**

जांच्या आंगात गूण आसा, सामर्थ्य आसा, ताका मेळटा. 'गावता ताका फावता' अशीय म्हण आसा. गोम पै.: तो. मा. क्र 121.

3) **जाका बायल नाका ताका बायलेचो वर्गाय नाका.**

जाका आपली बायल आवडना ताका तिच्या कुळारची मनशां तरीं कशीं आवडटलीं?

4) **जागल्लेगेर चेंडूं आनी न्हिदल्लेगेर चेडो!**

कांय वेळा हुस्को करीत बसप, सार्वचीत रावप, फुकट आसता. जाच्या नशीबांत जें आसता तेंच ताका मेळटा.

5) **जागो पळोवन हागचें आनी मनीस पळोवन मागचें.**

उदकाकडेन वचचें जालें जाल्यार योग्य जागो पळोवन वचचें आनी रीण मागपाचें जालें जाल्यार मनश्याची दिवपाची शक्त पळोवन मागचें

6) **जांगेपरस लंवथड मोटें ( व्हड ).**

7) **जांगो दाखोवन फालें करप.**

हांयस दाखोवन बरेचशे मनीस दुसऱ्याक झुलयत दवरतात तेन्ना ही म्हण वापरतात.

8) **जाचे कुडें तांचें फुडें.**

कुडें = फटींचें, खोटें कपट कारस्थान. दुसऱ्याचे वायट करूंक वतल्याचेंय वायट जाता. Evil to him who evil thinks.

9) **जाचें खाता अन्न, ताका घाल आशीर्वचन.**

10) **जाचें सादलें तो शाणो, फसलें तो पिसो.**

11) **जाचें मन भोळें ताका देव दिता केळें; जाचें मन कपट ताका देव दिता थापट.**

बऱ्या मनाच्या आनी प्रामाणीक मनशाक देव कांय उणे करीना. ताका बऱ्यो वस्तू मेळत रावतात. वायट मनाच्या मनशाच्या नशिबांत दुख्ख येता.

12) **जाचें काम ताणें करचें**

काम दुसऱ्याचेर सोंपयल्यार तें इबाडलेबगर रावना.

मराठी म्हण : जो दुसऱ्यावरी विश्वासला त्याचा कार्यभाग बुडाला.

13) **जाचें खावचे ताचें गावंचे.**

14) **जाची वल्ली जड, ताची सोयरीक गोड.**

15) **जाच्या घरा तो व्हड.**

16) **जाणट्यांक पळोवंचें घोळटना, भुरग्यांक पळोवंचें खेळटना.**

17) **जाणटीं करतात पाप, भुरगीं दितात जाप.**

18) **जाणट्यांक गोंय, नेणट्यांक मोयें.**

19) **जाणें देखलो ना रांदनिंतलो गोबोर, ताणें देखलें नासण्या पीठ.**

जाका गोबोर सुद्धां पळोवंक मेळना ताका नासण्या पीठ मेळ्ळें जाल्यार आनंद जालेबगर कसो रावत?

20) **जाणे पळेयलो ना आवो, ताणे देखलो दिवो.**

**टीप** : आवो = कुमाराची भट्टी.

जाणे कुमाराची भट्टी पासून पळोवंक ना ताका विजेचो झगझगीत उजवाड पळोवंक मेळ्ळो जाल्यार तो दिपकावतलोच.

21) **जाणें पळयली ना शिंपी, ताणें पळयलें कालूं.**

जाका शिंपीसुध्दां पळोवंक मेळना ताका कालूं (शिंपयेंतलो जीव) खावंक मेळ्ळो जाल्यार आनंद जावपाचोच!

22) **जात बाटली म्हणून रीत बाटना!**

23) **जाती तशी बिती, खण तशी माती.**

मनीस जे जातींत जल्मांक येता ते जातीचे बरे वायट गूण तो घेवन येता. एके खणीतले मातयेचे गुणधर्म सारकेच आसता.

24) **जातिवितेची दूक जातिवितीच जाणा.**

जिगेर भुरगें जावंक ना तिका बांळटीच्यो कळा कश्यो कळटल्यो?

25) **जामीन न्हाय तो गांठचे व्हाय!**

26) **जामीन राय ताचें गांठचे जाय.**

जामीन रावतकच फायदो कांयच जायना. पदरचो पयसो वचपाचो संभव

चड. देखून जामीन रांवचें न्हय. व्हय हे व्हांवयचें रूप. ताचेकडेन
2) जुळोवपाक रायचें  हाय केलां.

27) **जानवें घालून बामण जायना.**

ब्राह्मण ह्या संस्कृत उतरावयल्यान बामण हें उतर आयलें. ब्रह्म जाणा जाल्लो तो ब्राह्मण. जानवें ही बामणपणाची निखटी एक खूण. मुख्य खूण म्हळ्यार विद्या, धर्माचे ज्ञान, आचरण. जानवें सहज घालपाक जाता. हेर गजाली मेळोवप कठीण.

28) **जाय तें करतरीच नाका तें भोगचें पडटा.**

29) **जालें म्हदळ्या, दिलें गोंदळ्या, दोंय हांतांनी ताळयो वाजया.**

जेन्ना भोवतणीं शाणी सुरतीं नासतात, तेन्ना मनीस कळनासताना दैवाच्या भोंवऱ्यांत सांपडटा. मागीर जीणभर सगलो भंजनाचोच गोंदळ जावन पडटा.

30) **जाल्ल्याय परस म्हळळें चड!**

31) **जाल्ल्या सभाव मेल्या बगर वचना.**

मराठी म्हण : जित्याची खोड मेल्यावांचून जात नाही.

32) **जांवयांक दिलें आनी रेंवेर मुतलें सारकें.**

## जि

1) **जिबेक हाड ना म्हणून कितेंय उलोवंचें?**

कित्याचें कितेंय पचकें उलोवपी वा फुगोवन सांगपी मनश्याक ही म्हण वापरतात. जिबेक हाड ना म्हणून बरें, नाजाल्यार मोडून वतलें आशिल्लें अशेंय म्हणटात. जगांत पांच वस्तू नात. खंयच्यो? अशें एक हुमाणे आसा. पांचांतली ही एक वस्तू.

2) **जिबेंचे पोंत आनी चोंटलेचे पोंत हातांत दवरीत तो ब्रह्मांड जिखीत.**

उलोवप, खावप आनी भोगप या तीन गजालींचेर जो ताबो दवरूंक जाणा तो ब्रह्मांड जिकूंक जाणा.

3) **जिबेचेर सुण्यापेटे पडल्यात.**

मेळटा ताचेर आड्डता ताका ही म्हण वापरतात.

4) **जिबेन केल्लें फाटीर आयलें.**

तोंडान नाका जाल्लें वायट उलयलो आनी फाटीर मार बसलो. होच मार तकलेर बसतकच जिबेन केलें ताळवेर आयलें अशेंय म्हणटात.

5) **जिवार आयिल्लें शेंपडेर ( केंसार ) गेलें.**

सामको जिवूच वचपाची पाळी आयिल्ली खरी, पूण थोडेशे नुकसानीन निभावलें, जीव वाटावलो.

6) **जिवो पितर भितयेक रडे; मेल्ल्या पितराक खंयचे वडे?**

आवय बापूय जिते आसात तांचेकडेन पळेना. तांकां धड रावपाक जागो ना म्हणून तीं रडटात जाल्यार मेल्ल्याचें श्राध्द करून पिंड आनी वडे खंयचे दितलो?

## जी

1) **जीब आसा म्हणून नाकाक लांव नये.**

2) **जीब नाशिल्लो केप्याक ( भेऱ्याक ) कीर करता.**

आपणाक उलोवंक येना तरीं आयकूंक येनाशिल्ल्याक चाळयता.

3) **जीव उरल्यार भिक मागून खावं येत!**

4) **जीव राखून धांव करचो.**

## जे

1) **जे आरंभशूर, तांगलें ना मजल दूर.**

जे काम सुरू करपाक फुडें आसतात ते तें काम तडीक व्हरपाक प्रयत्न करीनात.

2) **जें फूल माळना, तें फूल हुंगना ( परमळना ).**

हिंदू बायलो जें फूल माळपाचें नासता ताचो वास घेनात. जें तुका पडलें ना ताची काळजी तूं करूं नाका. दुसऱ्याचे वाटेक वचप ना.

3) **जेव खापऱ्या वच तणाक.**

खापऱ्याक जेवंक घालून भरपूर काम करून घेवप.

4) **जेवंक आशिल्ल्याक भुरगीं नात, भुरगीं आशिल्ल्याक जेवंक ना.**

5) **जेवंक नाशिल्ल्याक उश्ट्याची हळशीक ना.**

जाका जेवंकूच मेळना ताका उश्ट्या पाश्ट्याची हळशीक धरून कशें जायत?

6) **जेवंक नाशिल्ल्याक गोठ्यांतूय वाड.**

उश्टी पत्रावळ जेवंक नाशिल्ल्याक चलता, तेचभाशेन ती पत्रावळ खंय मांडटा हाचीय ताका पर्वा नासता.

7) **जेवंक खावंक देवान दिल्लें आसा, दळर्डीर माखून कित्याक भोंवता?**

8) **जेवंक आर्दीं, न्हिदूक मर्दीं आनी वावराक अर्दीं मर्दीं!**

जेवंक सगळ्यांत पयलीं बसप. हुनहुनीत ताजें जेवण मेळटा. दोगांचे मर्दीं न्हिदचें. सुरक्षीत उरता. हुस्को ना. काम सांगलें जाल्यार फाटीं रावचें. अर्दीं मर्दीं करचें.

9) **जेवंक आसल्यार सोयरे खूब/ गांवभर सोयरे.**

10) **जेवण दुसऱ्यागेलें, तरी पोट आपणागेलें!**

दुसऱ्याकडेन जेवण मेळ्ळें म्हणून पोटाचो अदमास घेवन खावंक जाय. सुदेसमादेस नासताना जेवंक जायना.

11) **जेवणा रुचि आवइने वाळयारी विये रुचि गुरुने शिकइल्यारी.**

आवयन थोडें जरी वाडलें तरीं तें रुचीक लागता. गुरून दिल्ली थोडी सुद्धां विद्या चड फळ दिवपी जाता.

12) **जेवचें भुके खातीर, भुकेवंचें जेवंचें खातीर.**

# जो

1) जोड जोडटल्यागेली, न्हय खरचीतल्या गेली.

2) जोडटा तो मोडटा, तुज्या कित्याक पोटांत दुखता?

3) जोडटलो उणे, मोडटलो चड.

4) जोडीवेळार मोडी मोग ना.

5) जोर रडटा पेजेक, घयरंव रडटा खंय जागेक.

**टीप** : को. ओ.भा. त गोयरोम अशें म्हळ्ळां. म.वा.को. त घैरांव अशें म्हळ्ळां. को.श.को.त हो शब्द मेळूंक ना. मावली, कापडियो, साळयो पाकळयो अशें Spider चे अर्थ गुरुनाथ केळेकारांचे Dictionary त दिल्यात. कापड्यो, मावली विणटा त्या जाळाक घयरांव म्हणटात.

को.म्ह.सोरुं. त अशी म्हण मेळटा: 'जरो रडता रवैं पेजेक घैरवा रडता जाग्याक.

6) जोर रडटा पेजेक, घोव रडटा बायलेचे वजेक.

ही म्हण गोम पैन पुंजायिल्ल्या 'तोंडातलीं माणकां' ह्या संकलनांतल्यान घेतल्या. अर्थ दिवंक ना.

# झ

1) झग झगता तितलेंय भांगर न्हय आनी उलयतात तितलेंय सत न्हय.

2) झगड्याक बळ कसलें? उतर येता तसलें.

झगडें उतरांनी वाडटा. जोवेर झगडपी तोंड धांपिना, तोंवेर झगडें सोंपून सोंपना.

3) झड वारें येता आसताना माडा मुळांत रावचें न्हय.

झपाट्याचें वारें येता तेन्ना माडा मुळांत रावल्यार माथ्यार सुकिल्लो नाल्ल वा चुडत पडपाची शक्यता आसता. गडबड आसता तेन्ना आपणे तांतूत पडचे न्हय, पयस रावचे.

## झा

**झांकून झाकून गांवकार जालो.**

सोळाव्या शेंकड्यांतली ही म्हण. कोमुनिदादी संबदांतली आसा. एक सारको उलोवन आड्डून कोणे खंय गांवकारपणाचे हक्क मेळयले. मो. दाल्गादान ही म्हण आपल्या एका निबंदांत (O concani nao é dialecto de Marata) वापरल्या आनी अर्थ दिला तो असो: Faz-se gauncar a forea de muito falar. By shouting persistently he acquired the village right of Gaonkar. 'झाकून झांकून गांवकार' अशी म्हण घोळटेंत आयली आनी ताका आनीक अर्थासया आयली. तीच तीच बडबड करून मनीस सुदारता आनी व्हड जाता. 'बरोवन बरोवन शणै जाता,' 'खांकून खांकून गांवकार जाता.' अशोय ह्याच अर्थाच्यो म्हणी फा. पेरैरान दिल्यात. को.ओ.भा.पा. 148

**झाडा सांगाडे (तकीत) फळ.**

**झाडांकडे झूज खेळटा, सावळेकडे लडाय करता.**

सगल्यांकडेन झगडपी मनीस आसता ताका ही ओपार लायतात.

## ठ

**ठकाक म्हाठक (मेळ्ळो).**

**ठकाक ठिकी.**

एका फटोवप्याक ताचेपरस व्हडल्या फटोवप्यान फटयतकूच अशें म्हणटात.

## त

**तकली माल्ली, खोकली वाल्ली.**

वाल्ली = मिटली.

अतिशयोक्तीचो उपयोग म्हणींत करतात ताचें हें बऱ्यांतले बरें उदाहरण

म्हणूंक जाय. मराठींत अशीच म्हण आसा 'गळा कापला, खोक
गेला.'

2) **तणा घराचाने उज्जानें खेळनये.**

3) **तन्नांत ( तर्णात ) नाशिल्लें खाडाक खंयचें लागतलें?**

4) **तन्ना ( तरणी ) पिराय लोटली, हाडा जाली पोटली.**

5) **तन्नी ( तरणी ) बायल, पोटांत जाळ.**

म्हाताऱ्यान तरणी बायल केली जाल्यार ताका सदाच हुस्को आस दुसऱ्याबरोबर ती वचत म्हणून.

6) **तपलांतुले व्हेल्यारी कपलांतुलें व्हरत वे?**

तपल्यांतले अन्न व्हेलें म्हणून नशिबांतलें कोणाच्यान व्हरूंक जाता?

7) **तडीवयलो एक मासो रांपणींतल्या शंबर माशांपरस बरो.**

A bird in hand is worth more than ten in the bush.

8) **तवो तापिल्ल्या वेळारी रोटी भाजून घेवंक ( काडका ).**

9) **तळें राखता तो उदकाक मरता?**

10) **तळें राखतलो उदाक पितलो/ तळें राखतलो उदकाक मरना.**

11) **तळ्यां बुडिलो शेळ्याथाई धरता.**

A drowning man catches at a straw . अशी इंग्लिश म्हण आस व्हडल्या संकटांत सांपडटकच ल्हानसो आदार मेळ्ळो जाल्यार सोद आनी संकटांतल्यान मुक्ती मेळपाची आशा धरता. गुजराती म्हण एकद रुचीक आसा: 'डूबतो माणस फीणने वळगे.' बुडपी मनीस फेणेरा चिकटून रावता.

## ता

1) **ताळया सुंत्तू ( भोंवतणी ) भोवनू भोवनू, परतून आयलो तन्नेंवन**

2) **ताका चवळ्ळयार लोणी येत, उदक चवळ्ळयार कितें येत?**

) **ताक माडा मुळांत व्हरून सूर म्हणून पियेता.**

पोको झेत करता, तेन्ना ही ओपार मारतात. Stupid vanity. ताक माडा मुळांत व्हरून पियेल्यार लोक सूर पियेलो म्हणटात.

मराठी वा.प्र.: मिशांना तूप लावणे, अशी दुसरी म्हण आसा. बेश्टो गैरसमज करप.

4) **ताकय धवें, दुधय धवें.**

ताकय धवें आनी दुधय धवें. पूण त्या दोगांचें मोल मात सारकें नासता. वयल्यान दोन वस्तू दिसपाक सारक्यो आसल्यो म्हणून तांचे गूण वेगळे आसतात.

5) **ताका आयिल्ल्याक म्हशी मोल इत्याक?**

6) **ताका गेल्यें गोकर्णा पावलें.**

7) **ताका मिठाक गांठ.**

अडचणींत दीस काडप, काटकसरीन संवसार करप. अशे परिस्थतीक 'कोको मेम्यापुरतें मेळटा' अशेंय म्हणटात.

8) **ताकापुरतें रामायण.**

म्हणी फाटली काणी : एक बायल ताक मागपाक शेजाऱ्यागेर गेल्ली. ताक मेळसर रामायण कथा सांगपाक लागली. ताक मेळल्याबरोबर कथा सोंपयली आनी वचपाक लागली. कितेंय मेळपाचें आसा तेन्ना सायबजात्रा करप.

9) **ताकांतलें वाडूं, आमांतलें वाडूं, पानार एकूय पडना.**

आम = आमट, सांबारें, रोस

हें दिवं काय तें दिवं म्हणून बेठें विचारीत रावप, प्रत्यक्षांत कांयच दिवप ना.

मराठी म्हण : बोलाचीच कढी बोलाचाच भात.

10) **एक तांगा कोंबी, तीन तांगां मसालो.**

एका आण्याची (1/16 रुपया) कोंबडी तीन आण्याचो (3/16 रुपया)

मसालो. मुखेल कामापरस हेर कामांक जाय ताचे परस चड खर्च करता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

11) **ताणें पांयांनी गांठायल्लें हाच्यान हातान सोडोवं नज.**

एक जितलो बेरकी तितलोच दुसरो सादो भोळो.

12) **तांतयांत आसतनाच साद घालता.**

ल्हान आसतानाच व्हडपणाचो आव हाडटा. फाजील वर्तणूक.

13) **तायकिळयान कवडां धांपली, धुम्यागेर जेवणां जालीं.**

कुंभारजुवेंच्या धुम्याच्या रासवळ कुटुंबांत साठसत्तर मनशां आसतालीं. बरें नुसतें हाडून तायकिळयाची पानां धांपच्या वेळार, म्हळ्यार सांजवेळार जेवणां उल्गतालीं खंय. जेवणाक उशीर जाता तेन्ना ही ओपार मारतात.

14) **तारवा प्रमाणे शीड, हांड्या प्रमाणे तोंड.**

15) **तारी दुडू दिवन पोवून वचप.**

हॉटेलाचें बील फारीक करून उपाशी उरपासारकेंच जालें हें अशें डॉ. चव्हाण म्हणटात.

15) **तारूं भरूंक गेल्लो आयलो ( घरा पावलो ) पोट भरूंक गेल्लो येवंक ना ( घरा पावना ).**

तारवार माल भरूंक गेल्ले तारवाची भरती करुन परत आयले. पोट भरूंक गेल्ले नोकर चाकर परत आयले ना. तारूं भरप हें पोट भरपापरस सोपें असो हे म्हणीचो एक अर्थ.

## ति

1) **तिजरचें न्हाण आनी बांगड्यांचे खाण.**

चातुर्मास समाप्तीच्या सुमाराक बाजारांत बांगडे येवंक सुरवात जाता. समाप्तीच्या दिसा बांयकडेन तिजरेची म्हळ्यार गंगेची मूर्त रांगोळेन काडटात आनी पुजा करतात. बांयच्या उदकान न्हातकच गंगास्नान जालें अशें मानतात. नुसतें खावप ना असो नेम धरलेलो आसता तो सोडटात

आनी बांगडे खावंक मेकळे जातात.

2) **तिनि तूं करी, चवतें हांव करनू दितां.**

दुसऱ्याकडल्यान सगलें काम करून घेवप. आपणें थोडेशें करप आनी सगलें केल्ल्याचो आव मात हाडप.

## ती

1) **तीन फातर दवरतर त्रैलोक्य एक करचें पडटा.**

तीन फातर दवरतर नवी रांदन तयार जाता. हाचेवयल्यान घरांतल्यान वेगळो जावन स्वतंत्र संवसार घेवन बसप. तशें करतकर जबाबदारी येता आनी संवसाराक लागता तें सगलें एकठांय करचें पडटा. 'त्रैलोक्य एक करचें पडटा' हाचे बदला, ब्रह्मांड आठवता असो पाठभेद आसा.

2) **तीन म्हयन्यांच्या खाणाक एका दिसाचो जोर पुरो.**

तीन म्हयने खावन आयिल्ली शक्ती एका दिसाच्या जोरान ना जावन वता अशें थोडेशे अतिशयोक्तीन सांगलां. पुंजायल्लें संकट येतकच धन खिणामजगतीं ना जावन वचूं येता असोय एक अर्थ.

3) **तीथ आसल्यार भट ना, भट आसल्यार तीथ ना.**

4) **तीळ घाण्यांत घालेबगर तेल येना.**

वावर करीनासतन फळ मेळना.

## तु

1) **तुका म्हाका पडना, तुजे बगर जायना.**

2) **तुका म्हाका पडना, वडोय वाडूंक घडना.**

3) **तुका म्हणे ओगी रावंचें, कितें जाता तें पळोवचें.**

तुका म्हणे उगी - उगेंचि रहावें, जें जें होईल तें तें पहावें

तुकारामाच्या ह्या उपदेशांचो कोंकणी अणकार तितलोच लोकप्रिय आसा.

मनश्याच्या हातात कांय नासता. ताणे जग कशें चलता तें पळोवंचे आपले काम करीत रावंचें.

4) **तुकाय फें आनी तुज्या बापायकय फें.**

फें = कुस्कुटावणी करपी शब्द.

5) **तुकाय ना म्हाकाय ना - घाल सुण्याक!**

आपणाक मेळना जाल्यार दुसऱ्याकूय मेळपाक दिवप ना. ताचो ना करून सोड़प.

6) **तुगेलें म्हळळेंलें मगेलें, मगेलें म्हळळेंलें येंयेंयें.**

दुसऱ्याचे वस्तूचेर हक्क सांगप. आपली आसा ते वस्तूची गजा करूंक दिवप ना. उडवाउडवी करप.

7) **तुगेल्या तार्वारी, मगेलें अर्द फोपळ.**

म्हणी फाटली काणी : नर्साप्पा म्हणून एक नाड व्यापारी, कारवा बंदरांत आशिल्लो. सुपारी घेवन येता तें तारूं व्यंकप्पाक दाखोवन त्य तारवार म्हजें अर्द पोफळ आसा तें तुका सवायभितर दितां म्हणून सांगू पयशे घेता आनी तारूं बंदरात येनाफुडें सुपारेचे दोन कुडके करत आनी तारवाच्या मालका हुजीर अर्द सुपारी तारवार उडयता आनी सांगत तुगेल्या तरवार मगेले अर्द फोपळ आसा तें ह्या व्यंकप्पाक विकलां आन पळ काडटा. उतरांचो खेळ करून नाडटा ताका ही ओपार मारतात म.वा.को.न. वेगळोच अर्थ दिला.: भरलेल्या तरवाक अद्‌र्या सुपा सारक्या ल्हान जिनसांत कांय जड जायना अशें सांगून दुसऱ्याचेर व घालप.

8) **तुजे फोव आनी म्हजो कुंडो, दोगूय फुकफुकावन खावया.**

9) **तुपाचे आशेन उष्टे खालें.**

10) **तुपा-आशेर लेंडे गिळळे.**

लाभ आसत जाल्यार मनीस हलकें उणाक काम करपाक तयार जातां

11) **तुसवांतुलो उजो दुसदुसचो चड.**

कुंड्याचो उजो चड धुंवरेंत मात.

2) **तुसवां थावनू तेल येत वे?**

निष्फळ प्रयत्न.

3) **तुसवार बशिल्ली खोली, कुले फाफडून चल्ली.**

तुसवाक उजो लायतकच ताचेर आशिल्ले सुकें पान लासून वता. चलीय वेळ येतकच कुळारचे मायेचे पास तोडून आपल्या घरा वता. 'तुसवा राशिर बशिल्ली कोली शेपडी फाफडून गेली अशी म्हण. को.म्ह.सो.रु.त पा. 44 चेर दिल्या.

## तू

1) **तूप खाल्ल्यालें रूप समजता / तूप खावप्याचें रूप दिसता.**

समाधानी चेहऱ्यावयल्यान मनीस सुखी आनी गिरेस्त आसा तें कळटा. मनशाची हुशारी ताच्या वागण्या वयल्यान दिसून येता. ताची जायरात करची पडना.

2) **तूप खावन रूप येता.**

3) **तूस कांडून हाताक फोड काडप.**

तूस म्हळयार कुंडो. तो कितलोय कांडलो जाल्यारी कांय मेळपाचें ना. केल्ले श्रम फुकट वचून वयल्यान त्रास मात जावपाचे.

## ते

1) **ते फिरंगी मेले, ते उंडे काबार जाले.**

2) **ते फिरंगी मेले, ते उंडे गेले.**

ही म्हण खूब लोकप्रिय आसा. वेगवेगळे तरेन आनी वेगवेगळ्या अर्थांनी वापरलेली मेळटा.

'स्वाती' ह्या निबंदाच्या झेल्यांत प्रा. लुसियु रॉड्रीक्स हांच्या 'पदेर' ह्या निबंदांत ती, ते फिदाल्ग गेले आनी ते उंडेय गेले अशी आयल्या. ही म्हण 1960 चे पयलींची, म्हळयार पुर्तुगेज गोंय सोडून वचचे पयलींची

हें मुद्दम सांगूंक जाय.

आदल्या काळाची तोखणाय करूंक त्या काळाविशीं उमाळो दाखोंव
व्याकूळ यादी जागोवंक (nostalgia) ही म्हण वापरलेली दिसता.

3) **तेंकून आयलां ते लकोवन दिवंचें**

जें आपणाक धडक मारपाक आंगार येता, तें थंयचे थंयच पयस लो
दिवंचे.

4) **तेंकडेन म्होंव काडल्यार तोंडांत पडना.**

तेंकडी म्हळ्यार कोंडो. कोणूय मूर्खपणान वागून अपेस मेळटा तेन्ना
म्हण वापरतात. हिवूय म्हण जेंजूईतांच्या संकलनांत मेळटा. कोंक्या
सितारेन म्होव काडल्यार तोंडात पडटा? अशेंय म्हणटात. तेंकडी
सितारी लावन म्होवांच्या मुसाक चाळयल्यार ते तुटून पडटात आ
म्होव काडूंक सोदतल्याक फोडून काडटात. म्होव काडपाचें खास तं
आसा तें खबर नासल्यार म्होंव तोंडांत पडना.

5) **तेंडलेक माटोव, माटवाक तेंडलें.**

तेंडलेक माटवाचो आदार जाल्यार माटवाक तेंडलेची सोबा.

6) **तेंडल्याक बियो चड, मोटव्याक बुद्द चड.**

मोटवो मनीस बुदवंत आसता असो समज आसा.

7) **तेऱ्याक गेलो, मेरूं ताका मेळ्ळें.**

सोळाव्या शेकड्यांतल्या जेजूईतांच्या संकलनात आशिल्ली ही म्हण
को. श. भा. 2 पा. 277 चेर आसा.

तेरां म्हळ्यार एक भाजी. ती हाडपाक गेलो आनी मेरवाची शिका
मेळ्ळी. ताचेवयल्यान जें मेळपाची आस्त धरूंक नाशिल्ली, तें मेळप

8) **तेल काडटल्याचें भेंड दुखता.**

कश्ट करतल्याक त्रास जातात.

9) **तेल जळटा देवळाचें, भटान कित्या रडचें?**

10) **तेल येवंचे वेळार घाणो मोडलो.**

ज्यूस्त लाभ मेळच्या वेळार तें मेळपाचें साधन निकामी जालें.

11) **तेल - तूप निरंजनात !**

गोम पैन पुंजायल्ली म्हण (तों.मा. 218 'साद' मे 1954) अर्थ दिवंकना. कमला वाघान आ.सु.मो. पा.5 चेर दिला. तेल आनी तूप एकाच निरंजनांत घेवपी अर्दवट मनशाइतलो अर्दवट, अशें सांगपाक ही ओपार मारतात.

वाटयेंत तूप घेतलें आनी तें परतें करुन सकयले वटेचे पोकळेत तेल घेतलें. तूप सारकें घेतलां कायना तें पळोवंक निरंजन परतें केलें.

12) **तेल्ला आयदनाची पशा वचना.**

तेलाचें आयदन कितलेंय धुयलें जाल्यार ताची तेलसाण वचना. तेचभाशेन वायट गुणाचो मनीस आपलो स्वभाव सोडीना. 'तूप घालेल्या आयदनाक तुपा पशा नाशिल्लें राबत वे? नातिल्लें = नाशिल्लें, पशा = तेलसाण, तेलतो.

13) **तेलकारय रडटा आनी नाल्लकारय रडटा.**

नाल्लकार कमी मोलाक नाल्ल विकचे पडले म्हणून रडटा. नाल्ल विकते घेवन तेल काडले तेंवूय कमी मोलाक विकचे पडलें म्हणून तेलकार रडटा. संवसारात सगलेच दुख्खी. 'नाल्ल तर म्होवो, तेलकारय रडटा आनी नाल्लकारय रडटा, अशी पूर्ण म्हण. को. म्ह. सोरुंत अशी दिल्या. 'तेल विरकायीलोय रडटा नारळु विरकायीलोय रडटा. इंदिराबाय नाडकर्णीच्या कारवारी म्हणीच्या संकलनात ती अशी मेळटा: 'तेल विरकल्लो रडता आनी नाल्ल विरकल्लो रडता.' सौ. शांता सुखटणकरान ती वापरून दाखयल्या कोंकणी म्हण्यो. बरो : शांतश्री . पा. 57.)

14) **तेलीं वता सर्गा, मापटें जतन कर गा !**

मनीस मरूंक तेंकला आसताना ताची मोलादीक वस्तू फारावपाची तजवीज करपी दुश्ट मनशांक ही ओपार लायतात.

## तो

1) **तोंड आसल्यारी काशी वचून येवंयेत.**

2) **तोंड पळोवन पोळयो, भेंड पळोवन म्हणायो.**

जाची जशी योग्यता आसत तशी ताका वागणूक दिवप

3) **तोंड वांकडें म्हळ्यार हारसो वांकडो म्हणू येता?**

4) **तोंडा पुरत्यो पोळयो, बसके पुरत्यो म्हणायो.**

गरजे प्रमाण वस्तूंची पुरवण करप.

5) **तोंडांत बोट घाल्यार चाबूंक कळ नाशिल्लो.**

6) **तोंडांत कोणय घालीत, गिळूंक आपणेंच जाय.**

स्वत: हायपाय हालोवंक जाय तेन्नाच खावंक जेवंक मेळटा.

7) **तोंडात मोग, हड्ड्यांत ( काळजांत )रोग!**

8) **तोंडांत तीळ आनी गांडींत बुदली.**

9) **तोंडा तीळू, गांडी बुदलिका.**

ही म्हण मराठीतूय आसा. 'तोंडी तीळ, गांडी बुधली'. म.वा.को. पा.658 चेर ताचो अर्थ असो दिला:

तीळ तोंडात घाल्याबरोबर ताचें तेल दुसरेवाटेन भायर येतलें असो समज दवरप. खंयच्या गजालीचें फळ रोखड्या रोखडें मेळना.

'पी हळद हो गोरी' अशें घडना.

10) **तोंडात तीळ तिंबना.**

तोडांत कांयच उरना. बातमी मेळटा ती दुसऱ्याक सांगल्या शिवाय रावना.

11) **तोंडातलें उतर तोंडांत उरलें.**

12) **तोंडान बरो, पोटांत विखाचो पोळो.**

13) **तोरी मिरीं सरासरी.**

गोम पैन पुंजायल्ली म्हण: तों. मा. 224,'साद' मे, 1954. अर्थ दिवंक ना.

14) **तोरी फुगल्यारी मुड्या उदी जायतवे?**

गुडी, मुडो = तणान बांदिल्ली तांदळांची पोटली (मुडी = बारा पायल्यो, मुडो = सोळा पायल्यो) जण एकल्याच्या व्हडपणाक किदें तरी शिमा ही आसताच. बेबो फुगून बैला येदो जायना. 'उडिद फुगल्यार मादाळे जायतवे?' अशीय म्हण आसा.

15) **तोल आसलेबगर धोल वाजना.**

म.वा.को. (भाग 1) त सामको चुकीचो अर्थ दिला. टोल असल्याशिवाय ढोल वाजत नाहीं. तोल म्हळ्यार शक्ती. जाचेकडेन शक्ती आसा तोच काम करता. करूंक शकता वा करून घेवंक शकता, असो अर्थ.

16) **त्या पिठाचो तो भोबो!**

गोम पै न पुंजायल्ली म्हण. तो. मा. 225 साद मे. 1954 अर्थ दिवंक ना.

## थ

1) **थंड समुद्रांत सकड (सगळे) दोणी (ल्हान होडी) व्हरतात.**

2) **थंडेन कांबळ जड कोणाक?**

## था

1) **थानांनी वाडली म्हूण बायल न्हय, आनी धेंगान वाडलो म्हूण दादलो न्हय.**

अवयव वाडले म्हणून जाणटेपणा येना.

## थे

1) **थेंबो थेंबो एकडे जालो, तळें सगलेंच भरनू गेलें.**

2) **थेंबो थेंबो म्हळ्यार तळें जाता.**

3) **थेंबो पडल्यार हुंवार जाता वे?**

## थो

1) **थोंटाचे कि भटाचे?**

थोटो पाय मोडको, कोणाचेंय जावं म्हाका ताची पर्वा ना. म्हाका तें जाय म्हणजे जाय.

## द

1) **दमडी सोदूंक दुगाणी तेल वे?**

दमडी पोन्र्या पैशाचो चवथो वांटो मोलाचे नाणे. दुगाणी - दोन दमड्यो.

2) **दमडी मालाक दुगाणी दलाली.**

3) **दमडेचें हाडलें नुस्तें, सगल्या घराक उश्टें!**

खरें म्हळ्यार हें एक हुमाणे म्हणूनय मेळटा. ताचे उत्तर 'ऊस' उपरांत.

4) **दरेक बांगडे तीस, शणैचे भिडेक वीस.**

सगल्यांक रुपयाक तीस बांगडे दिता जाल्यार शणैक मात रुपयाक वीस दिवप. भिडेक लागून तो वांटपण करचो ना हें जाणा जावन वळखीच्या मनशाक फटोवप असोय अर्थ घेवं येता.

5) **दर्यांत आसा मासो, ताचें मोल करतलो पिसो.**

6) **दर्यांत होडें, तांडीर घोडे.**

7) **दळटलो भरतलो, करतलो भरतलो.**

जण एकल्याक आपले करणेचें बरें वायट फळ मेळ्ळेबगर रावना. जो कश्ट करता ताका ताचें फळ हें मेळटाच.

## दा

1) **दाट जाल्यार उदक घाल, पातळ जाल्यार पीठ घाल.**

2) **दाटून व्हेलो आनी काळाच्या तोंडांत घालो.**

भेकडावन धमकावन व्हेलो आनी मरणाच्या दारांत पावयलो.

3) **दांत कोरून ( धोंकून ) पोट भरता?**

किरकोळ काटकसर करून कांय उपयोग जायना. कार्य तडीक वतलें जाल्यार योग्य ती तयारी जाय.

4) **दांतूय म्हजे, ओंठूय म्हजे.**

ख्यास्त दिवपी आपुणूच आनी जाका ख्यास्त फर्मावपाची, तोय आपलोच अशी विचित्र स्थिती जेन्ना आसता तेन्ना ही म्हण वापरतात. झगडें करपी दोनूय गट तें झगडें सोडोवपी मनश्याक सारकेच लागींचे आसतात तेन्नाय ही म्हण वापरतात.

5) **दांत नात मुखांत, विडे घाली खिशांत.**

आशेभगत मनश्याक ही म्हण वापरतात. दांत नासताना सुपारी बोल्सांत घालता पूण दांत नाशिल्ल्यान खावंक मात मेळना.

6) **दांत्यार बसतकच ( बसतर ) ओवी ( होवी ) सुचता ( येता ).**

एकदां काम करपाक सुरवात करतकच फुडलें काम आपशीं सुचता. दांत्यार बसतकच अस्तुऱ्यो आपशींच ओवयो म्हणपाक लागतात. आनी हे परीं आपले कश्ट विसरतात. दांत्यार बसून एकलेन एक ओवी गायली तशी दुसरेक दुसरी सुचता, ती आयकून तिसरेक तिसरी सुचता, हो सदांचो आणभव.

7) **दादलो बायले आदलो.**

बायले परस घोव श्रेश्ट (वयान आनी मानान). बायले आदीं दाद्ल्याची निर्मिती परमेश्वरान केली, असोय एक अर्थ.

8) **दान मेळ्ळेले गायितें दांत चोवप आस्स वे!**

9) **दानाक दिल्ले म्हशीचे दांत धर्म पळेतलो खंय!**

10) **दाना गायीचे, दांत मेजचे.**

जनावराच्या दांतावयल्यान तें बरें काय वायट हाची परीक्षा करतात. फुकट मेळिल्ले वस्तूची चिकित्सा आनी कितें करप? Do not look a gift horse in the mouth.

11) **दादा ब्राह्मण, होनी सवायशीण.**

घरच्याच लोकांक ब्राह्मण सवायशीण म्हणून दवरतकच भायल्यांक आपयल्यार जमा तो जेवणाचेर खर्चना. ताल्मकी संकलनांतले म्हणींत हो अर्थ स्पश्ट मांडला. जम्मा सवाशिणी, आनु ब्राह्मणु, तिसऱ्या जेवणाक आपवनु नेण'

12) **दाम करता काम.**

पयशे आसल्यार सगल्यो गजाली सहज साध्य जातात. ह्याच अर्थाची 'दाम करी काम बिबी करी सलाम' अशी मराठी म्हण आसा.

Money makes the mare go.

13) **दाय आसताना हात लासचो न्हय?**

योग्य साधन आसताना बेठो त्रास करून कित्याक घेवप? चाकर आसताना तूं काम करी नाका. फा. पेरैरान दिल्लो अर्थ (कों.ओ.भा. पा. 232): सरळ मार्ग सोडून आड मार्गान वता तेन्नाय ही म्हण वापरतात.

14) **दायजी मागता पाड, सोसो मागता झाड.**

जण एकलो आपलें बरें कशें जातलें तें सोदता. Every animal has an eye on its own comfort and gain: Dr. Chavan

15) **दार काडिना ताका एकूच शीण, दार काडटल्याक हजार.**

16) **दार काडिना जाल्यार एक अन्यांव, दार काडल्यार हजार अन्यांव.**

नाका आशिल्या मनश्याक भितर घेतलोना जाल्यार फक्त ताचीच तक्रार आसतली ताका भितर घेतलो जाल्यार जे हजार लोक भायर उरले तांचो शीण उरतलो.

17) **दारांतली काज अदीक आदावाची, पयशिल्या माडापरस.**

दारांत आशिल्ले काजीचो फायदो तुका मेळटा; पयशिल्या माडाचेर तुजी नदर उरना आनी नाल्ल चोरयेक वतात.

18) **दारुगोळो पातशाचो ! फार मारूंक कितें जाता पुरो?**

दुसऱ्याच्या खुस्तार मजा मारतात तेन्ना ही ओपार मारतात.

19) **दाली व्हड, सागवात थोडी.**

दाली = व्हडलो पांटुलो; सागवात, सागवद = भेट

भायल्यान व्हडलो भपको पूण भितरल्यान कांय ना अशी गत

20) **दाशीक पडदाशी आनी व्हाणेक गिंवसण.**

गिंवसण = गंवसण; खोल, पांगरूण.

# दि

1) **दिवतें ससार ( सोपें ) घेवंचे कठीण.**

2) **दिवड धांवता म्हूण गांयडोळ धांवता.**

आपलेपरस चड व्हड मनशाची नक्कल करूंक सोदता ताका ही म्हण वापरतात. 'कोंकणी म्हण्यो' ह्या पुस्तकात सौ. शांता सुखटणकर हाणीं हे म्हणीचो उपयोग करून दाखयला: 'सीमा आपल्या जांवयाली अर्थउमेद करच्याक पळेता. तिका काय इतली ऐपत ना. 'दिवड धांवता म्हण गांयडोळ धांवता' आनी कितें? सुब्बीन आपले भावजेकडेन म्हळें.

3) **दिवड मातलो म्हूण ताका फोडा करूंक येता?**

गांयडोळाच्यान दिवडाची बराबरी करूंक जायना. तेचपरी दिवडाच्यान सोरपाची बराबरी करूंक जायना.

4) **दिवड खावंच्या गांवांत गेल्यार मध्य कूट खागा.**

मध्य कुट = मदलो कुडको.

जंय दिवड खाता असल्या गांवांत गेलो जाल्यार मदलो कुडको खावपाक अनमनचे न्हय. गांव तसो भेस.

5) **दिवडान बेब्याक गिळिल्लेवरी खाता.**

रूच घेनासताना, धड चाबीनासताना खाता त्या मनशाक वा बरें लागता म्हणून चड जेवन मागीर खरस काडीत बसता ताका ही ओपार लायतात.

6) **दिवली शेटीची, तेल म्हगेलें.**

एका देवळांत कथाकिर्तनाच्या वेळार दिवो लावपाक एका शेटीन एक दिवली दिली. दुसऱ्या एकान तेल घालून ती पेटयली आनी आपणे देवळांत दिवो लायलो म्हणून मिरोवंक लागलो. शेटीचो खर्च चड, पूण स्त्रय मात थोडेशे पयशे मोडून तेल घालपी व्हरूंक सोदतालो.

7) **दिव्या पोटांत काजळ.**

दिवो उजवाड दिता तेच भाशेन काजळय दिता. बऱ्या आवय बापायगेर वायट भुरगो जल्माक येता तेन्ना अशें म्हणटात.

8) **दिव्य ( दिवले ) पोंदा ( मुळा ) काळोख.**

दिवो दुसऱ्याक उजवाड दिता पूण ताच्या मुळा पळोंवक वचत जाल्यार काळोख.

9) **दिव्यांत वात, तोंडांत हात.**

तिनसांजच्या वेळार कांय जाण, चड करून भुरगीं बाळां जेवंक उतावीळ जाल्लीं आसतात तांकां उद्देशून ही ओपार मारतात. तेलाचो हाशील करपाक बेगीन जेवन घेतात त्या चामट्या लोकांक उद्देशून ही म्हण वापरताले.

10) **दिश्टी पडल्यार चोर, नाजाल्यार साव / देखल्यार चोर, नाजाल्यार साव.**

11) **दिसता तशें नासता, म्हणून जग फसता.**

12) **दिसा कावळो देखल्यार भियेवपी बायल रातची न्हंय पेवन वता.**

भियेवपी वृत्तिचो मनीस प्रसंग येतकच धाडस दाखयता वा नाटकीपणान धाडस करूंक मुखार सरता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

13) **दिसा पळेतात बांय राती घेतात उडी.**

14) **दिसा देकिल्या बांयितू रात्रि उडकी मारची.**

सामको प्रामाणीक म्हणून दाखयता तो मनीस संद मेळटकच नाडपाक फाटीं सरना.

15) **दिसाची भोंवली नागडी, न्हातना लायली मांद्री.**

**दिवाळयाक तांबडी तोपी.**

**दितलो आसल्यार मागतले चड, वाडटलो आसल्यार जेवतलो चड.**

**दितलो रूब, खातलो खूब.**

रूब म्हळयार एक पोन्न्रे नाणे. चार पयाचें मोल. सोळाव्या ते एकोणिसाव्या शेकड्यांमेरेन चें चलताले. त्यावेळार स्वस्ताय इतली आशिल्ली की रूब खर्चिल्यार खूब खावंक मेळटालें.

पयशे मोडल्यार खावंक मेळटा असो अर्थ.

**दितल्याचो हात वरतो, घेतल्याचो खालतो.**

**दिल्लें नाका, सांडिल्लें जाय.**

**दिलेलें नाका सांडिल्लें जाय, अशेंय म्हणटात.**

वाडिल्लें नाका सांडिल्लें जाय, अशेंय म्हणटात.




## दी

**दी गे म्हजीं घामा-घुमा; जावंदी म्हजीं कार्याकामां!**

**दीप जळे विघ्न पळे; पूण जाचें जळे, ताका कळे!**

पयली घरांत चौखेर दिवली लावन दवरपाची पद्धत आशिल्ली. एकूच वात पेटोवन तशी ती लायिल्ली एका सभाग्यान पळेली आनी ताणे आनिकूय वाती घालून पेटयल्यो. घरच्या घरकारान ताका विचाल्लें जाल्यार म्हणपाक लागलो ' दीप जळे विघ्न पळे' त्या उतराक घरकारान म्हळे, ' जाचें जळे ताका कळे'

**दी मान जाल्यार घे मान, ना जाल्यार सुण्यासमान!**

आपणें दुसऱ्याक मान दिलो जाल्यारूच आपणाक मान मेळटा.

# दु

1) **दुकळांत तेरावो म्हयनो/ दुकळांत चडीत म्हयनो.**

पयलींच अडचण आसताना तांतूत आनीक भर पडप.

2) **दुखावल्लो पांय कुड्डो.**

जो पांय दुखावल्लो आसता तो हटकून आपटता हो आमचो सदां अणभव. एक दुर्दैव दुसरें दुर्दैव हाडटा, तें एकसुरें केन्ना येना.

3) **दुःखांतू केलेली आण भास, सुखांत खंयी ताजो उगडास?**

आण - सपूत, बोली, उतर, आंगवण. भास - आश्वासन वा वचन.

**टीप :** दुडू

सतराव्या शेंकड्यांत गोंयांत जे सामके ल्हान नाणें चलतालें ताका दु (Duru)अशें म्हणटाले. शंभर दुडूंचें 1 तांग आनी 10 तांगाचो एक रुपया आसतालो. दुडू हो मूळ कानडी शब्द. द्रव्य, पैसो, अडको, अर्थ वित्त, धन ह्या अर्थान तो वापरपाक सुरवात जाली.

रुको हो पैशांक आनिक एक कोंकणी शब्द Basaruco हो पुर्तुगेज शब्द ताचेवयल्यान आयलो. दुडवाक ते Basaruco (बाझारुक) म्हणटाले (बाझारान उपयोग पडटा तो रुको) कासू हो शब्दय वापरांत आशिल्लो

आदल्या काळांत गोंयां भांगर, रुपें आनी तांबें ह्या तीन धातूंची नाणं आसतालीं. म्हणीनी आयिल्ल्या नाण्यांची वळख अशी:

असुर्पी = शेरफी - 300 रेस

रुपया = दुट्टी असुर्पी - 600 रेस

तांग = 16 तांगाचो एक रुपया जालो तेन्ना तांगाक आणो म्हणूंक लागले.

अर्दतांग = आठ आणे

4) **दुडू आशिल्ल्याक सोयरे चड.**

5) **दुडू आसल्यारी गुडो हालवयेद. ( गुडो - दोंगर )**

6) **दुडू आसल्यारी भंय, गेल्यारी बेजार.**

7) दुडू करता सगलें काम, लोक करता म्हाका सलाम.

8) दुडू दवरी बांदून घालनू, तो वता सुटून घेवनू.

9) दुडू सगले वटेन व्हरता, स्वर्गा वाट मात चुकता.

10) दुडू आसा तेन्ना केळीं सवाय, ना तेन्ना म्हारग.

11) दुडू आसत ताका सगट सवाय, ना ताका सगट म्हारग.

12) दुडू दिवन सोरो पियेवंक कसलें भें ( कोण आडायता )?

13) दुडवा तुजे बोलणे मोटे, दुडू नाशिल्ल्याचे जिणे खोटे!

14) दुडू दिवन, चाबण्या सुण्याक विकतें घेवप.

15) दुडवा मोल उसणें घेत्तिल्याक गोत्तु. ( दुडवाची किंमत उशणे मागता तो जाणो )

16) दुडवा दुडवा खंय वता? चांग ( बरें ) आशिल्ल्याक वायट करूंक वतां.

17) दुडवाक फातोर सुद्धां तोंड आं करता.

18) दुडवाक करटें लेगीत तोंड उघडका.

19) दुडू दाखयल्यार मडें सुध्दां आं करत.

20) दुडवांचे आशेक गोड विकून गोणी ल्हेंवता.

21) दुदा रुची नातिलो चल्लो, पिट्टा, उदकाक भुलनू गेलो.

अश्वत्थामो हो द्रोणाचार्याचो पूत. भुरगेपणांत सामके गरिबींत दीस काडचे पडले. दूद जाय म्हणून हट्ट धरून बसतालो तेन्ना ताचे आवयन उदकांत पीठ घालून दिवंचें, तेंच तो दूद म्हणून पियेतालो. बऱ्याच उसरां ताका खरें दूद पियेंवक मेळ्ळें.

22) दुदाक आयलेल्याक म्हशीचें मोल कित्याक?

23) दुदाक विरजण कितलें जाय? घराक उजो कितलो जाय?

थोड्याश्या ताकान दुदाचें धंय जाता. तेच भाशेन ल्हानशे उज्या किटीन घर लासूंक शकता. ल्हान दिसपी गजालींतल्यान व्हडली संकटां उप्रासूं येतात.

**24) दुदाची तान ताकान भागयता!**

**25) दुदान तोंड भाजतर ताकूय फुंकून पियेवंचे.**

**26) दुदान जेवयता, पूण मुतान आंवयता**

**27) दुदान न्हाणयलो म्हणून कावळो धवो जाता?**

कावळो काळो तो काळोच उरता. निजाचे जे गूण आसतात ते केन्ना बदलनात.

**28) दुदीन बाय पसल्ली, आदलें सगलें विसल्ली.**

आळ्यांत दुदनीची रोपी ल्हान आसताना तिका सारें उदक करचें पडटा, तिका शिरीं लावन घरच्या पांख्यार चडोवची पडटा. एकदां जशी ती पांख्यार पावली, तशी ती पांखेंभर मातता. मुळांत आसतात फक्त देटे. समाजांत जायते लोक आसतात जे वयर सरपाक दुसऱ्यांची मदत घेतात पूण तरतर जालो म्हणटकच लोकांनी केल्ले उपकार विसरतात. तसल्या पडमूर लोकांक ही ओपार मारतात.

**29) दुबळ्या दिवं नये आस आनी गिरेस्ताक दिवं नये भास.**

दुबळ्याक आशा दाखोवं नये आनी गिरेस्ताक वचन वा आश्वासन दिवं नये.

**30) दुबळ्याक भायर घालशी, सर्गींच्या राज्याभायरो जाशी.**

**31) दुबळ्याक पर्वा ना, पिशाक न्हीद़ ना.**

**32) दुबळ्याची मरूं नये बायल, गिरेस्ताचो मरूं नये घोव.**

दुबळ्याची बायल मरत जाल्यार ताची निगा घेवपाक कोण नासतलो. गिरेस्ताचो घोव सोंपत जाल्यार तिची भाटां-बिटां पळोवंक कोण नासतलो.

**33) दुभती गाय दिवन लात मारचें गाडव घेतलें.**

लात = लाथ, खोटे. लात मारचें बदला लात्तावचेंय म्हणटात.

**34) दुसरे दूद घालतलें म्हणून आपणे दूद घाल्यार भाणांत दूद एकोटुतवे?**

म्हणी फाटली काणी : प्रधानान राजाक म्हळ्ळें (राज्यात प्रामाणिक

कोण उरूंक ना. राजान सांगलें, 'तुचें म्हणणे सिद्ध करुन दाखय तर प्रधानान कितें केलें, एके कुडीत व्हडलें भाण दवरलें आनी हुकूम सोडलो: राज्यांतल्या जण एकल्यान एक एक शेर दूद हाडून भाणांत घालचें. सगले जाण गाडगे घेवन आयले, भाणांत रकयलें आनी गेले. प्रधानान राजा हुजीर भरलेलें भाण रकोवन सोडलें, पळय जाल्यार सगलें उदक. तर जाल्लें कितें प्रत्येकान विचार केलो इतले सगले लोक दूद घालतले आपणे उदक घाल्यार सलवसून वतलें. भाणांतले उदक पळोवन प्रधानान म्हळें, दुसरे दूद घालतले म्हणून आपणे उदक घाल्यार भाणांत दूद एकोचुतवे?

35) **दुसऱ्या खातीर फोंड काडलो, पाय निसरून आपूण पडलो.**

बायबलांतले वाक्य : Whoever diggeth a pit shall fall therein.

36) **दुसऱ्या गळ्या माळ घाली, ती ताणें तिसऱ्याक घाली.**

एकाक काम सांगलें ते तांणे तिसऱ्याचेर धुकललें अशें जाता, तेन्ना ही म्हण वापरतात.

37) **दुसऱ्या जांगेर दोरयेक पीळ दिवंचो.**

जो कितें त्रास जाता तो आपणाक जावंचो न्हय; दुसऱ्याक जाल्यार जाता.

38) **दुसऱ्या हातान उदक पिवचें परक्या घरा जेवणा पडचें.**

दुसरो सांगता ते प्रमाण करचें पडप आनी जेवणाखातीर दुसऱ्यागेर वचचें पडप हाचें सारकें वायट कांय ना.

39) **दुसऱ्या तोंडान जेवल्यार पोट भरत वे?**

40) **दुसऱ्याचे बायलेक कापड न्हेसोंवचें?**

जी वस्त आपली न्हय तिचेखातीर खर्च करून सोबितकाय कित्याक वाडोवप?

41) **दुसऱ्यालें भुरगें बांयत उडोवन थाव पळेता.**

42) **दुसऱ्याचे केंस लांब लांब म्हूण आपणाचे ओडून जातात?**

दुसऱ्याक निसर्गान दिल्या ती गजाल प्रयत्न करुनय आपणाक साध्य

जाय-सारकी ना.

43) **दुसऱ्यागेले सोद गूण, आपल्यागेले पळे अवगूण.**

44) **दुवाळ्याक खायन दिसलें ( खेलें ) तेरें, फुडें कितें जातलें बरें?**

तेरें म्हळ्यार रोयलेबगर पावसांत किल्लून वयर येवपी आळवाची जात झाडगें आनी काळे तेरें अश्यो तेऱ्याच्यो दोन जाती मुखेलपणान पळोवंक मेळटात. झाडग्या तेऱ्याचो रंग मात्सो धवसोसो जाल्यार काळ्या तेऱ्याचो दांडारे काळे जरी नासले तरीं पानां मात्शी दाट आसतात. ह्या तेऱ्याक काळें आळूं अशेंय म्हणटात. तेऱ्याचे दांडारे बारीक सोलतात. पानां आनी दांडारे मेळून बारीक शिनून पातळ भाजी करतात. आवराण, आंबाडे बी घालूनच ही भाजी करची पडटा. तरीं कांय फावट ताळ्यांत खोरजून कुचकुचता. तेरें जून आसल्यार अचूक कुचकुचता. ही भाजी गुरवार बायलेक बऱ्याक पडना असो समज. फुडली चिन्नां बरोबर दिसनात अश्या अर्थान ही ओपार मारतात.

## दू

1) **दूद चोयिल्ल्या माजराक दुदगळी चोवंचें काम ना.**

दुदगळी = दूद दवरपाचें आयदन.

दुदाचें आयदन पळयतकच दूद चोरताना तें आयदन उरलें कितें फुटलें कितें, माजराक ताचें कांयच पडूंन वचूंक ना.

2) **दूद नासल्यार दुदगळी पाड, आपूण नासल्यार जग पाड.**

आपूण मेलो, जग बुडलें असो समज बाळगुपी मनशाक ही म्हण वापरतात.

फ्रेंच वा. प्र : Apres onois to deluge.

## दे

1) **देखल्यार चोर नाजाल्यार साव.**

मराठी म्हण : सांपडला तर चोर, नाहीं तर साव.

**देख नाशिल्लें देखलें, सोला सयत चाबलें**

**देख नाशिल्ल्यान देखलें, बेबकान तेल माखलें.**

**देख नाशिल्ल्यान देखल्यार सुपा येदो चांद.**

) **देखलें मडें आयलें रडें.**

वयलेचाराचे वागणे. सहज कोणूय मेळ्ळो जाल्यार ताचेर मायेच्या उतरांचो शिंवर करप. एरवीं ताची चौकशी केन्ना करप ना.

) **देखलो गुंडो, घेतलें कपल.**

अविचाराची करणी. गरजेविणे आपली तकली धाडायता, न्हय त्या कामाक वेंग मारता, ताका ही ओपार लायतात.

दिसलो गुंडो, घेतलें कपाल अशी कारवार कडेन वापरतात. कोंकणी म्हण्यो बरोवपी - शांतश्री (पा.16) वापरून दाखयल्या ती अशी: काल धा दुकान फिरलें. माका जाय आशिल्लें तशे देगेचे काप्पड मेळ्ळेना. आज सकाळीं हांव लागींच्याच दुकानांत गेलें. दिशिल्लें तें कापड घेतलें आनी आयलें, 'दिसलो गुंडो घेतलें कपाळ':

7) **देव दिता, देवचार ( व्हरता ) नाडटा.**

8) **देवान दिलें, कर्मान व्हेलें.**

9) **देवान दिल्यारीय पुजारी ( भट्ट ) दिना ( सोडना ).**

10) **देवा - निमतान भट खाता.**

11) **देवूळ कितलें लागीं, देव तितलो दूर.**

12) **देवळा कलशार कावळो बसल्यार देवाकय व्होड वे तो?**

13) **देवाची गेली घांट, पुजाऱ्याचे गेलें शेंट.**

14) **देवळांतली हांसली म्हणून मंडपांतली हांसली.**

एकली हांसली तिका पळोवन दुसरी हांसली. अर्थ न समजतांच नक्कल करप.

15) **देवा तूं पाव; आमी दोग भाव; भावाचे बायलेक आसा एक जाव,**

**तिका पाव, म्हाका पाव!**

16) **देवान दिल्लें सरना, बापायन ( मनशान ) दिल्लें उरना.**

सोळाव्या शेंकड्यांत ही म्हण अशी वापरताले: देवान दिल्ले उरत मनशान दिल्लें सरता. (को.ओ.भा. पा. 56)

17) **देणें दी ना एक, पूण गोठ्यांत मरतात शंबर.**

ॲ. सिल्वा हातबरपांतली ही म्हण: गोठ्यांत शंबर गोरवां आसतान लोकांचें रीण फारीक करीना असो अर्थ. गोम पैच्या तों. मा. संकलनांत वेगळी म्हण दिल्या: दानाक दींव नजो एक, गोठ्यांत मरतात धा.

18) **देणगे पुरतें भरीप.**

भरपी करता ती कसरत देणगी मेळोवपापुरती आनी तिच्या प्रमाणांत आसता. 'पयशा सारके भरीव' अशीय दूसरी म्हण आसा. भरप्याक जायते खेळ येतात पूण तो एका बरोबर सगले दाखयना. खूब लोक जमले, चड पयशे मेळटलेशें दिसलें जाल्यार तो बरे खेळ करून दाखयता.

19) **देखा देखी, गांडी शेकी.**

कुड्डेपणान दुसऱ्याचें अनुकरण करप. मराठी म्हण : मोर नाचतो म्हणून लांडोरही नाचतो. The blind imitation of others without caring to know the truth. Just because one is warming his buttocks in the sun others also do it on seeing it.

## दै

1) **दैवागती ( नकळ्या काळाची गती ) बेब्यान गिळ्ळो हती.**

2) **दैव वतर दशा वता.**

दैव वतकीर ताचे फाटल्यान अब्रूय वता.

# दो

1) **दोट्टी भाडें काजारा होडें ( व्हडें )**

काजाराक वचपाचें आसत जाल्यार कितलेंय भाडें दिवन होडें करून वताले. आदल्या काळार होडें हें एक बरें प्रवासाचे साधन आशिल्लें.

मराठी म्हण : हौसेला मोल नाही.

2) **दोन व्हड्यांचेर पांय दवरल्यार मर्दींच पेंचता.**

व्हडीं दोन दिकांनीं गेलीं जाल्यार उदकांत पडपाक जातलेंच. एकाच जाग्यार घट्ट रावूंक जाय.

**टीप :** दोळो

सोळाव्या शेकडांतल्या कोशांत डोळो, ळ्या अशी उतरां मेळटात. वाक्यां आनी म्हणी दिल्यात तांतल्यो कांय परी:

दोळे हुरकरिता -- डोळे पावतातिं, पण पाए पावनाती.

दोळे मोडिना - दोळ्यांचे प्रेम - दोळे काणुडिना.

दोळे पापी पण पाए धर्मी - दोळ्यांक उदक लायता.

बुडबुड दोळे - घारसे दोळे - कुसडे दोळे गरगरीत करुन चोयता.

दोळ्यांवयल्यो घोळणुकेंत आशिल्ल्यो कांय म्हणी.

3) **दोळे आसतना दिश्टी ना.**

4) **दोळे आसून पळेना, कान आसून आयकना.**

5) **दोळे धांकिल्ल्याक केन्नाय काळोखूच**

6) **दोळे धांपल्यार रात जाता वे ?**

7) **दोळे गेल्यार दोळ्यां मोल कळटा.**

8) **दोळ्या दोळ्यांक भेट ना शेजारा आसून गुर्तूना.( गुर्तू - वळख )**

9) **दोळ्यां आड मसण पाड.**

मराठी म्हण: 'दृष्टीआड सृष्टी'

10) **दोळे पापी जीव सुवार्थी ( सुग्राती ).**

दोळ्यांक वायट बरें सगलें पळोवंचेशें दिसता. जिवाक सगलें जावचेंशें दिसता.

11) **दोळे फुटले म्हणून हिशेब बुडटा.?**

दोळ्यांनी दिसना जालें तरीं हिशेब फट जायना. खरें तें खरेंच.

12) **दोळे धांपल्यार रात गेली, गोडा बेली फाल्यांक उरली.**

13) **दोळ्यांक उदक लावन फटी सांगता.**

वायट कर्म करतकच शुध्दीखातीर दोळ्यांक उदक लायतात. (नेमाचमन) फट सांगप आनी दोळ्यांक उदक लावन मेकळो जावप. मुखार दोळ्यांक उदक लावप म्हळ्यारुच फट सांगप असो अर्थ आयलो. दोळ्यांक उदक लावप हाका फडपुशीं कामा करप असोय अर्थ कारवारकडेन लायतात. पूजे पयलीं दोळ्यांक उदक लायतात. तितलेंच करून पूजा सोंपवप असो भावार्थ

14) **दोळ्यांत रगत नाशिल्ल्याक सुखदुःख सांगचें वे?**

दुबळ्या मनशाक सुखदु:ख्ख सांगून कांय उपयोग जावपाचो ना. समर्थ मनशाकडल्यान मदत जावपाची आशा आसता.

15) **दोळ्यांत कोयर पडल्यार कानांत पूंक मारता.**

रोग एकेकडेन आनी उपाय भलतेकडेन.

16) **दोळ्यांतले काजळ चोरचे.**

अट्टल चोराक ही ओपार लायतात.

17) **दोळ्यांर खवळां आयल्या सारकें करप.**

गर्वान दुसऱ्याकडेन लक्ष दिवप ना. पुराय म्हण अशी आसा: 'पाटलेन नुसतें आसतकच मासळेकान्नीच्या दोळ्यार खवळां येतात.'

## दौ

1) **दौलत तुका आयली, दुसऱ्याची दया करची पडली.**

# ध

1) **धड पोल शेताचें आनी वायट बरें कुशीचें**

आपल्या शेतांत पिकिल्लें धान्य मागीर तें कशेंय आसूं, आमी आवडीन खातांत. तेचभाशेन आपल्यागेर जल्माक आयिल्लें भुरगें कशेंय आसलें तरीं आपणाक प्रिय आसता.

2) **धनुष्याक एकुची बाणू आसुनये.**

व्हडलें कार्य करचें जाल्यार अपुरीं साधना आसून उपकार पडना. इंग्लीशींत म्हणटात Have another string to one's bow.

3) **धर्म करूंक गेल्यार वर्म उबें रावतां.**

कोणाचेरूय उपकार म्हणून करुंक वचचे आनी संकट येवन आपणाकूच त्रास जावंचो अशें केन्ना केन्ना घडटा तेन्ना ही म्हण तोंडांत येता.

4) **धर्माचे दिलें सासणाक उरलें.**

5) **धर्माचे गायेक ( दानाचे गायेक ) दांत नात.**

'धर्माचे गायेक दांत ना वोंठ', 'धर्मा गायीचे दांत जचें' अश्योय म्हणी घोळटेंत आसात.

गाय घोडो बी जनावरांची परिक्षा तांच्या तोंडातल्या दांतावयल्यान करतात. धर्माक दिल्ली गाय जाणटीच आसतली, तिचे दांत मेजून, पळोवन, परिक्षा आनी कसली?

इंग्लिश म्हण : Look not a gift horse in the mouth.

6) **धरूंक गेल्यार ताळी ना, न्हेसूंक गेल्यार फाळी ना.**

कांयच आदार नाशिल्लो मनीस. आदार म्हणून धरपाक झाडाची ताळी लेगीत ना आनी न्हेसपाक चिंदी पासून ना. घरदार कांय ना, असल्याक ही ओपार मारतात.

7) **धरल्यार चाबता, सोडल्यार पळटा.**

8) **धरल्यार चाबता सोडल्यार बादता.**

सोरोप दिसलो जाल्यार ताका धरूंक गेल्यार चाबत म्हणून भय दिसता

आनी सोडलो जाल्यार तो पळून वचून आपल्याक वा दुसऱ्याक चाबत म्हणून भय आसता. मन दोनकडेन जाता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

## धा

1) **धा जणालो मासो, थंयचे थंय कुसो**

'भागाचो मासो वल्लेंत कुसो', 'भागाचो घोडो चवनांनी कुसो' अश्योय म्हणी घोळटेंत आसात. तांचो अर्थ: खूब लोकाचे मालकेचो जिनोस जेन्ना आसता तेन्ना कोणूच ताची सारकी काळजी घेना आनी तो इबाडून वता.

Everybody's business is nobody's business, म्हणटात तशें जाता.

2) **धा जाणां आवयक कोण रडटलो ?**

3) **धा जाणांची आवय वाटेर पडून मेली खंय!**

हे म्हणींचो अर्थ वयले म्हणीसारकोच. धा जाणांचें काम कोणाक पडून वचूंक ना. सगळे बेफिकीर म्हणटात तशे. सौ. सुशिला मल्ल्या हाणी मल्लीनाथी केल्या: धा जाणा आवय वाटेरि पोष्णु गेलि, तिणे आपणाले धन भुरग्यांचेर विश्वस दवरून वांटून सोडले, म्हणून (Letter to Times of India 12.8.1995)

4) **धा जाणांनी कावळो खावन, खायनाशिल्ल्याक जाती भायर घालो खंय !**

वायट वागपी लोक बहुमताच्या आदारान उजू चालीच्या मनशाक त्रास दितात.

5) **धा जाणांच्यो धा काडयो जमल्यार व्हडली रास जाता.**

6) **धा जाणानी धा मुठी हाडल्यार घर भरलें.**

7) **धा जाय तें खा.**

**टीप :** आंकडे

भुरगो धा वर्साचो जातकच ताका पोटभर खावंक दिवंचें. तेभायर ताका सगलें पचता. हेचभाशेन पांच- नागडो नाच म्हळ्यार पांच वर्सांमेरेन नागडो रावूंक जाता असो अर्थ. आंकड्याचेर कवन आसा तें भुरगेपणात आयकल्लें आतां याद जायना: 'सोळा घोव बायल लोळा' हे तांतलें एक कडवें. सोळाव्या वर्सा लग्नाक योग्य जालो असो अर्थ. दुसरें सात देवान दिले हात, आठ, धर म्हजी फाट; जाचे ताचे कुवती प्रमाण यमकां जुळयताले हें आंकड्याचें कवन नव्वदीपर्यंत वता. णोये आंडाक चोय. नव्वद वर्सांचे पिरायेर मनीस सामको बागवता आनी खाला पळयता.

8) **धा थंय देव.**

धा जाणांचें म्हणणे देवाचे आज्ञेप्रमाणे मानचे.

पांचामुखीं परमेश्वर. 'पांच जण मेळ्ळेलेकडे परमेश्वरु'

9) **धा सरले पांच उरले, आमगेलें कितें?**

जिणेचो व्हडलो वांटो सोंपलो आनी थोडो वांटो उरलो. आतां आनी नस्त्यो उठाठेवी कित्याक?

10) **धा जाण दारले एकडे दिवस काडतीत, दोगजण बाईलांमिति जाईना.**

11) **धाकटी मोगाची पूण घोवाचें उतर ना सोसतलीं.**

12) **धांकिल्ली मूठ सवाय लाखाची!**

13) **धार आनी भार आसल्यार कितेंय कातरत.**

14) **धांव, धांव धावलो, तारीकडेन रावलो.**

15) **धांव, धांव धांवलो आनी तारीकडेन पाऊन रावलो.**

खूब धांवून वचून तारीकडेन रावचें पडलें. होडें सुटून पयलींच गेल्लें. मनीस खर प्रयत्न करता पूण ते फुकट वतात तेन्ना ही ओपार मारतात.

## धु

1) **धुकर पोसुंकूय व्हेल्यार रडटा, मारुंकूय व्हेल्यार रडटा.**

बरें करूंक गेल्यार आनी वायट केल्यार रडटा ताका ही ओपार लायतात.

संवसारांत कोण धादोशी ना. पयलीं हुमाणें आशिल्लें ताचे वयल्यान उपरांत केन्ना तरीं म्हण जाली आसतली.

2) **धुकर धुयत तितलो चिखलांत लोळत.**

3) **धुकराक, कोंडा सूख.**

## धू

1) **धू म्हळ्यार धुवंचें, लोंबता कितें म्हणून विचारचें न्हय!**

2) **धुवेक म्हळ्यार सुनेक लागता. ( बादता ).**

मराठी म्हण : लेकी बोले सुने लागे.

3) **धुवेक तेल अमाशे पुनवेक, सुनेक दिवाळेचे दिवाळेक.**

ही म्हण संवादरुपान दिल्ली मेळटा.

4) **धुवे केन्ना न्हाणयलेली गे?**

**हे सोमारा ते सोमारा.**

**सुने केन्ना न्हाणयलेली गे ?**

**हे दिवाळे ते दिवाळे.**

धुवे आनी सुने भितर पक्षपात जाता हें म्हणीन दाखयलां.

5) **धुवेचें मूत गंगेपाणी, सुनेच्या मुताक येतात घाणी.**

**धुवेचें मूत परमळटा, सुनेचें मात घाणटा.**

6) **कोण गो बाये चुळूचुळू.**

**हांव न्हय गे आवय; व्हनी!**

**तरीच तें फसाफसा!**

## धो

1) **धोडयाऱ्याच्या कपलांत तीन फातर ( गुंडे ).**

धोडयारो = तकलेंत तीन गुंडे (हाडांचे मेकळे कुडके) आशिल्लें नुसतें 'धोडयाऱ्याच्या कपलांतलो फातोर चुकना.' अशी गोम पैन दिल्या: धोडीयाऱ्याचे तकलेंत फातर आसा तो कोण काडीत? अशी फादर पेरैरान को.ओ.भा.(पा.75) ही म्हण दिल्या. वायट नाशिबाचो मनीस ह्या अर्थान वापरतात. कितलोय वावुरलो जाल्यार एकाद्र्या मनश्याच्या हाताक येस येना, अपेस पदरांत पडटा तेन्ना ही ओपार मारतात.

2) **धोडावन पणसूल पिकवप.**

मारून मुटकून म्हणटात तेभाशेन एखाद्र्याक वयर काडप. 'मोगाचें लग्न' ह्या शणै गोंयबाबाच्या खेळांत बाबगो हो 'धोडावन पिकयल्लो' वैज म्हणून येता.

## न

1) **नडणी कशीय जावं, कंडो बरो हालता मूं?**

थोडें काम करतात पूण ताचो चड बोवाळ करतात तांकां ही ओपार लायतात. काम थोडें, देखाव चड.

शेत नडप म्हळ्यार नडणी हुमटावन कंड्यान घालून शेतांत एकठांय केल्ली रास आसता ताचेर घालप. कंडो बेश्टोच हालवपाचे सवंग केले म्हणटकच पळेयतल्या दिसता बरीच नडणी हुममटायल्या म्हणून. आगांत कांय गूण नासताना, रूप नासताना झेत करता तेन्ना कंडो बरो हालयता इतलीच म्हण वापरतात.

2) **नडणी चड जाचक तर थाम, कुशीन काडूंक जाय.**

नडणेच्यो जाती हिस्पाभायर. कांय जाती आसतात त्यो काडटना नाका पुरो जाता. ती काडूंक मेळना इतली चड जातकच थाम (धान्याचो रोंपो) कुशीक काडून लांवचो पडटा. नाजाल्यार पीक वचपाचो संभव आसता. वायट मनशांच्या संगतींतल्यान भुरग्याक वेळार कुशीक काडूंक जाय.

3) **नडीचें वचत, बडीचें वचना.**

अशेच अचकीत आयिल्ले दोश वचत पूण वंशपरंपरेन वा नीज सबावाचे आंग जावन पडिल्ले दोश मात वचनात.

4) **नणंद ना जाव, सुसेगाद राव.**

5) **नवें नवें मांडयेर, पोन्ने पोन्ने दांडयेर**

6) **नवें नवें खांदार घेवें, पोरणे जायनाफुडें खुंट्यार ठेवें.**

7) **नवें नवें आंगारी धवें.**

8) **नवें नवें वळणीर ठेवें, जुने जालें, उश्याक घेवें.**

मनश्याक नव्याचो सोंस. कपडे खुंटयाळार दवरता वा उश्याक घेता. भुरगें नवीन खेळणे मेळटकच पोरणे खेळणे कोनशाक उडयता.

9) **नसती गवाय पंचवाड्या.**

कोणूय अशीच बेश्टी कानार आयिल्ली खबर सामकी खरी करून सांगता तेन्ना 'ही मरे नसती गवाय पंचवाडी' अशे म्हणटात.

## ना

1) **नाक नाशिल्ल्याकडेन कस्तुरी व्हरप.**

पिशाकडेन बुद्द घेवंक वचप.

2) **नाक कापून अवलक्षण.**

आपलेंच नाक कापून दुसऱ्याक अपशकून करप.

3) **नाका धल्ल्यार ( दाबल्यार ) तोंड उक्तें जाता.**

जाचेकडल्यान काम करून घेवपाचें आसा ताची कुचमणा, आडवणूक करतकच तो अचळय काम करता. इंग्लिशीत arm twisting म्हणटात तशे.

4) **नाक कातऱ्या लज ना, काल उलयल्लें आज ना.**

निलाजऱ्याक लज म्हणटा ती ना. कितलेंय उलय उपयोग ना. निसक्या, निसक्या लजना, कालचें उलवणे आज ना; अशेंय म्हणटात. निसंको –

निलाजरो.

) **नाक एकठांय, आदोळी एकठांय.**

नाक खंय आनी आदोळी खंय अशेंय म्हणटात.

) **नाक व्हड आशिल्ले सगले आपणाक चोयतातिशें लेकता.**

) **नाक दिल्ल्या नांव ना, नथ दिल्ल्या व्हडवीक.**

जाणे उपकार केले आनी जगांत मान मेळोवन दिलो ताका किंमत दिवप ना. फाटल्यान थोडीभोव मदत केल्ल्याक चड मान दिवप अशें घडटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.

**टीप** : नाक, नाख अशी दोनूय उतरां वापरांत आसात. को.म्ह.सोरुंत नाका अशें उतर वापरलां.

8) **नाखान जेवल्यार पोट भरता.**

साबार कश्ट केलेशिवाय यश मेळना. अशा अर्थाची दुसरी म्हण आसा. नाखटान जेवल्यार पोट भरत वे? मराठी म्हण : दांत कोरून पोट भरत नाही.

9) **नाका परस शेकलूं जड.**

10) **नाकाकई मोतिं होड.**

11) **नाका गे मांय साष्टीचो घोव, माडा बांदून दिता फोव.**

12) **नाकाक नत्तु ( नथ ) जड न्हयी, वटाक मिश्यो जड न्हयी.**

13) **नाकार गोडाबेली तोंडान पडल्यार पडली.**

कोणेय कितें दिता म्हणून सांगलें, पूण ते मेळटलेंच अशी खात्री नासता तेन्ना म्हणटात. नाकार गोडबेली दवरप – लालूच, तळणी दाखोवप.

14) **नाखटा कामाक कुराड लायता.**

ल्हानश्या साधनान आनी शक्तीन जें काम जावपासारकें आसा ताका व्हड साधन कित्याक वापरचे?

15) **नाखटावयल्यान रावण चितारता.**

ल्हान खबर व्हड करून सांगता.

मराठी म्हण : सुताने स्वर्गास जाणे.

16) **नागोवन व्हरतरीच आडांबो घालो म्हूण कित्याक उपकरता?**

17) **नाचतल्याचे पांय म्हेळटात, पळेतल्याचे दोळे वळटात.**

जे काम करतात तांकांच त्रास कितें तें कळटा. The wearer knows where the shoe pinches.

18) **नाचूंक कळना जाल्यार आंगण वांकडें!**

जेन्ना कोणूय सारकें काम करिना, चूक करता आनी आपली चूक मेळिल्ल्या साधनाचेर थापता तेन्ना ही म्हण वापरतात. ह्या अर्थाच्यो आनिकूय म्हणी आसात, 'रांदूंक येना लाकडां ओलीं, न्हेसूक येना कापड मोटवें, (तेलगू म्हण) नाचूंक येना दोलाची चूक.

19) **नायकिणी दारा हत्ती बांदलो, तिगेलो जालो.**

नायकिणीक दिल्लें द्रव्य वा कसलीय ल्हान व्हड वस्तू परत मेळप कठीण अशा अर्थान ही म्हण वापरतात.

20) **नायकिणीक दिलें आनी रेवेंत मुतलें सारकेंच.**

21) **नायकिणीच्या पोरा, दिसा बापूय ना, रातची आवय ना.**

22) **नाऱ्या उखल कुदळ, उखल्ली, मार कुदळ मारली.**

नाऱ्या म्हळ्यार फकाण, हकूम पाळूंक जाणा. कुदळीन खणत वतलो. मागीर कोणाचो पांय मोडटा काय तकलेक लागता तें पळोवप ना.

23) **नाल्ल तर म्होवो, नाल्लकार रडटा म्हुणून तेलकारय रडटा**

म्होव्या नाल्लाक दर कमी येता म्हणून नाल्लकार रडटा. आनी तो तेलाक फावरणीक येना म्हणून तेलकार रडटा. खंयचीय वस्त बरी आसली आनी वेव्हारांत ताचो उपयोग जालो ना जाल्यार कोणाक खोस जायना. 'नाल्लकारय रडटा, आनी तेलकारय रडटा.''नाल्लकार रडटा नाल्लाक, तेलकार रडटा तेलाक' अशींय हेच म्हणीची रुपां घोळटेंत आसात. संवसारांत कोण सुखी ना ह्या अर्थान वापरतात.

24) **नाल्ल खातल्यान देंट फारीक ( पागार ) करुंकच जाय.**

पाड्याक भाटकार येता तेन्ना तल्लुकदारान (भागेली) थंय हजर रावून भाटकाराक नाल्लाचो हिशोब दिवंक जाय. गळून पडिल्ले, झडून पडिल्ले नाल्ल हाडून दिवंक जाय. शेवकांच्या देठांचो आनी ताणी राशीर घाल्या नाल्लांचो हिशोब जमूंक जाय. ताणे जर नाल्ल खाल्ले आसत जाल्यार देठांप्रमाणे फारीक करुंक जाय.

जो उपभोग घेता ताणे ताचे मोल दिवंक जाय अशा अर्थान ही म्हण वापरतात.

25) **नाल्ला दर आयली म्हूण बुकल्यां फाटीर घोणयो घालीनात.**

कोणाकय बरे दीस आयले म्हणून ताणे कित्याचे कितेंय करचे न्हय. गांठीक चार पयशे जातकच विचित्रपणान वागपाक सुरवात करतकच अशें म्हणटात.

26) **नाल्ला राग फातराकडेन (कोयतेकडेन) धरना.**

नाल्लाचो राग कोयत्या मुखार तग धरूंक शकना. मनीस कितलोय आशेचो आसलो तरी ताचें मर्मस्थान (नाजूक जागो) आसताच. थंय पावतकच ताका बागवचें पडटा.

27) **नांव पळेल्यारी कुबेर, घारा तपील उमती.**

नांव कुबेर पूण घरा शिजोवक दाणो नाशिल्ल्यान तपलें उमथें अशी परिस्थिती. 'नांव क्षीरसागर भट्टू ताक्काक ना वाट्टू' अशी दुसरी म्हण आसा. क्षीर सागर म्हळ्यार दुधाचो समुद्र, तो ताकाक म्हारग. ठणठणपाळ म्हणून एकलो आशिल्लो. वाटेन वताना ताका शेणी वेंचपी बायल दिसली. तिका नांव विचाल्लें. 'लक्ष्मी' तिणें सांगलें. मात्सो फुडे वच जाल्यार मडें घेवन कांय जाण वताले. कोण मेलो म्हणून ताणे चौकशी केली .'अमर सिंह' ताका जाप मेळ्ळी. तो तसोच मुखार गेलो. वडा पारार बसलो आनी म्हणपाक लागलो.

भला रे भला ठणठणपाळ भला, लक्ष्मी तो गोवऱ्या वेंची, अमरसिंह तो मरण वेंगी, भला रे भला ठणठणपाळ भला.

(कोंकणी शब्दकोशकार स. श्रीपाद बाब देसाय कडल्यान आयकल्ली.)

समाज म्हळ्ळयारि कस्सलें? मनुष्य समूहाकांचि समाज म्हणतातित.

समाजाक समान धर्मूयि आस्सुका. 'नाव क्षीरसागर भट्टू ताक्काक ना वाट म्हळ्यावरि जावच्या नज्ज.' श्रीमत सुधीन्द्र तीर्थ स्वामी उपासना कोंकणी भौमासिक पत्रिका, नोवेम्बर 1991

28) **नांव व्हड, करणी सान.**

# नि

1) **निजाचें तें निजाचे, अडेचे तें अडेचें**

जें सबावीक न्हय तें बरें कशें जातलें?

2) **निदल्ल्याक कोणीय उठयत; जागो आशिल्ल्याक कोण उठयत?**

चुकिल्ल्या मनश्याक सारको मार्ग दाखोवं येता. जो जाणा जावन वायट मार्गान वता आसत ताका कोण शिकयतलो?

3) **निदिल्लेगेर जालो चलो आनी जागी आशिल्लेगेर जाली चली.**

आंगार घेतिल्लें काम कशें जायत हाचो हुस्को करीत आसता ताक अपेस येता आनी तो तेविशीं बेफिकीर रावता ताचें सादता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

4) **निदिल्लो निदून गेलो, सोप्यावयल्याचो आंड कापलो.**

गुन्याव करपी गुन्याव करून गेलो. ख्यास्त मात भलत्याकूच जाली. अशा अर्थान ही म्हण वापरतात.

5) **निळू म्हजो निळू कोलत्यांनी खेळूं, घरदार जळूं पूण निळू म्हजो खेळूं.**

एक आशिल्लो भुरगो. ताचें नांव निळू. आवयचो चड अपुर्बायेचो. एक दीस निळून रान्नितली कोलती काडली आनी ती घेवन लागलो खेळूंक . शेजान्नीन ताका पळेलो आनी धांवत वचून ताचे आवयक सांगलें. 'निळू आवय, निळू आवय, धांव बाये धांव; तुजो निळू कोलत्यानी मगे खेळटा! हातपांय भाजीत, घरदार जळयत. निळूचे आवयक ही कागाळ बिलकूल आवडली ना. ती आड्डली. मोगाका, मोगाका! तुका ह्यो

जाळवण्यो कित्याक? निळू म्हजो निळू, कोलत्यानी खेळूं; घरदार जळूं पूण निळू म्हजो खेळूं.

ही म्हणी फाटली काणी बरोवपी. स. अ. का. प्रियोळकर. 'शारदा': एप्रिल 1941.

) **निवलेलें शीत मुठ्याक येना.**

'वाऱ्याक पडलेलें शीत उंडयेक येना' ही हे म्हणीचें एक रूप.

ह्यो म्हणी वेळच्या वेळार काम करुंक जाय. उशीर केलो जाल्यार तें सारकें जायना हें सांगपी.

## नी

1) **नीत तें उलयल्यार दुस्मानकाय जाता, रीण मागल्यार झगडें जाता.**

## न्या

1) **न्यायाक बळ नितीचें, अन्यायाक दुडवांचे ( धुमक्यांचे ).**

न्यायान चलपी मनीस रितीन वागता, अन्यायान दुडवांच्या वा हिंसेच्या बळार आपलो हेतू तडीक व्हरूंक सोदता.

2) **न्याय करतलो जाल्यार फोंड्या वचूं नाका.**

अंत्रूज म्हालांतलें मुखेल शार - फोंडें. न्याय खंयूय मेळूंक जाय. तो करपाक फोंड्या वचचें पडूंक जायना.

## न्ह

1) **न्हंय भली म्हूण बांय भली न्ही, बांयचे बगले गेल्यार राजू जाय.**

बांयकडेन गेल्यार हातान घेवन पियेवंक मेळना. राजू जाय पडटा, कळसूली जाय पडटा. न्हंयेंसरी वच आनी हातानी उदक घे आनी जाय तशें पिये. जात एकूच आसली तरी सगल्याक एकाच मापान मेजूंक

जायना. बरें वायट पळोवंचें पडटा ह्या अर्थान ही म्हण वापरतात.

2) **न्हंय भोळी, पूण बांय भोळी न्हय.**

न्हंय आसा ती केन्ना घात करतली तें उत्तेंपणान कळटा. बांय अचानक घात करता. ही वेगळी म्हण म्हणून म.वा.को. भा. 2 पा. 134 चेर दिल्या आनी वयर दिल्ले प्रमाण अर्थ दिला. तो बरोबर दिसना. बांय अचानक घात कसो करता? न्हंयूंच हुंवार आयलो जाल्यार घात करता. देखून म्हाका दिसता ही वयले म्हणीचे मोटवें भ्रश्ट रूप. भली च्या जाग्यार भोळी आयलां आसुंये

3) **न्हंयचें तोंड बांदू जाता, पूण लोकांचे तोंड बांदू जायना.**

न्हयेंचें तोंड एक वेळ बांदप सोपें पूण लोकाचें तोंड बंद करप कठीण. एकटो उलयता म्हणून दुसरो उलयता. करताना बरी वायट खबर सगलेकडेन फांफां करुन पातळटा.

4) **न्हंयेंतलें काडलें बांयक घालें.**

एकेकडले काडले दुसरेकडेन घालें. दोनीकडेन उदकच आसता.

5) **न्हयिंचेर कोपुनू गांडी धुयना जावंचें.**

कोण खंय न्हंयचेर उदकाडे गेल्लो. थंय न्हंयेंचेर रागार जालो आनी कुले धुयनासताना तसोच घरा आयलो. पिशेपणांनीं भलत्याचेर रागार जावन हांशें आनी स्वताक त्रास करून घेवप.

6) **न्हवऱ्याक ना काट, आनी होवळयो रडटात वरणाक.**

न्हवऱ्याक बाबड्याक दाळीचे उदक पासून मेळूंक ना आनी लग्नाक जमलेल्यो बायलो (होवळयो) घट्ट वरण जाय म्हणून आड्डतात.

## न्हा

1) **न्हावंचें चड जावंये, जेवंचें चड जावं नये.**

न्हावपाक उदक चड जाल्यार जाता. आंग नितळ जातलें. जेवण मात चड जावंचे न्हय. अजीर्ण जावन पोट इबाडटलें

## न्हे

1) **न्हेसूं नज जाल्यार पिंजून पेल्यान उडोवप.**

जी वस्तू आपल्याक उपकरा पडना ती दुसऱ्याक दिवपाची बुद्द ना. ते वस्तूचो नाश करुन उडोवप.

## प

1) **पचत तें खावंका, रुचत तें उलवंका.**

खावपांत संयम जाय, प्रसंग पळोवन उलोवंक जाय.

2) **पडचें घर भाड्या घेवचें, मोडच्या रुख सांवळे राबचें**

जाणा जावन संकटात उडी घेवप.

3) **पडटा तो वाडटा.**

मराठी म्हण : पडेल तो चढेल, बुडेल तो तरेल.

4) **पडत पासो जाल्यार खेळत पिसो.**

सारीपाटाच्या खेळांत घूल वा फांसो नशिबान बरो पडलो जाल्यार मूर्ख मनीस लेगीत बरो खेळटा. तेभाशेन परिस्थिती अनुकूल आसल्यार सादारण मनीस वयल्या पांवड्यार पावता.

5) **पडल्ल्या दुःख ना, हांसता ताचो राग येता.**

ह्या जगांत पडलेल्याक पळोवन हांसतले चड. पडून जाता ते दुखीपरस हांसून जाता तें दुख्ख चड. देखून हांसतल्याचो ताका राग येता.

6) **पडिल्ल्याचेर पांय दिवप.**

पडिल्ल्याक हांसपीच न्हय तर ताचे फाटीर पांय दिवपीय आसतात. संकट आयिल्ले आसताना तातूंत आनीक भर घालतात.

7) **पतीक पसरो, खंतीक सोरो.**

8) **पत नाशिल्ल्याक पसरो, चिंतेक सोरो. ( ब्रह्मे संकलन )**

लोक आपलें दुख्ख विसरूंक म्हणून सोरो पियेतात, संवय वाडटा. खंत

मात वचना. पियेवपी काबार जाता. पसरकार काबार जाता. देखून 'पतीक पसरो काबार' अशेंय म्हणटात. ब्रह्मेन दिल्ले म्हणीचो अर्थ: पदवी वा दर्जो नाशिल्ल्या मनशान पसरो घेवन बसचें असो जावंये.

9) **पत्रेक गेल्ल्याक वागान खालो ( व्हेलो /धरलो ).**

संकटाचो संभव ना अशा जाग्यार तें उप्रासप आनी सुकिल्ल्या पानाची रास पुंजावक गेल्ल्याक वाग व्हरता. नशीब बरें आसत तेन्ना तेऱ्याक गेलो, मेरूं ताका मेळ्ळें अशें जाता. नामनेचे नाणे संग्राहक भौ. रघुवीर पैचे म्हणणे प्रमाण अशी घटना खूब पयलीं काणकोणच्या घराब्यांत जाल्ली. चवथी दिसा पत्री हाडूंक गेल्ल्याक वागान व्हेलो. आनी तांची चवथ खळ्ळी. आज मेरेन त्या घराण्यांत चवथीक गणपती पुजेक लायनात. काणकोणच्या आगोंदा आनी किंदळे गावांत गणपती पुजेक लायनात अशी म्हायती 'गोंयची चवथ' हे पणजी आकाशवाणी वयल्यान जाल्ले कार्यावळींत 1-9-2000 दिसा मेळ्ळी.

10) **पदरांत पडलें पवित्र जालें.**

जें कितें आपणाक मेळ्ळें ताका वायट आनीक कित्याक म्हणप? ताचेपसून मेळटा तें सूख घेवप हेंच बरें.

11) **पयलो रंग, दुसरो संग, तिसरो भंग.**

सि.हा. तली ही म्हण लग्नापयलीं मोगाचो रंग़, उपरांत एकठांय येवपाचो आनंद आनी मागीर तुटम्हणसर झगडीं अश्यो तीन अवस्था दाखोवंक वापरतात जातले.

12) **पयशाचो सोरो, देड तांगां मस्ती. ( रुपयाची मस्ती )**

तांग म्हळ्यार एक पोन्ने नाणे. एका पयशापरस पांचपटीन व्हडलें. इल्लोसो सोरो पियेता आनी त्या नाड्यार चड मस्ती करता तेन्ना ही ओपार मारतात. पियेतल्याक दिसता मस्ती सोऱ्याच्या नावांर पचतली. ताचें नाटक उत्तें जाता आनी ही म्हण ताका आयकुंची पडटा. इल्लीशी गिरेस्तकाय आयली जाल्यार त्या नेटार झेत दाखोवप आनी मस्ती करप असोय एक अर्थ.

13) **पयशा हाडले घावन, जेवतले जाले बावन.**

घावन म्हळ्यार पातळ पोळो. सामके थोडे भितर चड लोकांची वेवस्था जावंक पावना हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

14) **पयलीं सोदतात इंद्रा आनी चंद्राक, मागीर व्हरून दितात कोळहुंदराक.**

पयलीं बरीबरीं स्थळां सोदीत रावतात मागीर चलयेक व्हरून कोणाच्याय गळ्याक बांदतात. म्हणी फाटली काणी : एका साधून खंय एक हुंदराचें पील पाळिल्लें. ताका ताणें सुंदर चलयेचे रूप दिलें. वयान येतकच ते चलयेन इंद्र, चंद्र बी सगल्यांक नापसंत करून हुंदराकूच माळ घाली आनी पयलें रूप मेळयलें.

15) **पयशिले दोंगर साजरे, लागशिले दोंगर हागरे.**

ही म्हण सि.हा. त आनी को. ओ.भा. त अशी दिल्या: फादर पेरैरान अर्थ दिला तो असो: लागशिले दोंगर चडूंक वांकडे तिकडे, जें पयस आसा तें सोबीत दिसता. लागीं आसा ते वस्तूची सुरुपाय (सुंदरकाय) आमकां दिसना. मराठींत म्हण आसा 'दुरून डोंगर साजरा, जवळ जातां काजरा.' हे म्हणीचो सामको वेगळो अर्थ जाता. दोंगर पयशिल्ल्यान पांचवोचार आनी सुंदर दिसता, लागीं वतकच रुक्ष आनी भयाण दिसता. त्या अर्थाची कोकणी म्हण :

16) **पयशिल्ले दोंगर साजरे, म्हऱ्यांत वतकीच हागरे.**

पयलीं सकाळीं उठून दोंगरार वताले न्हय? म्हणीचो फुडलो भाग चारचौगांत उलोंवक बरो दिसना म्हणून पयलो तितलो घोळटेंत आसा आसूं येता.

17) **पयनीं जोडचें रुपयांनी खर्चुचें**

पय म्हळ्यार पानदुडू. रुपयाक 192 पयो आसल्यो 1-12-192 रुपयांचे रुपये खर्च करपाक हरकत ना. पूण पयलीं पय पय करुन जमोवपाची चिकाटी आनी शाणपण जाय.

18) **परशान बायल खाली, गजालीन घोव खालो.**

घोव शेकोटेचो धग घेवंक बशिल्लो आनी बायलेक विसरलो. गजालीच्या

बोवाळांत बायल घोवाक विसरली खंय. गजालीन घोव खाल्लों हो भाग चड प्रचारांत आसा. मालवणी कोंकणींत आदल्या काळार थंडेच्या दिसांनी गावांत जण एकल्याचे पडवेर एका कोनश्याक पडसो पेट्टालो.

19) **पसण्यापुरतें सुरय.**

पसणो म्हळ्यार पावणो. सुरय आनी उकडे अशे दोन तरांचे तांदूळ गोयांत वापरतात. ज्या दिसा जेवंक पावणो आसत त्या दिसा ताचेपुरतें सुरय तांदळाचें शीत करप. पावण्याक बरें दिसचें म्हणून देखाव करता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

20) **पळसा तीन पानां, घांटार गेल्यार अडेज?**

पळस म्हळ्यार लाल शेंदरी रंगाची फुलां येता ते रानांतलें झाड. ह्या झाडाच्या प्रत्येक देठांक तीन पाना येतात. गोयां चड पावस म्हणून हें झाड उठून घांटार गेलें खंय. थंय देंठाक तिनूच पानां फुटलीं देखून पळस गेला घाटा तीन पाने देठा अशेंय म्हणटात.

कमनशिबी मनशाचे परिस्थितींत खंयूय गेलो जाल्यार बदल जायना. बरें जावपाबदला वायट जावपाचो संभव चड, हें कोंकणी म्हणींत सांगलां.

21) **पळून वतल्याक एकूच वाट, सोदूंक वतल्याक धा.**

पळून वचपी मनीस एकेच वाटेन वता. ताका सोदतलो मनीस वाट फुट्टा त्या प्रत्येक जाग्यार रावून खंयचे वाटेन गेला आसत काय म्हणून पळेत वता.

22) **पळेयात रे दोळ्यांनू, आयकात रे कानांनू, जिबे पापणी मट्ट बस.**

दोळ्यांनी पळयलें, कानांनीं आयकलें तरीं उलयनासतान तोंड धांपून राविल्लें बरें आसता. आपल्याक खबर आशिल्ले गजालीविशीं अज्ञानाचो देखाव करचो पडटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.

## पा

1) **पांख उडलें म्हळ्यार कावळो उडलो.**

मात्शें कितें आयकलें जाल्यार तें वाडोवन सांगपाची संवय जायत्या जाणांक आसता तांका उद्देशून ही म्हण वापरतात.

2) **पांगरो वाडलो म्हूण पाटयेक उपकारा ना**

पांगारो, पंगारो, पंगिरो म्हळ्यार एक वखदी सांगांचें झाड, इंडिका, इरिथ्रिना. ताका गिमांत तांबडीं फुलां येतात. पानां बेलासारकीं भिदळी; पांगाऱ्याचें लांकूड ल्हव आनी बेगीन कुसना. ताचे उपयोग खूब, पूण घराचे बांदावळींतले पाटयेक तें उपकारना. पांगाऱ्याच्या आंगाक कांटे आसतात. हें फुडले म्हणींत सांगलां.

3) **पांगिरो पोटळून आंगा कांटे.**

भायली संगत करून संकट ओडून घेवंचें न्हय अशें सांगपाक ही ओपार मारतात.

पोंगाऱ्याक कांटे आशिल्ल्यान ताचे खूंट वंयेक बरे उपकारतात. पांगाऱ्याचे झाड जसजशें वाडटा तसतशे ताचे कांटे खंयचेखंय नाच्च जातात. भुरगेपणात मस्तेखोर आशिल्लो, जाणटेपणांत शाणो जाता.

4) **पांचा असुर्प्यांचो घोवलो, कितलोसो गे मांय तगतलो?**

**टीप :** असुर्पी - पंद्रावो शेंकडो धरून 19 व्या शेंकड्यामेरेन गोंयांत तशेंच पूर्वेकडल्या बंदरांनी घोळटेंत आशिल्लें एक रुप्याचें नाणे. ताचें मोल 300 ते 360 रेस आसतालें.

मूळ अरबी अशरफी वयल्यान शेराफीं (xerafim) हो पुर्तुगेज शब्द आनी असुर्पी हो कोंकणी शब्द आयलो.

पांचां असुर्प्यांची म्हळयार जर्जर असो म्हातारखंड जावन फोंडादेगेर पाविल्लो मनीस.

आदीं दोत असुर्प्यांनी दिताले. इल्लिशी दोत घेवन काजार जाल्लो म्हातारो रोखडोच वतलो असो म्हणीचो अर्थ.

5) **पाटा पाणी पाटा लागलें.**

पाटाचे कडेक आसता त्या झाडांक उदक शिंपता तें थोड्या वेळात झिरपून पाटात येवन पडटा. कांय कारणाक लागून वेगळीं जाल्लीं मनशां

आसा तशीं एकठांय जातकच ही म्हण वापरतात.

6) **पांडव जूजाने गेले, यादव सोऱ्यांने मेले.**

झूज आनी सोरो सारकोच वायट हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

7) **पाडसावेलो कुंवाळो, आडाक ना घरार.**

घराचेर ना जाल्यार गोठ्याचेर कुंवाळ्याचो वेल चडयतात. पाख्याचेर कुंवाळे लागतात. पांख्याचे मदले पाटयेर (पाडसार) केन्ना केन्नाय लागता. जागे अशीर आशिल्ल्यान दोनी वटेनी लकतात. घटकेंत एके वटेन जाल्यार घटकेत दुसरे वटेन उलयता वा वता ताका उद्देशून ही ओपार मारतात.

8) **पाडसावयले कुंवाळे, काल धवशे आज सांवळे.**

(जंय 'सदां खुबळावन भौसा व्होंताखातीर घालती शबय, स्वातंत्र्य न्हय तें स्वातंत्र्या न्हय' बरो: बाकीबाब बोरकार.)

9) **पाडे बांयत गांवकार.**

म्हणी फाटली काणी :

एका गांवकाराक धरपाक पुलीस आयले. तें कळनाफुडें गांवकार वचून पाडे बांयत लिपलो. गांवकाराच्या घरांत एक अणवो मनीस आशिल्लो. गांवकारान ताका सांगलें आपूण बांयत लिपला हें कोणाक सांगू नाका. पुलीस येवन अणव्याक विचारतात 'गांवकार खंय आसा? सांग पयलीं.' अणव्यान सांगलें 'आपूण बांयत लिपलां म्हणून कोणाक सांगू नाका म्हणून ओर्द दिल्या. हांव कांय सांगिना.' कोणेय करूं नये तें गुपीत उक्तें करतकच ही म्हण वापरतात. 'पाडे बांयत गांवकार !' अशें हुमाणेंय घालताले आनी ताचें उत्तर पायखिळो अशें आशिल्लें अशी याद जाता.

10) **पाण्यांत म्हस वयर मोल.**

सि. हा. तली ही म्हण. जे वस्तूबद्दल वेव्हार करपाचो आसा ती पळोंवचे पयलींच तिचें योग्य मोल कशें थारावपाचें? अर्दकुटो कारभार वा दोळे धांपून वेव्हार करता तेन्ना ही ओपार मारतात.

11) **पाणबुडो बुडलो तरी सांदन विसरना.**

संकटात सांपडलेले आसताना सुध्दां जे गजालीचेर आस्त दवरलेली ताचो विसर पडना. प्राण बुडलो तरी सांदन विसरना अशी म्हण केरळांत वापरतात.

12) **पातकी ( पापी ) वता थंय पावलभर उदक.**

पाप धुवन उडोवपाक एक मनीस पवित्र न्हंयेंचेर न्हांवक गेलो. ताच्या पदराक इतलें पाप आशिल्लें, तो जंय पावल दवरता थंय पावलभर उदक उरतालें. ताका तीर्थस्थान घडलेंच ना. पापी मनशां वतात थंय मुळची भरभराट आसली तरी तांच्या पायसरान उदक लेगीत आटून वता.

13) **पातळ उदकसुद्धां आटून वता.**

14) **पादाक नांव परमेश्वर.**

गिरेस्तान वायट कर्म केलें तरीं ताची तुस्त करतात. ताणें पाद मारलो जाल्यारूय देवाचें नांव घेतलें अशें म्हणप. ह्या संकलनांत 'पादा नावं पद्मरसा, फुसके नांव तिम्मरासि' अशी म्हण आसा. ती ह्याच अर्थाची जावंये.

15) **पादऱ्याक पावट्या निमित.**

पावटो वातूळ आसता. तो खातकच चड वाय सुट्टा. पादपाची खोड आशिल्ल्याक तितलेंच निमित पुरो. सदांच वायट काम करप्याक कसलेंय कारण मेळटकच जेल मेळटा.

16) **पादो तरी, माळिये घर बांदी.**

कितेंय करात पूण घर सोडून वचूं नाकात. घरांतलो एकलो कोणूय आळशी वा हट्टी आसता तेन्ना थोडेंशें नमतें घेवन ताचेकडल्यान काम करून घेवप सगल्यांच्या हिताचें आसता. ताची अट मान्य करची पडटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.

17) **पानवेलीच्या धर्मान म्हसगाक उदक.**

18) **पानवेली निमतान म्हस्का उदक पडटा.**

19) **पाप ना ताका भंय ना.**

**टीप :** पाप



मोर खंय केन्नाच पाप आदारिना. तो निर्मळ नितळ आनी शुध्द. पाप ह्या उतराचे दोन अर्थ आसात. एक म्हळ्यार पुण्य हाचे विरुद्ध अर्थाचो शब्द इंग्लिशींत Sin आनी दुसरो 'वायट विचार वा कल्पना' अतिस्नेह, पापशडकी हे संस्कृत उक्तीन पाप ह्याच अर्थान आयलां. चड मोग आसलो म्हणटकीर तो मनीस मात्सो पयस गेलो जाल्यार वायट कल्पना मनांत येता आनी हुस्को जाता. 'सान भुरग्यांकडे पळोवपी कोण ना. तांचे पाप रे', अशे कारवारी कोंकणींत म्हणटात.

20) **पापडांची पिठी आनी बायलांची फाट धोडायता तितली अरळ आनी मोवाळ जाता.**

21) **पाय म्हजो मरता, पाततिव जेजू म्हणूंक शिकयता.**

भायल्यान न्हवरो सोदता, व्हंकल माय म्हजी.

पाय मरून चड वेळ जांवकच ना, मांय परत काजार जावंक सोदता त्या प्रसंगाक उद्देशून सि.हा.तली ही म्हण कों. ओ. भा. तय मेळटा.

22) **पायन दिल्लें सरलें, मांयन दिल्ले उरलें.**

आवयन दिल्ली वस्तू मोगान थपथपिल्ली आसता देखून ती तिगता. बापायन दिल्लो उंडो सोंपून वता. आवयन शिकयल्ले चलयेकडेन उरता असोय अर्थ जाता. ह्या अर्थार आधारलेली एक कविता: व्हंकलपावणे वेळार आईन रडत म्हळें, बाय गो, दुकां कुशीन काडून म्हाका पळे; बापायन दिल्ले लाख केन्ना तरी सोंपतले; हांवे दिल्ल्यो देखी मात जल्मभर उरतल्यो.

23) **पांयांचो कांटो काडूंक कुराड कित्याक?**

ल्हान सान दुयेंसाक वा क्रिरकोळ अडचणीक ल्हानसानूच उपाय येवजूंक जाय; नाखटा कामाक कुराड लायता अशेंय म्हणटात.

24) **पायांची व्हाण पायांत बरी.**

पायां व्हाण पायांपोंदां आसूंक जाय. हलके वस्तूक वा मनश्याक केन्ना माथ्यार घेवंचें न्हय. तुकाराम महाराजाचो अभंग आसा; 'मज पामरासी काय थोरपण, पायीं वहाण पायीं बरी' हाचेर आदारलेली ही कोंकणी म्हण.

25) **पांय घट्टि आसल्यार गुंडो चडयेत, मन घट्टि आसल्यार खंयीय चडयेत.**

पांय घट्ट आसल्यार दोंगर चडूंक मेळटा, जेन्ना मन घट्ट आसता तेन्ना खंयूय चडून वचूं येत. मनाची शक्त व्हड आसता.

26) **पांय चुकल्यार हत्तीय पडटा.**

व्हडल्या मनशान चूक केली, आपल्या धंद्यात सुदेस, मादेस बाळगिलोना .जाल्यार तो काबार जावंक पावता.

27) **पांय धुयी म्हळ्यारी पायजणांक मोल इतें?**

जें काम करपाचें तें सोडून भलतेच गजालीची उठाठेव करप.

28) **पांय पडल्यार मुय काय मरचीना.**

कोणूय सवकास सवकास चलता तेन्ना ताका ही ओपार लायता. माटवांतली चाल असोय अर्थ जाता.

29) **पारधेच्या वेळार सुणें मुतूंक गेले.**

पारध = शिकार. सोळाव्या शतमानांतली ही म्हण. जाची उपस्थिती सामकी गरजेची ताकाच ऐन वेळार दुसरेकडेन वचचें पडप.

30) **पांयांपोंदची हरयाळी, तिका झरणय ना आनी मरणय ना.**

दुसऱ्याच्या पांयांसकयल रावून जांका जीण सारची पडटा तांकां पांयापोंदचे हरयाळेची उपमा दितात.

31) **पांयां लागिल्लें पुसून उडोवंचें.**

घाणींत पडलेलो पांय थंयचे थंय साफ करूंक जाय. ल्हान ल्हान गजालींतल्यान व्हडलें किजील उप्रासता. जंयचे थंयच ते गजालीचो निकाल लायिल्लो बरो.

32) **पावस येता तशें सांते धरचें.**

सांते, सांतली = भिल्लमाडाच्या पानांची वाटकुली सपाट सत्री.

33) **पावसाक भियेवन न्हंयेंत उडकी मारता.**

सांवळेक भियेता आनी भुताचे बगले वता. कायलींतल्यान उज्यांत उडकी

घेता तशे सारकी परिस्थिती.

34) **पांवळे उदक पांख्यार चडना.**

35) **पांवळेन फातर झरता.**

## पि

1) **पिंजिल्यांत पाय, शिजिल्ल्यांत दाय.**

पिंजिल्यांत पांय वताच वता आनी चड पिंजत रावता. शिजिल्लो जिनस चड धवळीत रावल्यार इबाडटा, कामाच्यो भोयो भोयो जातात, तेन्ना ही ओपार मारतात.

2) **पिडे वखद कोणूय दीत, सबाव वखद कोण दितलो?**

2) **पिशा हातां चूड दिली, पिशान काडली घरा लायली.**

3) **पिशाक पिंपळ दाखवप.**

4) **पिशाच्या हातांत दिली वात, पिसो नाचता सगली रात.**

5) **पिशा आनी कितें शिंगा आसतात?**

6) **पिशाक कितले पांय आनी बुदवंताक कितले?**

पिशाच्या आनी हेराच्या शरिरांत तसो कांयच फरक नासता. तांचे करणेवयल्यान कोण शाणो कोण पिसो हें थारायतात हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

7) **पिश्या हातांत पैसो आयलो, दीस राती खर्चुन सोळ्ळो.**

संपत्ती मेळ्ळीय जाल्यार ती राखून धरपाक शाणपण लागता. पिसो फुडलो विचार करिना. सगलो पयसो खर्च करून सोडटा. इंग्लिशीत म्हणटात A fool and his money are soon parted

8) **पिश्यालो यजमान जावंच्याकय बुदवंतालो चाकर जावंचें बरें.**

9) **पिश्या मित्राकय बुदवंत शत्रु बरो.**

## पु

) **पुरुसभर उदकांत वचून सुकी काश्टी दाखवप.**

सगलें करचें करून आपले नांव जावंक दिवप ना.

खूब धन संपत्ती आसा अशा जाग्यार वचून सुद्धां कांय अभागी मनश्याच्या हाताक कांय लागना तांकाय ही ओपार लायतात.

.) **पुन्नपोळी रोसांत बुडली.**

म्हणी फाटली काणी : एक अर्दुकुटो असो भुरगो आसलो. खंयच्याय शुभकार्याक पच्च करुन कितेंय तरी अमंगळ उलयतालो. एका लग्नाच्या सुवाळ्याक कांय आमंगल घडचें न्हय म्हणून ताच्या परिवारान ह्या भुरग्याक घराकडेन बसोवन दवरलो आनी ताका कितेंतरी काम जाय म्हणून पुन्नपोळयो आनी रोस करुन दवरलो. तो त्यो पुन्नपोळयो रोसांत बुडोवन अदीं मदीं खायत रावलो. पूण निमाणे आपलें कर्म केलेबगर रावलो ना. घरांत व्हंकलपावणी भितर सरता आसताना ताणें 'बुडली बुडली' आशी किळांच मारली. लोक धांवत आयले. पळोवक गेल्यार पुन्नपोळी रोसांत घालून खातां खातां हाची एक पुन्नपोळी रोसांत बुडिल्ली. गरजेभायर किळांच मारता तेन्ना आनी अशुभ उलयता तेन्ना ही ओपार मारतात.

3) **पुनवेचो चोर आनी उमाशेचें पोर.**

पुनवे दिसा जाता तें भुरगें चोर जाता आनी उमाशेक जाता तें पोरकें अनाथ जाता असो समज लोकांमदीं आशिल्लो.

4) **पुन्न पोळयो पोटाक बांदल्यो म्हणून भूक वता?**

5) **पुराणांतली वांयगीं पुराणांत.**

म्हणी फाटली काणी : एकदां खंय बुवा देवळांत पुराण सांगताना वांयगीं खावप धर्माआड अशें कितेशें ताणें सांगलें. एक दीस बुवाक एकल्यागेर जेवंक आपयल्लो. जेवणाक मसाल्याचीं भल्लेलीं वांयगीं केल्लीं पूण बुवाच्या पानार तीं वाडलीं नात. बुवाच्या तोंडाक रूच सुटली आनी ताणें वांयगीं मागून घेतलीं आनी खालीं. यजमानान विचारलें: 'बुवा, वांयगीं

खावप धर्माआड अशें तुमी म्हळ्ळें न्हय?' बुवान जाप दिली 'पुराणातली वांयगीं पुराणांत.' वेव्हारांत ताचो उपयोग ना.

एकूच सिध्दांत सगलेकडेन लागू करचो न्हय हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

6) **पुराणांतलीं वांयगीं शाकेक उपकरा पडनात.**

इतिहासाचे दाखले दिवन, पूर्वज अशे आशिल्ले तशे आशिल्ले अशी व्हडवीक सांगून कांय जावपाचें ना. स्वता कश्ट करता तेन्नाच येस मेळटलें.

# पू

1) **पूत मागूंक यात्रेक गेलो, बाईल विसरनू घरा आयलो.**

ज्या भांडवलाचेर लाभ मेळोवपाची आशा आसता तेंच होगडावन घरा परत येवप.

# पे

2) **पेठेक गेल्यार रिणकाराची धोंस, घरा गेल्यार बायलेची धोंस.**

धोंस = त्रास

3) **पेजेक आनी लजेक पडना.**

4) **पेजेक नाशिल्लो शिताक रडटा.**

5) **पेजेर खालो पोळो, आनी शितार काडलो वरताळो.**

णव वरांचे पेजेबरोबर हळसांद्याचें तोंडांक आनी पोळे खाले. मागीर दनपारच्या शिताबरोबर कांय नाका जालें. वरताळो = वचपो.

6) **पेन्र्याच्यो लागो झुजाक उपकारा पडना.**

पेर्नकार करता ती कसरत मनाची रिझवण करपाक बरी पूण झुजाक

उपयोगी पडना.

**पेरणी नाशिल्ली तर लुंवणी खंयची?**

## पो

**टीप :** पोट

**अब्बळ पेट तब्बळ पेट**

**कुलूप किल्ली ( बीग ) ताका लागना,**

**पूण धन्याक ती उगडूंक जायना.**

हें एक हुमाणें आसा आनी ताचें उत्तर पोट अशें आसा. हुमाण्याचें आनी लोकवेदांतल्या सगल्या प्रकारांकडेन नातें आसता तशें तें म्हणीकडेनूय आसा.

ज्या पोटा फाटल्यान लागून आमी वावुरतात तें बऱ्याच वाक्यप्रचारांनीं येता. सोळाव्या शेंकड्यांतल्या शब्दकोशांत मेळटात ते वा.प्र.:

पोटांतू माथें घालिता.

कोणाचे पोटांतू वच्चें.

पोटाक उणें करुन जेवता.

पोटा मारुन धर्म करिता.

पोट धरुन हांसता.

स. श्रीपादबाब देसायांच्या कों. श.को. भा.2 आयल्यात ते वा.प्र.:

पोट तेंकून न्हिदप.

पोट दुख म्हणसर हांसप.

पोट फाटीक लागप.

पोट मारप.

पोट रसातळाक वचप.

पोट वाडवप.

पोट सुटप.

पोट सोडवप.

पोटाक घालप.



पोटांत पाय आसप.

पोटाचें आंत मरप.

पोटांत रिगप.

पोटांतलें कपट.

पोटांत शिरप.

पोटान मरप.

पोटपाणयाक पळोवप.

पोटार पांय दिवप.

पोटार पांय हाडप.

पोट फुटप.

पोटार आड येवप.

ताची म्हाका खूब मदत जाल्या ह्या अर्थान ताचे हात म्हज्या पोट गेल्यात असो वा.प्र. आसा.

1) **पोट दुकिलो कोडू खातलो, चिकलाक आदळ्ळलो हात धुतल**

2) **पोट पिंदल्यार गू भायर पडटा.**

वायट मनशाच्या मनांतल्यान वायट विचार भायर येतात.

3) **पोट भरचें न्हय जाल्यार, फाट भांगराची जाता आसली.**

4) **पोट की पट्टण-शहर?**

कोणेय खूब भातें मारलें म्हणटकूच ताका विचरतात: तुजें हें पोट क पट्टण?

5) **पोट भरतकूच गाण शिळोणी घालता.**

जेवन तृप्त जातकच पाद येता. कसलीच काळजी वा फिकीर नाशिल्ल सुखी मनश्याक ही ओपार मारतात.

6) **पोट भरलेल्याक उपाशाली भूक कळना.**

7) **पोट मारून जोत केलें तेंवूय अंती वागान खालें.**

पोटाक खायनासताना बैलांची जोडी घेतली आनी ताका वागान खाले कपलफुटक्या मनश्याचें कांयच सादना तेन्ना ही म्हण वापरतात.

**पोट शिकयता वेव्हार आनी पेठ शिकयता दर.**

भूक लागतकच मनीस धडपड करता. दुसऱ्याकडें कशें वागचें हें शिकता. बाजारान वतकच दर, वांटपण कशें करप बी तो शिकता. ती, ती परिस्थिती मनशाक मार्ग दाखयता.

**पोटांत रिगून पाय सोडूं नये.**

) **पोटभर जेवंचें भाटभर हागचें.**

कांयच काम न करतां फक्त खावन पिवन बसपी मनश्याक ही म्हण वापरतात.

) **पोटांत गू आसा म्हूण भायर काडून दाखोवं नये.**

2) **पोटांत आशिल्लें ओंठार येता.**

3) **पोटांत जळे, माथ्यांत कळे.**

पोटाक भूक लागतकच तकली गिरगिरूंक लागता हें अणभव सांगता.

4) **पोटांत जळे, माथ्याक कळे कित्याक ते?**

पोटाक भूक लागल्या आसताना माथ्याक फुलांच्यो कळयो माळूंक कोण वता? पोट भरिल्लें आसत जाल्यार साज शिंगार. 'पोटीं जळे, माथ्यान्ह कळे' अश्या अर्थाची मराठी म्हण आसा. वयल्या दोन म्हणींचो उगम हे म्हणीतल्यान जाला आसुंये.

5) **पोटाची नळी आनी कानाची पाळी वाडयत तितली वाडटा.**

चड चड खाता ताका चडचड खायन दिसता.

16) **पोटार रोटी दवरल्यार भूक वता वे?**

17) **पोरसांतली भाजी, जाय तेन्ना खुंटची.**

जी गजाल आपले सुवाधीन आसता ताचेबद्दल म्हणटात.

18) **पोक्या पणसाक पांख चड.**

19) **पोलाक दिकू चड्.**

भितर कमी गरे आशिल्ल्या पणसाक चिकट दीख चड आसता. तेचभाशेन

दोन वेळ जेवंक ना तो चड शापोतां सांगता.

20) **पोवलां थंय मुतत जाल्यार कोण मुतला म्हणून कळना.**

21) **पोशिल्ल्या पोरा काय करशी? परतून म्हाका हाय करशी.**

22) **पोशिल्ल्या पोरा कितें करशी, वांचूनु वरल्यारी खोंचूनु मारशी**

केल्लें उपकार विसरून पडमूरपणा करपी जायते लोक आसत म्हातारपणांत आदार म्हणून कोणाकूय लागीं करचो आनी ताणेंच ज घेवंचो अशें जायते फावट घडटा.

23) **पोळे भाजतल्याचो शेंबूड काडूंक जाय.**

काम करतल्याचे मदतीक कोणे तरीं वचूंक जाय. नाजाल्यार काम सा जायना. पोळ्यांखातीर आंबयल्या पिठांत शेंबूड पडल्यार अनर्थ जातल

24) **पोळयो खाल्यो दिवळयो गेल्यो, आंबील पेज सदांची.**

25) **पोळयो केल्यो देवळा व्हेल्यो, आंबील माजी सदांची.**

दिवाळी सोंपली, देवळांतलो उत्सव सोंपलो, मजा करपाचे चार द आसतात ते सोंपतकच आसा तशी मुळची परिस्थिती येता. मुळ परिस्थितीक विसरूंक फावना. सदां सदां पोळयो मेळनात.

26) **पोरने सूप शेणान घट्ट, म्हातारो मनीस खाणान( न्हाणान ) घट**

27) **पोरसांत हागून पूर्वार्जितांक रडचें.**

पोरसांत हागचें आनी घाण, दुर्गंध सुटलो म्हणटकीर आपलें नशी वायट म्हणून रडत बसत. पूर्व कर्म न्हय, स्वतःची वायट कर आपणाक नडटा.

28) **पोरसांतली भाजी, जाय तेन्ना खुंटची.**

सामकी सोपी गजाल. हातांतली गजाल. पुराय ताब्यांत आशिल्ली वस

## फ

1) **फट घालून खरें काडटा.**

कसले तरी फटीचे प्रस्न विचारून दुसऱ्याकडल्यान खरें कितें तें वदोव

घेवप.

2) **फट्टि नाण्याक होड मोहोर.**

नकली वस्त चड चकचकता A false coin will bear a bigger seal.

3) **फळ पिकल्यार तोंडांत पडटा वे ?**

झाडार फळ पिकलें म्हणून तें आपाप येवन तोंडांत पडना. मनांतली इच्छा पुरी जातली जाल्यार प्रयत्न करूंक जाय.

4) **फळ जाय ताणें फूल तोडचें न्हय.**

5) **फळा तकीत बीं, धरणी तकीत उदक**

जशें फळ तशें बीं, जशी जमीन तशें उदक. 'खण तशी माती' अशी ह्याच अर्थाची म्हण आसा.

## फा

1) **फाट दुखिल्ली सांगता, बायलेन मारलेलें लिपयता.**

लजेक लागून हांगांच्यो थंयच्यो गजाली सांगून कोणूय मूळ गजाल लिपोवपाचो प्रयत्न करता, अब्रू वाटावपाचो प्रयत्न करता तेन्ना ही ओपार मारतात.

2) **फाटीक दोळे आसल्यार उरफाटे चमकयेत.**

आपल्या अपरुखीं ज्यो गजाली घडटात त्यो मनीस पळोवंक शकना. नाजाल्यार कितलेश्याच आपत्तींचो प्रतिकार ताका करूंक मेळटलो आशिल्लो. चमकप – चलप.

3) **फाटीर देव बसला, गाडवाक गर्व.**

4) **फाटीर मार पूण पोटार मारूं नाका.**

पोट भरपाचें साधन काडून घेवं नाका. भुकेचें संकश्ट सगल्यांत वायट.

5) **फाटीं आशिल्ल्यान फुडें येवचें, फुडें आशिल्ल्यान फाटीं सर नये.**

सगल्यांक एका पावंड्याचेर हाडपाचें आसता तेन्ना मुखार आशिल्ल्यांक फाटल्यान ओडचें न्हय. फाटीं उरल्यात तांकां मुखार हाडचें.

6) **फातर पुजिलो ( दवरिलो ), देव जालो.**

7) **फातर फोडून वाय काडटा.**

8) **फातरा वाय काडची प्राय.**

बेश्टो फातर फोडूंक वचप आनी फाटींत कसकस भरून घेवप. कितेंतरीं करूंक मुखार सरप आनी नसतें लचांड फाटल्यान लावन घेवप.

9) **( बांयत ) फातर उडोवन थाव पळेता.**

थोडें उलोवन दुसऱ्याच्या मनांत कितें आसा ताचो प्रस्न विचारून अदमास घेवप.

10) **फातरा मुळांत पडलेलो हात हळू काडका.**

फातरा पोंदां पडलेलो हात नेटान काडूंक गेल्यार दुखवतलो. दुसऱ्याच्या कचाट्यांत केन्ना सांपडचे न्हय. तसो प्रसंग आयल्यार तांतल्यान युक्तीन भायर सरचें.

11) **फातरपेंच्यान गोंय लागीं.**

फातरपें दक्षिणेक उरता आनी गोंय (Old Goa ) उत्तरेंत उरता. सरळ मार्ग सोडून लांबचो त्रासाचो मार्ग कोणूय धरता तेन्ना अशें म्हणटात. मराठींत ताका द्राविडी प्राणायाम म्हणटात. ही ओपार केरळच्या गोंयकारांनी व्हेली थंय ती अजून चालू आसा अशें फादर पेरैरान म्हळां. (को.ओ.भा. पा. 135) कोचीनच्या सर्गेस्त आर. एस. प्रभून अर्थ दिला तो मात वेगळो (When you visit Fatorpem visit Goa also which is very near to Fatorpem)! को. म्ह. सोरु. 1265 पान.91 म्हणीचो अर्थ बदलता ताचें हें एक उदाहरण.

12) **फाल्यां मरतलो म्हणून आज फोंडांत पडप आसा वे?**

संकश्ट येतलें म्हणून पयलींच गळसणून सगलें सोंपलें अशें समजून चलचें न्हय. संकटाक सरळ तोंड दिवचें, आनी कितें जाता तें पळोवचें.

13) **फाल्साक फटींग मेळ्ळो.**

फाल्साक हें पुर्तुगेज false चें तत्सम रुप केरळांत सुध्दां घोळटा. मॉ. दाल्गादान कोंकणी शब्द दिल्यात ते अशे: लटीक, अक्षत, फटकिरो, खोटो, कुडो कपटी. असल्याक फटिंग मेळ्ळो म्हणटकीर एकेच वृत्तीचे मनीस एकठांय आयले.

14) **फाल्साक बण्णु ( रंग ) चड.**

15) **फाल्साक भुलतात लोक.**

16) **फावो ताका गावो.**

जाची जशी पात्रताय आसत तशें ताका मेळटा.

## फु

1) **फुके सवाय तें फुक्या म्हारग.**

आमकां जें सवाय अशें दिसता तेंच शेकीं म्हारग आसता. वस्त म्हारग आसली तरीं ती तिगूंक बरी आसूं येता. सवाय वस्त रोखडी इबाडून वता आनी नवी घेवंची पडटा. 'सवाय खाण पोटफुगें' अशीय म्हण आसा.

2) **फुग्गय फुग्गय होडां जांवय.**

होडांगेलो जांवय जाल्ल्यान रागार फुगार जावन जायतें माग.

3) **फुगेट्यानी वाग मरता? वाग मारूंक गुळी जाय**

व्हडलें काम करपाचें आसत जाल्यार त्या प्रमाणांत तयारी जाय.

4) **फुडलो पडल्यार फाटलो हुशार.**

मराठी म्हण : पुढच्यास ठेंच मागचा शहाणा - सावध - हुशार.

5) **फुडलें जोत तशें फाटलें जोत.**

शेत नांगरताना एकाफाटल्यान एक अशी चार पांच जोतां आसतात. पयलें जोत ज्या वऱ्यांतल्यान वता वा वळटा तेभाशेन फाटलीं जोतां वतात. भुरगीं जेन्ना जाणट्याचे बडीर वतात आनी तांचेभाशेन वागतात तेन्ना ही ओपार मारतात.

6) **फुडल्यान एक फाटल्यान एक.**

पयलीं एक उलोवप मागीर दुसरेंच उलोवप. उतराचो धड न्हय अश्या मनश्याक ही म्हण वापरतात.

7) **फुडें गेल्यार फाटीं कोण ना.**

'संबंदांची सांखळ तुटणें' असो अर्थ म.वा.को. भा.2 पा. 249 चेर दिला.

8) **फुलां वरवनू वावळी विकता.**

ही म्हण सोळाव्या शेकड्यांतल्या जेझूईतांच्या संकलनात मेळटा (1566) स. श्रीपादबाब देसायांच्या को.श.को.भा.3 पा. 721 चेर दिल्या प्रा.लु.आ. रोद्रीगिशानूय दिल्या.

वावळी म्हळयार केळीच्या गब्याचो दोर, फुलांच्या मानान ताचे मोल साप्प कमी. बरे वस्तूच्या मोलान कमी मोलाची वस्त खपयतात तेन्ना ही म्हण अजूनय वापरतात. आतां मातसो बदल जाला.

9) **फुलांमितीं वावळी विकता.**

10) **फुलांमितीं वावळी पावन.**

फुलांचे माळेंत घाल्लो दोर पवित्र जाता. बऱ्या सांगाताक रावून वायट वस्तूक महत्व येता.

11) **फुलां विकलीं थंय वावळयो विकच्यो न्हय.**

12) **फुलां वेंचलीं थंय शेणयो पुंजावच्यो न्हय.**

ज्या जाग्यार पयलीं मानान दीस काडले, थंय उणाक अशें काम करून, मान सकयल घालून वावुरचें न्हय.

मराठी म्हण :फुले वेचली तेथे गोवऱ्या -शेण्या वेचूं नये.

13) **फुलां जालेशिवाय फळां जायनात.**

फूल गळून पडल्यार फळ भायर येता, अशेंय म्हणटात. सगल्यो गजाली त्या त्या क्रमान एका फाटल्यान एक घडत आसतात.

14) **फुलांच्या झेल्यान मारलेलें दुखलें; चाबकान मारलेलें दुखलेंना.**

म्हणी फाटली काणी : कोणा एका राजाची राणी सामकी नाजूक आशिल्ली खंय. एक दीस राजान तिच्या आंगार जायींचे फूल मोखून मारलें तें लागून तिका घुंवळ आयली. तेच रातीं ती आपल्या मोग्याकडे चोरयां गेली. थंय पावपाक उशीर जालो म्हणून मोग्यान तिका चाबकान मारली. तिका कांयच लागलें ना.

ल्हान गजाली मनाक लावन घेता आनी व्हड इपश्टा जाता तेन्ना ती कुस्कुटायता, तेन्ना ही म्हण वापरतात.

# फू

1) **फूल चांग ( बरें ) जाल्यार पट्टणा भायर येता.**

पट्टण = मुखेल शार.

2) **फूल फुल्लेले शिवाय परमळु भायर येना.**

3) **फूल वांकडें म्हूण परमळु वांकडो वे?**

‘ऊस डोंगा परी रस नांहे डोंगा । काय भुललासी वरलिया रंगा’ ह्या संत चोखा मेळयाच्या अभंगाची याद करून दिवपी ही म्हण.

4) **फूल दिवंचेकडे पाकळी पुणी दी / फुल थीं पाकळी. / फूल ना पाखळी.**

चड न्हय ल्हानशीच आदराची, मानाची खूण म्हणून दिवप. चड ना तर उणे.

5) **फूलू खुस्तार खोजनो, रगड्या खुस्तार सान्नां.**

फूलू खुस्तार खोजनो, होच भाग चड घोळटेंत आसा. आनी ताचो अर्थ दुसऱ्याच्या नावान जाय तसो खर्च करप.

फुलू नांवाचें एक कलवंत आशिल्लें खंय. ताच्या नांवान आनी ताच्या पयशांनीं गांवचे लोक खोजने मारताले अशी म्हणी फाटली काणी सांगतात. म्हणीचे दुसरें अर्द घेत जाल्यार वेगळो अर्थ मुखार येता. खोजनो म्हळ्यार लोखणाच्या फुलपानाान दारू घालून मुसळान ठोठो

आवाज करप. रगड्यार पीठ वांटून सान्नाकटी तयारी जाता. फुलपान्नावरवीं आवाज काडूंक मेळटा. फुलपान्नाचे आनी रगड्याच्या वावराचे साम्य सहज लक्षांत येवपासारकें.

6) **फुलूच्या खुस्तार फेस्त.**

म्हणी फाटली काणी : फुलू म्हळयार फ्लॉरेन्स, एक गिरेस्त आनी भोळी बायल आशिल्ली. गांवचे लोक एकठांय जाले आनी तिका सांगलें, फेस्त करुया म्हणून. फुलू तयार जालें. लोकांनी व्हडलें फेस्त केलें. खर्च मात एकट्या फुलून केलो. लोकांनी मजा मारली. आ.सु.मो., बरो : कमला ग. वाघ.

## फे

1) **फेस्त करता गांव, व्हिगाराचें ( प्रेजिदेन्तीचें ) नांव.**

गांवच्या लोकांनी काम करून उत्सव करप आनी ताचें स्त्रय मात अधिकाराच्या जाग्यांनी आसपी व्हड लोकांक मेळप अशें सगळेकडेन चलता.

2) **फेस्तापुडें फाम.**

फेस्तापयलीं नोवेनां सुरु जातात. इगर्जेंत माडी पुरून फेस्ताची खबर दिताता. तो फाम दीस. कोलवेंचे इगर्जेचो फाम चड नांवाजतो. हजारांनी लोक जमतात. फेस्त जांवचेच आसता, फाम चड दबाज्यान जाता. मूळ उत्सवापरस प्रसिध्दी चड जाता तेन्ना ही ओपार मारतात.

फेस्त आनी फाम, दोनूय कोकणीन आपणायल्ले पुर्तुगेज शब्द.

## फो

1) **फोंडा माती फोंडा पावना. / फोंडा मातीं फोंड भरूंक जाय ना.**

कोणाचीय जोड कमी आसता तेन्ना ही ओपार मारतात.

2) **फोंडा माती फोंडाक.**

पदरचें कांयच खर्च करप ना. जाचें आसा ताकाच तें परत दिवप.

3) **फोंड आशिल्लेकडे उदक राबता ( एकोट्टुता ).**

जंय लाभ जावपाचो आसत थंय मनशां जमतात.

4) **फोपळ आसताना होटींत घालयेंत, माडी जाल्यार जाय ना.**

भुरगीं व्हड जालीं आनी तांकां स्वतंत्र बुद्द आयली म्हणटकीर तीं जाणट्यांचें आयकनात.

5) **फोव ना कातली, सुको जागर.**

आश्वीन वा कार्तीक म्हयन्यात रूपडीं घालून जागराचो खेळ करतात. त्या वेळार उशीकांडे फोव आनी कातली घालून केल्ली खिरापत वांट्टात. ह्या प्रसादाक हरीजागर म्हणटात. फोव आनी कातली नासली जाल्यार मागीर तो सुको जागर. खावंक कांय नासतना केल्लें जागरण म्हळ्यार सुको जागोर असो अर्थ.

6) **फोव ना कातली, गोड आसल्यार कालोवन दितलों आसलों.**
कालयल्ले फोव करपाक लागता त्यो तिनूय वस्तू म्हणल्यार फोव कातली आनी गोड नात. म्हळ्यार सगलोच नन्नाकार; सभाग्याच्या घरांत कांयच ना !

## ब

1) **बक ध्यान मासळी धरूंक ( बोक्याध्यान हुंदरा धरुंक ).**

जो तो आपलें सावज धरूंक वावुरता. लोकांक दिसता तो देवाखातीर ध्यान धारणा करुंक बसला म्हणून. ध्यान धारणेचो देखाव करता, हेतू मात वेगळोच आसता तेन्ना ही म्हण वापरतात. कोणूय एकेकडे ओगी बसून रावता तेन्ना म्हणटात.

2) **बक पक्षीसो बसलो.**

3) **बगले घाणटा, पयशिलो परमळटा.**

लागशील्लीं मनशां नाकाशीं जातात आनी पयशील्लीं बरीं दिसतात तेन्ना

ही म्हण वापरतात.

4) **बगले यो, आफडूं नाका.**

वस्तू दिल्लेसारकी करप पूण पुराय दिवप ना.

5) **बडी कातरून कुडके करूं येत, उदक कातरून कुडके करूं येत?**

6) **बडी नासताना पेट घालचो ( मारचो ).**

वायट उतरां दिवन मन दुखोवप.

7) **बडी मोडल्यार दोरयेन बांदुये, मन मोडल्यार कसल्यान बांदचें?**

8) **बडी हालयल्यार तोरी स्वता हालता.**

तोरीच्या झाडाची शेंगो लागिल्ली बडी हालयली जाल्यार तोरी आपोआप हालतात. वयल्याक घट्ट धरलो म्हणटकीर ताच्या आदारान आशिल्ली सकयलीं मनशां तुमकां मदत करपाक आपोआप फुडें सरतात.

9) **बडिये भंयान खेतें नाचता / बडिये भियेवन माकड नाचता.**
भंय दाखयलेबगर खंयचीच गजाल जायना. ल्हान माकड लेगीत धपकावतकच नाच करून दाखयता.

10) **बरीं फुलां बाजारांत व्हरचीं पडनात.**

बऱ्यो वस्तू आसात ताचेखातीर गिरायक चलून दारांत येता आनी त्यो उडयांनी खपतात.

इंग्लिशींत म्हणटात Good wine needs no bush.

11) **बरें करूंक कळाव जाय, वायट करूंक वेळ नाका.**

12) **बरें जांवगे भयणुले, हाडिल्लें तुका, मेळ्ळें म्हाका.**

भयणीच्या निमतान आपणाक मेळ्ळें म्हणून तिका बरें मागता. दुसऱ्याच्या मिती वैभव प्राप्त जाता तेन्ना ही ओपार मारतात.

13) **बरें जाल्यार व्हंकले-न्हवऱ्याचें ( व्हरेताचे ), वायट जाल्यार म्हाल्याचें ( रायबाऱ्याचें ).**

लग्नाउपरांत वायट जालें जाल्यार सोयरीक जमोवपी मध्यस्थाचेर घालप.

बऱ्याचें श्रय आपणाकडे घेवप आनी वायट जालें जाल्यार दुसऱ्याक दोश दिवप अशी रीत जावन पडल्या.

14) **बरें केल्लें वरता ( उरता ), पाड फाटीक लागता.**

15) **बरेंपण करचो वेळ मेघा म्हणके धांवता.**

संधी ढगांसारक्यो वतात. Opportunities pass away like clouds.

16) **बऱ्या सांगाता पडल्यार बरी बुद्द खोट्या सांगाता पडल्यार खोटी बुद्द.**

17) **बऱ्या गेल्यार आंगार येता !**

कोणाचेंय बरें करूंक म्हणून वचप आनी वायटपण आंगार येवप तेन्ना सध्याच्या कलियुगाचेच हे प्रताप हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

18) **बसन म्हळयार सावळी ना, धरीन म्हळयार ताळी ना.**

सावळीय दिना आनी आदाराक एक ताळीय ना असलें झाड आसून नासून सारकें. दरिद्री मनश्याच्या आलासऱ्याक गेल्यार कांयच सादपाचें ना असो अर्थ.

19) **बशिल्ली माणाय मारूंक उठ्टा ( उपकरता ).**

केल्लें केल्लें तें उरफाटें जाता. बरें कितें म्हणून सांगचें तर घरांतलीं मनशां ताचो दुसरोच अर्थ लायतात. सोळाव्या शेकड्यांत ही म्हण अशी वापरताले: कष्ट कालारि बस्सिली माणारु शत्रु.

20) **बसलेल्या मुसांक चाळोवं नये.**

## बा

1) **बांगडे घेतालो अर्द तांगाचे आनी शेंवटो उडय म्हणटालो तांगाचो.**

वांट्यानी नुस्तें घेता तेन्ना वयर उडय म्हणून मागपाची चाल. घेवपी हक्कान मागता. नुस्तें घेता थोडें आनी वयलें फुकट मागता चड आनी बऱ्यांतले.

2) **बागवतल्यांक बागोवपी चड ( बागसुचें चड )**

3) **बाटल्यार कदेलार बाटचें, कातले कुडक्यार बाटूं नये.**

4) **बाण आसल्यार नपुरो; त्राण आसका.**

5) **बांदलो मणी, जालो धनी.**

मणी मंगळसूत्र मात घालून घोव म्हणून रावप.

6) **बांदिल्ली मुठीक लाख रुपया.**

7) **बांदिल्याक चोवनू धरलेलो सुकलो.**

बांदिल्ल्याक पळेतकच धरिल्लो भियेता. पआलीय तशी दशा जातली हें चितुनूच दुख्खी जाता. एक दीस आपणाचेर ती पाळी येतली म्हणून तो भियेता.

8) **बांदोडेंचो दोवलो, शिरोडेची कायल.**

हांगांचें थंयचें सामान एकठांय करप

9) **बाणीर बोट दवरलेलें थंय आसा, व्हडे खंय पावलां म्हण खबर ना.**

बाणीर बोट = आपूण सांगता तेंच खरें मानप असो आग्रो धरप.

म्हणी फाटली काणी : व्हड्याचे धडेक बांदील्या कोंड्याक वा बारीक वांशांक बाण म्हणटात. एक मनीस बाणी हात धरून व्हड्यांन बशिल्लो व्हडे वचत आशिल्ले मदींच त्या मनशाच्या लक्षांत आयले, बोटांत मुदी ना ! मुदी केन्ना उदकांत पडली वा केन्ना शेणली कोणाक खबर ! इतले म्हणसर व्हडे आनिकूय फुडें गेलें, पूण तो मनीस मात एकूच घेवन बशिल्लो ‘हांवे हांगा बाणीर बोट धरिल्लें. तो हाशांक म्हारग जालो. बाणीवयले बोट असोय वाक्प्रचार कोंकणी म्हणींत दिला. ‘आमगेली रुक्मणी आसने तिगेलो स्वभावच वेगळो. तिणे म्हळ्ळें तें खरें आनी तशोच करच्या जाय’. बाणी वयलें बोट करची तिगेली सवय वच्ची न्हय.

10) **बापायलें वेसन पुताक, बियेची कीड झाडाक.**

11) **बापूय मेल्लेल्या वर्सा ओत चड; आवय मेल्लेल्या वर्सा भूक चड.**

बापायचो आदार वतकच सूर्य प्रखर दिसता. जेवण घालपी आवय वतकच भूक शांत जायना.

2) **बापूस तकीत पूत, आवस तकीत धूव.**

बापायसारको चलो आनी आवयसारकी चली.

3) **बापायक पूत नाका आज्याक कित्याक नातू जाय?**

बापायकूच जर पूत नाका जालो तर आज्याक नातू कित्याक जाय जातलो?

4) **बापायचें जोतें पुताक जांवक लागलें कि बापायचो अवतार सोंपलो.**

पूत व्हडलो जालो कि बापायन ताचेकडेन अधिकारान वागूंक जायना, मित्राप्रमाणे ताका वागोवंक सुरवात करूंक जाय. भुरगीं शिकलीं सवरलीं, वयांत आयलीं तरीं तांचेर अधिकार गाजोवपी, आपले निर्णय तेच तांचे निर्णय अशें मानपी बापूय आसतात तांकां जागे करपाक ही म्हण वापरतात. संस्कृत सुभाषित आसा, पांच वर्सांपर्यंत भुरग्याचे लाड करचें, धा वर्सांपर्यंत ताका धाकांत दवरचो, सोळा वर्सांचो जातकच मात ताचेकडेन मित्राप्रमाणे वागचें. प्राप्ते तु षोडशे वर्षे पुत्रं मित्रवदाचरेत्.

15) **बाब म्हजो जोडकार, गांवची झगडीं घेता आंगार.**

16) **बाब म्हजो शाणो जालो, गांड धुवन हागूंक गेलो**

17) **बाबाय ना आनी पुडवेंय ना.**

म्हणी फाटली काणी : बापूय आनी पूत भोंवडेक गेल्ले. वाटेर चोर आयले. बापायक बांदून घेवंक वचपाक लागले. पुतान बापायक सोडोवपाक आपले पुडवें दिवचें केलें. चोरान पुडवें घेतले आनी बापायक धरुन व्हेलोच. दोनीयकडल्यान नुकसान जाता तेन्ना ही म्हण चड घोळटेंत येता.

18) **बामूण कापड हाडूंक गेला म्हूण आशिल्लें रान्नींत घालें.**

बामूण, बाम्मुणू = पती, घोव

19) **बामणाक दिली वासरी, तातूंत दांगां पसरी.**

एकल्याक सुवात दिल्यार आपले शिटुकसाणीन तो आनीक दोगांक भितर रिगयता.

20) **बायल घोवा मारताली आनी लजेक लागून घोव म्हणटालो, 'घे रांडे , घे रांडे'.**

कजाग बायलेकडल्यान मार खाता आसताना 'घे रांडे, घें रांडे' म्हणून आड्डत राविल्ल्यान आयकतल्यांचो समज जातालो घोवूच बायलेक मारता असो जातलो आनी आपली लज वच्ची ना अशें ताका दिसतालें.

21) **बायल नाका जाल्लेल्याक ताकांत फातर येता.**

बायलेचेर मोग नासलो म्हणकूच घोव, नाका जाल्ल्यो कुरापती काडीत रावता. बायलेन वाडिल्ल्या ताकांत सुद्धां ताका फातर मेळटात.

मराठी म्हण : नावडतीचे मीठ अळणी.

22) **बायलां कडे गूट सांगू नाका, रायाकडेन फट मारूं नाका, चौगांचें उतर मोडूं नाका.**

अस्तुरे लागीं गूट धरना, फट मारल्यार राजा ख्यास्त करतलो, चौगांचें उतर मोडल्यार लजेक सांपडटलो.

Do not confine secrets to a woman, do not tell a lie before a king and do not go against the opinion of the majority.

गूट हें गूढ ह्या संस्कृत शब्दाचें तद्भव. संग्रह, गुपित, मर्म, भेद, हेवूय शब्द वापरतात. गुप्त गोष्ट वा संग्रह बायलांकडेन धरना.

23) **बायलांल्या तोंडात तीळ तिंबना.**

24) **बायलेचें शाणेपण चुलीकडे / बायलांली विद्या रान्नी पल्लांत.**

चुकीचे समजुतिचेर आदारलेली आदल्या काळांतली म्हण: अस्तुऱ्यो रांदूक हुशार आनी आतां सगल्या क्षेत्रांनी मुखार पावल्यात.

25) **बायलो आनी मातये कळसो ( बुडकुलो ) समान.**

पयलीं अस्तुरेक कशे कुसकुटायताले हें दाखोवपी ह्यो म्हणी:

26) **बायल पळेता मोट, आवय पळेता पोट.**

मोट वा मोटली म्हळ्यार पोटली.

आवयक पुताक जेवंक कितें मेळत हाचो हुस्को आसता. ती ताका बरें कशें जेवंक मेळत तें पळेता. बायल घोवान फाटीर मारून केदी व्हडली पोटली हाडल्या तें पळेता आनी ती सांबाळटा. बायल पळेता फाट, आवय पळेता पोट अशेंय म्हणटात. फाट म्हळ्यार फाटीर घालून हाडिल्ली पोटली.

27) **बायल पिशी, घोव खुळो, घराक जालो बिळकुटो.**

28) **बायलेची हिकमत जेवण पुरयता, दादल्याचो धेंकणो तें भंगयता.**

29) **बायलेचे बुद्दीक भुल्लो, घरचो भगस्ताळ केलो.**

30) **बायलेगेलें हाड आनी कलवंतागेलें धाड.**

बायल सदांच हें हाड तें हाड म्हणटा आनी कलवंत हें धाड तें धाड म्हणटा. अमुक धाडून दी म्हणून यजमानाक सांगपाची कलवंताची रीत आनी घरांत अमुक ना तें हाड म्हणून सांगपाची संसारी बायलांची पद्धत.

31) **बायलेक जायने आठ वर्सां पाळण्या खातीर संचकारु.**

ल्हानपणांत लग्न करताले त्या काळांतली ही म्हण. संचकार - उश्णे आगाऊ दिल्ले पैशे.

बायले आठ वर्सां जावंचे पयलींच फुडले तयारेक लागता आनी पाळण्याखातीर उश्णे दिवन बसता.

32) **बायलेक मारका जाल्यार बशिल्ली म्हाणाय नपुरोने?**

बायलेक मारपाचें जालें जाल्यार व्हडली आयुधां नाका. बसपाचो पाट तितलो पुरो.

33) **बायले मिती घर आनी आवसू मिती कुळार.**

34) **बायले नथिंतल्यान बाण मारपी.**

जाचो पराक्रम घरापुरतोच आसता तांकां उद्देशून ही म्हण वापरतात.

35) **बायल दिवन बटीक हाडप.**

बटीक = दासी

बरी वस्त दिवन बदल्यांत हलकी वस्त हाडप.

36) **बाय पत करता, आका खाणां खाता.**

धाकटी भयण जोडटा आनी व्हडली भयण तिच्या जिवार फोल्गां मारता.

37) **बाय रुखाबगले वचचें ना, बाय सांगों खावंचें ना.**

कश्ट केलेबगर खावंक मेळना. झाडा म्हऱ्यांत वचपाक आळस केलो जाल्यार सांगो कश्यो मेळटल्यो?

38) **बाये जोड फुलां काबार.**

फुलां विकतीं घेवपाकच सोंपता इतली थोडी जोड.

39) **बायेची जोड न्हाणाक नी खाणाक बाद.**

जोडटा तितलेय पयशे जेवणाखाणाचेर सोंपयता.

40) **बांय सुकली म्हणून समुद्र सुकता?**

41) **बांयचे तोंड कोण बांदीत? न्हंयेंचे ( समुद्राचे ) कोणाच्यान बांदू जाता?**

एकट्याचे तोंड बंद करूंक जाता. जेन्ना समजांतले खूब जाण एक गजाल उलयतात तेन्ना तांकां आवरप कठीण आसता.

42) **बांयतल्याक काडून न्हंयेंत घाल्लो.**

एका संकटातल्यान काडून दुसऱ्या व्हड संकटांत कोणाक घाल्लो खंय.

43) **बांयत उडी मारतल्याक दिवो इत्याक ( कसल्याक )?**

जाणा जावन स्वताचो नाश करून घेवंक भायर सरतल्याक उजवाड आनी कितें दाखयतलो?

44) **बांयंत बुडल्यार न्हंयत.**

बांयत उडी मारता आनी न्हंयतेंल्यान भायर सरता. धूर्त आनी हुशार मनशाक ही म्हण लागू जाता.

45) **बांयंत पडलेल्याक सोडून पंचांग पळोंवपाक गेला.**

संकटांत सांपडलेल्या मनशाक थंयच सोडून म्हूर्त काडपाक वचपी शाणोच म्हणपाक जाय.

**46) बांयत आसल्यार अडसुळेंत ( कळसुलेंत ), तपल्यांत आसल्यार दवल्यांत.**

मुळांतच जर अक्कल ना जाल्यार उलोवपांत, चलपांत, खंयच्यान दिसतली? अशें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

**47) बांयतले उदक चवळु( खदोळ )जाल्यार अडसुळेंतलें गोड जायत वे?**

बांयत आसा तसलेंच उदक कळसुलेंत येतलें. खण तशी माती.

**48) बांयतल्या बेब्याक ( मांडकाक ) बांयींच ब्रह्मांड.**

बांयतल्या बेब्याक भायल्या जगाची माहिती नासता. आपले माहितीचे भायर जो पळोवंक तयार नासता अश्या संकुचित बुद्धीच्या मनशाक ही म्हण लायतात.

कूपमंडूक = बांयतलो बेबो.

स्वामी विवेकानंद एक काणी सांगतालो. एके बांयत एक बेबो रावतालो. तो खूब वर्सांसावन थंय रावतालो. ल्हानाचो व्हड थंयच जालो. बांयतले जंतू किडे खावन उदक नितळ दवरून मजेंत दीस काडटलो. एक दीस दर्यांत रावपी दुसरो बेबो ते बांयत आयलो. ‘ कोण रे तूं ? खंयच्यान आयला?’ बांयतल्या बेब्यान विचारलें. ‘हांव दर्यांतल्यान आयलां’, ताणे जाप दिली. हो तुजो दर्या कितलो व्हडलो आसता? म्हजे बांय इतलो व्हडलो आसा. बांयतल्या बेब्यान एके धडेच्यान दुसरे धडेमेरेन उडकी मारीत म्हळें. सायब दर्याची सर बांयक येता? दर्यांतल्या बेब्यान म्हळें. बांयतल्या बेब्यान आनीक एक उडकी मारली आनी विचारलें हाच्याकूय व्हड आसा तुजो दर्या?

बाबा तुका कितें समजायतलों, तो व्हडलो आसता. बांयतल्या बेब्याक आयलो राग. म्हजे बांयपरस कांयच व्हड आसूं नजो. तूं फटकिरो. हांगाच्यान चलूंक लाग.

**49) बांये काजार सांते चीट.**

50) **बायेचो खोपो आनी बाबाचो मुंडासो.**

कांय भुरगीं भिजूड आसतात. दुसऱ्या कोणाकडे वचपाक तयार नासतात. आवयक आनी बापायक तितलीं वळखतात. आपलें पुरतें पळोवपी, आपलोच विचार करपी मनशांक ही ओपार मारपाची चाल पडली. आनी वेगळी म्हण जल्माक आयली म्हजो खोपो तुजो मुंडासो (पगडी).

51) **बार्का फाटल्यान पनेळ.**

बार्क = तारूं, व्हडें (पुर्तुगेज)

तारवाफाटल्यान ल्हान व्हडें आसताच. आवय फाटल्यान ल्हान भुरगीं आनी फुडाऱ्या फाटल्यान ताची सायबाजात्रा करपी मनीस आसतात. ह्या अर्थाची दुसरी म्हण 'लिंगाफाटल्यान सोमसूत्र'. लिंगाचे फाटल्या वटेन तीर्थ वचपाक बांदलेलो मार्ग आसता ताका सोमसुत्र अशें म्हणटात. प्रत्येक लिंगा फाटल्यान सोमसूत्र आसताच.

52) **बारा वर्सेचिंत धरलो करो, माय म्हणटा म्हजो कुसवो बरो.**

चेडूं बारा वर्सांचे जाता आनी कळशी घेवन उदकाक वता म्हळ्यार कामाक लागता, तेन्ना आवय अभिमानान पळेता आपलो कुसवो धन्य जालो म्हणटा.

53) **बारा बांदांचें उदक पिला**

खूब प्रवास करून, बरे वायट अणभव घेवन शाणो जाल्लो मनीस.

54) **घोव बारा पडी मापां खाता जाल्यार बायल तेरा मापां खाता.**

(पड = शेराचें कापीमाप) सुबेज मनशाक ताचे परस सुबेज मनीस मेळटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.

मराठी म्हण : शेरास सव्वाशेर.

55) **बाजारांत मारला, आनी घरांत सांगू नाका.**

भर बाजारांत मार खाला अशें आसताना घरा मात सांगू नाका म्हणटा. सगलेकडेन जाल्ली गजाल लिपोवंक सोदता तेन्ना ही ओपार मारतात.

56) **बारा वरांचेर तेरा गोटे, रांदपिणीचे कुले मोटे.**

रांदपीण जाडजूड जायत वता पूण तिचे हस्तुकीं घरांतल्यांक गोटे कांय

वेळार मेळनात. आळशी बेजबाबदार मनशाक ही ओपार मारतात.

7) **बाळे चिन्न कयला वाळे.**

कयला वाळे म्हळ्यार झरून झरून कयलासारके ल्हव जाल्ले वाळे. चेडवाचे वाळे जर झरलेले आसत जाल्यार तें काम करता अशी खूण मेळटा आनी संवसार बरो करतलें अशें धरूं येता.

58) **बाळंटिच्यो वेणो वांझेक समजनात.**

जो काम करता ताकाच कितले कश्ट भोगचे पडटात तें कळटा. जो काम करीना त्या आळश्याक कितें कळटलें?

59) **बाळंटिलें खाण वेड्यार आनी व्हंकलेले भांगर सव्यार.**

बांळटिच्या पोटाक पयले कांय दीस लुगटाचो पटो बांदपाची पध्दत आशिल्ली. तो बांदिल्लो आसता तेन्नाच तिका खाण मेळूंक जाय. व्हंकलेक जें भांगर शिंगर दिवपाचें आसता तें न्हवरो व्हंकल सव्यार बशिल्लीं आसताना दिवंक जाय. त्या त्या वेळार त्यो त्यो गजाली करूंक जाय. मागीर करूंक रावूंक जायना. (सवो म्हळ्यार लग्नांत न्हवऱ्या-व्हंकलेक बसपाक केल्लें खास आसन.)

**बांळटीक खाण वेड्यार, व्हंकलेक फुलां साड्यार.**

साडो म्हळ्यार लग्नांत न्हवरेकारांकडल्यान व्हंकलेक न्हेसपाक धाडटात ती उंची साडी आनी हेर अहेर.

## बि

1) **बियां तकीत झाड/ भात ; झाडा तकीत फळ.**

बीं जशें बरे वायट आसता तशें फळ बरें वायट येता. 'बियांसारकें भात खणी सारकी माती' अशेंय म्हणटात.

गोमट्या बिजाचीं फळें ही गोमटी – तुकाराम.

# बु

1) **बुडून शेवाळें सांपडलें.**

मोत्यांच्या शिपयांक उदकांत उडी मारप आनी हाताक शेवाळें / शेळाळ एके तरेच्या वनस्पतीचें मालें, हाताक लागप. शेवाळ म्हळ्यार कांय करी नासताना कोणाक्य घबाड मेळटा तेन्ना उडून शेवाळें मेळ्ळें अशें म्हणटात. सामक्या विरुध्द अर्थाची ही म्हण चड घोळटेंत आसा. शेवाळ म्हळ्यार एक बरें नुस्तें असोय अर्थ धरतात. को. श. को. त तो अर्थ दिवंक ना. हें उडून शेवाळें कोणाक पडलें जावंये? असो वाक्प्रचार 'पितुबाबालो तांब्यापटों' हे काणयेंत शणै गोंयबाबान वापरला. पितुबाबालो मुदगो कोणाच्या वांट्याक आयला आसतलो ह्या अर्थान.

2) **बुक्या पुरसाचे थापट बरें पुण मासळेकान्नीचे आलिंगन नाका.**

3) **बुक्को विकतल्याचे थपराको जाय. मासळी विकतल्यालो आप्पो नाका.**

देवळांत बुको वांटटल्याक अत्तरवांल्याचे थापट गालाक वास तरी दितलें, नुसतेकान्नीकडल्यान नुसत्याची हिंवसाण मात मेळटली.

4) **बुदवंताक बुद्द सांगची म्हळ्यार रेंवेर उदक आनी पिशाक बोध करचो, आळवार उदक.**

रेंवेंत उदक भितल्लेभितर जिरता तशें बुदवंताक सांगिल्लें ज्ञान, पिशाक केल्लो उपदेश आळवाच्या पानार उदकाचे थेंबो कसो उरता तसो वयलेवयर उरता.

5) **बुदवंताचो व्हड गूण आपणालें मूर्खपण सोदचें.**

6) **बुदवंत सोदचो पडटा, पिशे खंयीय मेळटात.**

7) **बुद्धी आशिल्ल्यांक भांडार जाय वे ?**

बुदवंताक भांडवल लागना. "Wisdom is more valuable than riches " अशें तो मानता अनी संपत्तीचो सांठो कित्याक जाय म्हणटा.

8) **बुद्द सांगतले चड, काम करतले थोडे.**

# बे

1) **बेकार मेस्त गांड तासता.**

2) **बेकार थवय कुले ताशी.**

3) **बेताळाक ना बायल आनी भावका देवतेक ना घोव.**

ही एक लोकप्रिय म्हण. भावका देवते ऐवजी काळखा देवी म्हणटात (का.म्ह.) काळका देवींय म्हणटात (कों. म्ह.सोरु).

बेताळ हो ग्रामदेव. शंकराचो सेवक. भावका, देवका, काळका ह्यो ग्रामदेवता. दोगांयकय जाय तसो जोडीदार मेळनाशिल्लो. तेन्ना ताणी एकमेकाक मान्य करून घेतले. दोन गरजेवंत एकमेकांचो उपयोग करून घेवन कसो तरी आपलो हेतू सांदून घेतात तेन्ना ही म्हण वापरतात.

4) **बेबकेन पोट कितलेंय फुगयलें म्हणून ती गोरवायेदी जावंची पडल्या?**

एका ल्हान बेबकान बैलाक पळयलो. ताचे व्हडलें पोट पळोवन तें बेबूक चकासूर जावन आवयकडेन धांवलें आनी व्हडल्या पोटाचो कोण तरी शेतांत चरता म्हणून सांगलें. आवयन म्हळें केदेंशें पोट रे? अशें म्हणून तिणें आपलें पोट दोन चारदां फुगोवन दाखयलें. न्हय, हाचेकय मोटें आशिल्लें अशी जाप परत परत मेळ्ळी. आवय पोट फुगयतच रावली निमाणेकडेन पोट फुटलें. बडायो मारुन स्वताचें नुकसान करून घेता तेन्ना ही ओपार मारतात.

# बै

1) **बैल गायेक सोदता तो धनयाक दूध दिवंक न्हय.**

बैल गायेच्या फाटल्यान लागता तो ती गाभण रावन फळची आनी धनयाक दूध मेळचें म्हणून न्हय. जण एकलो आपलो स्वार्थ पळेता.

2) **बैल शेणिल्ल्याच्या कानाकडेन घांटी वाजतात.**

जाचो बैल शेणला ताका ताच्या गळ्यांतली घांट आयकूंक येता असो

भास जाता. शेणिल्ल्याचें मन धाकडेन हे भाशेन खंयचेकडल्यानय ताका घांटींचो आवाज येतासो दिसता.

## बो

1) **बोकडो खातल्याक कुकड पावना.**

2) **बोट चिंवल्यार पोट भरता वे?**

अर्दकुटे सामुग्रीन कसलेंच काम फुडें वचना. वयलेचाराच्या उतरांनीं दुख्ख ल्हव जायना.

3) **बोट दाखयल्यार हात गिळटा.**

4) **बोट सुजल्यार पोटाकय व्हड जायत वे?**

5) **बोड केल्यार ( तासल्यार )संन्यासी जालो वे? आनी गोबोर पुसल्यार ( माखल्यार ) यति जालो वे?**

बोड तासप वा गोबोर माखप हे वयलेचाराचे उपचार. ते केले म्हणून मनीस बदलना.

6) **बोडान वजें व्हांवयल्यार पांयांक इत्याक जाळ?**

7) **बोडकेले लग्नाक सतरा विघ्नां.**

जनरितीचे आड कितेंय करता तेन्ना विघ्नां येतात.

8) **बोंतरार इतलें तर कापडार कितलें?**

बोंतर = पिंदकें लुगट.

पिंदकें लुगट न्हेसूंक मेळटा तेन्ना जर इतली गर्वीश्ट, जाल्यार धड कापड न्हेसूंक मेळटकच कितली गर्वीश्ट जातली?

9) **बोंबो शणै करीत ती दिवाळी. ( केरळ )**

10) **भोम पोरोब करता ती दिवाळी. ( गोंय )**

गांवांतल्या व्हडल्या मनशांचे लहरीचेर सगलें निंबून आसप.

11) **बोंबलेर वडो दवरलो.**

कसलीय गजाल दुसऱ्याक खबर ना जाल्यार अचूक वचून दुसऱ्याच्या कानार घालप आनी कळ लावप. ही म्हण कुंडेकुस्कुराचे लोककाणयेचेर आदारलेली आसा अशें म्हणटात.

12) **बोब मारली म्हूण सर्गार पावना.**

कितल्याय व्हडल्यान आड्डलो म्हणून मनीस व्हड पदवेक पावना.

13) **बोवाळ शणै गोपाळलो, न्हंय खांदार घेवन वाल्यादेगेर न्हांवच्या गेलो.**

खुब गडबड करून कित्याय कितें करप.

## ब्र, बृ

1) **ब्रह्मदेव सगल्यांक मुंज बांदता, आपल्याक मुंज बांदूक विसरलो.**

कांय जाण आसतात ते जगाच्यो सगल्यो राटावळी करतात. आपल्या नातेवायकांकडेन पळोवपाक तांकां फुरसत मेळना. तेन्ना ही म्हण वापरतात.

2) **ब्रह्मदेवाली मुंज केल्लो.**

हे म्हणीचे दोन अर्थ जावं येतात. एक तर तो मनीस अतिशय विद्वान नाजाल्यार एक नंबरचो बिलंदर.

3) **बृहस्पतिसो उलयता, शेणांत तोंड घालता.**

देवांचो गुरू जाल्ले सारको तत्वज्ञान उलयता तें आयकून घेवचें. करणी पळेत जाल्यार सामकी उणाक, सोबना तसली.

## भ

1) **भट आसल्यार तीथ ना, तीथ आसल्यार भट ना.**

धर्माप्रमाणे खंयचेंय कृत्य करपाचें आसल्यार पयलीं बरो दीस पळोवंचो पडटा. तें कृत्य करपाक भट जाय पडटा. दोनूय गजाली आसलेबगर काम जायना. एक गजाल आसून दुसरी नासत जाल्यार अडचण. अश्या

वेळार ही म्हण वापरतात.

2) **भट करीत ती अमास, राजा थारायत ती दिशा.**

भटान सांगिल्ली ती उमास, पुनव.

खंयचेय गजालीचो निर्णय एकाच्या हातांत आसप. ताका विचारपी कोण नासप. भटान सांगिल्ली पूर्व दिशा अशेंय म्हणटात.

3) **भटाक खंय, जाल्यारूय आसा, मेल्यारूय आसा.**

कोणागेरूय भुरग्याचो जल्म जालो तर बारशाचो, कोणूय मेलो जाल्यार बाराव्याचो, असो दोनूय वेळा भटाक लाब मेळटा.

4) **भटा घरांत सुपलीभर सुंगटां.**

जी वस्त त्या जाग्यार केन्ना आसपाची शक्यता ना थंय ती आसप हाकाच भटवाड्यार कुकड असोय वाक्प्रचार आसा.

5) **भटाक कित्याक तारूं, गाबत्याक कित्याक गोरूं?**

गाबती = खारवी, नुसतें मारपी, कोळी.
भटाक तारूं दिलें जाल्यार तें चलोवपाक येवंचे ना. खारव्याक दुदाचो धंदो जमचो ना. जाचें काम ताका. दुसऱ्याक जमना. गुजराती म्हण आसा: जेनुं काम तेनुं थाय, बिजा करे तो गोता खाय.

6) **भटाक व्हरून मानतुकीर मारप.**

मानतूक = नवस

नवस पावोवपाक भटाकूच बळी दिवप. दुबळ्या मनशाक फटोवन आपलो हेतू सादोवन घेवप.

7) **भटाक पुराण व्हड, काजीक कुराण व्हड.**

8) **भटाक गर्वूय ना विद्याय ना.**

स्वभिमान आनी शाणेपण नासप्यांक ही म्हण लागू पडटा. Used with reference to a person who lacks both, learning and self respect - R. S. Prabhu.

9) **भटाच्या दारांत तेंडले माटव.**

भट शिवराक म्हणटकीर बाराय म्हयने तेंडली मेळल्यार ताका जाय. जाका जाची गरज तें तो आपल्या घरांत दवरता.

10) **भटो भटो आपल्यो वाटो.**

भटासारकेच आपलेपुरतेंच पळोवपी कांय लोक आसतात. फायदो पदरांत पडलो, काम जालें म्हणटकीर कडसरतात तांकां ही म्हण वापरतात.

11) **भटो, शिकिल्लें म्हणा.**

12) **भंय सोडलें सटिये दिसा.**

जल्मापासून कसलें भय म्हणून ना हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

13) **भरिल्लो कळसो चकनळना ( हायसूळना )**

चकनळना, हायसूळना = हालचो ना.

शाणो मनीस ओगीच बडबड करीना.

14) **भरिल्लो कळसो उरत, अर्दो कळसो फुटत.**

15) **भरिल्ल्या बामणाक धंयांत फातर ( धंय करकरता ).**

पोटभर जेविल्लो आसतकूच कितेंय दिलें जाल्यार नाका आसता. मागीर दिता ताच्यो खोडी काडप जाता.

16) **भरिल्ल्या पोटार धंयभात करकरीत.**

सुखासमाधानांत आसताना सादी गजाल कोणाक जाय?

17) **भरलेले गाडियेक सूप जड वे?**

सामानान भरलेले गाडयेचेर एक सूप उडयलें म्हणून गाडयेक सलवसता. तेचभाशेन जो खूबशीं कामा आंगार घेता ताचेकडेन एक ल्हानशें काम सोंपयलें जाल्यार ताका तें सलवसता.

18) **भरलेल्या समुद्रांत म्हगेलें एक जायफळ.**

भरलेल्या दरयांत एक जायफळ उडयलें म्हणून चड जायना. तें बरेंय करिना आनी वायटूय करिना.

19) **भरलेलेकडेन भरता.**

पयलींच खूब आशिल्लेकडेन आनीक भर घालप. भरींत भर.

गुजराती - भरतीमां भारावूं.

20) **भरती मागीर सुकती नी सुकती मागीर भरती.**

पयलीं बरी परिस्थिती मागीर वायट. परत बरी परत वायट, असो नेम पळोवंक मेळटा. केरळांत ही म्हण भरतेक सुकती अशी मारतात, (को.म्ह.सोरु) भरते फाटल्यान सुकती.

21) **भल्या जर अश्यो तर लांवो म्हणटात त्यो कश्यो?**

भलो = बरो, सज्जन. लांव = मेल्ले बायलेचे जित्यांक झपाटपी भूत.

बऱ्यो सज्जन बायलो जर इतल्यो वायट वागतात तर लांवो म्हणून जांका म्हणटात त्यो कितल्यो भयंकर आसतल्यो?

22) **भस्मासुरालो हात भस्मासुराल्या माथ्यार आयलो.**

म्हणी फाटली काणी : भस्मसुरान घोर तप करून शंकराकडल्यान वर मेळयलो. हो जाच्या माथ्यार हात दवरीत ताचें जळून भस्म जातलें असो तो वर. ह्या वराच्या बळग्यार भस्मासुरान सुमाराभायर पिडापीड करपाक सुरवात केली. वर दिवपी शंकराकूच ना करपाक तो मुखार सरलो तेन्ना मोटे हिकमतीन ताका स्वताच्या माथ्यार हात दवरूंक लावन तो जळून गेलो. मेळिल्लो वर स्वताच्याच नाशाक कारण जाता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

## भा

1) **भाकरेचें बोडूक खंयचे वटेन तें कळना.**

भाकरी वाटकुळी आसता. तिचो मुखेल भाग खंयचो तें कळना. जंय तोडटा थंय तिचें तोंड म्हणपाचें. खंयच्यानूय खाली जाल्यार सारकीच लागता. झगड्यांक उद्देशून ही म्हण वापरतात. झगडें केन्ना आनी कशें सुरू जाता हें कळना.

2) **भांगर जोखचे कडे माजराक इतें कार्य?**

3) **भांगरा सूय म्हणून दोळ्यांत घालू व्हय?**

4) **भांगराची पेस्काती ( सुरी ) म्हूण पोटांत घालची ( घालून घेवंची ) वे?**

मराठी म्हण : सोन्याची सुरी म्हणून पोटांत खुपसावी काय?

5) **भांगरा दाय वण्टी आधार जाय.**

दाय जरीं भांगराची आसली तरीं उबी रावपाक वण्टीचोच आधार लागता. व्हडल्याकूय ल्हानाचो आधार जाय पडटा.

6) **भांगरा जाल्यारूय माड घरार बागवल्यार कातरूंका.**

7) **भांगराकान्नूय मोडटा आनी बोंदराकान्नूय मोडटा.**

भांगराचे दागिने घाल्ली बायल आपले दागिने दिसचे म्हणून सगली मुरगडटा. बोंदरा न्हेशिल्ली बायल लोकांचे लक्ष बोंदराचेर वचूं नये म्हणून मुरगडटा. दोगांयची करणी सारकीच पूण कारणां वेगळीं वेगळीं.

8) **भांगे वळींत तुळशी रोंपो.**

वायटांत बरी गजाल.

9) **भागेबाये आबोली, रोयनाफुडें फुलोली.**

म्हणी फाटली काणी : एक आशिल्ली भागेबाय. ती खंय आज झाडाचे बीं जमनींत घालताली आनी फाल्यां फुला आयलीं काय पळोवंक वताली. सुमाराभायर उतावळेपणा करता तेन्ना भागेबायच्यो आबोल्यो अशें म्हणटात. एकदां मात अशें जालें, भागेबायन आबोलेचें झाड हाडून रोयलें आनी कशें कोण जाणा तें रोखडें फुल्लें. नशिबवान मनश्याचे काम चट् करून जाता तेन्ना ही ओपार मारतात. म्हाळेची आबोली, लायना बरोबर फुल्लीं, अशेंय म्हणटात.

10) **भागेबायेच्या वल्ला, सगलो संवसार भल्ला.**

भागेबायेच्या वल्ला म्हळ्यार रोवळेंतच तिचो सगलो संवसार भरलेलो आसा. सामकी गरिबीची परिस्थिती.

11) **भाजलेल्यो वरियो बियांक उपकरनात.**

12) **भाजून ओपूंक ना.**

13) **भाजून बीं पेरलें ना.**

खंयचीय गजाल करपाक आपूण समर्थ आसां वा कोणूय आड येतल्याक बुद्द शिकोवपाक आपणाक तांक आसा अशें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

14) **भाटकाराक एकूच भाट, मुंडकाराक हजार भाटां.**

आदल्या काळांत भाट कबलातीन घेतालो आनी कुट्ट करुन खातालो. एका परस चड भाटां घेवन तो काम करुंक शकतालो. भाटकाराक एकूच भाट मुणकारा धा भाटां अशीय म्हण आसा. गुणी मनीस एका परस चड भाटां घेवन पयसो अमाप मेळयता.

15) **भाटकाराचें वारें सगल्या भाटाक सारें.**

भाटकार आपल्या भाटांतल्यान फेरी मारता तेन्ना थंय कितें चल्लां तें ताच्या लक्षांत येता आनी तो भागेल्याक योग्य सुचना दिवंक शकता. फेरयेच्या वेळार आपल्या झाडा माडाकडेन मायेन पळेता तें भागेल्याच्या कामा परस आनी साऱ्यापरस फायद्याचें जाता. झाडांक संगीत, धनयान मायेन केल्ली विचारपूस समजता अशें जाणकार सांगतात.

16) **भाड्या बैलाक देवा राखण.**

जो भाड्यान व्हरता तो काय बैलांची काळजी घेना. देवूच तांकां राखता. दुबळ्याक देवाची राखण, आंधळ्याची गोरवां देव राखता, अशेंय म्हणटात.

17) **भाण फुटल्यार कयल्यो आसात.**

निगरगट्ट मनीस भाण फुटून नुकसान जालें तरीं कयल्यो आसात म्हणून सांगता. अपमान जालो तरीं तो लिपोवपाक फुशारकी मारता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

मराठी म्हण : पडलों तरी नाक वर.

18) **भायर गोड, भितर कोडू**

19) **भायर गोरो, भितर काळो,**

20) **भायर पर्वत, भितर खर्वत**

भायल्या देखाव्याचेर फसून वचचे न्हय अश्या अर्थाच्यो ह्यो म्हणी.

) **भायली भिक्षाय ना, घरचें जेवणूय ना.**

बापूय भीक मागूंक दिना म्हणून भायलें खावंक मेळना आनी आवय वाडिना म्हणून घरचें जेवण ना. दोनीकडल्यान अडचण उप्रासता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

2) **भाग्य आयल्यार चडूं नये, दरिद्र आयल्यार रडूं नये.**

व्हडपण येतकूच गर्व करुं नये आनी गरिबी येतकूच रडत बसूं नये.

3) **भाव तसो देव.**

भक्तीनूच देव वश जाता. जशी भक्ती करची तशी देवाची कृपा जाता. देखून भावार्थ्याक देव पावता अशेंय म्हणटात.

4) **भावाची वेण घोड्यान जाय, त्या बडवाचारान मरतें गे आय !**

## भि

) **भिकाऱ्याक ओंकारे ज्यास्त.**

दुबळो आसूनय मिजास आनी मस्ती चड. भिकाऱ्यांक आवडनिवड आसूंक फावना. Beggars cannot be choosers अशें म्हणटात.

2) **भिकाऱ्याच्या उशा पोंदा पोळी आसा. भिकाऱ्याक न्हीद पडटा?**

3) **भिकाऱ्या उशालागची पोळी.**

भिकाऱ्याक वा अधाश्याक घरांत अन्न आसत जाल्यार तें खावन सोंपयलेबगर न्हीद लागना. ताचें ध्यान मन ताचेर उरता.

मराठी म्हण : शीत राहिलं हंड्या तर झोप नाहीं ठंड्या.

4) **भिके शितांत कावळो हागलो.**

घरांत कांय ना म्हणून भीक मागून हाडलें जाल्यार तातूंत कावळो हागून तें इबाडलें. नशिबूच वायट !

5) **भिकेश्वर वा लंकेश्वर.**

लंकेश्वर म्हळ्यार रावण. लंकेशूरी, लक्षेश्वर अशेय पाठभेद आसात. खूब श्रीमंत ह्या अर्थान वापरला. सामको भिकारी आशिल्लो बरो नाजाल्यार खूब श्रीमंत आशिल्लो बरो. मदली स्थिती मात वायट.

6) **भिडे भिडे पोट वाडे.**

7) **भिडे गेल्यार पोट वाडटा.**

अस्तुरी चड भिडेस्त आसली जाल्यार ती दादल्याचे वासनेची शिकार जावन, गुऱ्वार रावपाचो संभव आसता. भिडेक लागून खंयचीय गजाल करप आनी ती आंगलट येवप अशें जाता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

8) **भिड भिकेची भयण.**

सभाव जर चडून भिडेस्त आसत जाल्यार मनीस दुबळो जावपाचे वाटेर पावपाक वेळ लागना.

‘बाबगो : पैलीं बिदागी घेवन मागीर ओखद दिवंक जाय.

भीड भिकेची भैण, तसलें तें उपकरना’

‘मोगाचें लग्न’ (पा.52) बरो : शणै गोंयबाब

9) **भितर आयल्यार वाग, भायर गेल्यार कोलो.**

घरांत मस्ती करपी मनीस भायर वतकच गरीबसाणीन वागता.

भितल्या फाटल्यान (माकशीं) ब्रह्म राकेसु.

जो मनीस चड भियेवन वागता ताचेफाटल्यान सगले लागतात.

10) **भितल्याक ( भित्र्याक ) भेष्टायतात ( भिसडायतात ), पळटल्या फाटल्यान लागतात.**

11) **भियेवन चलतां, बायलेची कांकणां राखता.**

घरकार मरतकच बायलो मड्याचेर कांकणां फोडटात तीं न्हय म्हणून घोव आपलीच काळजी घेता. ताका बायलेचें चड पडून वचूंकना, आपलें चड पडलां त्या अर्थान ही ओपार मारतात.

# भु

1) **भुकेक पोळी नाका, निदेक मांचो नाका.**

मांचो = मंचक, माची, आसन, मांचें = पलंग.

भुकेच्या वेळार पोळीच जाय म्हणून ना आनी न्हिदेच्या वेळार पलंग जाय म्हणून ना; अशा वेळार कितेंय चलता. भुकेक काजरोय गोड अशें म्हणटात.

काजरो = विखाळ फळाचे झाड.

2) **भुकेक लज्जा ना, निदेक मर्याद ना.**

मर्याद = भीड, मुर्वत.

भूक लागतकच आनी न्हीद येतकच मनीस भीड, मुर्वत सोडटा.

3) **भुकेल्याक कुंडो गोड, न्हीद आयिल्ल्याक गुंडो मोव.**

भूक खाता रूख अशीय ह्याच अर्थाची म्हण आसा.

4) **भुताक नंबून काळखांत वचचें.**

नंबून = नमून, नमस्कार करून.

काळखांत भूत आसपाचो संभव चड अशें मानतात. देखून पयलींच सावध रावून ताका नमन करचें. जाचो ज्या जाग्यार अधिकार आसा तांचे मुखार नमतें घेवन थंय वचचें.

5) **भुतान घाडी लिपयलो.**

आपल्या आंगांत भार हाडून भुतां-देवचार मनोवन, आळाबंदा हाडून लोकांची दुखणीं बरीं करपी तो घाडी. भूत काडपाक म्हणून आयिल्ल्या घाडयाकूच भुतान लिपयलो. दुसऱ्याची दुख्खां नाशी करपाक जो मुखार येवन प्रयत्न करता तोच कांय वेळा त्या दुख्खांत घुस्पता, अशा वेळार ही ओपार मारतात.

6) **भुरकुटलो भुरकुटलो, आनी कुरकुटांत वचून बसलो.**

भुरकुटून कुरकुटांतल्या मखरांत बसलो म्हणून देव जायना. आस्पत नासताना खर्च करचो न्हय.

7) **भुरगें ना बाळ, वाजयता ताळ.**

8) **भुरगें हागलें म्हूण मांडी कापून उडयनात.**

9) **भुरगीं कितलीं आसात, तरी आसत शाकेक जायशीं.**

म्हणी फाटली काणी : एका भेऱ्याक विचारलें तुका भुरगीं कितली? तेन्ना ताणे तेंडल्याच्या माटवाकडेन बोट दाखोवन म्हळें शाकेक जायशीं आसात प्रस्न समजलेबगर जाप दिता तेन्ना ही ओपार मारतात. कोणायगेर खूब भुरगीं आसतात तेन्नाय ती वापरतात.

10) **भुरग्याक म्हातारो करता अवगूण, म्हाताऱ्याक तन्नो करता सगूण.**

11) **भुरग्यांचे मळणेक बीं ना भात.**

भुरगीं जाणट्यांची नक्कल करून मळणी म्हणून करतात, रांदच्या वाडपाच्यानी खेळटात, तांतल्यांत कांय निपजना. भुरगीं उलयतात, करतात ताका मोल दिवंक फावना ह्या अर्थान ही म्हण वापरतात. भुरग्यांक लागून जाणट्यानी झगडीं करूंक फावना. गिन्यान नाशिल्ल्यांकडल्यान कसल्याच कर्तुपाची अपेक्षा करची न्हय अशाय अर्थान वापरतात.

12) **भुरग्यांचें हिंव मांडक्यांनी व्हेलां.**

भुरगीं उदकांत खेळपाक सदांच मुखार आसतात. बेब्याभाशेन तांकांय शीं खायना.

## भू

1) **भूत आनी भीति एका गांवची.**

2) **भूमापंडिता गांडीर मारल्यार रामपंडिता दांत पडटात.**

3) **भूयिंक भार, अन्नाक ( शिताक ) काळ ( केडु )**

4) **भूयिंक भार, मडकेक आडावण.**

5) **भूस बरें जाल्यार दीस बरो.**

भूस = पोटभर जेवण, भातें.

## भे

1) **भेरें रांदता तेरें, कुड्डें मागे सांबारें.**

एकाचो पत्तो दुसऱ्याक ना. सगलोच गोंदळ

2) **भेरो दोन पावटी हांसता.**

दुसरो हांसता तेन्ना भेरो बेठोच कांय कळ्ळेंना तरीं हांसता. आपणाक समजलें अशें दिसता आनी तें दाखोवंक दुसरें पावटीं हांसता. घराकडेन वतकच कोणेय बरोबर समजावन सांगले जाल्यार तिसरें पावटीं हांसता.

3) **भेऱ्याफुडें गायलें आनी कुड्ड्यामुखार नाचलें मेळून सारकेंच.**

## भो

1) **भोंकता तें सुणे चाबना, चाबता तें सुणें भोंकना.**

जें शांत दिसतात तेच घात करतात. भोंकता ते सुणे चाबना आनी झांकता तो मनीस वायट धरूंक पावना अशी म्हण पा. परैरान दिल्या. 'को. ओ. भा'(पा. 61) सगल्यांच्या परिचयाची इंग्लिश म्हण : Barking dog seldom bites.

2) **भोबो नाका, हावूक फाटीं काड.**

3) **भोरप्याचे पेन्त्र्याच्यो लाग ( लागो ) झुजाक उपकारनात.**

4) **भोंवचाक गेलो तिर्थांत, मन उरले घरांत.**

पुण्य मेळोवपाक म्हणून तिर्थयात्रेक गेलो आनी मन मात घराच घुटमळत उरलें.

5) **भोंवता त्यो प्रदक्षिणा, न्हिदता तो नमस्कार.**

कोणाचेंच आयकून न घेवपी असो हट्टी स्वभावाचो मनीस जें करता तेंच चड अशें मानून घेवप.

6) **भोवन भोवन चोडणा.**

ही म्हण ह्या रुपान म.वा.को. भा. 2 (पा. 341) चेर दिल्या. मॉ.

दाल्गदाच्या म्हणीच्या संकलनांत चारणा अशें आयलां. परत परत तीच तीच गजाल कोणूय करूंक लागलो जाल्यार म्हणटात. असो अर्थूय दोनूयकडेन दिला. व्हडें भोंवून भोंवून चोडणाच अशी म्हण उत्तर गोंयांत सर्रास वापरतात.

7) **भोबो बोकडी निवल खावन जियेता.**

निवल, निवलकाणें = कांट्याची रानवट वनस्पत

## म

1) **मगेलें जालें थोडें म्हण वेयान धाडलें घोडें.**

मगेलें म्हाका थोडें, मावान दिलें घोडें.

2) **मगेलें धस्स, तुगेलें फस्स.**

आमी दोगूय सारकेच हें सांगूक ही ओपार मारतात.

3) **मडकय आखाडे, कुंडय बखेडे.**

आखाडो = वंयेचे दार, दरवटो. बखेडो = तंटो, झगडें, केस्तांव.

मडकय गावांत गडगे वंयो चड म्हणून दरवटे चड. कुंडय गावांत तंटे चड.

4) **मडके तोंडाकय लोकां तोंड धांपचें कठीण.**

5) **मडकेंत तांदूळ उणे जाल्लेले वेळार चेरडुंवा जेवंच्या शिकलीं.**

6) **मडकेंत तांदूळ उणे जाल्लेले वेळार भूक चड.**

7) **मडवळाघरच्या लग्नाक वस्त्राक भीक ना.**

लोकांकडल्यान धुवपाक आयिल्ले सगले कपडे ताका जाय तशे वापरूंक मेळटात.

8) **मडवळा गाढव, हरदासा तट्टू, फाटीर घाल्लें तितलें व्हांवयतात.**

9) **मडवळाची फातर, जाय ताणें उमळचें.**

उगड्यार पडिल्ली सर्वजनीक वस्तू जाय ताणें वापरची, विचारपी कोण

ना.

10) **मडवळाचें मडें भायर काडलेबगर कळना.**

मडवळ सदांच दुसऱ्याचे कपडे वापरतात असो समज. ताचे स्वताचे खंयचे ते स्मशानांत व्हरतकूच कळटा. म्हळयार खरी स्थिती निमाणे कडेन कळटा.

11) **मडें थंय रडें.**

12) **मडें गेलें मसणा, ताची ना वासना.**

वस्तूचो नाश जातकच, याद सुद्धां काडप ना.

13) **मती नाशिल्ल्याक गती ना, गती नाशिल्ल्याक जग ना.**

अक्कल नाशिल्ल्याक ह्या जगांत खंयच आदार मेळसारको ना.

14) **मंत्रतंत्र बाबा जाणा, दक्षणा घेवप हांव जाणा.**

म्हणी फाटली काणी : भटाचो चलो धर्मीक कृत्य करपाक यजमानागेर गेल्लो. यजमानान ताका मंत्र म्हणपाक सांगलें तेन्ना ताणें म्हळें : 'हांव मंत्रबींत्र कांय नकळो. दक्षणा तितली घेवंक जाणा.' जेन्ना कोणूय लायकी दाखयनासताना मुझारो उपटावंक सोदता तेन्ना ही ओपार मारतात.

15) **मंत्रतंत्र भट जाणा, खावंचें जेवंचें हांव जाणा.**

16) **मंत्राकय थुकी चड. घाडी भगत आसता ते मंत्राच्या जाग्यार थू थू फू फू करून वेळ मारून व्हरतात.**

17) **मद्य ( सोरो ) घरांत रिगल्यार बुद्ध घर सोडून वता.**

18) **मन तसो भाव, भाव तसो देव.**

19) **मन थंय भावार्थ.**

20) **मन ना थिरी ( स्थिरी ) ओगीच तीर्थ करी.**

21) **मन पळोवन धन.**

22) **मन पात्शा पूण दैव गांडू.**

मनान उदार पूण नशीब वायट.

23) **मनांत आसल्यार ( आशिल्लेंच ) सपनांत ( स्वप्ना ) दिसता.**

24) **मनांतले मनांत, जनांतले जनांत, तुळशीपान कानांत.**

तुळशीपान कानांत = आदले पिळगेंतले धर्मीक लोक कानांत तुळशीपान दवरताले आनी आफूड जायना अशें मानताले.

भायर एक भितर एक अशी वागणूक दवरप. आपूण उजू चालीचो धर्मीक असो देखाव करतल्याक ही म्हण वापरतात.

25) **मनांत ठाय आसा जाल्यार मचव्यांतूय ठाय आसा.**

ठाय, थाय = जागो, मचवो = समुद्रांतल्यान माल पावोवपी वाटकुळसार तारूं. मनांत जर इत्सा आसत जाल्यार मचव्यांत जागो मेळूंक शकता. Where there is a will there is a way.

26) **मनशाक उतर, गोरवांक दावें.**

मनशाक बांदपाक उतर पुरो. उतरांनी मनशाची समजावणी करपाक जाता.

27) **मरण जाय म्हणून आपयल्यार येना.**

28) **मरणाक बापूय वडील !**

मरणाचे आपोवणे येता तेन्ना सांगता, म्हजो बापूय व्हडलो, तेन्ना ताका पयलीं व्हर, हांव ल्हान आसां.

29) **मरच्याक उठिल्लो, घरच्याक वळखना.**

मरूंक पाविल्लो मनीस रगताच्या मनशांक, सोयऱ्यांधायऱ्यांक बी वळखना. तो इतलो हताश जाल्लो आसता की आपल्या फायद्याखातीर तांच्या जिवार उठपाक फाटीं सरना.

30) **मरतलो म्हळ्यार फुरसत ना.**

31) **मरतल्या दोळ्यालागीं, भोंवतले सगल्या दूर.**

32) **मरतां मुस्ती, वाचतां सायास.**

जिवावयलें दुखणे. मरपाक चड मुदत लागना. वाटावन उरपाक चड प्रयत्न करचे पडटात.

33) **मरूंक लागल्यार चेडे उरनात, आनी जेवंक लागल्यार मुडे उरनात.**

एकदां मरण फाटल्यान लागतकच एका फाटल्यान एक भुरगें भायर पडटा आनी भरलेलें रिकामें जाता. तांदळाच्या पोतयांतल्यान दिसपट्टे शिताक तांदूळ काडटकच त्यो रिकाम्यो जातल्योच.

34) **मलयाळाक वचचें फुडे( पयलीं )काना पाळियो तुटोवन घेवच्यो.**

35) **मस्करीक वचून कुस्करी जाली./ मस्करेची कुस्कुरी जाली.**

थट्टा मस्करेंतल्यान केन्ना केन्नाय अनर्थ जाता.

What begins in a play may end in a fray.

36) **मळबाक माळो आसल्यार चडचें कोणें?**

जिवावयलें कठीण काम करपाक कोण फुडें सरतलो?

मराठी म्हण : सुळावरची पोळी.

37) **मळबार थुंकल्यार माथ्यार पडटा.**

तेजीश्ट आनी सज्जन अशा मनशाची निख्खटाय केली जाल्यार आपल्याकूच बादता.

38) **मळबार धूळ उडयल्यार सूर्य निपताके?**

तेजीश्ट मनशाचे तेज खंयच्याच कारणान लिपून उरना.

## मा

1) **माकडा हातांत उज्या कोलती.**

माकडाच्या हातांत कोलती दिली जाल्यार तो उजो लावन सोडटलोच. मूर्ख मनशाच्या हातांत सत्ता पावली जाल्यार तो वाट लायतलोच

2) **माकडा हातांत माथें दिल्यार उवांकय व्हेसां केडू.**

केडू म्हळयार काळ, संकट, मारेकार.

उवो काडपाक म्हणून माकडाच्या हातांत माथें दिल्यार तो त्यो काडचे बदला केंस चड तोडटलो, केसांचो काळ थारतलो. मूर्ख मनशाकडेन विचार करिनासताना काम सोंपयलें जाल्यार त्रास चड जातलो.

3) **माकडा हातांत माणीक दिलें तें ताणें हुंगून पळेलें.**

4) **माकडा व्हारडिकेक कुंकडा होरण.**

होरण म्हळ्यार न्हवरोव्हंकलेचें जोडें, दंपत्य. हे म्हणीचे मूळ भुरग्यांले काणयेत आसुंये. माकडा व्हारडिकेक कुंकडा साद गाढवा गायन अश्योय म्हणी आसात. जशी योग्यता तशी ताची संभावना अशा अर्थान वापरतात.

5) **माकडाक नाक खरपूं नये.**

ओगीच पिशाची कळ काडूं नये.

6) **माकडाक मारल्यार पालो हागता.**

किंकोत मनशाक ख्यास्त करून कांय उपयोग जायना.

7) **मागचें तोंडाक हागिल्ली गांड सारयली.**

8) **मागता रीण, चलयतां सोयरीक.**

9) **मागतल्याक ना पूत, नाका म्हणटल्याक नातू.**

10) **मागू कळना भीक तर विडी ओडूंक शीक.**

तंबाकू विडयेचे वेसन आशिल्ल्याक आपली तल्लफ भागोवपाक दुसऱ्याकडेन मागपाक कांयच दिसना. तो भीडभाड धरिनासताना विडीकाडी मागून घेता आनी अशे तरेन ताची भीड चेपता आनी भीक मागूंक शिकता. पयलींच्या काळांतली म्हण: येना मागूंक भीक, जाल्यार गुडगुडी ओडूंक शीक.

11) **मागून करता जेवण, उश्टें काडूंक एक जण.**

भीक मागून जेवप आनी उश्टें काडपाक नोकर दवरप. मिजास केदी पळेयात!

12) **माजरा पुण्यान शिंक्या पोड तुटलो.**

13) **माजराचे अदमर बरें, शिंके तुटून पडलें.**

14) **शिंके तुटून पडलें आनी बुकल्याचें फावलें.**

अदमर = नशीब, अद्रुस्ट

15) **माजर केन्ना हिंवसाण सोडटा?**

माजराक नुसत्याचो वास केन्नाच नाका जायना.

16) **माजर नाशिल्ल्या गावांत हुंदीर राया.**

राया = राजा.

17) **माजर नाशिल्ल्या घरा हुंदरा राज्य.**

18) **माजरा बोडावेली ( बोडावेलो ) पणटी ( दिवो ).**

माजराच्या बोडार मातेयेचो दिवो दवरल्यार तो पडलेबगर रावना. डळमळीत आदार आशिल्ली वस्त टिकपाची ना.

19) **माजरा सटयेक आनी हुंदरा बारशाक / कुकडाच्या बारशाक.**

गोयांत इतलीच म्हण घोळणुकेंत आसा. कोणूय ल्हानसान समारंभाक हजेरी लायता तेन्ना ही म्हण वापरतात. म.वा.को. त अर्थ असो दिला: एखादा माणूस न संपणारे वायदे सांगू लागला की त्याला म्हणतात. कर्नाटकांत, केरळांत प्रचलीत आशिल्ली म्हण अशी:

मांजरा सटी धरुन सुण्या बारसो थाज सोदचे.

अतिलोभी माणसाला उद्देशून म्हणतात, अशे स्पश्टीकरण म.वा.को. त दिलां

20) **माजराक देखिल्लो कीर.**

माजराक पळोवन पोपट भियेवन वता. तेचभाशेन आपणापरस बळीश्ट दुस्मानाक पळोवन मनीस भियेवन वता तेन्ना ही ओपार मारतात.

21) **माजराक मासळी भाजूंक लायले गादी.**

माजराक नुसतें भाजपाचें काम सांगले जाल्यार तें (दुसऱ्यांक खावंक) मेळपाची आशाच नाका.

22) **माजरागेल्या झगड्यांत सुण्याक पारपत.**

पारपत = ख्यास्त, शिक्षा.

23) **माजराचो दोळो भोपश्यार.**

'कावळ्याचो दोळो तवश्यार माजराचो दोळो भोपश्यार' अशी ही पूर्ण म्हण आसा. (गो म. पै. 'तो मा' क्र. 72)

खावपाचे बाबतींत माजर हें भोजन संघाचें दुहेरी सदस्य. एकाच वेळार तें चक्क कोकणस्थ आनी सारस्वत. दूध, तूप, धंय, लोणी हाचेर ताची जितली भक्ती तितलीच तट्टटट्टीत नुस्त्याचेर.

24) **माजराचो खेळ हुंदरा जिवार येता. /माजर खेळटा पूण हुंदराचो जीव वेता.**

25) **माजराची जात सुंगटांच्या वासाक.**

नुस्तें खावप्यांगेर माजर चिकटून रावता. सदांच शिवराक आसता तांगेर तें सहसा रावना. फायद्याचे आशेन चिकटून चिकटून रावता त्या मनशाबद्दल ही म्हण वापरतात.

26) **माजरान गू लिपयल्ले भाशेन लिपयता.**

हागल्याबरोबर माती ओडपाचो माजराचो सभावधर्म. तें पर्यावरणवादी. कोणूय ल्हान सान गजाल दुसऱ्याक सांगिनासताना वा दाखयनासताना दवरता तेन्ना ही म्हण वापरतात. वायट कर्माचेर पड्डो घालता ताकाय ही म्हण लायतात.

27) **माजरान दोळे धांपून दूद पिवचें.**

28) **माजरी दांत पिलांक लागनात.**

माजर आपल्या पिलांक तोंडान घेवन सात कोनशे फिरयता. पिलांक दांत लागनात. हुंदरांक लागता. भायर कडक वागपी मनीस आपल्या भुरग्यांबाळांकडे मोवाळ जाता. भुरग्यांकूय ताच्या कडक उलोवण्याचो राग येना.

29) **माडा मुळांत दूद पिल्यारूय सूर म्हणटात.**

30) **माडावेल्यान पडिल्ल्याक पिड्यान मारता रे?**

दुखावलेल्याक आनीक लागसारकें उलयता तेन्ना ही म्हण वापरतात. जखमेर मीठ.

31) **माडा आनी माडयेक एकूच खाडू.**

खाडूं = माडार चडटासताना दोनांय पायांत घालतात तो दोरयेचो वेडो. माड आनी माडयेर चडूंक एकूच खाडूं घालून चडूंक सोपें न्हय, शक्य जायना म्हळ्यार जाता. एकाच मापान सगळ्यांक मेजूं नये. एकूच साधन सगलेकडेन उपकरना.

32) **मांडको ( बेबो ) म्हणटा, हांव रडटा त्यामिती पावस पडटा.**

पावस पडचेले वेळार पडटा. बेबो मात ताचें स्त्रय आपलेकडेन घेता. म्हजो कोंबो रडटा म्हणून सूर्य उदेता अशें म्हातारेन म्हणपासारकेच तें.

33) **मातलेल्या हुंदराक हत्ती म्हणूंक जाता?**

34) **माती व्हांवोवन गुंड्यार घाल्ले संगती.**

35) **माती सोडून मडकी ना; जीव सोडून देव ना.**

36) **माथ्याक ना तेल आनी मिशांक गंधेल.**

माथ्याक लावंक तेल मेळपाची मारामार आनी मिशांक अत्तर लावन भोंवपाचो मूर्खपणा करता ताका ही ओपार लायतात.

37) **माथ्यार घाल्लें उदक पांयांमेरेन पावता.**

माथ्यार उदक ओतलें की तें आपोआप पांयांपर्यंत पावता. मुखेल्याक घट्ट धरून ताची मानतूक करतकच ताचे हातासकयले आपल्याक मदत करतात. घरांतल्या सगळ्यान व्हडल्या मनशाक वांकून नमस्कार करतकच हेर व्हडल्याक तो पावलो अशा अर्थानय वापरतात.

38) **माथ्यार दांतें दवरून जड जाल्लो जांवय.**

म्हणी फाटली काणी : जांवय मावोड्या वचूंक भायर सरलेलो. आवयन ताका सांगलें हें पळय जांवय मनशान मावोड्या वता थंय वयर वयर बसूंक जाय, जड जड उलोवंक जाय, आपलें वजन दाखोवंक जाय. जांवय मावोड्या पावलो. वचनाफुडें वयर बसूंक जाय म्हणटकीर निसणी वयल्यान पाख्यारि चडलो. पाखें शिवपाक मानाय आयल्यात. तुमी सकयल देंवात पळोवया म्हणून ताका सकयल देंवयलो. मांवांन प्रस्न विचारले ताका हाची जाप म्हळ्यार वान, फातर, खलबतो. आवयन सांगिल्लें न्हय जड जड उलोवंक जाय, आपलें वजन दाखोवंक जाय,

इतलेंच उरिल्लें. अणण्या जांवयाक युक्ती सुचली. तो तडक गेलो आनी वणटीक उबें करुन दवरिल्लें दातें माथ्यार घेतलें. शाणेपण आंगान आसचें पडटा. कित्याचें कितेंय करून पिशेपण पदरांत येता. ही देख ह्या जांवयांन दिली.

**39) माथ्यावयल्यान हुंवार वचप.**

खंयच्च्याय कामाची वा मेहनतीची शिकस्त जाली ह्या अर्थान ही म्हण वापरतात.

**40) माथ्यावयलें वजें खांदार आयलें.**

जापसालदारी उणी जालीना पूण तकलेवयलो भार थोडो काळ तरी देंवलो आनी सोंसपासारको जालो.

The intensity or weight of responsiblity is lessened

**41) मांदरी पळोवन पांय सोडका.**

**42) मांदरेर आयिल्ल्याक सोडून वाटेर वतल्याक आपयता.**

**43) मानल्यार देव ना जाल्यार फातर.**

**44) मानाय पडल्यार शेतकार पळेता, शेतकार पडल्यार कोण पळेता?**

आदले भाटकार आनी धनी आपल्या सेवकांची बरी काळजी घेताले. सेवकाक जर रोग पिडा जावन आड पडलो जाल्यार धनी काळजी घेता. धनीच जर आड पडलो जाल्यार कोण पळेतलो?

**45) मानाय बैल वगातिल्ले जाल्यार शेतकार कित्याक जाय?**

वगाति = मागत Cultivation, nursing, tending.

जण एकल्याचें शेत आनी घर चलोवंक आनी सुदारूंक घरचो धनी जाय. आपआपलें काम आपल्या हातांत घेवंक जाय. दुसरे करतले म्हणून रावूंक फावना.

**46) मानायांनीं शेतां आनी बटकींनी ( बडकुरांनी ) घरां जातात?**

बटकी = दासी, बडकूर

**47) मानेवयले केंस फाटीर ना जाल्यार पोटार.**

मानेवयले केंस फाटीर नाजाल्यार पोटार पडटलेच. आपणे आपल्या भुरग्यांक आनी सोयऱ्याधायऱ्यांक मदत करून सांबाळूंक जाय. तीं आनी तांचें नशीब म्हणून सोडून दिवंक जायना.

48) **मापांत पाप करूं नये.**

49) **मांय सांगता सुनेक बुद्द, आपूण खाता घोड्या लीद.**

50) **मांयक सुनपणा उगडास जायना.**

सुनेक त्रास दिताना आपुणूय एकावेळार सून आशिल्ली ही याद उरना.

51) **मांयचेर कोपून चेरडाक पेट.**

मांयच्या रागान भुरग्याक बडवप. एकाचो राग कांय गुन्याव नाशिल्ल्या दुसऱ्याचेर बाबड्याचेर काडटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.

52) **मांयन फोडल्यार मातयेचें, सुनेन फोंडल्यार तांब्याचें.**

मांयच्या हातान जर नुकसान जालें जाल्यार कांय जालें ना म्हणपाचें. तेंच जर सुनेच्या हातान जालें जाल्यार व्हडलें नुकसान जालें म्हणून आड्डप. मांयन भेंतिल्लें बुडकुल्याक (आयदनाक) मोल ना अशेंय म्हणटात.

53) **माया आनी अनवाळण विकतें मेळना.**

54) **मायो गेल्यार सेवे चुकना, सेवेक गेल्यार माये चुकता.**

55) **मायेक गेलें, सेवेक चुकलें.**

माया = मोग, सेवा = कर्तव्य.

56) **मायेवगर ओंवी येना आनी शिगेवगर रगत येना.**

लग्न कारणाच्या वेळार दांतीं मांडकच जमिल्ल्या बायलांक ओंव्यो म्हणपाचो आग्रो जाता. व्हंकले न्हवऱ्याची तुस्त तोखणाय करून ओंवी रचपाची. म्हणपाची मायेच्या मनशांक स्फूर्त येता.

57) **मायेवगर रड ना, उज्यावगर कड ना.**

58) **मागतल्याचो हात धरयेत, उलयतल्यालें तोंड धरूंक जायना.**

59) **मारतां मारतां मारेकार जाता.**

मारेकार = जीव घेवपी, पयशे घेवन खून करचो धंदो करपी.

60) **मारल्यार हत्ती मारका, लुटल्यार भांडार लुटका.**

61) **माराक भूत पळटा.**

भूतबाधा जाल्या अशें समजून हाडिल्ल्या मनशाक घाडी, बडी घेवन मार मार मारता. आंगांतलें भूत त्या मारांक भियेवन वता असो समज.

62) **माराफुडें रावूंक जाता पूण तोंडाफुडें रावूंक जायना.**

मारझोड एकवेळ सहन करूंक जाता पूण कोडू झार उलोवणी सहन करूंक जायना.

63) **मारीत ताची तरवार, करीत ताचो कारभार.**

स्वताच्या कश्टांचेर, प्रयत्नांचेर कर्तबगारीचेर, धनदौलत मेळटा. आळशी मनशाक कांय मेळना. तरवार मारप - शौर्य दाखोवप.

64) **मावशी जेवंक वाडीना, बापूय भीक मागूंक दिना.**

मावशी = सवती आवय.

65) **मावांक अर्थ सुनेची, मांयक अर्थ जांवयाची.**

अर्थ = कौतुक, तोखणाय.

66) **मांस खालें म्हणून हाड गळयांत बांदीनात ( बांदू नये )**

नीतिभायलें काम करून वयल्यान ताची बडाय मारची न्हय. घरची गरिबी आसली तरी ताची चार चौगांत जायरात करची न्हय. अशाय अर्थान ही म्हण वापरतात.

67) **मासळी मरता आपल्याच तोंडान.**

गरयेक लायिल्ले हांयस खावपाक मासळी तोंड उगडटा आनी मरता. कीड मेली खंय आपल्या तोंडान अशेंय म्हणटात. कीड गेल्ली पळून पूण रुखार पावतकच तिणे तोंड उगडले आनी लागली गावंक. तिका सवण्यान ज्युस्त उबारली. सांगूक फावना तें सांगपाक न्हय त्या वेळार कोणूय तोंड उगडटा तेन्ना ही ओपार मारतात.

68) **मासळेंत शेंवटो चोर, मनशांत पंडित चोर.**

9) **माळेचो मणी माळेक पडलो.**

पक्ष सोडून गेल्लो मनीस, परत त्या पक्षांत आयलो जाल्यार ही म्हण सामकी योग्य.

## मि

) **मिणिमिणी दिवो आनी मूर्खाची सेवा.**

मिणिमिणी जाता तो दिवो आनी मूर्ख धनयाची सेवा दोनीय सारकींच, कांयच उपयोगाचीं न्हय. त्या दिव्याचो उजवाड मेळना; मूर्ख धनयाकडल्यान चाकराक लाभ जायना.

2) **मिरी जोखता आनी दोंगर मोखता.**

मिरयांएदी ल्हान वस्त जोखून माखून घेवप आनी दोंगराएदी व्हड वस्त अशीच उडोवप.

3) **मिरीं नासल्यार तोरिकय पाश्ट वे?**

मिरयां वायट जालीं म्हणून तीं तोरिच्या परस कमी योग्यतेची जायनात. श्रीमंत मनशाचेर वायट परिस्थिती आयली म्हणून तो भिकाऱ्याचे योग्यतेचो जायना.

4) **मिशांक ना खोबरेल, खाडाक खंयचे मोगरेल?**

5) **मिश्यो हालय नासताना दूदफेणे खावंचे.**

गुपचूप काम करून फायदे पदरांत पाडून घेवप.

## मी

1) **मीठ खाल्लेलो उदक पितलो.**

जाच्या आंगांत दोश आसात तोच ताचेर उपाय सोदतलो आनी करतलो.

2) **मीठ घाल्यार कण निबर, सून हाडल्यार मांय निबर.**

मीठ घालें म्हणटकच शिजोवंक दवरलेल्या पदार्थाचे कण घट्ट जातात.

सून हाडली म्हणटकच मांय निगरगट्ट जाता.

3) **मीठ लाया म्हाका खाया.**

च्याच्या वेळार घरांत खावंक कांय नासलें म्हणटकच घरांतली आजी बेजारून ही ओपार मारता. सगलें सडसडलां ह्या अर्थान.

4) **मीस ना, कुमसार ना, कोंकण्याकय पाश्ट मुरे तूं.**

# मु

1) **मुखार गेलेल्याक पांय्र आदळल्यार माकशी आशिल्ल्यान जागो जावका.**

माकशी = फाटी, फाटल्यान.

2) **मुखार चोयनाशिल्लो माकशी पडटा.**

He who lacks foresight will lag behind others.

3) **मुजऱ्याक कोण ना हुलप्याक पंचवीस.**

हुलपो = बिदागी.

बिदागी घेवंक खूब जाण तयार पूण मुजरो करपाच्या वेळार कोण ना.

4) **मुतचे पुरतें हातांत धरचें.**

वायट मनशाकडे सामको कामापुरतो जाय तितलोच संबंद दवरचो. चड दवरचो न्हय. होच आशय चड उगड करून सांगपी ही म्हण : मुतूंक जाल्यार चोटली हातांत धरची.

5) **मुदयेक थीक बसलेशें ( जोडिलेशें ) जालें ( करता ).**

जेजुइतांच्या सोळाव्या शेंकड्यांतल्या संकलनांत आशिल्ली ही म्हण आजमेरेन लोकप्रिय आसा (Glimpses of Konkani Language). उलोवपांत वा बरपांत ज्युस्ताक ज्युस्त शब्द वापरून सोबा हाडटा.

6) **मुय जावन साकर खावंची.**

ल्हानपण पत्करप बरें. अशे स्थितींत रावप, हांतूत शाणपण आसा.

7) **मुय खाता साकर आनी हत्ती खाता बरगां.**

बरगां = कुशिल्लीं वा बरगेल्लीं लाकडां.

हतयासारक्या व्हड प्राण्याचेर हालउपद्रे काडपाचो प्रसंग येता ते कशेय निभावतात.

8) **मुये रुपान गेल्लो साकर खाता. हत्ती रुपान गेल्लो पिडो खाता.**

नम्रतायेन वागल्यार आपलें काम जाता हें पटोवन दिवपाक ही म्हण वापरतात.

9) **मुये रुपान घरांत येवन साळेरी रूप दाखयता.**

साळेरी, साळुंद्री = आंगभर कांटे आशिल्लो बिळांत रावपी प्राणी, साळ.

10) **मुयेक मूत जल प्रळय.**

ल्हान मनशाक काबार जावंक ल्हानशें संकटपासून पुरो जाता.

11) **मुरदंगाक दोशींवाटेन मार.**

मध्यस्थाक दोनूयकडच्या लोकांकडल्यान आयकून घेवंचें पडटा.

12) **मुर्ति सान जाल्यारीय कीर्ती व्हड.**

13) **मुळ्याचे पान धर्माक लागूं.**

म्हणी फाटली काणी : एक भाजी विकूंक व्हरपी बायल व्हाळार मुळे धुयताली. मुळे धुयताना मुळ्याचे एक पान उदकांत पडलें आनी उदकांत व्हांवून गेले. तें हाताक लागनाशें पळोवन भाजिकान्नीन म्हळें: ‘बरें जालें मुळ्याचे पान धर्माक लागूं.’

ह्या अर्थाची दुसरी म्हण आसा; सांडिल्ली खीर क्षेत्रपाळा.

## मू

1) **मूळ आनी वालूय नाशिल्लो.**

सुरवात ना आनी शेवट ना असलो. कूळ सोदून मेळपाक कठीण तेन्ना अशें म्हणटात.

# मे

1) **मेजावयलें केळें काडलें, भलायकी जोडली.**

2) **मेजावयलें केळें काडून इश्टागत ( सागवात. ).**

दुसऱ्याच्या मेजावयलें केळें काडून तें दिवप आनी स्वताकडे बरेंपण घेवप, ताची इश्टागत जोडप. पदरचें कांयच खर्च करिनासताना काम करून घेवप, मराठी म्हण : हलवायाच्या घरावर तुळशी पत्र.

3) **मेट चडूंक जायनाशिल्लो आंगण चडत वे?**

मेट = सोपण.

4) **मेणा आंगाचें चेडूं धगालागीं वता म्हणून भिसडायता.**

दुसऱ्याक भेश्टवपाक हांव जीव दितां वा हांव वीख खातां म्हणून सांगता तेन्ना ही ओपार मारतात आनी तुज्या भेश्टावण्याक आमी भीक घालपाची ना अशी शिटकावणी दितात. ह्याच आशयाची दुसरी म्हण: मेणाची चोटली कडयतां कडयतां. आपणाक नाका जाल्ली गजाल कोणूय करता म्हणून धमकी दिता, तेन्ना ताका ही ओपार मारतात आनी कितें करपाचें ते करून उडय म्हणटात.

5) **मेणाचे कुले थापून चिकटना.**

आपलेपण मनापासून दिसूंक जाय. वयलेचाराक मोग दाखोवन उपकरना.

6) **मेल्ले सारीर मड्यार वडे भाजून खावपी.**

उरफाट्या काळजाचो मनीस.

7) **मेल्ल्या मड्याक शृंगार.**

मड्याक शृंगारून, न्हेसोवन त्या बाबड्याक ताचो कांय उपयोग ना.

8) **आपूण मेलेबगर स्वर्ग दिसना.**

स्वता अणभव घेतलेबगर खंयचेच गजालीचें मर्म बरोबर कळना.

9) **मेल्ल्यागेर रडटीत, जाल्ल्यागेर हांसतीत.**

10) **मेलेलें मडें आगीक ( उज्याक ) भियेना.**

मराठी म्हण : मेलें कोंबडे आगीला भीत नाही.

11) **मेल्ले म्हशीक बारा शेर दूद.**

जितो आसताना मनशाची किंमत करिना तो मरतकच ताच्या गुणाची तोखणाय करून उलयता. नाशिल्ले गुण ताका दसयता. मेल्ले म्हशीक दूद चड अशेंय म्हणटात.

12) **मेळूंक आयली आनी दळूंक बसयली.**

चार दिसांक व्हडलें भयणीगेर मुदासाक म्हणून वचप आनी थंय जबाबदारीची कामा आंगार पडप, देखीक, आक्काक दिसांचो जोर आयिल्ल्यान आक्काच्या सुनेचो बांळटेर काडप अशी परिस्थिती पयलींच्या काळांत बायलांच्या परिचयाची; ती उकती करून सांगपी ही म्हण.

## मो

1) **मोग आसा थंय शीण आसा.**

आमी जाचेकडेन आपुलकेन वा मोगान वागतात ते चुकले; देखीक, घरांतल्या कार्याक आपोवंक ना ताचे आमका चड दुखता आनी तांचेकडेन तक्रार करताना ही ओपार मारतात.

2) **मोग आसा थंय रुसवो, सोयरीक ना थंय वसवो.**

मोग आसा थंय शीण काडचो, रागार जावंचे नातलग नात त्या जाग्यार वस्ती करची.

3) **मोग आसल्यार हून वडे घाटार पावतात नाजाल्यार शेळी पेज शेजरा पावना.**

हून वडे गोंयच्यान घाटार म्हळ्यार बेळगांवां बी पावतात आनी पावोवपाची नासत जाल्यार शेळी पेज धाडूंक फुरसत मेळना. कसलेंय काम मागीर तें कितलेंय कठीण जायना, खोशयेन आनी चिकाटेन केल्यार तें सोपेपणीं आटापूंक जाता.

4) **मोग केलो चड, चलो जालो पाड.**

5) **मोगा पूत हांतुळणार मूत.**

6) **मोगाची मावशी चांदन्यात उयो ( उवो ) मारता ( मारी ).**

मनीस मोगाचो म्हुणून दाखोवप, पूण योग्य वेळार कामाक पावप ना, तेन्ना ही म्हण वापरतात.

7) **मोगान मेट्टा, फोगान पेट्टा.**

झगडें मोगान पालवता, दुस्वासान तें पेट्टा असो अर्थ म.वा.को. न दिला. फोग हाचो अर्थ दुस्वासाचो उजो असो धरला आसुंये. फोग हो मूळ पुर्तुगेज Fogo (फोगु) म्हळ्यार उजो, अग्नी, हें जरी खरें आसलें तरीं कोंकणीत फोग हाचो अर्थ दारुकाम, फारपेट असो आसा. देखून झगडें मोगान पालवता आनी मारामीरी केल्यार वाडटा असोय अर्थ जावं येता.

8) **मोट्या घरा पोकळ वांशे.**

9) **मोठ्या झाडाक कोणूय वेंग मारता.**

10) **मोठ्या गांडी मोटो सुळो.**

व्हडान केल्ल्या गुन्यावाक ख्यास्तूय व्हडलीच जावंक फावो.

11) **मोट्याक कोणूय दार काडटा, बारकेल्याक कोण काडटा?**

12) **मोडक्या पांयांक पिंजकी व्हाण.**

13) **मोडिल्ल्या खुर्साक चेपें ( दिमी ) कोण काडटा ( मोडटा )?**

अधिकार व्हगडायल्ल्या मनशाक कोण मान दिना.

14) **मोन्याक सपन पडलें, पूण सांगूक कळना.**

15) **मोन्यालें सपन कोणाक कळना.**

मोन्याक मुखावयलें धोरण कितें कात आसचें हें कळ्ळें तरीं सांगूक कळना. कांय जाण तोंड धांपून रावतात तांचें धोरण कोणाक कळना.

16) **मोर नाचता म्हणून कुकडूय नाचता.**

एक करता म्हणून दुसरोय तशें करुंक लागलो जाल्यार सोबना. व्हडाची नक्कल ल्हानांनी करीत जाल्यार हांशें जाता. अशा अर्थाच्यो आनिकूय

म्हणी आसात:

मराठी म्हण : मोर नाचतो म्हणून लांडोर नाचतो.

7) **मोव आसा थंय कोणूय खणटा**

दुर्बळतायेचो गैरफायदो घेवन कोणूय काम करता तेन्ना ही ओपार मारतात.

8) **मोव आशिल्लेकडेन कोंपरान खणचें.**

## म्ह

1) **म्हजे सारकी तूं जा.**

हणी फाटली काणी : एक सवाश्णींण एकें रांडाव बायलेच्या पाया पडपाक गेली जाल्यार तिणे पुटपुटत आशिर्वाद दिलो: 'म्हजे सारकी तूं जा' आपल्यांत कितेंय उणे आसलें जाल्यार दुसऱ्याचें बरें पळोवं नजो. आपले सारकीच वायट परिस्थिती दुसऱ्याचेर येवंची अशी पाडी वान्सा धरता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

2) **म्हजें म्हाका, तुजें तुका, कोणाची कुरकुर नाका.**

3) **म्हजें तें म्हजें तुजें तेय म्हजेंच ( म्हज्या बापायचें )**

4) **म्हजें म्हजें, यमाचें भजें.**

5) **म्हजें म्हजें, भ्रांती वजें.**

6) **म्हजो संवसार बरो की हांव बरो.**

7) **म्हज्या मामागेर बारा म्हशी आनी हांव काडटां उठाबशी.**

आपलो अमको अमको गिरेस्त मनीस सामको नात्यांतलो म्हणू बढाय मारीत भोंवप्याक ही ओपार मारतात.

8) **म्हज्या आळवाची खाज हांव जाणा / मगेल्या देवा गुर्त ( वळख ) म्हाका नावे?**

9) **म्हस घेवंचे फुडें ( पयलीं ) दाव्यां खरेदी कित्याक?**

10) **म्हस विकून दाव्यांक लडाय.**

11) **म्हस घेवंक सोपें, दावें घेवंक जड.**

म्हस विकती घेवप सोपें पूण फुडली जबाबदारी कठीण. खंयचेंय काम हातांत घेतना फुडले जबाबदारीचो विचार करूंक जाय. फुडल्यो अडचणी पळोवन लग्न जावंचें हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

मराठी म्हण : लग्न करावें पाहून (पुढच्या अडचणी पाहून)

12) **म्हस वियेता आपले खाजीक.**

जो तो आपल्या स्वार्थाखातीर खंयचीय गजाल करता. म्हस आसा ती धनयाक दूद मेळचें म्हणून वियेना. मराठी म्हणींत हो अर्थ चड स्पश्ट केला: म्हैस आपल्या साजेने फळते, धन्याला दूध देण्यासाठी फळत नाही.

13) **म्हशी आशिल्ल्याक दंड आसा.**

जाचेकडेन म्हशी आसात ताकाच त्यो कोणाच्याय शेतांत गेल्यो आनी नुकसान केलें जाल्यार दंड भरचो पडत. जाचेकडेन म्हशी नात ताका कांय दंडाचो भय ना. 'कर नाही त्याला डर नाही' ह्या अर्थाची ही म्हण.

14) **म्हशी आशिल्ल्याक उठाबशी आसात.**

व्याप घेवन बशिल्ल्याक ताचो ताप आसा.

15) **म्हशी फाटीर पावस.**

म्हशीचे फाटीर पावस पडटकच ती खुशालभरीत जाता. ताचेवयल्यान कसल्याय कारणाक लागून मनीस खुशालभरीत जातकच ही म्हण वापरतात. म्हशीचे वा रेड्याचे फाटीर उदक उरना होवूय दुसरो अर्थ.

16) **म्हशी वासरूं म्हणून कोयरांत लिपता?**

म्हशीचें वासरूं जरी जालें तरीं तें कोयरांत लिपयतलो कशें? गुन्याव ल्हान आसलो तरीं तो लिपोवंक मेळना.

17) **म्हशी वासराक झाडिल्यांत लेक्किलें वें?**

कोयरांत पडलेल्या रेडकाची कांयच किंमत ना अशें धरता काय कितें?

Do you consider that the calf of the buffalo is of no account because it is among the rubbish that is swept away? - R. S. Prabhu. 'को.म्ह.सोरु.'

18) **म्हशीचीं शिंगा म्हशीक जड जायनात.**

आवय बापूय कितलोंय गरीब आसले तरीं आपलीं भुरगीं बाळां तांकां जड जायनात हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

19) **म्हशीक दोन शिंगा, गर्वाक स.**

20) **म्हशीक जर व्हाड्डीक, रेड्याक करका मूंज**

## म्हा

1) **म्हाका तुका पडना, वजें वाटूंक घडना, म्हाका तुका पडटा, वडे वाटूंक घडटा.**

2) **म्हाका तुका बरें जाल्यार चिंचे पानार न्हीद पडटा.**

3) **म्हाका नाका तें सगल्या संवसाराक नाका.**

4) **म्हाका नपुरो सात भाकऱ्यो; तांतु खंयचो सोयरो - धायरो?**

5) **म्हाका ना तुका, घाल सुण्याक.**

6) **म्हाका ना, तें तुका सोबना.**

7) **म्हाड्डोळा पिकला रोस व्हांवता, घाटळेंत लोक धांवता.**

म्हाड्डोळ नावाच्या गांवातले जात्रेक उद्देशून ही म्हण वापरतात अशें म.वा.को., भा. 2, पा. 416 चेर म्हळां.

8) **म्हापशाची पेट, सर्वय चट.**

म्हापशाच्या शुक्रारा भरता त्या बाजारांत सगले जिनस खपतात हें सांगपी ही म्हण.

9) **म्हातारी जाल्यार जावं, बाबडी घराक आदार जाली.**

10) **म्हातारी बोडकी वड्यांक उपकारता.**

**11) म्हातारी नासल्यार काणी ना.**

म्हातारी नासल्यार भुरग्यांक एक आशिल्लो कोलो - एक आशिल्ली कोलीं म्हणून कोण काणी सांगतलो? म्हातारेकडेन काणी सांग म्हणून भुरगीं आपशींच जमतात.

**12) म्हातारेन कोंबो धांपून दवरलो म्हणून सकाळ जावंची रावना.**

**13) म्हातारेच्या पोराक पोंबुर्पेचे फेस्त कित्याक ? ( फेस्त कोणें सांगला? )**

**टीप** : गोंयांतल्या गांवांतल्या उत्सवाचें आनी फेस्ताचें खाशेलपण आसता. शिरोडेची दिवजां जात्रा, जांबावलेचो शिगमो, म्हाड्डोळची जायां पुजा. बार्देसांतल्या पोंबुर्पे ह्या गांवातलें फेस्त. थंय पडपी तरेकवार फेरयांक लागून पयलींपासून प्रसिद्ध. बोल्सांत पयशे नासत जाल्यार असल्या फेस्ताक वचून कांयच घेवंक मेळना. आपली कुवत उणी आसता तेन्ना व्हडली मोख दवरची न्हय. केरळांत ही म्हण घोळटेंत आसा.

**14) म्हातारो दादलो कुकमाक आदार.**

**15) म्हाळ म्हयन्यांत फागलां सोदतालो खंय कोण !**

फागल = कारात्याचे जातीचें शाकेचें फळ. पावसात हंगाम. भाद्रपद म्हयन्याचे दुसरे पंद्रशींत म्हाळ घालतात. तेन्ना फागलांचो हंगाम सोपिल्लो आसता. देखून, न्हय त्या वेळार न्हय ती वस्त मागता ताका ही म्हण वापरतात.

**16) म्हाताऱ्या घोवा खाड हालता.**

म्हाताऱ्या घोवाचें खाड हालता तितलेंच पळोवन घेवपाचें.

**17) म्हाळकाराल्या घराकडेन गोरूं शेणलां.**

म्हाळ घालतल्या मनशाच्या घराकडेन गोरूं शेणिल्ल्याचे निमीत करून वचप. आपणाक म्हाळाच्या जेवणाक आपोवंचो हो खरो हेतू आसता. आतां म्हाळ घालपी गोपाळ शणै झंझाळ मेळप कठीण. ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण चड घोळणुकेंत आसा:

'लग्ना माटवांत पाडो सोदूंक आयला.' लग्नाक आमंत्रण नाशिल्लो मनीस शेणिल्ल्या पाड्याचें निमित करून लग्ना माटवांत येता, जेवणाचे पंगतीक बसूंक मेळत हे आशेन.

**टीप :** म्हाळ पै

म्हाळ पै गोयांत आदिलशाहची राजवट आशिल्ली तेन्ना कुडाळ परगण्याचो आनी साश्टीचो सरदेसाय आशिल्लो. तो वेर्ण्या रावतालो. पुर्तुगेजांनीं गोंय घेतकच हो सगल्या कुटुंबासयत कोचीं गेलो. विठा पै हो ताचो चलो 1551 वर्सा विजापुरा आयलो आनी इब्राहीम आदिलशाहकडल्यान, इतल्यान मेळ्ळो म्हाळ पै. हो शूर तसोच सगल्यांक उपेगी पडपी आशिल्लो. ताचे नांव चार पाच म्हणींनीं येता. तें ताच्या गुणाक लागून. हालीं जशे सरदार जीच्या नावार खंयचेय विनोद खपयतात तशे आमच्या गोंयांत म्हाळा पैच्या नांवाभोंवतीं बऱ्योच म्हणी गुंथिल्यो मेळटात अशें 'आजीच्या सुपातील मोती' या पुस्तकांत म्हळ्ळां तें सामकें बरोबर म्हणू नजो. History of Dakshinatya Saraswats. V .N. Kudava. ह्या पुस्तकाच्या पा. 40 चेर गोंयची भूंय म्हाळ पैचें घर अशी म्हण दिल्या.

18) **म्हाळ पैचें काण गळटलें, आनी म्हाका मेळटलें.**

**टीप :** काण = दादल्यांनी कमरांत घालपाचो चांदीचो गोफ. म्हाळ पैच्या कमरांतलें काण जड आशिल्ल्यान सकला लांबतालें तें एक दीस गळून पडटलें आनी आपणाक मेळटलें अशें ताचे भोंवतणचे लोक आशा धरून आशिल्ले. आयती इस्टेट बी मेळटली म्हणून कोणूय वाट पळेता तेन्ना ही ओपार मारतात. हे म्हणीचो उगम हितोपदेशातल्या बैल आनी कोल्याचे काणेयंत आसुंये. कोलो बैलाफाटल्यान लांबता ते आपणाक मेळटलें म्हणून चिंतून बैला फाटल्यान चलत रावता आनी निमाणे बैलाच्या खोरमात घेता. कोलो म्हणटा ते हालता पूण झडना.

19) **म्हाळ पै घरचें, ताका भागतल्यानी व्हरचें.**

म्हाळ पै ची श्रीमंती म्हळयार घर भरून दार व्हांवता. अशा घरांत गोरवां बी खूब. ताका लागून सदांच ताक आसतालें. कोणेय वचचे आनी तें मागून हाडचें. जाचेकडल्यान सोपेपणान खंयचीय वस्त मेळटा तेन्ना ही

म्हण वापरतात.

20) **म्हाळ पैक जोर सगल्या घराक ( समस्तां ) पेज.**

म्हाळ पैक जोर येतकच तो पेज घेतालो म्हणून घरचेच न्हय तर गांवचेय लोक पेजेर रावताले. आजूय अण्णा हजारे सारको उपासाक बसता तेन्ना सगलो गांव उपास करता तेभाशेन.

म्हाळ पैचे तब्बेती प्रमाण आनी मर्जेप्रमाण सगले वेव्हार चलताले. आपले मर्जीप्रमाण वेव्हार चलचे अशी इत्सा कोणूय दाखयता तेन्ना ही ओपार लायतात.

21) **म्हाळ पै घरच्या लग्ना माटवांत कुटप्पा कुर्टाक मुंजी पोडय**

कुर्टाक = पेंगटाक

म्हाळ पै घरच्या लग्नाचो दबाजो म्हळ्यार व्हडलो. कितले तरी दीस बोवाळ. तांतूत कुटप्पा सारक्या मुंज जाय नासताना उरिल्ल्या गरीब भुरग्याची मुंज सहज जावन वताली. व्हड कार्यावांगडा ल्हान कार्य उल्गून घेतात तेन्ना ही म्हण वापरतात.

22) **म्हाळशेक तीन कळा !**

म्हाड्डोळचे म्हाळशेचे मूर्तीक दिसांतल्यान तीन फावट वेगवेगळो साज करतात. सकाळीं चलये सारको, दनपारां तरणे बायलेसारको आनी सांजवेळा जाण्टे बायलेसारको. तिनी वेळचे दागिने वेगळे, कळा वेगळ्यो. मूर्तीचें वर्णन करतलो जाल्यार तिनूय काळ लक्षांत घेवंक जाय. एकदां बरो वागपी मनीस वेगवेगळ्या वेळार कसो वागता हें पळोवन ताचेविशीं मत थारावंक जाय. मनशाक पारखून ताचेविशीं मत दिवंक जाय.

## म्हो

1) **म्होंवांची आडा करतल्यान मुसांक भियेंवच्या नजो.**

# य

1) **यमकुंडाक णव बगलां, सर्गाक एकूच बगील.**

यमकुंड = पापी आत्म्याक ख्यास्त भोगवपाचो लोक. बगील = दार.

2) **यम कुंडांत इश्ट ना, सर्गार कश्ट ना.**

# या

1) **या बिळा मारला खिळा, हुंदीर गेलो दुसऱ्या बिळा.**

पळवाटो जायत्यो आशिल्ल्यान घेता ते उपाय फुकट वता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

# ये

1) **येवजिल्लें सादत, जाल्यार अवदिसा कित्याक बादत?**

अवदिसा = वायट दशा, दळिद्र विपत्त.

सगल्यो गजाली आपल्या हातांत नासतात. अपयश येता तेन्ना ही ओपार मारतात. चिंतिल्लें सादे तर अवदिसा कित्याक बादे, अशेंय म्हणटात.

2) **येवंक वचूंक, चेडूं आपलें मरूंक.**

यो वच करपांत फुकटचे फुकट खरपसूक जावन वचप. ल्हानसान कामाचो जाता तो त्रास कोणाच्या लक्षांत येना. व्हडलें काम तितलें नदरेक येता.

3) **येऱ्यान गेलें ना जाल्यार हाणयेन गेलें**

येरें = सुकाणू, हाणी = तारवाची मुखावेली कड

तारूं बुडटकूच मुखावेली कड पयलीं बुडली काय फाटली पयलीं बुडली हाचेर वाद करीत बसून कितें मेळपाचें आसा? फायदो कांयच ना. त्रास मात जातलो. अर्थ नाशिल्लो बेश्टो वाद - वितंडवाद करचो न्हय हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

# यो

1) **यो गे लुडबुडे, वच गे लुडबुडे.**

कारणाशिवाय यो वच करप. कसल्याच उद्देशाबगर बेठो वेळ होगडावप. डॉ. चव्हाणाच्या पुस्तकात, यो गे लुडबे वच गे हुडबे अशी ही म्हण दिल्या. अर्थावयल्यान लुडबुडे आसुंये अशें दिसता. लुडबी म्हळयार स्पष्ट उच्चार करूंक येना अशी. लुडबुडी म्हळयार बेठीच धवळाधवळ करपी.

2) **योगी आशिल्लो भोगी न्हय, भोगी आशिल्लो योगी न्हय.**

# र

1) **रगडो भांगर जाल्यार गांवभर वांटूं येत.**

2) **रगड्याक आनी घाण्याक लडाय जाताना तेंफळ न्हय वे चेंचता ?**

3) **रगडाया लागीं निमगून मसालो वांटचो वे?**

निमगून = विचारून.

4) **रगताक रगत अंतर दिना.**

Blood is thicker than water.

5) **रडटलो चाकर नाका, कोपतलो यजमान नाका.**

# रा

1) **राग मारी आपल्याक संतोस मारी दुसऱ्याक ( पेल्याक )**

रागान आपलेंच नुकसान जाता. आपलो संतोस वा खोशी दुसऱ्याच्यान पळोंव नजो जाता, आपली खोशी दुसऱ्याक दुखदिणी जाता.

2) **रागान केलें रायतें आनी दुस्मानक जालें आयतें**

रागाच्या भरांत एखादी गजाल करूंक वचप आनी दुस्मानाक ताचो

आयतोच फायदो मेळप अशें बऱ्याच वेळा घडटा.

म्हणी फाटली काणी : कोणाक खंय रायतें सामके आवडनाशिल्लें. एकदां ताचो दुस्मान असो मनीस तागेर जेवंक येवपाचो आशिल्लो. ताणें ताचे खातीर रायतें करपाक सांगलें. पावण्याचो तो आवडटो पदार्थ. ताणे भरपूर खालो. यजमानाकच शिक्षा जालीं.

3) **रागार फुगार जाली, शेकीं मयड्ंया काजार जाली.**

मयडेकार पिशे असो समज आसा. जी अस्तुरी लग्न जायना जायना म्हणटाली ती पिशांगेर लग्न जाली.

'मयडेची पिसाय' असोय वाक्प्रचार आसा. सूर्याचो उजवाड पावसाळ्यांतूय मेळचो म्हणून मयडेचे लोक सूर्याची किरणां पिपांत एकठांय करताले खंय!

4) **राजा आसलो मी तसो, म्हाका गे रांडे पेजेचो निसो.**

आपलेपरस कमी योग्यतायेच्या मनशान अपमान केलो जाल्यार रागार जाता ताका ही ओपार मारतात

5) **राजाचो प्रजेक धोको, केदोय घोव बायलेक सोपो.**

सगली प्रजा राजाक भियेवन आसता. बायल मात घोवाक आपले मुठींत दवरता.

6) **राजागेलें पाटोळें ( दुपाचणें/उपरणे ) मडवळागेलें गाणपुसणे.**

राजाचे महावस्त्र रसमी आनी मोलादीक खरें पूण मडवळाकडल्यान ताचो दुरुपयोग जावं येता. भाटकाराक आपलें भाट मोलादीक पूण मुंडकार आनी चाकर ताचो विद्‌वाट लायतात तेन्नाय ही म्हण वापरतात अशें फादर परैरान म्हळां.

7) **राजाची राणी पुणून पाटलाची मेवणी.**

राणी जाली तरी तिची भयण पाटलाक दिल्ली आसूं येता. मुळचे संबंद ती तोडूंक शकना. व्हडल्या पदार पावलो तरी मुळचे संबंद सोडू नये.

8) **राजान नागयल्यार आनी पावसान भिजयल्यार कोणा सांगतलो?**

9) **रान भोंवून लाकूड मेळ्ळें ना.**

10) **रान लागीं, गांव दूर.**

म्हातारपणांत रान जालें लागी. वान प्रस्थाश्रमांत गांवापासून पयस वचचें असो नेम आशिल्लो.

11) **रानांत गेल्यार वागाचो भंय, घरांत आयल्यार बायलेचो भंय.**

12) **रानांत वतल्या लांकूडकाराच्या कुर्टाक कुराड बांदची.**

योग्य तें साधन आसत जाल्यार ताचो उपेग करुन जोड मेळटा. पेंगटाक कुराड आसल्यार लाकूडकाराक हरशीं मेळटा ताचे परस चड लाकडां मेळटलीं हें सांगपाची गरज ना.

13) **रानांत गेलेल्यान वजें हाडलें; शेजारा गेलेल्यान झगडें हाडलें.**

रानांत गेल्लो ताणें संवसाराक लागता तें सामानाचे वजें हाडलें; शेजारा गजाली करपाक गेल्लो ताणें झगडें मात आंगार ओडून घेतलें.

14) **रानांतली झाडां कोण शिंपता?**

15) **रानांतल्या माकडांक गांवांत हाडून सोडले.**

विद्‌वाट करपी लोक पयस आसतात ते बरे; तांकां गांवांत लागीं ना करप शाणेपणाचें.

16) **रानांत पडटकूच राक्षस जावंचेंच पडटा.**

रानांत वतकच दरोडेखार मेळ्ळे जाल्यार तांचेकडेन मनशासारकें वागल्यार तड लागचिना. आपूण पावता त्या जाग्यावयली परिस्थिती लक्षांत घेवन, मनशांक पारखून त्याप्रमाणे वागूंक जाय. संस्कृत उक्तिविशेष: शठम् प्रति शाठ्यम्.

17) **रानांतल्या सावजाक सुकळ ना दुकळ**

रानांतल्या सावजाक शेतांत भरपूर पीक आयलें कितें, ना आयलें कितें. दोनूय सारकींच. सावजा-सवण्यांची शिकार करुन पोट भरपाचें आसता. म्हणीचे स्पश्टीकरण करतना कमलाबाय वाघ म्हणटात: भुरग्यांक शाळेंत ना धाडपी हातावयल्या पोटाच्या लोकांक शाळेची फी वाडली

जाल्यार सुखूय ना, दुख्खूय ना.

18) **रांड मीण म्हणा, पोटभर वाडा.**

19) **रांड म्हणा, वूंड म्हणा, पोट भरन वाडा.**

जेवंक मेळचें म्हणून कितेंय वायट उतर आयकून घेवपाची तयारी; अन्नाखातीर अपमानाची पर्वा करिना ताका ही ओपार मारतात.

20) **रातीं उलयल्ले बोल, दिसा जाले पोल.**

उतराक धड न्हय असो मनीस पयल्या दिसा उलयल्लें दुसऱ्या दिसा विसरता; उतराक पाळो दिना.

21) **रांदता तशें जेवंचें, करता तशें भोगचें.**

22) **रांदपिणीलें पोर उपाशी मरना ( पडना ).**

सगलें रांदप जिच्या हातांत आसा ती आपल्या भुरग्याच्या जेवणाची तरतूद पयलींच करता. सत्ता हातांत येतकच पयलीं नात्यांतल्या लोकांची सोय करप हें आतां सदाचेंच जावन पडलां.

23) **रांदू कळना जाल्यार रांदन वांकडी.**

24) **रांदू कळना जाल्यार लाकडां ओलीं.**

25) **रांदलेलें आसा तें म्हज्या घोवाक घाल, रांद आनी तुज्या घोवाक वाड.**

26) **रांदिल्लें सरता; उलयल्लें ( केल्लें ) उरता.**

27) **रांदिल्लें ना म्हळयार गोठ्यांत वाड.**

28) **रांदूंक कळनाशिल्ली बायल न्हय, घोळूंक.**

29) **राम नाम जपता, केंसान गळो कापता.**

वयलेचाराक देवाची भक्ती करप आनी लिपाचोरयां वायट कारस्थान करप. अशे वृत्तीच्या लोकांक ही म्हण वापरतात.

30) **राम जावंचे पयलीं रामायण जाल्लें!**

एखादी गजाल घडचें पयलींच ती घडल्याचीं वर्णना प्रसिद्ध जायत आसतात.

**31) रामावतारांत वानर, ते कृष्णावतारांत केलदीं.**

जे वानर रामावतारांत वीर आशिल्ले, जे रामावंगडां रावणाआड झुजले तेच कृष्णावतारांत म्हळ्यार जसजशे दीस गेले तशे ल्हान माकड जाले आनी भोरप्याच्या हातांत पावले, बडयेच्या तालार नाचूंक लागले. खंय ते रावणाआड झुजपी वानर आनी आतां शिकयल्लेप्रमाण उड्यो मारपी माकड! सत्ता केन्ना एका मनशाच्या हातांत थीर उरना हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

**32) रामायण आयकून राम राक्षस की रावण राक्षस म्हण निमगीता.**

**33) सगलें रामायण आयकले उपरांत रामाची सीता कोण काय म्हणून विचारता.**

खंयचेय गजालीची माहिती सांगता आसताना ती पुराय आयकून घेना अशा मनशाक वापरतात. सगलें सांगून जातकच परत मूळ मुद्याकडेन येता ताकाय ही म्हण.

**34) राया बायलेक फुलां घोंसान मारिनापुडें दुखलें.**

राजाची राणी इतली नाजूक, तिच्या आंगार फुलांचो पुंजो उडयल्यार तिका दुखलें. थोड्याश्या किरकोळ कारणाक लागून दुखपाचें नाटक करता आनी आपूण नाजूक म्हणून दाखयता.

**35) राया बायलेक भिकेची आशा.**

जाचेकडेन भरपूर आसा ताका भिकाऱ्यासारकें वागचेंशें दिसता. रावणाक भिकेचे दुवाळे अशेंय म्हणटात.

**36) रायाले तरवारीक दोंयवशीन धार.**

राजच्यान योग्य काम करूंक जाता तशेंच अयोग्य, नीतीभायरें काम करूंक जाता. ताणें जर वायट काम केलें तरी सुद्धां लोकांक तें योग्यच दिसता.

**37) रायालें मन आनी रुखाची सावळी तावतावळी परतता.**

राजालें मन आनी झाडाची सावळी केन्ना परतत सांगू नजे.

**38) रावणा रावणा, लिंग भुंयचेर सोडलें.**

म्हणी फाटली काणी : रावण शंकराचे आत्मलिंग घेवन लंकेक वतालो. जंय दवरता थंयच तें घट्ट जातलें अशें शंकरान सांगिल्लें. वाटेन वतां वतां रावणाक जालें कडकडून मुतूंक. ताका एक राखणो दिसलो. ताका ताणे आपयलो आनी लिंग मात्शें धरून राव, आपूण रोखडो मुतूंक वचून येता. आतां तो राखणो म्हळयार राखण्याचो भेस घेतिल्लो गणपतीच आसलो. रावणाक खूब मुतूंक जालें आनी उशीर जायनाफुडे गणपतीन लींग सकला दवरलें. तें थंयच घट जालें. रावणान तें काडपाचो खूब प्रयत्न केलो. मुरडून एक कुडको मोखलो तो जालो मुर्डेश्वर. एक कुडको पडलो शेजवाडा तो जालो शेजेश्वर. एक कुडको गायेच्या कानावरी पिळ्ळो - तो जालो गोकर्णेश्वर. ताचे स्थान तें गोकर्ण. म्हणीचो अर्थ : उतर दिल्लेप्रमाण काम करतानाच युक्तीन फायद्याची वाट काडप.

39) **रावणाक भिकेचे दुवाळे.**

भिकाऱ्याच्या वेशान सीतेक उबारून व्हरपाची वायट बुद्द सुचली आनी ताचो सर्वनाश जावंक पावलो.

40) **रावळारांतल्या भाताक हुंदीर झगडटात.**

रावळार = देऊळ

दुसऱ्याचे मालकीचे वस्तूखातीर तिसऱ्यान आपसांत झगडप.

41) **रासवळाचे तर्न हय, पूण एकसुऱ्याचें धन न्हय.**

तर्न, तन्न = शिताचो निवळ.

एकट्याच आशिल्ल्या गिरेस्ताक पक्वान्नां मेळ्ळीं तरीं बरी लागनात. सगल्या वांगडा तर्नसुद्धां बरें लागता. एकसुऱ्याची गिरेस्तकाय ताचेच लागीं सोंपता, हें ताच्या मनांतले दुख्ख पक्वान्न खाताना चड तीव्र जाता.

42) **रावणाक सांतली धरिल्लो..**

A man of extraordinary capacity.

## रि

1) **रिकामे आर्म दोगांकूय भंय !**

रिकामें आर्म (बंदूक)उबारलें म्हणटकूच दुस्मानाक दिसता तें भरलेलें आसा आनी तो भियेवन वता. तें रिंकामें आसा हें दुस्मानाच्या लक्षांत आयल्यार आपली धडगत ना हें चिंतून आर्म उबारपी मनांतल्या मनांत भियेवन आसता.

2) **रिबेर वावरीसो वावुरता.**

ही म्हण म.वा.को. भा. 2 त दिल्या. म्हणीचो अर्थ: अति कष्टाचें काम करपी गुलामासारको राबपी आनी रिबेरा हाचो अर्थ 'प्राचीन गोव्यात गलबतावरील गुलाम लोक जेथें काम करीत ती जागा' असो दिला. डॉ.चव्हाण हांणी हाचो अर्थ दिला Grande Ribeiro म्हळ्यार जंय शस्त्रांची कोठी आशिल्ली अशी म्हायती मेळटा.

## री

1) **रीण काडून सण ( फेस्त ) करप.**

2) **रीण बुडलें न मागतां, सोयरीक गेली न पुसतां.**

मागिनासताना रावत जाल्यार रीण बुडटा. विचारपूस केली नाजाल्यार नातें संबंद उरनात.

## रु

1) **रुपया मोडलो, इश्ट जोडलो.**

2) **रुमडी पाळ, शेळीक धांवता.**

रुमडाच्या झाडाची मुळां उदक आसा त्या भागाकडेन वळटात. जंय कसलो तरीं लाभ आसा थंय मनशां वतात.

3) **रुं नाशिल्ल्या पूं काडप.**

कांय जाल्लें नासताना वायटकाराक रोगांची नावां घेवन वैज लोक

भेश्टायतात. केस्तोड जाय नासताना तांकां पूं सांपडटा. पयशे नाशिल्ल्या मनशाकडल्यान प्रयत्न करूनय दुडू मेळप कठीण असो अर्थूय म.वा.को.न. दिला.

4) **रुमडां फोडल्यार पुसकां भायर येतात.**

रुमडाची फळां दिसपाक अंजिरासारकीं दिसतात. अंजिरांतल्यान खावपाचो गोड गर मेळटा. रुमडांतल्यान कांय मेळना. उणाक वस्तूंतल्यान कांय लाभ जायना.

## रू

1) **रूच नाशिल्लें खाण, अर्थ नाशिल्ले गान.**

2) **रूच आसा, जिरवण ना.**

## रे

1) **रेड्या गांडीकडेन किनरी.**

किनरी = एक पोन्ने तंतुवाद्य, harp.

गाण्याची गोडी जाका ना ताचेमुखार गावन कितें फायदो ? जाका अक्कल ना ताका उपदेस करपांत कितें अर्थ आसा? दोनूय फायदो नासलेलीं कामां.

मराठी म्हण : गाढवा पुढे वाचली गीता.

2) **रेड्याफाटीर पावस पडटा, रेडो म्हणटा व्हाड्डीक जाता.**

3) **रेडे पाडे झगडटात आनी झाडांपेडार काळ.**

रेड्या पाड्याचें झूज आनी झोपांचेर काळ.

रेडे पाडे झुजताना जमनीर झोंपां आसतलीं तांच्या पांयां पोंदा मस्तून इबाडून वतात. तेच भाशेन व्हडल्या मनशाच्या झगड्यांक लागून ल्हान लोक बेश्टे मदलेमदीं चिड्डतात आनी मरतात.

4) **रेडो चलना, वरो पडना.**

वरो = नांगरटीचें तास, furrow

कामाविणें फळ ना.

5) **रेंदेन्निलो सोरो रेंदेन्नीक मारता ( भरलो )**

6) **रेवेंचो राजू वळटा.**

## रो

1) **रोखड्याचें तांती आनी उदारा कोंबी.**

कमी मोलाची ल्हान वस्त रोकडीन घेवप आनी व्हड वस्त उदार मेळोवन फोल्गां मारपी चतुर मनशाक ही ओपार लायतात.

2) **पीट रोस एक जाता, दोणो वाऱ्यार पडटा.**

आपलीं आशिल्लीं मनशां झगडलीं जाल्यार कांय वेळान एकठांय येतात; धोंस लायणारो मात वाऱ्यार पडटा.

3) **रोटडी मोडून तुंपात पडलीं.**

वायटांतल्यान बरें जालें.

## ल

1) **लंकेंत भांगराक मोल ना.**

खूब प्रमाणांत जंय एखाद्री वस्तू मेळटा थंय तिका विशेश मोल नासता.

2) **लंकेंत उपजल्ले सगले रावण न्हय.**

एखाद्र्या कुटुंबात वा एखादे जातींत वायट मनीस जल्मलो म्हणून सगलें कुटुंब वा सगली जात वायट म्हणूंक जायना.

3) **लांच घाल्या ( दिल्या ) शिवाय़ बोंचों हालना.**

कोणूंय साद्यापणान काम करूंक तयार जायना, तेन्ना ही म्हण वापरतात.

4) **लग्न जालों ना म्हणून कितें जालें? माटवापोंदच्यान तर गेलां?**

प्रत्यक्ष लग्न जालें ना तरी जो लग्नसमारंभांत वावरत आयला ताका लग्नाचो सुवाळो कसो आसता ताची बरी कल्पना आसता. स्वताचे भुरगेंबाळ नासलें, तरी दुसऱ्याचीं भुरगीं वाडोवन बायलेक अणभव मेळटा. तांतूतल्यानूय भुरगीं ल्हानाची व्हड करपाक कळटा. आवय जाली ना म्हणून कितें जालें? अवयचें मन आसल्यार पुरो.

5) **लग्न केल्याशिवाय पिशें वचना, पिशें गेल्या शिवाय लग्न जायना.**

इंग्लिशींत Vicious circle वा मराठींत दुश्टचक्र म्हणटात तशी गत.

6) **लग्नांत व्हंकले आवय भेरी.**

व्हंकले आवयच्या मनाचेर ताण आसता. सगलें बरें भाशेन जावचें म्हणून हुस्को आसता देखून ती दुसरें काय सारकें आयकना.

7) **लग्नांत बायलो मस्त आनी शिगम्यांत दादले मस्त.**

8) **लग्नाक हाडलेलो तांदूळ शेंसेक खर्चलो.**

लग्नांत मान आशिल्ली व्होरां बसोवन होटी भरपाची पद्धत आसता. चड व्होरां बसयलीं जाल्यार चड कुकमांत वा गंधांत तांदूळ लावप म्हळ्यार शेंस भर. हाडलेलो तितलो तांदूळ शेंसेक खर्चलो म्हळ्यार सामकें अर्दकुटे तयारी निशीं लग्ना माटवांत येवप, हो अर्थ म.वा.को. (भा.2) या पुस्तकांत दिला.

9) **लग्ना सांगल्यार गर्भादाना पावन.**

आदल्या तेंपार सामक्या ल्हान वयार लग्नां जातालीं. लग्न जातकच एक दोन वर्सांनी व्हंकलेक न्हाण येतकच गर्भादान समारंभ करपाची चाल आशिल्ली. त्या समारंभाक लोकांक आमंत्रण करताले. उसरां येवपी मनशाक उद्देशून अशें म्हणटात.

10) **लग्नूय ना नी फोंतूय ना.**

म्हणी फाटली काणी : एक वयावयलो भुरगो आयिल्ल्या दिसा बरो नासता. खंयचीच वखदां पारनात म्हणून दूशित रगत काडपाक फोंत करून घेवपाची तो तयारी करता. ज्यूस्त तेन्नाच ताका सोयरीक येता

म्हणून तो फोंतीचो विचार सोडून दिता. फोंत म्हळ्यार एक कटकटच आसता. व्हंकलकाराक ताची सगली खबर मेळटा आनी सोयरीक मोडटा, लग्न उरता. लग्नय ना आनी फोंतय ना अशी बाबड्याची अवस्था जाता. हेंय ना, तेंय ना जावन एक मनीस त्रासांत पडटा तेन्ना ही ओपार मारतात.

11) **लजेक आनी पेजेक पडना.**

12) **लजेक गेल्यार पेजेक पावना.**

स्वताच्या कश्टान कसलेंय काम करपाक लज धरची न्हय. आपले योग्यतेक तें सोबना म्हणून रावल्यार पोटाक मेळचें ना. लजेक लागून फाटीं रावता ताची सरशी केन्नाच जावपाची ना. लजेक गेल्यार पेजेक वाट ना; अशेंय म्हणटात. सोळाव्या शेकड्यांतल्या जेजूईतांच्या संकलनांत ही म्हण आसा.

13) **लटकें आमंत्रण, जेवतकूच खरें.**

फटीचें आमंत्रण दिलें तरी जेवतकूच तें खरें जाता. मनाविरुद्ध जर काम जालें तर मागीर आपली तशीच इच्छा आशिल्ली म्हणून सांगप.

14) **लटक्या आमंत्रण सारे पुरें पावचें.**

म.वा.को. भा.2 पा. 460 चेर ही म्हण दिल्या: अर्थ असो दिला: 'एखाद्या गोष्टीचा पुरता इतिहास करणे. दुसरेकडेन खंयच ही म्हण मेळूंक ना.

15) **लजेची कोंबी सांतेंत तांतयां घालता.**

लजून रावपी कोंबी भर बाजारांत तांतयां घालता. लजून फाटल्यान फाटल्यान रावपी मनशां निलाजरेपणाची कामा करुंक अनमनतात तेन्ना ही ओपार मारतात.

16) **ल्हंव काडली म्हणून मडें ल्हव ( हलकें ) जायना.**

## ला

1) **लाखेखातीर मणी फोडप ( फुटवंचो ).**

भांगराच्या मणयांत लाख भरलेली आसता. लाख मेळना तेन्ना मणी फोडून लाख काडपाचें पिशेपण करप. थोड्याश्या लाभाखातीर नुकसान करून घेता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

2) **लाद्गुले काडले हजार आनी पेद्रूक केलो काजार .**

भायले भायर काम करून मेकळो जावप.

मराठी म्हण : परस्पर पावणे तेरा.

3) **लाभाचे आशे मुदल नाशे.**

कळंतराचे आशे, मुदल नाशे अशेंय म्हणटात. हालीं बऱ्याच लोकांक हे म्हणीचो अणभव आयला. जाहिरातींक भुलून व्हड लाभाचे आशेन ठेवी दवरप आनी त्यो परत ना मेळप अशें बरेच फावटीं घडलेलें आमी आयकतांत. अणभवाचे बोल ना आयकुपाचो परिणाम

4) **लांवेचे चणे, लांवेन खावचें.**

भुताक दवरेले चणे भुतानूच खावपाचे. खंयचेंय काम युक्तिवान मनशाकडल्यानच जावपाचें आसलें जाल्यार दुसऱ्याक जमपाचें ना अशें म्हणपाक ही ओपार मारतात.

5) **लासलेल्या आखाण्यार मुतचो ना.**

6) **लाशिल्ल्या उंगट्यार मुतूंचो ना.**

लासलेल्या आखाण्याक वखत करपाचें उरल्यार मूस ताचेर मुतपाक सुद्धां तयार नासता. दुसऱ्याचे दुख्ख मात्शें ल्हव करपाक थोडो सुद्धां त्याग करपाक तयार ना तेन्ना ही म्हण वापरतात.

सदांच कोणाक मदत करतलो, उपयोगा पडटलो अशी आशा करूंन उपयोग ना. 'लाशिल्ल्या उंगट्यार मुत्तलो प्रणी न्हय तो.'

7) **लाशिल्ल्या घरा वांसो घेवप.**

सगलो नाश जावपाचो प्रसंग आयला आसताना हाताक जें मेळटा तें खरें अशें म्हणून वागप.

8) **लाशिल्ले मासळेक कुस्सल्ली चिंच.**

खारें (सुकें नुसतें) भाजताना जळ्ळे जाल्यार किसमुरेन कुशिल्ली चिंच घालून सामकी वायट करप. वायट मनशाक ताच्याकय वायट मनशाची संगत मेळटा तेन्ना ही ओपार मारतात. शिवराकांनी ही ओपार अशी मारूं येता:

लाशिल्ल्या फोवांक कुस्सली कातली.

## ल्हा

1) **ल्हान व्हडा सारको वडो.**

2) **ल्हान तोंड, मोटे घांस.**

ल्हान भुरग्यांनी व्हडांक परती जाप दितकूच ही ओपार मारतात. आपली लायकी नासताना कामाक हात घालता वा आपूण नकळो आशिल्ल्या विशयाचेर मत दिता तेन्नाय ही ओपार मारतात. भुकेन सडसडीत जेवता ताका ही ओपार लायतात अशें फादर परैरा को. ओ. भां. त म्हणटा.

मराठी म्हण : लहान तोंडी मोठा घास.

## लु

1) **लुगट विकचें घडयेर आनी फूल विकचें वावळेर.**
कपड्याची घडी करतकूच आनी फुलां वावळेन गुंथतकूच सोबून दिसतात आनी चड मोल येता, हे अणभव हे म्हणींत सांगला.

## ले

1) **लेकरूं आनी सुणे सारकीं, हातार घालता थंय वेतात.**

## लो

1) **लोकांगेर पोळयांक छिद्रां, आमगेर सान्नाक छिद्रां.**

पोळ्यांक जर छिद्रां पडत जाल्यार तो पोळो बरो उरतलो अशें मानतात. सान्नाक कांय छिद्रां पडनात. पूण आपलें तेंच बरें अशीं कायचेकाय बढाय मारता ताका ही ओपार मारतात.

2) **लोखण उज्याशिवाय मोव जायना.**

3) **लोणी आसा जाल्यार तूप करूंक तडव आसावे?**

तडव = कळाव. योग्य साधन हाताकडेंन आसतकूच येवजिल्लें रोखडें करूं येता.

4) **लोळून लोळून माळियेर पावलो.**

दुसऱ्याच्या पायांकडेन लोळून कोडगेपणान स्वार्थ सादून वयर चडलो.

## व

1) **वच नासलेल्या गांवांक पळे नासलेली वाट.**

2) **वडाक जालीं वडफळां, कावळ्या तोंडाक रुवां.**

बरे दीस आयले पूण कितेंय कारण जाता आनी मेळिल्ले संपत्तिचो उपभोग मात घेवंक मेळना तेन्ना ही ओपार मारतात.

3) **वड्यांचे तेल वायंग्याक गेलें.**

एकाचो राग भलत्याचेर काडप.

4) **वत आशिल्ल्या सावळी जाय, सावळी आशिल्ल्या वत जाय. ह्या संवसारांत सुखी संतोशी कोण ना.**

5) **वयले देव कोपले जाल्यार सकले देव कितें करतले?**

देवूच रागार जालो थंय मनीस कितें उपकारा पडटलो?

6) **वयर केलो ताखोलिखो, भितर लिखो कोचायतात.**

केसांक बरें वासाचें तेल लायलें, बरो आंबाडो घालो, फुलांची फांती माळ्ळी. थाटमाट सगळो केलो पूण भितर बुचबुचपी लिखो कोचावंक लागल्यो. वयल्या थाटामाटान सुख मेळना हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

रीण काडून थाटमाट करता तेन्ना ही म्हण ज्यूस्त लागता.

7) **वयली खोली सकले खोलयेक हांसता.**

खोली म्हळ्यार झाडाचें सुकिल्लें पान. सुकिल्ल्या पानाक उजो घालता तेन्ना सकल्यो खोलयो पयलीं लासतात त्या वेळार वयल्यो खोलयो वाऱ्यान सळसळ जातात आनी हांशिल्ले सारक्यो दिसतात. थोड्या वेळान लासपाचो प्रसंग तांचेरूय येतलो हें तांकां कळना. असलीच दुसरी म्हण: आदनांतले रडटात सुपांतले हांसतात.

8) **वंयेन पोरसूं खाल्यार राखचें कोणे ?**

9) **वंयेक एक खूंट, घराक एक म्हातारी.**

वंय म्हणटात ती खूंट पुरून आडव्यो कांबी बांदून करतात. वंयेंक जसो खुंटाचो आदार तसो घराक म्हातारेचो आदार आसता.

10) **वल्ली नाचता म्हूण सूप नाचता.**

वल्ली = तांदूळ धुवंचे खातीर केल्ली वेळाची लांबट दाली, खळी.

सूप = धान्य आसुडपाचें बेळाचें आयदन.

तांदूळ वल्लेन घालून उदक निथळावपाक तिका नाचयतात तेन्ना सुपाचें काम जाल्लें आसता.

धनी बरोबरच्याक एखाद्या वेळार बरींवायट उतरां उलयता म्हणून नोकर चाकरांनीं तशेंच उलोवप सोबना हें सांगपाक ही म्हण वापरतात. आपली पायरी सोडून कोणूय वागता जाल्यार हे म्हणीचो उपयोग जाता.

11) **वल्लेंतय धरना सुपांतय धरना.**

हातांत दुडू खेळूंक लागतकच मनीस मस्तेन वागता. दुसऱ्याची पर्वा करीना तेन्ना ही ओपार मारतात.

12) **वळखीचो चोर जिवानिशीं मारता.**

आपणे जर हाका सोडून दिलो जाल्यार तो वचून आपली खबर पुलिसेक दिवन आपणाक धरून शिक्षा जातली हें चिंतून ताका मारून उडोवन पुरावोच ना करता. देखून वळखीच्या गुन्यावकाराकडल्यान चड वायट

जावं येता.

13) **वज्रा कुडके करूंक वज्रच जाय.**

Only diamond cuts diamond.

14) **वण्टीक कान आसता.**

गुपीत गजाली आसतात त्यो सांगताना सादूर आसूंक जाय. कोण खंयच्यान आयकत तें कळना हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

## वा

1) **वा वा करून दीस पायलो.**

ही म्हण सोळाव्या शेकड्यांतल्या संकलनांत मेळटा. आळसान कांय करीनासताना दीस घालयलो असो अर्थ.

2) **वा म्हळयार वारकें कळटा.**

हुशार मनशाक थोडें सांगल्यार पुरो जाता. हीवूय म्हण सोळाव्या शेंकड्यातल्या संकलनांत आसा.

3) **वांकडे मेडीक वांकडे नेम.**

4) **वांकड्या खुट्याक वांकडे नेम.**

नेम = रोंपो लावपाखातीर खणिल्लो फोंड.

वांकडे मेडीक वा खुंटाक फोंड जर वांकडो काडलो जाल्यारूच पुरतकूच ती मेड वा खुटो सरळ दिसता. सरळ मनशाकडेन सरळपणान आनी वांकड्या मनशाकडेन वांकडेपणान चलचें पडटा.

5) **वाग पडलो घाळी, केलदें दाखयता नाळी.**

हे म्हणीचो अर्थ: घाळ रावून वाग पांदऱ्यांत पडटकच ल्हान माकड सुद्धां ताका चाळयता. नाळी दाखयता म्हळयार चाळयता. सि.हा. त सोडी नाळी अशें आसा पूण तें बरोबर दिसना. व्हडलो मनीस अडचणींत पडटा तेन्ना ल्हान मनीस ताळयो पेट्टा आनी व्हडल्याच्यो भगल्यो करूंक पावता. ह्याच अर्थाच्यो दुसऱ्यो दोन म्हणी:

वाग पडला बावीं, केलदें गांड दावी.

वाग पांदऱ्यांत पडटकच कोणूय ताका फातर मारतीत.

6) **वागा पील जालें तरी पालो खायत वे?**

7) **वागा पोराक दुदान पोसल्यार मुळचो सबाव सोडी ना.**

8) **वागापोटा कोलो जल्मा आयला.**

9) **वागा म्हळ्यार खाता, मामा म्हळ्यार खाता.**

दुश्ट मनशाक तुमी कितलेंय बरें म्हळें जाल्यार तो आपलें दुश्टपण काय सोडपाक ना. तेन्ना ताका ताचे खरें स्वरूप दाखोवन आनी वायट उतर दिवन आपलो राग तरीं कित्याक उक्तावंचो न्हय? अशें म्हणपाक ही म्हण वापरतात.

10) **वागा मिशेर कोलो खेळटा.**

कोलो मोटो धूर्त आसता. तो वागासारकील्या कडेन खेतबागडां करता. धूर्त लोक.

11) **वागा मांस कोल्या सांपडप.**

वागान केली शिकार आनी मांस सोडून तो गेलो तें आयतेंच कोल्याक मेळ्ळें. मनशाक ताचे योग्यतेपरस चड मोलाची वस्त आयतीच मेळटकच ही म्हण वापरतात.

12) **वागा भिना, शिंवा भिना, थपथप्याक भिता.**

पावसान झाडाच्या पानावयल्यान उदक पडून थपथप आवाज जाता ताका लेगीत भियेवन गुळी जाता आनी व्हड़लो आव मात हाडटा, आपूण भित्रो न्हय म्हणून.

हे म्हणीचो दुसरो एक अर्थ मालवणी म्हणींचें संकलन करपी सौ. स्वप्नगंधा कुलकर्णी हाणीं दिला तो असो:

गरीब मनशाच्या घराच्या कोलवाच्या छताक बुराक वचत थंय पडलेले आसतात. पावसांत तांतल्यान उदक पडून थपथप आवाज जावन आपूण भिजतलो हाचो ताका भय दिसता. गावांतले दळीद्र दाखोवपी ही म्हण.

मालवणी म्हण : वाघाचो नाय, इवल्याचो नाय, म्हाका ठिपक्याचो भय.

13) **वागाक मारचे फुडें चामड्या खरेदी.**

वागाक मारचे पयलींच ताचें चामडें विकतें घेवपाची भाशा करप.

14) **वागाच्या तोंडातलो सुटून शिंवांच्या तोंडान पडलो.**

15) **वागाकय वासरा बोब चड.**

घुरी घालूंक येता ताचेपरस ताचें सावज भियेवन वता तेंच चड गडबड करता.

16) **वागाभाशेन हाडचें, आनी कोल्याभाशेन विकचें.**

वागाभाशेन खूब मेळोवंचें आनी कोल्याच्या धूर्तपणान ताचो उपयोग करचो.

17) **वांचून उरल्यार वेंचून खावं येत.**

संकटांतल्यान जगून उरलो जाल्यार बरें सोदून खांव येत. मेळटा तें खावन जीव जगवप महत्वाचें. जीव गेलो जाल्यार सगलें सोंपलें.

18) **वाजता थंय नाचता.**

जंय वाजप सुरू जाता थंय वचून लोक नाचपाक लागतात. जाचेकडेन दुडू आनी व्हडपण आसा ताचेफाटल्यान सगलेजाण वतात.

19) **वाजता थंय गाजता.**

वाजप आसा थंय त्या जाग्यार कितें तरी समारंभ आसतलोच अशें धरूंक जाता. धुंवर येता थंय उजो आसतलोच अशा अर्थाची ही म्हण.

20) **वांज वियेवंक आनी दुकळ येवंक एक जालें**

खूब वर्सांमेरेन भुरगें जायनासताना राविल्ले बायलेक भुरगें जालें आनी तेन्नाच दुकळ आयलो. बरें घडलें पुणून त्याच वेळार संकंट उबें रावलें. कश्टान मेळिल्ली गजाल संकटाच्या भोवऱ्यांत सांपडटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.

21) **वांजेक वितीचे दूख कळटा वे?**

22) **वाट विचारीत विचारीत ( निमगून, निमगून ) खंयीय ( लंकते )**

वचूं येता.

23) **वाटेर बशिल्ल्याक भौमान ना.**

वाटेर बशिल्ल्याक येतले वतले पायांनी माडयतलेच. तांकां आदर कोणूच दाखोवंचो ना.

24) **वाटेवयल्या वागा, म्हाका येवन खागा.**

बळयां वचून संकटात उडी घेवप Courting danger.

ही ओपार सोळाव्या शेकड्यातल्या संकलनांत मेळटा.

म्हणीचो वापर : बारेंतान त्या पत्राची खबर काडूंक आपलो सगलो कामधंदो सोडून वाटेवयल्या वागा म्हाका खा गा म्हण्टात तशें कित्याक वावुरचें?

'पुण्यात्मो राम कामती', बरो. शणै गोंयबाब

25) **वाडटलो आपलो आसल्यार कोरग्यांत जेवं येत.**

कोरगो = गोठो.

26) **वाडपी वाडटा, पूण दवलो नाडटा.**

वाडपी बायलेक पानार खूब वाडपाची इच्छा आसता. पूण तिच्या हांतातलो दवलो ल्हान जाल्ल्यान पानार थोडें थोडें पडटा. करतली कितें? गिरेस्ताक दान दिवपाची इच्छा आसता आनी तो दिताय बी. पूण ताचे जे मदले कारबारी लोक आसतात ते सगल्या सगलें दुसऱ्याच्या हातांत पडूंक दिनात.

27) **वाडलेलें चेडूं मोडलेल्या घराक.**

चेडूं वाडटकच ताचें एकदां लग्र जावन घोवागेर गेल्यार पुरो अशें जाता. मागीर ताका भिकाऱ्याच्या पदरांत घालपाक फाटीं करीनात तेन्ना ही म्हण वापरतात.

28) **वाडलेले कडे जेवंचें देवळा सरवळेर न्हिदचें.**

घरदार नाशिल्लो असो आलमपेड्ड्यार मनीस. असल्या मनशाक सोळाव्या शेंकड्यात रावळका भात देवळका निद्रा ही म्हण वापरताले. इंग्लीशीत

वाच्यार्थ असो Take rice in royal palace and sleep in the temple - restful life. Prof. L. A. Rodrigues.

29) **वाडिल्लें नाका सांडिल्लें जाय.**

30) **वाडिल्ले व्हंकलेक वेळ ना म्हूर्त.**

31) **वाडूंक हाडल्या वेळार नाका म्हणटा कुणब्या जांवय**

म्हणी फाटली काणी : (सांगपी: आनंद वर्टी.)

एक कुणब्यालो जांवय मावोड्या गेल्लो. दिसाचें जेवताना भिडेन ताका नाका म्हणून सांगूक लागलो. त्यावेळार वाडपा हाडिल्ले खिरीचो एक थेंबो ताच्या मनगटार पडलो. तो ताणे चोखलो आनी ताका तो खूब बरो लागलो. रातीचे सगळे न्हिदतकच हो जावंय ल्हवूच उठून रांदचे कुडींत वचून मडक्यांतली खीर खावपाक लागलो. तेन्ना मडक्याचो आवाज जालो, सगलीं उठलीं आनी जांवयाक धरलो. तेन्नाच्यान खंयच्याय जिनसाची मनांत इत्सा दवरून भिडेखातीर नाका नाका म्हणपी मनशाक कुणब्या जांवय म्हणटात. वाडूंक हाडले वेळार नाका म्हणटा, कुणब्या जांवयिं तट्टि व्हावंता अशी म्हण ताल्मकी संकलनांत मेळटा. ताचो अर्थ मावोड्या वतकच वाडूंक हाडटकच लजेन नाका नाका म्हणप पूण मांवाचे भरपूर काम करप अशी खंय कुणब्या जांवयाची रीत आसता. असो म.वा.को. भा. 2 पा. 496 चेर दिला.

32) **वान वचून म्हादळ्याक सांगता.**

म्हादळे = घुमटाच्या मेळांतले चामड्याचें तालवाद्य.

वानाक मुसळाकडल्यान मार बसता. तें आपलें दुख्ख सांगपाक म्हादळ्याकडेन वता. म्हदळ्याक मार सहन करचोच पडटा. वानाक एकेच वाटेन जाल्यार म्हादळ्याक दोनाय वटांनी. दुख्ख भोगपी मनशान दुसऱ्या तशेच वा चड दुख्ख भोगपी मनशाकडेन वचप.

33) **वानांत बसून कांडणा मार चुकोवंच्याक जाता वे?**

कांडण = मुसळ.

जंय वायट येवपाचेंच आसा अश्या जाग्यार गेलो जाल्यार वायट

भोगपाचें नशीबांत येता. तें चुकोवं नजो. वायट मनशाच्या सहवासांत अपमान जातलोच अश्याय अर्थान वापरतात.

34) **वायट येता घोड्याचे धांवेन, बरें येता मुयेचे चालीन.**

35) **वायट येता घोड्याचे धांवेन आनी वेता मुयेचे चालीन.**

हांगा वायट म्हळ्यार आरोग्य इबाडप, दुयेंस. कसलेंय दुखणे रोखडें बळवता. बरें जावंक मात उशीर लागता.

36) **वायट वार्ता फट जायना.**

37) **वारें येता तशें शीड ( सूप ) धरचें.**

प्रसंगाप्रमाणे वागून वेळ निभावन व्हरप ह्या अर्थान वापरतात.

38) **वारें चोवन मोट बांदप.**

वारें पळोवन प्रवासाक वचपाची तयारी करप. मोट म्हळ्यार पोटली. पयलीं प्रवासाक वताना पोटली बांदून बरोबर व्हरताले.

39) **वारें भरिल्लें शीत मुठयेक येना.**

वारें भरिल्लें शीत फळफळीत जाता आनी उंडयो करूंक येनात. भुरगो पारपोळ जालो म्हणटकूच ताका आळाबंदा हाडूंक येना हें सांगपाक ही ओपार मारतात.

40) **वारें उजो आनी करड एकेकडे.**

आमी नातरां एकठांय जावन धुमशणा कांडूक लागतकूच आज्जेच्या तोंडातल्यान ही म्हण येताली. मात्शे पळेयात गे. वारो, उजो आनी करड एकठांय जाल्यात. अनर्थ जावपाक वेळ ना अशा अर्थाची ही म्हण.

41) **वाऱ्यान जर कोयर वता, सान्न कित्या जाय?**

42) **वासरा कानांत वारें रिगलें.**

वासराच्या कानांत वारें भरतकच तें उडयो मारता, कशेंच आटापा येना. मनीस आटापा येना असो वागूंक लागलो म्हणटकीर ताका ही म्हण वापरतात.

43) **वाळचे भाज्जेक लसणी फोडणां कित्याक?**

वाळची भाजी म्हळयार सामकी सादी भाजी. तिका आनी लसणी फोडणा घालून कितें फरक पडटलो?

## वि

1) **विडी ओडटल्या ताळो पळय, पूड तामतल्या दोळे पळेय, पान खातल्या आंगण पळय.**

विडी ओडून ताळो तांबडो जाता, पूड ओडून दोळे तांबडे जातात आनी पान खावन पिचकारी मारून आंगण तांबडें जाता. तिनूय पळोवपासारकीं नासतात अशें सांगपी उपाट अर्थान भरिल्ली ही म्हण.

2) **वियेल्ल्यापरस चाटलेल्याची माया चड.**
जल्म दिता ते आवयपरस जी बायल सगल्यो खस्तो खावन भुरग्याक ल्हानाचो व्हड करता तिका त्या भुरग्याची चड माया लागता. कृष्ण देवकीगेर जल्मलो खरो पूण यशोदेन ताका वाडयलो आनी तिका ताची चड माया लागली.

## वी

1) **वीस करता किसमीस.**

तरणाटो वीस वर्सांचो जालो म्हणटकूच मोगाचे तावडींत सांपडटलोच.

## वे

1) **वेंटो लासलो तरीं ताचो वळ वचना.**

सोळाव्या शेकड्यांतल्या संकलनांत ही म्हण आसा. सुंभ जळ्ळें तरी पीळ वचना. वायट सबावाचो मनीस सुदारना.

2) **वेयालो वेय, बाबुल्यालो जांवय, तेवूय पोरसांतलो हांवूय.**

सुवार्थाखातीर नातीं गोतीं सोदतात आनी ओडून ताणून संबंद दाखयतात तेन्ना ही ओपार मारतात. संस्कृत वाक्प्रचार: बादरायण संबंद असो

आसा; म्हळ्यार बोरीच्या (बदरी)झाडावयल्यान जोडलेलो संबंद ताका लागीं अशी कोंकणी म्हण 'बोरारुका जंते मगल्या घराक.

3) **वेताक चुकिल्लो वावांक चुकतलो वावांक चुकिल्लो गांवाक चुकतलो.**

वेत = आंगठो आनी निमाणे बोट हांचेमदलें चडांत चड अंतराचें माप

वांव = दोनी हात सरळ रेशेत आडवे पसरिल्ले स्थितींत दोनीमदल्या बोटांमदले अंतर हेंवूंय एक माप (वेतापरस व्हड)

4) **वेली प्रमाणे फळ.**

झाड तशें फळ, बीं तसो आंकूर.

5) **वेस घालून नाचना म्हळ्यार जातवे?**

एकदां सवंग घेवन माचयेर चडलो मागीर नाचना म्हणून सांगूक जायना. कामाचो पत्कर घेतकच तें करचेंच पडटा.

6) **वेळ नी काळ कोणाचीच वाट पळेना.**

7) **वेळ येनाफुडे काळ फाटीं लागता.**

8) **वेळ पळोवन खेळ खेळचो.**

प्रसंग पळोवन फकाणां, मस्करी करची.

9) **वेळ वांकडो आयलो, गाडवा पाय धरलो.**

मराठी म्हण : अडला हरी गाढवाचे पाय धरी.

10) **वेळार वेळ, शिमग्यार खेळ.**

कामाच्या वेळार मनशान काम करचे, आनी खेळपाच्या वेळार खेळचें. शेतकामती वर्सभर काम करता आनी शिमग्याच्या वेळार खेळटा तांतूत एक प्रकारची मजा आसता.

## वै

1) **वैजाची बायल रांडाव.**

लोकांक वखद विर्सद दिवंक वैज धांवता आनी तांकां वाटायता. पूण ताका मात वखद दिवन वाटावपी कोण नासता. तो वखदाविणे मरून वता आनी ताची बायल रांडाव जाता.

2) **वैजिणीकडे पोट लिपोवं नजो.**

जो आपल्याक सोडोवंक आयला ताका जें कितें घडलां तें सगलें सांगचेंच पडटा.

मराठी म्हण : सुइणी पुढें चूत लपवून चालत नाही.

## व्ह

1) **व्हंकल मोनी, व्हरेत मोनो.**

2) **व्हंकल मरूं, व्हरेंत मरूं, आमची दक्षणा आमकां मेवंदी.**

3) **व्हंकल मरूं नाजाल्यार न्हवरो मरूं, होंवळ्यो रडटात वरणाक.**

4) **व्हंकलेक कोण वाखाणटलो, व्हंकलेची आवय न्हय जाल्या?**

व्हंकलेची आवय आपले धुवेचे गूण व्हड करून सांगता.

5) **व्हंकलेली चिन्ना सव्यार कळटात.**

सवो = लग्न लावपाचें स्थान.

लग्नावेळार व्हंकल कशी वागता, चलता, बोलता ताचेवयल्यान तिका घरची देख आसा काय ना, तें बरें संस्कार आसा काय ना, तें कळटा.

6) **व्हंकलेची चिन्ना वाळ्यांच्या कयलार.**

व्हकलेचे वाळे जर झरून कयल जाल्ले आसत जाल्यार ती काम करपी अशें अनुमान काडूं येता. ल्हान गजालीवयल्यान वागणूक कळटा.

7) **व्हंकलेचीं चिन्ना वाळ्यांच्या खळखळार.**

व्हंकल चलताना तिच्या पायांतल्या वाळ्यांचो ल्हान व्हड आवाज येता; ताचेवयल्यान तिचो सबाव शांत काय थिल्लर ताची कल्पना करूं येता.

8) **व्हंकलेच्यो खुमो नवरो जाणो.**

9) व्हड घर पोकळ वांसो.

10) व्हडली मासळी धाकले मासळेक खाता.

11) व्हडें पयलीं घट्ट करूंक जाय, मागीर भाडें केन्नाय मेळटा.

12) व्हड रुखा सावळेंत सगलेच रावंच्याक पळेतात.

म्हणींतल्यान व्हडाचें गीत.

13) व्हड रुखाक वारें लागचें चड.

14) व्हडां गांडी सगले धुतात, गरिबा तोंड पळेता कोण?

15) व्हडांगेली उतरां गोड, गरिबांगेलें जेवण गोड.

16) व्हडागेल्या पितळांक लेगीत भांगर म्हणटात.

17) व्हडासांगातीं वेव्हार नाका, हुना सांगाती मेण नाका

18) व्हडा घर लासूं नये, गरिबा बायल मरूं नयें

19) व्हरेता सांगाती जेवण खाण, व्हकले सांगाती न्हाण माकण.

20) व्हरेत चोयता व्हंकले तोंड, पुरयत चोयता दक्षिणे तोंड.

## व्हा

1) व्हांवंचे न्हयंत हात धुवंचें.

2) व्हांवंत्या उदकाक भश्ट ना.

3) व्हांवंतलें आसल्यार मेल्लेभाशेन पडूं येत.

## श

1) शक्तीन जायनाशिल्लें युक्तीन जाता.

2) शक्तीकय युक्ती व्हड.

3) शरण आयिल्ल्याक मरण ना.

4) शणैचो जांवय चुनो खाता, चुनो खातां, खातां तोंड फोफेलें.

शणै बाबाच्या जांवयाची तो चुनो खाता म्हणून लोकांनी तुस्त केली. जांवय तुस्तीन बुल्लसून गेलो आनी चड चुनो खावंक सुरवात केली आनी जालें कितें काय म्हणशात जाल्यार ताचें तोंड फोफेवन सुजलें. फट तुस्तीक भुलून पिशेपणाची करणी करीत जाल्यार ती आंगलट येता.

5) **शणैमाम पाड्या गेलो कित्या म्हळ्यार खबर ना.**

शणैमाम आपल्या भाटांत नाल्लाच्या पाड्याक म्हणून वता आनी आपूण कित्याक आयलां तेंच विसरता, असो धांदरट मनीस.

## शा

1) **शाण्याक उतरां मार, पिशाक चाबकां मार.**

2) **शाण्याक धा कडेन पिशाक एकेकडेन.**

म्हणी फाटली काणी : स्वताक शाणो समजुपी एकटो रातच्या पारार काळखांतल्यान वतालो. वतां वतां पांय घाणींत पडलो. पायांक कितें लागता ते उजवाडान वचून पळोवंचे बदला ताणे हातान काडले आनी बोटांनी बारीक सांसचपून पळेयलें. वासावयल्यान परीक्षा करचे खातीर बोटां नाकाकडेन व्हेलीं. वासावयल्यान ताका कितें लागलां तें कळ्ळें. पूण तोंवर तो तीन कडेन घाणलो. देखून शाणो घाणटा तीन कडेन अशेंय म्हणटा.

## शि

1) **शिंगा मोडून वासरांनी बसता.**

जाणटो मनीस पोरकटपणा करता तेन्ना वा बळयां अज्ञानपणाचें ढोंग करता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

2) **शिगमो सरलो कवनां उरली.**

शिमग्याचो उत्सव सोंपलो तरी तेन्ना रचिल्ली कवनां जायते दीस तोंडांत उरतात.

3) **शिगम्यांत पावस चवथींत गीम.**

सैमाच्या नेमा आड बरोब्बर परती गजाल घडटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.

4) **शिगमो वांचन तर होळयेंत नाचन.**

5) **शिजता थंय करपता.**

खूबश्यो बऱ्यो गजाली जातात त्या जाग्यार एकादी वायट गजाल जावंक शकता.

6) **शिजचें शिजंतर उजो जळचो, जांवचे जातर बुद्द येवंची.**

7) **शितां आसल्यार भुतां जायतीं**

तुमचेकडेन भरपूर अन्न आसता तेन्ना सगली भुरावळ जमता. शिरिमंता भोवंती ताची सायबाजात्रा करपी लोक आनी इश्ट जमतात तेन्ना ही म्हण वापरतात.

8) **शिता आदीं मीठ खांव नाका.**

9) **शितावरवीं भाताची परीक्षा.**

10) **मराठी म्हण : शितावरून भाताची परीक्षा अशी आसा.**

To test a whole pot of boiled rice by testing just one grain of that rice. (मराठी शीत म्हळ्यार गोटो. कोंकणी म्हणीचें इंग्लीश भाषांतर To taste the crop of rice by tasting out of the pot of boiled rice. अर्थ सारकोच. अल्पअंशावयल्यान सगल्या पदार्थाची परीक्षा.

11) **शिमरें चाळयता लुडब्याक, आनी थोटें हांसता कुड्ड्याक.**

सगल्यांकूच व्यंग आसा; पूण जण एकलो दुसऱ्याक हांसता.

12) **शिमऱ्याक नाकाची पांग.**

आपल्याक बरें नाक आसचें अशी पांग म्हळयार उमळशीक शिमऱ्याक आसता.

13) **शिदीभर भिकणां आशिल्लो पावसांत भायर पडना.**

14) **शिंवतल्याच्या उजव्या हाता आनी रडटल्याच्या दाव्या हाता बसचें न्हय.**

शिंवतल्याच्या उजव्याक बसूं नये. सूय तोपत म्हणून भय आसता. रडटल्याच्या दाव्याक बसल्यार आंगार शेंबूड उडपाचो संभव आसता.

15) **शिरिमंताच्या भुरग्यांक उखलचें, पुणून दवरचें न्हय.**

शिरिमंताच्या भुरग्याचे लाड करचे पुणून ताचेर रागार जावंचे न्हय. शिरिमंताक तें आवडचें ना.

16) **शिरिमंतान शेण खालें जाल्यार तें वखताक खालें; गरिबान खालें जाल्यार मात पोटाक खालें.**

पयसो आसता त्या मनशाची पिशेपणा सुध्दां शाणेपणा अशें समजतात. सगले गुण पयशाक दसतात म्हणटात तें फट न्हय. 'सर्वे गुणाः कांचनमाश्रयंते.'

17) **शिश्यागेले चुकीक गुरूक दंड.**

## शी

1) **शीत ना रोस, जांभया फळार.**

2) **शीं करतली शिल्ली ना आनी कां करतलो कावळो ना.**

शिल्ली = शेङ्याची एक जात.

कोण एक लोक नांशिल्ल्या निर्जन वाठारांक ही म्हण वापरतात. 'थंय जितो मूस दिसपाक कठीण' अशेंय म्हणटात.

## शे

1) **शेजरा आसलेबगर शेजार कळना, बली आसलेबगर सांगात कळना.**

बली = वेव्हार.

2) **शेजाऱ्याचो सोरो अदीक बरो.**

3) **शेजाऱ्नीन पोरां पोसल्यार आवय कित्याक?**

आपलें काम आपूण जितलें मनापासून करता तितलें दुसरो मनीस तें

करणें शक्य ना हें सांगपाक ही म्हण वापरतात.

4) **शेजान्नीच्या सान्नार रोस काडटा.**

शेजान्नीन सान्नां केल्यांत म्हणून खबर मेळना फुडें तांतलीं आपल्याक ती धाडटली हे आशेन बेगी बेगीन नाल्लाचो रोस काडूंक धांवताली खंय कोण! पयलींच तयारी करून बसप.

5) **शेजारची व्हंकल कुड्डी/ शेजान्निलें चेडूं मुत्रें.**

लागशिल्लें बरें आसत जाल्यार सुद्धां मनशाक दिसना.पयशिल्लें बरें दिसता. सदांच दोळ्यांमुखार आसता ताका कमी महत्व दितात. असलीच दुसरी म्हण:

घर मोगऱ्याक परमळ ना.

संस्कृत उक्ति - अतिपरिचयात् अवज्ञा.

6) **शेट पडल्यार भट धांवता, भट पडल्यार कोण धांवता?**

गिरेस्ताचे ल्हान व्हड काम करपाक कोणूय तयार आसता. गरिबाक मदतीचो हात दिवपाक कोण मुखार येता?

7) **शेट रिवणा, सांतली कुसमणा.**

रिवणाचो नायक कुसमणा वस्ती करूंक दिवंक वता आनी सांतली (घरावी सत्री) थंय विसरून येता. कुसमणच्यान शेट तयार वस्ती घेवन नायकागेर वेता तेन्नाय सांतली व्हरपाक विसरता. हे गजाली वयल्यान नायक रिवणा सांतली कुसमणा, शेट रिवणा सांतली कुसमणा अशी म्हण आयली. धांदरटपणान विसरता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

'बाबगो : वैज आसा थै. ओखता शेट रिवणा आनी सांतली कुसमणा म्हळ्यार उपकारता गा?'

'मोगाचें लग्न', बरो: शणै गोंयबाब पा. 34.

आपूण एकेकडेन आनी आपली मिरास एकेकडेन हें सांगपाकूय ही म्हण वापरतात. नोकरे खातीर हांव मुंबय आयलों. म्हजे सगले गांवात. शेट रिवणा सांतली कुसमणा अशी म्हजी हांगा स्थिती.

8) **शेट शिंगारता म्हणसर बाज़ार उलगलो.**

तयारी करून भायर सरता म्हणसर वेळ जावन गेलो. सवकासायेन मेथरावण्यो करीत भायर सरता आनी समारंभाक वा कामाक उसरां पावता तेन्ना ही ओपार मारतात.

9) **शेटी सुमार समजलो चेडवा, मांदरी कवळ.**

हांगा शेट म्हळ्यार गिरेस्त, मोटो मनीस. असोच एक गिरेस्त मनीस चंपा नायकिणीगेर गेल्लो तेन्ना ताका पारखून घेवन न्हेने आकान चंपाक दिल्लो हो कानमंत्र मांदरी ह्या उतराचो अर्थ शेंदरी पूण हांगा तो पलंग अशा अर्थान वापरला. पलंगावयल्यो, तोखणायो तितलेपुरत्योच जावंदी; असो हो इशारो.

फटींग मनशाकडेन वेव्हार करचो नासता तेन्ना आमी मांदरी कवळलेली बरी अशी ओपार मारतात.

10) **शेटीचोय गूण आनी कानाचोय गूण.**

कानांतलें जर बरें सोबलें तर शेटीचें कसब. सुंदरीच्या कानाचोय गूण म्हणूंक जाय. बरे गजालीचे सगळें स्त्राय एकट्याक नासता, तांतूत दुसऱ्याचोय वांटो आसता.

11) **शेटीन कान तोपिल्लो बरो.**

भुरग्याचो कान तोपपाचो आसत जाल्यार घरच्या मनशांक तो कसोच हात लावंक दिना. हुयेल मारता. शेटीकडल्यान तें काम बरें जाता. तो ताका फुसलावन वेवस्थीत कान तोपता. योग्य मनशाकडल्यान समजावणी मेळ्ळी म्हणटकूच बरें अशा अर्थान वापरतात.

12) **शेंटा भाज्जेक तुपा फोडणां !**

13) **शेणा थापो जमिनीर पडलो तर माती घेतल्या शिवाय उठटा?**

कोणाचेरूय बेठेच आरोप करून करून ताका घाणावपाचो प्रयत्न केल्यार थोडी तरी घाण ताका दसलेबगर रावना.

14) **शेणा दुडू तणा बाद.**

शेण विकून कितलेशे पयशे मेळटले? जे कितें मेळटात ते तण घेवपाक

सुद्धां पावपाचे नात.

15) **शेणांतल्या किड्याक शेणाचो वास ना.**

16) **शेणिल्लें गोरूं करमळे तळ्यार.**

'चुकिल्लें गोरूं धामापुरच्या तळ्यार' अशीय म्हण वापरतात. करमळेचें तळें गोयांत आसा जाल्यार धामापूरचें तळें सिंधुदुर्ग जिल्ह्यांत आसा. गोरवां ह्या तळ्यांचेर उदक पियेवपाक वतात. शेणिल्लें चुकललें गोरूं अश्या जाग्यार हटकून मेळटा.

गावांत येतल्या वतल्याचो सत्कार करपी कुटुंबा आसतालीं. परकी मनीस गावांत पावलो जाल्यार थंय मेळपाचोच अशा कुटुंबाविशीं ही म्हण वापरतात.

17) **शेणी आशिल्ल्यो थापे ज़ाले; थापे आशिल्ले शेणी जाल्यो.**

जांची सुवात वयर आशिल्ली, ते सकल पावप आनी सकल आशिल्ले, वयर पावप, ह्या अर्थाची म्हण.

18) **शेताआड चोरी, दादल्याआड शिंदळकी.**

ह्यो दोनूय गजाली सहज पचूं शकतात; उघड करपाक कठीण.

19) **शेताक जाय पावस ; पुताक जाय आवस.**

20) **शेतांतल्या बेब्याक सुद्धां भितले लोक आसात.**

21) **शेंपडेक बांदलां सूप बिळाक वचूंक ना रीग.**

हुंदराक बीळ ना सारके शेपेडेक सूप आनी कित्याक? वा हुंदीर जायना बिळांत, आनी शेपडेक बांदता सूप! अशींय हे म्हणीची वेगळीं रुपां मेळटात.

आपलेंच काम आपणाक सारके करपाक वेळ नासताना दुसऱ्याचीं कामा आंगार घेता वा ताकद नासताना व्हडल्या कामाक वेंग मारता तेन्ना ही ओपार मारूं येता. घर ल्हान आसूनय तरेतरेचीं उपकरणां घेतात तेन्नाय हे म्हणीची याद जाता.

22) **शेराचे आशेक झगडले आनी पायलेची आंबील सुणें खावन गेलें.**

23) **शेंवट्यापरीस गाबोळी व्हड.**

चड व्हडवीक सांगता वा आपलेलागीं घडटा ताचेपरस व्हडलीं शापतां सांगता ताका ही ओपार लायतात.

24) **शेंसफूल तितक्यां रवलां.**

शेंसफूल = केसांच्या माग्यांतल्यान कपलार लोंबयता तें भांगराचें पदक. (भांगतिळो. एके बायलेन आंगभर भांगराच्यो वस्ती करून घेतिल्ल्यो. गोट, तोडिच्यो पाटल्यो सकयांच्यो पाटल्यो, बायखुऱ्यों नागमोडी, कुट्टरें, विणयेवेलें , साळकां, झिरकमळां गंडभैरव बी वस्ती सांगूक गेल्यार सोंपून सोंपच्यो नात. तरी तिचेकडेन शेंसफूल ना ही मनाक जायणी आशिल्ली. सगलें आसून नाका जाल्लो सोंस धरता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

25) **शेळ्या आंगार फुगांव आयले.**

जोर येनासतना आंगार कांगच्यो येवप हो वाच्यार्थ. गुन्यांव करिनासताना ख्यास्त भोगची पडटा तेन्ना अशें म्हणटात.

26) **शें थंय सवायशें, कळंतरां खंयचे भें.**

कळंतर = व्याज

शंबर उशणे मागपाचे तर एकशें पंचवीस कित्याक नाका? व्याजाचो भय कित्याक धरप? पर्वा करिनासताना रीण काडीत रावप.

शंबर करपाचे थंय सवायशें करपाक कितलो वेळ लागतलो? अशाय अर्थान वापरतात. दोनूच पडी पिठी उरल्या मगे? कितलोसो वेळ लागतलो पापड करपाक? आतां जातले लाटून आगे 'शें थंय सवायशें'

27) **शेरकां पडलेलें शेत आनी मेळ्यांनी भरलेलें घर वयर सरना.**

## स

1) **सकल दवरल्यार मुय व्हरता, वयर दवरल्यार कावळो व्हरता.**

2) **संकट येतकूच देवालो उगडास येता.**

3) **सगलीं सवंगां हाडूं येतात, पयशांचें सवंग मात हाडूं नजो.**

4) **सगले वेळ सोपे, दनपारचो वेळ कठीण.**

सगलें कशेंय सांबाळून व्हरूंक जाता पूण दनपारची भूक सांबाळूंक जायना. भूकेच्या वेळार खावपाची वेवस्था करचीच पडटा.

5) **सगलो म्हजो गांव, पाय दवरूंक ना ठाव.**

6) **सगलो बुडिल्ल्याक शीं ना.**

7) **सगलो लाडू एका घांसान गिळूंक जायना.**

8) **सगल्यांक दितां म्हणटालो, कोणाकूच दिना.**

9) **सगल्यांनी सांगिल्लें आयकूंका, मनाक दिशिल्लें करका.**

10) **सगल्यांनी पालखेंत बसल्यार व्हरचें कोणे? ( भोय कोण जातलो? )**

11) **सगलीं सुणी जर काशीक गेलीं, मडक्यो कोण ल्हवतलो?**

12) **सगलो दीस नागडी आनी न्हाताना धरली मांद्री.**

कोण खंय दिसयभर न्हेसणाचें धंग धरी नाशिल्ली. न्हांवक वतकच आडोस करूंक मान्याक मांद्री लावंक सोदताली.

13) **सगलीं बोटां सारकीं नासतात.**

14) **सगलें मुसळ कोयरांत.**

15) **सगलें करचें करतात, पूण देवाकडचो दिवो दोळयांत वता.**

सगलो समारंभ व्हडल्या दबाज्यान करतात पूण धर्मकृत्याकडे पावतकच काटकसर येवजता.

16) **सगली रात कथा केली, काकशणैच्या गाणीं गेली.**

तरे तरेन समजावपाचे प्रयत्न करूनूय मूर्ख मनशाक कांय समजना तेन्ना ही ओपार मारतात.

17) **सगले फळणेक एकूच 'व'**

तीच तीच गजाल पर्थून परत सांगप. स्लेट पाटी येवंचे आदीं लाकडाची फ़ळी घेवन ताचेर धूळ शिंपडायताले आनी ताचेर अक्षरां गिरयताले. ते

फळणेर 'व' हे एकूच अक्षर परत परत बरोवप.

18) **सत्याक नाश ( मरण ) ना.**

19) **सत्तेफुडे शाणपण चलना.**

20) **सत्तेची पेज आनी सगल्या आंगाक तेज.**

21) **संताक अहंकार वायट.**

22) **सदासदा वागा बापायलें वार्शिक?**

इं.पु.ना. संकलनांत ही कारवाराकडली म्हण आसा. 'कोंकणी म्हण्यो' ह्या पुस्तकांत म्हणीचो वापर दाखयला : सुधीरान एक दीस बाजारांतल्यान थोडी न्हय इतली भाजी हाडली. घरांत मनशां दोन आनी भाजी इतली ! ती भाजी पळोवन तागेले आवयन ताका विचारलें : 'वागा बापायले वार्शिक आसा वे ?'

23) **सणाप्रमाणे सान्नां.**

24) **समय वतच, मनीस मरतच, परतना.**

समय = वेळ, वगत.

25) **समुद्र पेवन पावलभर उदकांत मेलो.**

मनीस केन्ना केन्नाय व्हड संकटां हुंपून वता आनी ल्हानश्या संकटात सांपडून ताचो जीव वता.

26) **समुद्रांत सोडलेलें तारूं तडी येतच खरें.**

27) **सर्तीन जाता तें अर्थीन जायना.**

जें चढाओढीन जाता तें ओड आसली, इत्सा आसली तरीय जायना.

28) **संवकल्लो कोलो अजीर्णान मेलो.**

चड खावपाची संवय जातकच अजीर्ण हें जावपाचेंच. अजीर्ण म्हळ्यार मरणाक आमंत्रण.

29) **संवयेचो हात तोंडात वता.**

30) **सवाय तांगाची गवाय ती!**

गोंयांत प्रचारात आशिल्लें एक नाणे. ताची किंमत पांच पयशे आशिल्ली उपरांत सोळा तांगाचो एक रुपया जालो.

थोड्या मुशाऱ्याक गवाय दिवंक तयार जाताले. ही गवाय चड करून फट आसताली. मुशारो दिता ताचे वटेन, हें सांगपाची गरज ना.

31) **सवाय खाण पोटफुगें.**

32) **संशयी मन सावळेक भिता.**

33) **संवसार राखून परमार्थ साधका.**

34) **संवसारांतलें दुख्ख मेलेबगर सोंपना.**

## सा

1) **सांकवार चडोवन फळें ताणप.**

फळयांच्या पुलार वचपाक उत्तेजन दिवप आनी वचूंक लागतकच फळयोच काडून घेवप. धाडसाचें काम करूंक उत्तेजन दिवप आनी मागीर ताचे पांय ओडून त्रास दिवंक सुरवात करप.

2) **सांगत ती चाकरी, दीत तो मुशारो.**

सि. हा. त ही म्हण 'सांगलेली चाकरी, दिलेलो मुशारो' अशी मेळटा. धनी सांगता तें काम करप आनी दिता तो पगार घेवन वचप.

3) **सांगका थोडें करका चड.**

4) **सांगचे परस करचें ( केल्लें ) बरे... नाक आपटून मेल्लें बरें.**

5) **सांगतल्याक एक तोंड, आयकतल्याक दोन कान.**

मुळांत ल्हान आसलेली बातमी एकाकडल्यान मीठ मिरसांग लावन दुसऱ्याकडेन, मागीर तिसऱ्याकडेन अशी वाडत वता.

6) **सांगून सांगून दांतां जाल्यो कणयो आनी ओंठां जाल्यो शिंपयो.**

परतो परतो उपदेश करूनय काना मनार घेना, तेन्ना ही ओपार मरतात.

7) **साठ वर्सांनी सुंठ फुल्ल्या.**

8) **सांब मुखावेलो नंदी, कामाक ना, घामाक ना.**

शंकराच्या देवळांत नंदी आसताच पूण तो शेतकामाक उपकारता?

9) **सांते गेल्याशिवाय दर कळना.**

घरा बसून मालाक दर कितें येतली तें कळना. बाजारात चारचौंगांकडेन चवकशी करूंक जाय तेन्नाच दर कळटा.

10) **सांतेक गेल्लो पिसो, घरा आशिल्लो शाणो.**

11) **सांतेरीक अभिशेकाचें मरण.**

शांतिकारी (थंडाय करपी) हाचें उच्चार-बदलाच्या नेमान सांतेरी हे कोंकणी रूप जालें. त्यो जमनीतसून ल्हान दोंगरावरी वाडटात. तांका कोंकणीत रोयणी म्हणटात. रोयणीक धातूचें मुखें लावन सांतेरी ह्या नावान खूब पयलीं पासून पूजतात. रोयणीक उदकान अभिषेक केल्यार माती व्हांवून वतली.

गरिबाक मान मेळ्ळो जाल्यार तो सांबाळपाक ताका त्रास जातात असो हे म्हणीचो अर्थ.

'येवकार अध्यक्षांले उलोवप' - शणै गोंयबाब, पा. 139-140

12) **सगली रात जागी रावली, आनी शेंगो - वायंगीं रांदलीं**

वावर खूब केलो पूण फळ मेळ्ळें तें कितें काय म्हणशात जाल्यार सामकें ल्हान. खूब कश्ट करून पदरांत कांय पडना तेन्ना ही म्हण वापरतात.

13) **साल खातल्याक इतलो दंड, केळें खातल्याक कितलो?**

14) **साळ कुसली म्हणून कुंड्यापाश्ट जायना.**

साळ = तांदळाची एक जात.

व्हडल्या मनशाचेर वायट परिस्थिती आयली म्हणून तो भिकाऱ्याबरोबरचो जायना.

## सि

1) **सितारेन म्होंव काडल्यार तोंडात पडटा?**

योग्य साधन घेवन काम केलेबगर फळ मेळना. ही ओपार सगल्या कोंकणांत घोळटेंत आसा. 'कोंक्यान म्होव काडल्यार आयदन भरत वे' अशीय ती दक्षिण कोंकणात वापरतात. सोळाव्या शेंकड्यांत तेंकडेन म्होंव काडल्यार तोंडात पडना अशी वापरताले. तेंकडी म्हळ्यार कोंडों, मान.

## सु

1) **सुसरी बाये तुजी फाट मोव.**

प्रसंग येतकच दुश्ट मनशाची स्तुती करून आपलो फायदो करून घेवंचो पडटा. कोलो आनी सुसरीचे लोककाणयेचेर आदारलेली ही म्हण इंग्लिशींत अशी मेळटा. Only when you have crossed the river can you say the crocodile has a lump on his snout.

2) **सुके गांडीक ओलो बिबो.**

कांयच जावंक नाशिल्ल्या धडधाकट मनशाक वखद दिवप. खंयचेय वस्तूचो नाका जाल्लो आनी गरज ना तेन्ना उपयोग करतात तेन्ना ही म्हण वापरतात.

3) **सुक्या बरोबरी ( सांगाती ) ओलेंय जळटा.**

वायटाबरोबर बऱ्याचेरूय हावळ येता.

4) **सुख जनाक सांगका, दुख्ख मनाक सांगका.**

आनंदाची खबर लोकांक कळोंवची, दुख्खाची गजाल आपणाकडेनच दवरची. दुख्खांत वांटेकार जावपाक कोण तयार नासता.

तुज्या बऱ्या मागप्याक वायट गजाल आयकून त्रास जातलो म्हणून सांगची न्हय आनी दुस्मानाक ती आयकून खोस जातली म्हणून सांगची न्हय.

5) **सुख सांगचें सुखेस्ताक, दुख्ख सांगचें दुखेस्ताक.**

तुजें दुख्ख सांगपाक तूं दुखेस्ताकडेन गेलो जाल्यार ताचें दुख्ख तुज्या दुख्खापरस कितलें चड हें पळोवन तुजें दुख्ख ल्हव जातलें, तुचें सुख

सांगपाक सुखेस्ताकडे गेलो जाल्यार ताचें व्हड सुख पळोवन तुजो अहंकार देवंतलो.

6) **सुग्राताक दोळे नात, दुडवांक वसो ना.**

सुग्रात = स्वार्थ, सुवराथ; वसो = संसर्ग.

सुग्राती आपलो, परकी म्हणून पळेना. कशेय पयशे जोडटा दुसऱ्याचें नुकसान जाल्लें ताका दिसना, कसलेय दुडू ताका बरेच.

7) **सुग्रात केल्यार गिरेस्त जायना, धर्म केल्यार दुर्बळ जायना.**

8) **सुग्राती सदाती दगदगी.**

चड पयशे मेळूंक जाय म्हणून ताका हुस्को आसता. जमयल्यात ते पयशे कोणूय व्हरत म्हणून हुस्को आसता. देखून तो सदांउठून दगदगी.

9) **सुणें खंयूय मारल्यार फाटल्या दोंक्यार कुट्टा.**

सुण्याच्या शरीराच्या खंयच्याय भागाक मार लागत जाल्यार तें फाटल्या पांयांनी लंगडत लंगडत चलता.

10) **सुण्याक सिंहासनार बसयल्यारूय ताका गोबराराशींतूच सूख.**

11) **सुण्या, गू जाय म्हळ्यार कांटियेर हागता.**

12) **सुण्या शेपडी नळयेंत घाल्यारीय वांकडीच.**

13) **सुण्याक पालखेंत बसयलो तरी हाडकाक पळोवन उडकी घेता.**

14) **सुण्याक भिवन न्हय, सुण्या यजमानाक.**

सुण्याक भिवन न्हय तर सुण्याच्या मालकाक भिवन धावतालो खंय कोण! सुण्यापरस मालकूच चड आंगार येतालो.

15) **सुण्याक दिवंची वाट, उण्याक दिवंची फाट.**

सुण्याक, कुशीन वाट दिवंची आनी हलकट मनीस मेळ्ळो जाल्यार ताचेकडेन फाट करून चलूंक लागचें हें शाणेपणाचें.

16) **सुण्यान भोंकल्यार स्वर्ग तग्गु ( सकल ) येतावे?**

सुणे वयर तोंड करून भोंकता म्हणून स्वर्ग सकला पडना; उणाक

मनशाच्या रागान केन्ना नुकसान जायना.

17) **सुण्याक सलगी दिल्यार माथ्यार चडटा.**

18) **सुणे गेले सांतेक ( यात्रेक ), घेवन आयलें कांटे.**

19) **सुण्या - माजराली सोयरीक, दीसभर लडाय.**

20) **सुण्याक सगलो नाल्ल.**

सुण्याक सोण्ण काडूंक नाल्ल दिलो जाल्यार ताका खोबरें खावंक मेळपाक ना. ताका ताचो कांय उपेग ना. खंयचीय वस्त जाका ताचो उपेग जावंक शकना ताका मेळटा तेन्ना ही ओपार मारतात.

21) **सुण्याक मारचे जाल्यार, कायलींत गिळिल्लें नेवन ( निमीत ) इत्याक?**

सुण्याक मारपाक ताका वायट थारावपाची गरज ना. इंग्लिशींत म्हणटात तशें Call a dog mad and shoot it. अशें करपाची गरज ना असो ह्या म्हणीचो आशय.

22) **सुजिल्लें तोंड हासूंक उपकरना, रडूंक उपकरना.**

23) **सुतान दोंगर रेवडावप.**

अशक्य, अर्थ नाशिल्ली गजाल.

24) **सुताक धरून स्वर्गार चडलो.**

ल्हानशे गजालीवयल्यान व्हडल्या गजालीचो तर्क बांदप. इल्लेशें समजलें जाल्यार सगले गजालीचो अदमास काडप.

25) **सुनेक राज्य मेळ्ळ्यार मांयक भाणशिऱ्या पाट.**

सुनेच्या हातांत संवसार येतकूच मांयच्या नशिबात जाडें लुगट.

26) **सुने फुडें खावंचें, धुवे फुडें भोगचें.**

सून घरा येवंचे पयली खावन पिवन घेवंचें. घरांत आपली सत्ता आसता. चली जावंचे पयलीं भांगर शिंगर घालून घेवंचे. मागीर चली तें घालूंक सोदता आनी तिका ना म्हणूंक जायना.

27) **सुनेचो पांय लागल्यार सुनेन पायां पडूंक जाय आनी मांयचो पांय**

**लागल्यार सुनेनच पायां पडूंक जाय.**

ल्हानानूच नम्रतायेन वागून जाणट्यांचे सोसूंक जाय अशी आदली रीत.

28) **सुनेलें लक्षण वाडच्यांत दिसता, गायेलें लक्षण दुभत्यांत दिसता.**

वाडपांत चड जिन्नस आसत जाल्यार सून बरी; दुदाचे जिन्नस चड जाल्यार गाय बरी म्हणून समजुचें.

29) **सुपांतले हांसतात, आदनांतले रडटात.**

सुपांतले तांदूळ हांसतात आनी वल्लेंतले वा आदनांतले रडटात. सुपांतलेय तांदूळ थोड्या वेळाउपरांत तोच प्रवास करतले. वल्लेंत भिजोवपाक आनी आदनांत, संकट, सुंपातल्याचेरुय येवपाचें आसा हें तांकां समजना. ही म्हण सुपांतले हासतात आदनांतल्याक अशीय वापरतात.

30) **सुरय खाल्यार हागता, उकडें खाल्यार भागता.**

31) **सुंकावेलो काडून समुद्रा पाळां मेजूंक घालो.**

म्हणी फाटली काणी : शंखदेव म्हणून राजाचो मेवणो आशिल्लो. ताका जंय दवरता थंय तो पयशे खातालो. बायलेचो भाव जाल्ल्यान कामावयल्यान काडून उडोवपूय शक्य नाशिल्लें. राजान विचार कर कर केलो आनी पयशे खावंक मेळचे ना अशें खातें शंखदेवाखातीर सोदून काडलें. तें काम म्हळ्यार दर्याची ल्हारां मेजप.

राजाचे फर्मान शंखदेवान व्हडेकारांक नुसतें पागप्यांक बी दाखयलें आनी आपणाक ल्हारां मेजूंक जाय, तुमका थारायल्ल्या वेळार भायर व्हडीं हाडूंक मेळची नात अशें सांगून व्हडेकारांकडल्यान, नुस्ते पागप्यांकडल्यान पयशे घेवन व्हडीं उदकात वचपाक दिलीं. शंखदेवाचे हप्ते चालू जाले.

सुंक = जकात, Octroi; पाळ = दर्याचें ल्हार.

## सू

1) **सू म्हळयार राग कळटा.**

2) **सू म्हळयार सुंगट.**

थोडेशे माहितेवयल्यान पयशील्लें अनुमान काडप: अशीच आनीक एक म्हण आसा. 'त वयल्यान ताक वळखप'

3) **सून गोटो खायना, मडकेंत कांय ना.**

मांय, सुनेची तोखणाय करता कांय खायना, जेविना म्हणून, आनी हेवट्यां पळेत जाल्यार आयदन रिकामेंच आसता, सुनेन सोंपयल्लें आसता!

4) **सूंब जळ्ळें तरी पीळ वचना.**

कितलीय शिक्षा केली तरी ना सुदारपी, आपल्यो वायट संवयी ना सोडपी लोक आसतात तांकां ही म्हण वापरतात. कांय जाण वायट दीस आयले तरी आपले मूळ गूण सोडीनात, तेन्नाय ही ओपार मारतात.

## सो

1) **सोदतल्याक मेळटा ( सांपडटा ).**

2) **सोबलें बांयत पडलें, कापड नितळ जालें.**

ही म्हण सि. हा. त आनी को. ओ. भा. त अशी दिल्या: फादर पेरैरान असो अर्थ दिला: 'शोबीन (Sabina) बांयत पडलें ना जाल्यार नितळ जावंचे नासलें. मो दाल्गादानूय होच अर्थ दिला.

बेबलां 'बावींत पडलां आनी पातळ धव्यां जालां' अशी मालवणी म्हण आसा. को.म्ह.सोरूंत ही म्हण अशी दिल्या:

3) **सोबेला बायिंतू पळ्ळे, पूण सोबेला नितळ जालें.**

वायटांतल्यान बरें घडप असो ह्या म्हणीचो अर्थ.

4) **सोयरे दूर आसका, बांय लागीं आसका.**

घर बांदता आसतना सोयऱ्यांपासून पयस बांदचें, तांची कटकट नासतली. उदक लागचे लागीं मेळचें म्हणून बांय लागीं आसची.

5) **सोयऱ्यांनी खाल्लें घर न्हय, शेरकांनी खाल्लें शेत न्हय.**

6) **सोरोप म्हणू नये धाकलो, घोव म्हणू नये आपलो.**

7) **सोश्या भोवंडेक गेल्यार, वागा भोंवडे साहित्य जाय.**

थोडें काम आसलें तरीं तयारी भरपूर करूंक जाय. नाजाल्यार सोंश्याचे भोवंडेक गेल्लेकडेन तुमीच वागाची शिकार जावन वचूं येतात.

'वाग मारूंक वेतलो जाल्यार शिंवाची हत्यारां घेवन वचूंक जाय' अशी दुसरी म्हण आसा.

8) **सोंश्याक आयली खरस, सुण्याक जालें मुतूंक.**

धांवून धांवून सोंश्याक पुरो जालें आनी ताचे फाटल्यान लागलेल्या सुण्याक मुतूंक जालें. त्रास दिवपी आनी त्रास सोंसपी दोगूय शेकीं खरशेतात हेंच खरें. 'धांवतल्याकयि धांवडायतल्याक कि खरस एकचि – को.म्ह.(मल्ल्या)

9) **सोंसो मागता झाड आनी दायजी मागता पाड.**

10) **सोंसो सोदता झाड आनी शेजारी सोदता पाड.**

जो तो आपलो फायदो आनी आपलें सूख पळेता. ताका दुसऱ्याचें पडून वचूंक ना. Every animal has an eye for its own gain and comfort.

## ह

1) **हती पादता, हती पादता, फुंस्स / हती पादे पादे फुस्स**

हत्तीसारको व्हडलो प्राणी जेदेवेळा पादता तेन्ना लोकांची कल्पना आसता व्हडलो आवाज येतलो म्हणून, पूण प्रत्यक्षांत तशें क़ांय जायना.

2) **हती वांचल्यारय लक्ष आनी मेल्यारय लक्ष.**

हती पोसप्याचो हती मेलां तरी हस्तीदंत विकून लक्षावधी रुपयांचो लाभ जाता , ह्या अर्थान.

3) **हत्ती तो हत्ती ! कितलोय भागलो म्हणून घडवळींत वेता ?**

व्हड मनशाचे व्हडपण कांय कारणाक लागून गेलें जाल्यारूय ताची

गणना सादारण मनशांत करपाची नासता. हे म्हणीची वेगळीं रूपां, : हत्ती सुकल्यारूय गोठ्यांत बांदप आसता व्हय?
हत्ती भागलो म्हण घोड्याचे गवणींत वचना.

4) **हत्ती रुपान पालो खावंच्याकय, मुये रुपान साखर खांवची बरी.**

5) **हत्तीक घांट नाका.**

6) **हत्तीर बसतल्यान हत्तीर बसका, गाडवार बसतल्यान गाडवार बसका.**

माहूतान हत्तीर बसचें, भरप्यान गाडवार बसचें. जो तो आपल्या जाग्यार बरो. जागो बदलल्यार फजिती जावं येता.

7) **हत्तीर बसलो म्हणून राय न्हय, पांयांनी चमकल्यार गरीब न्हय.**

8) **हय म्हळ्यार घर वेता, न्हय म्हळ्यार बायल वेता.**

दोन वाटांनी वायट येवंक शकता आनी कितें करचें तें कळना अशी अवस्था जाता, तेन्ना ही ओपार लायतात.

9) **हर म्हळ्यार भर.**

करूंक सांगलें एक आनी केलें दुसरेंच, अशें जाता तेन्ना ही ओपार मारतात.

10) **हर हर म्हणटले खूब, खणींत उडकी मारतलो कोण ना.**

तोंडान उलोवपी जायते जाण आसात पूण वेळ येतकच संकटांत उडी घेवन मदत करपी कोण ना.

No dearth of lip sympathy, but none will jump into a ditch to help you.

11) **हरवें सोदतल्याक पिकिल्लें मेळ्ळें.**

12) **हळकुणाच्या पदराक शेळकूण बांदलें.**

म्हणीचो वापर: अन्तु कामतीन हुंडो बरो मेळटा म्हणून आपल्या नागेशाचें लग्न राम नायकाचे सुभद्रेकडेन केलें. नागेश गोरोपान आनी लांबरूंद; सुभद्रा कुरूप. तें जोडपें आज्जेक नमस्कार करूंक आयलें तेन्ना तें वतकच आजी म्हणपाक लागली: पयशाच्या लोभान अन्तु

कामतीन हळकुणाच्या पदराक शेळकूण बांदलें.

हळडीचे कांडयेक शेणीचो कुडको असो अर्थ. हे म्हणीचो वापर कसो करचो तें कमलाबाय वाघान बेसबरें दाखयलां.

## हा

1) **हागऱ्या फुडें वागरें खंयचें?**

परसाकडें जातकच मनीस वागाक भियेना. कुडीचो धर्म इतलो बळीश्ट आसता, तो भय, लज, कांय वळखना.

2) **हाडली पड, खाली पड.**

हातावयल्या पोटाचो. जितलें हाडलें तितलें खालें

3) **हांडीर आसा चेडो, सोदता ( भोंवता ) सगलो वाडो.**

4) **हाडूंक व्हरूंक, चेडूं पावलें मरूंक.**

रांदपाचे बी काम करपाक बायल आसता ती वांटपाची बी व्हडलीं कामा करता. तिचे बरोबर. चेडूं आसता तें बारकीं कामा; हें हाड तें हाड, हांगा वच थंय वच करता आनी तातूंत खरपसूक जावन वता.

मराठी म्हण : घोडा मरे भारें, शिंगरु मरे येरझारे.

5) **हांडयाच्या पोंदाक आनी पेजेच्या तोणाकाक कितेंय चलता.**

न्हावपाचें उदक तापोवपाक आसता त्या हांड्या पोंदा उजो करपाक किदेंय घाल्यार जाता. धुंवर जालो जाल्यार मान्न्यांत जातलो. पेजेक तोणाक कितेंय जाता. लोणचें बी कितेंय उपकारता. आमची आजी पणसाची माव आसता ती भाजून करम करून वाडटली. नुस्तें जाय पडटा, तें मुखेल जेवणाक.

6) **हात पांय रावले, कितें करूं बायले?**

हातापांयांनी कांय काम जायना, सामको अडचलां अशी स्थिती. कितें करूं?

7) **हात सुटूं, कुल्ली वचूं.**

एका मनशान कुल्ली धरपाक म्हणून खडपाचे खांचींत हात घालो जाल्ल्यान तो ज्यूस्त कुल्लेच्या दांग्यात सांपडलो; कसोच सुटना. तेन्ना तो म्हणपाक लागलो, कुल्ली मेळना जाल्यार जाता, हात सुटल्यार पुरो.

जिवार संकट येता तेन्ना लोभ सोडचोच पडटा

8) **हाता आयिल्ले तोंडां पावना.**

There is many a slip between the cup and the lip.

ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण: हातांत पडलेलें पदरांत पडना.

9) **हातां कांकणांक हारशी इत्याक?**

10) **हातां ना कास, ताका खंयचे कैलास?**

कासु - Coin. दूडू हातांत ना जाल्यार कैसियात्रा कशी घडटली?

11) **हातभर तवशें, सवा हात बीं.**

12) **हाताभायर गेल्ली वस्त आनी तोंडाभायर गेल्लें उतर परतें येना.**

13) **हात पावनाशिल्लें फूल देवाक.**

14) **हातान दिवन पांय धरचे.**

हातान थापट मारप आनी पांय धरप. पयलीं अपमान करप आनी मागीर भोगसुंची मागणी करप.

15) **हातान उबारनाशिल्ली साण भांगरान बांदतच गळ्याक घाली.**

बायलेक जी साण उबारूंक जाय नाशिल्ली तीच भांगरान बांदून घेनाफुडें उबारून गळ्यांत घालपाक जाली. भांगराचो सोस दाखोवपाक ही म्हण वापरतात.

16) **हाताचीं पांची बोटां सारकीं नासतात.**

17) **हातांतलें तांती खरें, उदारेची कोंबी कोण पळेता?**

18) **हांतुळणाप्रमाणे पांय सोडचे/ हांतुळण पळोवन पांय पातळावंचे.**

हांतुळणार (मांद्रेर) आयिल्लेक सोडून वाटेन वतलेक सान्नि (खूण)

करची. हांयस लावन मासो काडटा.

19) **हार उडटा म्हणून गांयडोळ उडटा.**

आपलेपरस व्हडल्या मनशाची नक्कल करूंक गेल्यार फायदो जायना. तातुबाब, पुणून हार उट्टा म्हणून गांयडोळान उडल्यार जाता? अमची आस्पत ती कसली? आनी आमी दुडू खर्चितल्यों ते कसले?

20) **हांव खणटा थंय निबर, दादा खणटा थंय मोव.**

म्हजें काम कठीण, भावाचें काम सोपें दिसता. ही म्हण मालवणींत वेगळे तरेन आसा: हांव खाता तां निबर, दादा खाता तां मऊ.

आपल्याक वायट मेळ्ळां, दुसऱ्याक बरें मेळ्ळां, अशें मानपाची वृत्ती सगलेकडेन सारकी.

21) **हांव जेवतां आनी तुका भुकेचे वखद दितां.**

आपलो स्वार्थ पयलीं सादून घेवन मेकळो जावप: दुसऱ्याचे दुख्ख उरलें कुशीक. असलीच दुसरी म्हण को.ओ. भां. (पा. 4) चेर आसा:

आतां शिजता तें म्हाका वाड, फाल्यां धाडटां ताचेवरवीं तुका भुकेचो काड.

22) **हांव पयलीं वजेली, म्हाका कित्याक जाय भाडेली?**

हांवूच वर्जी व्हरपी जाल्यार म्हाका आनी दुसरीं वर्जी व्हरपी कित्याक? दाशीक पडदाशी कित्याक?

23) **हांव हांसतां देसाक, देस हांसता म्हज्या भेसाक.**

24) **हांव हांसतां लोकांक, शिंबूड म्हज्या नाकाक.**

25) **हांव मरन, तुका रांड करीन.**

दुसऱ्याक ख्यास्त करपाखातीर आपणाकूच व्हड ख्यास्त करून घेवप.

26) **हांव मरतां म्हजे मरणी, आनी ह्या मेल्याची जळ्ळी ती करणी.**

कश्ट करून मेळोवन कशे तरी दीस धुकलता आसताना कोण तरीं वायटार आशिल्लो मनीस आपले करणेन त्रासांनी भर घालूंक सोदता तेन्ना ही ओपार मारतात.





27) **हांव गोरी, आक्का गोरी, हळद वांटची कोणें?**

28) **हांवे खाल्ल्या मिठा इतलें तूं शीत जेवलो ना.**

29) **हांवे केल्लें व्यर्थ गेलें, घोवा मागल्यान चेंडू ओगी गेलें.**

30) **हांसता ताचे दांत दिसतात / हांसतल्यागेले दांत भायर.**

हांसतल्याक, कामाक नावां दवरतल्याक, किंमत दिवप ना. आपणे आंगार घेतिल्लें काम चालू दवरप.

31) **हांसतो दादलो आनी रडटी बायल हांचो विश्वास भोव थोडो.**

32) **हांसतल्या दादल्याक, रडटले बायलेक पातयेवं नये.**

दादल्याचें हांसप आनी बायलेचें रडप अडेचें, कृत्रीम आसूं येता, म्हणून ताचेर विश्वास दवरूं नये:

फादर परैरान अर्थ दिला तो असो : हांसती बायल भुलयता आनी रडटो दादलो फसयता, रडून भीक मागता.

33) **हांशील केल्यार वाशील जाता.**

फायदो म्हणून करूंक वचत जाल्यार खंयच्यान तरी नुकसान जाता आनी वाशील बाकी शून्य जाता.

## ही

1) **हीट रोस एक, दोणो वाऱ्यार.**

हीट म्हळ्यार तांदूळ आनी हुड्डांच्या आंबयल्ल्या पिठाचें, पणसाच्या चार खोल्यांच्या दोण्यांत वाफेर उकडिल्लें मुठक्याएदें सांदन. नाल्लाच्या रोसा बरोबर खातात. रोसांत बुडयताना दोणो भायर उडयतात. ज्या दोण्याच्या आदारान हीट तयार जालो तोच गोड रोस मेळनाफुडे भायर उडयलो. कर्नाटकांत हिटाक खोट्टो म्हणटात आनी थंय म्हण अशी:, 'खोट्टो नि रसु एकु, जोन्नो नि पत्रावळी वाऱ्यारी.

भाव भाव झगडले तरीं ते एकठांय येतात. मदीं येता तो वाऱ्यार पडटा अशा अर्थान वापरतात तेन्ना हीट रोस एक जातलो आनी दोणो वाऱ्यार

पडटलो अशें म्हणटात.

## हु

1) **हुनार हून केल्यार काम ससार जाता.**

ससार = उपेगाचे, सोपें.

2) **हुंदीर हागतलो कितें आनी माजर शेणी थापतलें कितें?**

3) **हुंदीर बडयता शेंपडी, घर रिकामे ( ... बाल्लं बडयतात ).**

घर रिकामे आशिल्ल्यान खावंक कांयना आनी हुंदराचेर शेपडी बडोवपाची पाळी आयली. घरांत खावपाक कांय नासता तेन्ना ही ओपार मारतात.

4) **हुंदराक मारल्यार गणेसाक लागता.**

5) **हुंदराक लोखणाचो वावर कित्याक?**

जण एकल्यान आपणाक जमता तोच वावर करूंक जाय. शक्तीभायलें काम कित्याक करचें?

6) **हुंदरा रागान खंय कोणे घरा उजो लायिल्लो.**

7) **हुंदराक मारूंक घराक उजो घालचो?**

8) **हुंदरान केलें बीळ, सोरपान केलें बिराड.**

मराठी म्हण : आयत्या बिळांत नागोबा.

9) **हुंदीर भाजूंक मीठ ना.**

10) **हुंदीर पोंदा घालून पेड बांदप.**

11) **हुंदराक माजर गवाय.**

12) **हुंदीर गिळटल्याक बाल जडवे?**

हुंदीर गिळटल्याक ताची शेपडी जड जायना. जो व्हडलें काम करता तो ल्हानशें काम करपाक फाटीं रावचो ना. बाल = केंस.

# हू

1) **हून उदकाचो घोंट, पिवंच्याकय जायना, उडोवंच्याकय जायना.**

तीन संकलनांनी  हून उदकाचो घोंट अशेंच मेळटा म्हणून हावें बदल करूंक ना. म्हाका दिसता हून दुदाचो घोट आसूंक जाय. दूद उडयल्यार व्यर्थ वता हें खरें उदक उडोवपाक कांय दिसना. देखून दुसरी म्हण अशी आसुंये:

'हून दुदाचो घोंट, भायर उडयल्यार दूद वता, गिळल्यार ताळो लासता.'

2) **हून उदक निवोवन पिवंका.**

उतावळेपणान खंयचीच गजाल करची न्हय.

3) **हून उदकांत पडलेलें मांजर शेळया उदकाक भिता.**

4) **हून दुदान तोंड भाजलें म्हणटकूच ताक सुद्धां फूंक मारून पियेतात**

5) **हून पेज लोणच्याक काळ, ल्हान बायल जिवाक जाळ.**

हुनहुनीत पेज जेवंक जायना आनी ती न्हिवता म्हणसर लोणचें वा तोंणाक खावन सोंपता. देखून लोणच्याचो वा तोणाकाचो काळ म्हळ्यार यम. हून पेज तोंणाकाक काळ अशेंय म्हणटात. पेजेक खतखतें करतात तेंच हून पेज न्हिवसर खायत बसतात. आदीं धाकटी चेडवां काजार जातालीं पूण ताच्यान  घोवाक कुडीचो भोग दिवंक जायनासलो म्हणून ल्हान बायल जिवाक जाळ वा जिवार काळ अशें म्हणटाले.

# हे

1) **हेणें गेल्यार न्हंय, तेणें गेल्यार बांय ( पोंय ); मदें रावूं खंय?**

# हो

1) **हो हात त्या हाता वळखना.**

उजव्या हाताचो दाव्या हाताक विश्वास ना.

# ह्या

1) **ह्या बोटावेलो निथू त्या बोटार काडटा.**

आतां उलयल्लें मागीर बदलता, फटयता.

मदल्या बोटार निथू लावन, उपरांत कुशीचे बोट दोडून मदल्या बोटाचो क्रम बदलून दाखोवप असो खेळ भुरगीं खेळटात. ताचेवयल्यान ही म्हण आयली आसूंक जाय.

'भाड्याच्या वकिलाभाशेन एका बोटावैलो निथू दुसऱ्या बोटार नाचोवचो नासलों.'

'पुण्यात्मो रामकामती' बरोवपी : 'शणै गोंयबाब'.

2) **ह्या पोटाचे पाड जिणें, हाचेखातीर घेवंचे उणें.**

पोटाखातीर लोकांकडल्यान अपमान करून घेवपाची पाळी येता तेन्ना ही म्हण आपशीं तोंडांत येता.







**मनोहर पै धुंगट**

जल्म : १० जून १९३०

मुळगांव : वेरें, बार्देस.

शिक्षण/वेवसाय : पयली गोंयांत आनी उपरांत मुंबय - सिडनेम कॉलेज, गवर्नमेंट लॉ कॉलेज आनी बजाज इन्स्टीट्युट ऑफ मॅनेजमेंट.
मंत्रालय सिकॉम आनी श्रॉफ टॅक्स्टायलस् लिमिटेड हांगा कॉर्पोरेट ॲडवायझर म्हूण काम केलां.

साहित्यीक वावर: 'आकाशवाणी मुंबय' वयल्यान कार्यावळी सादर केल्यात, नेमाळ्यांनी जायते लेख-एकांकीका आनी भुरग्यांखातीर काणयो बरयल्यात.
'वावटळ आनी हेर काणयो', 'अलीबाबा आनी हेर काणयो', 'देख दिण्यो काणयो', 'काणयो देवांच्यो आनी मनशांच्यो' (पयलो आनी दुसरो वांटो) हीं तांची ऑरीयन्ट लॉगमेन लिमिटेड ह्या प्रकाशनान १९९५ वर्सा भुरग्यांखातीर उजवाडायल्ली अणकारीत पुस्तकां.